महारूख
(कथां झेलो)
एन्. शिवदास

Maharookh
Collection of short stories by
N Shivdas

प्रकाशन क्र. १२





पयली आवृत्ती: बुधवार, १७ मार्च, १९९९

प्रकाशक
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय ४०३ ७०२

अक्षर जुळणी
राजेश भाटीकार
तन्वी ग्राफिक्स
माडेल, मडगांव, गोंय ४०३ ६०१.

छापपी
श्री. श्रीकांत आमोणकार
सम्राट प्रिन्टर्स,
बाणस्तारी - गोंय ४०३१०७.
दूरध्वनी : ३९५२२०, २८७७५५.

कवर छापणावळ
सम्राट प्रिंटर्स, बाणस्तारी, गोंय

मुखचित्र
श्रीधर कामत बांबोळकर

मोल: १०० रुपया

*नागेशीं वाटारांत*
*जिका शिवाची आवय म्हणटात*
*ते म्हजे आवयक*
*श्रीमती शांताबाय सोनू नायक हांकां*
*हो कथांझेलो ओंपतां.*

— शिवदास

# समाजमनाचीं स्पंदनां

सोताची अणभवनिश्ठ समाजीक जाण हो शिवदासाले कथेचो मानदंड आनी मापदंड लेगीत. तांगेली कथा एके वटेन समाज जीवनाचो रोखठोक आलेख. समाजमनाचीं स्पंदनां तांगेल्या कथांतल्यान भोव प्रभावीपणान जाणवतात. निकोप सोबीत समाजाची घडण हें तांगेले कथेचें साध्य काय कितें असोय केन्नाकेन्ना दुबाव येता. पूण तातूं इल्लेंय आक्रस्ताळेपण, अभिनिवेस ना. आसा ती कलात्मकता म्हण ती आपलें मिशन घेवन भायर सरिल्ल्या खंयच्याय लेखकापरस उजवी थरता.

पूण ती कथा कांयशी बेफिकीर आनी आडमुठी. केन्नाय तेंच ताचें बळस्थान आनी व्हडपण. सुरवात शेवटाचें, तंत्रमंत्राचें बंधन तोडून ती मुक्तताय भोगतना ताची अपुरबाय दिसता. केन्नाय कथा कसल्याच दडपणा खाला नासता म्हण ताका एक सैमीक फुलतेंपण आनी एक गती आसा. तांच्या अणभवाचे बाबतींत समानधर्मी बरोवपी कोंकणींत आनीक आसात. पूण तांचे कथेची धाटणी ही सर्वस्वी तांची. प्रभावमुक्त, सडेतोड अशी अस्सल शिवदासी कथा.

बहु-आयामी व्यक्तिमत्व आशिल्ले लेखक केन्नाकेन्ना आपल्या साहित्यांतल्या मूळस्वराकडेन, ताचे साधनेकडेन बेफिकीर, हुसक्यामेकळे राविल्ले दिसतात. कथा वाडटा काय भागता हाचें ताका व्हडलें पडून वचना. पूण कथेचो कथासांबार इतलो घसघशीत आसता, अणभवाचें मुळावेंपण इतलें खोल पाविल्लें आसता तरीय कथा बरी जमून येना म्हण होलमतकीर मन असह्य जाता.

मनीस जिणेक पूर्वसंचीत आसता. परंपरा, संस्कृती आनी मुल्यांची बैठक आसता. हें पूर्वसंचीत नाशिल्लें जाल्यार मनीस मोनजातीवरीच एक निखटो चोमो जातासलो. हें सूत्र शिवदासाले कथेक होलमलां म्हणून ताची कथा मनशाच्या इंद्रीयशक्तीक मानवी संवेदना दिवंक, मनीस जिणेक निश्कळंक, सोबीत, समान समाजीक पातळेर हाडूंक धडपडटा. तरीय ताका प्रचाराचो वास ना. सदांच एके कलात्म शिटुकसाणेन ती वावुरता. तागेले कथेंत दुख्ख आसा, पूण जिणेची निरर्थकता ना. तातूंत निर्शेणी आसा, पूण नास्तिकता ना. तातूंत एकसुरेंपण आसा, पूण उबगण ना. तातूंत तिडक आसा, पूण अशुद्धपण ना. दुख्खां पचोवन सपनांवटेन वचचेली तांक ते कथेंत आसा.

दोनय महाझुजांतलो रक्तखेव आनी नरसंहार हाचेन युरोपावटेन साहित्याचेर निरर्थकवाद, निराशावाद हांची गच्च सांवळी पडली. पूण भारतान महाझुजां भोगूंक नासलीं. भारताची कुटुंब व्यवस्था, समाज व्यवस्था घट घटणार उबी आसली. ताच्या साहित्यांत तथाकथित निरर्थकवाद येवचेली गरज नासली. पूण भारतीय साहित्य खोटो तकलुकी निरर्थकवाद युरोपांतल्यान आयात करीत रावलें. ताचेन भारतीय साहित्याचें मूळ सुत्रसंचीत हातांतल्यान सुटलें. तें भारतीय आत्मो शेणून बसलें. पूण कोंकणींत तोच पोन्नो आशावाद, तेंच सेंद्रीय रूप अजुनूय दिसता. कोंकणी भाशेक खूब भोगचें पडुनूय निराशेचो सूर ना. हेच परंपरेंतलो एक एन्. शिवदास. तांची कथा खूब सपनां घेवन येता. उज्यांत उबो

रावनय सपनां रंगयता. पावसांत चिंब भिजून मोगाक उलो घालता.

भंयभिरांत नाशिल्ली, दडपण नाशिल्ली चौकट नाशिल्ली शिवदासाची स्वच्छंदवादी कथा. खरें म्हटल्यार कथेक तंत्रमंत्राचीं बंधनां घालून सगल्या लेखकांक एकेच राशींत घालूंनये. आपले प्रकृतीप्रमाणें जण एकल्याचें तंत्र आनी आपल्या अणभवविश्वाप्रमाणें जणएकल्याचो मंत्र. कथा म्हटल्यार शेवटाक कितें? चड फावट पसारो नाशिल्ली, चड लांब नाशिल्ली, मेजक्याच उतरांनी सांगिल्ली गजाल.

तरीय शिवदास जिणेचो अर्थ सोदता, घडणुकांक कार्यकारण लायता. वृत्ती प्रतिगामी न्हय तरी जुनें मोडून पडटना अस्वस्थ जाता. नवो दीस नवो सूर्य घेवन येवचो आसता. तरीय काल उदेल्लो सूर्यय तितल्याच मोलाचो दिसता. पोन्नेंच बरें आशिल्लें अशें म्हणपी लोकांचें एक आसता. ते तितलेच स्रद्धावान आसतात. 'सावड' हे कथेंत नव्या वाऱ्याचो, मुक्तिचो, बदलाचो वेध लागिल्लो एक तरणाट्यांचो चोमो आनी परंपरागत मुल्यां वेंगावन बशिल्ले जाण्टेले हांचेमदीं एक ताटातुटीचो संघर्श पळोवंक मेळटा. मूळ 'भुंयेंतलीं' मुळां हुमटून घेवन वयतना काळीज तुट्टा. पूण मनीस कुळयेचे उदरगतीच्या प्रवाहांत ती एक चुकनाशिल्ली गजाल. पोटापाणयाचो प्रस्न हो मनशाच्या अस्तित्वाचो प्रस्न. जगून वाचून उरल्यारच मागीर मनाचो काळजाचो प्रस्न हें एक वैश्वीक सत. तेंच ही कथा केळयता. मुळापसून तरणाट्यांनी तुटून वचचें न्ही म्हणपी जाण्टेलेय पडमूर न्ही. ते माती कपलाक लावपी स्रद्धावान.

दुबळ्यांचें अस्तित्व नश्ट करूंक सदांच बळिश्ट वावरत आसतात. त्याच राक्षसी आनंदांत तो जियेता. एक 'सादोभोळो' रूख, तरीय तो 'महारूख'. कारण पुरुशार्थाच्या चैतन्यान पुराय रसरशिल्लो. एक गरीब बाबडी वाल. तांचो सुखाचो मोगाचो संवसार. पूण अचकित एक रानटी वाल त्या रुखार बळटा, रुखाक व्यापून गुठलावन सोडटा. अस्तुरेचें विधायक आनी विघातक तांकीचें दर्शन महारूख ही रूपक कथा बेस बरी घडयता. जीवनाचेर भाश्य करचेली रूपक कथेची तांक वांगडाच लेखकाली प्रतिभेची तांक हे कथेंत दिश्टी पडटा.

'एकटें एकसुरें' कथेंतली मालाबाय ही सोताचे वृत्तीची बळी. सोताच्या हातान सोताच्या पांयार फातर घालून घेता आनी वृद्धाश्रमांत पावता. मनशान मनीसपण जोडचें आसता, मनीसघाणो जावचें नासता. एक फावट मनीस मनशाभायरो जालो म्हणटकीर सोबीत संवसाराचो नाश जाता. मगेर पश्चातापाचीं दुकां गळोवचे बगर हातांत कांय उरना. शिवदासान जिविताचो काडिल्लो हो वैश्वीक अर्थ.

रगत रगताचो प्रवास हो मोटो दुखदिणो. रगतांतल्यान कशी ही नाळ जुळटा कळना. ना तर जल्मतनाच मेल्ल्या भुरग्याखातीर बापायचें काळीज इतलें कशें तुट्टासलें? आपलो श्वास, आपल्या काळजाची हुडी आपणें आपल्या पुताक दिवन मरचें आनी ताणें आपलो वारस चलोवचो ही खोल मनांत दड मारून बशिल्ली इत्सा. म्हणूनच आपल्या मेल्ल्या बाळकाचो फुडार बापूय चित्रायता आनी ताका मरणाचें महानिर्वाण भेटयता. 'म्हज्या पुताचें महानिर्वाण' ही कथा एक दुखदिणे परंपरेची नाळ रुजयता आनी वांगडा कथा

सोतावांगडा वाचकाक पावला पावलार कासावीस करता.

रोजमारीलें 'कोंकणेपण' म्हटल्यार फकत कुड्डो भावार्त न्ही. धर्मान वांटे घातिल्ले आसले तरीय खूब पोरणे संस्कृतायेचो एक प्रवाह सरसकट भारतीय जिणेंतल्यान व्हांवता. 'कोंकणेपण' हे कथेंत रोजमारीन आल्तेरार पुजिल्लो नाल्ल म्हटल्यार एक प्रतीक, रगतांतल्यान व्हांवत आयिल्ल्या फाटल्या दायजाचें.

दादलो बायलेमदीं फक्कत मोग आनी भोग म्हटल्यार सगलें न्ही. वांगडाच समाज तत्वाचो, ताचे धाटणेचो, बंधनांचो मान राखचोच पडटा. प्रस्न धर्माचोय न्ही. प्रस्न लग्नांतले जबाबदारेचो. मुक्त भोगांतल्यान जल्माक आयिल्लीं भुरगींबाळां शेवटाक आपलीं जायनात आनी मागीर 'मर्णमुक्ती' हे कथेंतल्या आनंदल्यावरी एकसुरें वळवळ्याचें मरण भोगचें पडटा.

शिवदासाले कथेचें आनीक एक व्हडपण म्हटल्यार, कथेंत कथानक, घटना, व्यक्ती, सैम, अर्थ, तत्व सगलें आसा. पूण हें सुटेंसुटें कथेंतल्यान भायर काडूंक येना. तांचें एक बेमालूम, सैमीक मिश्रण कथेंत जाल्लें आसता. म्हणूनच ती चड वास्तवीक जाता. शेवटाक बंधमुक्त, सडेतोड साहित्य प्रकाराची पत थरोवचेलें काम कठीण आसता. तो वादाच्या भोंवऱ्यांतय सांपडटा. मात वाद हो सदांच बहुआयामी साहित्य रचनेचे बाबतींतच आसता.

चावडी, काणकोण – गोंय

— महाबळेश्वर सैल

# मनांतलें

मनांतलें मनांत उरतकच वगीच फुगार जावपाक जाता. ह्या फुगासांवाक टाळटलो जाल्यार मनांतलें भायर, म्हळ्यार मनाभायर येवपाक जाय. देखून खूब तेंपान म्हजो कथासंग्रह येता ही मनांतली खोशी मनांत दवरल्यार वाचपीच कितें म्हणटले आसले?

मदलो काळ सामको पडंग गेलो. कथा बरयल्योच नात. कथा घडटाल्यो, कथा वता थंय दार उकतें करून म्हाका होरायताल्यो. पूण तांणी जल्म मात घेतलोना. तांचें कितें जालें जायत? आयज याद केल्यार मदल्या काळांत कांय बरयलेंना हाची खंत जाता. पूण खंतीचो तेंप फाटीं पडलो आनी १९९० सावन हांव परत बरोवंक लागलों. खरीक बशिल्ली सर्जनशिळताय खरपून काडून वयले प्रतिभेंत घोळयतां घोळयतां गोबरा पोंदचो कथे-इंगळो भगभगून लखलखूंक लागलो आनी त्याच इंगळ्यांतल्यान शेकीं महारूख वयर सरलो.

आयज हो महारूख तुमच्या नदरेच्या आंगणांत हाडून लावपाचें खूब मोटें काम ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनान केल्लें आसा. म्हजो इश्ट श्री. कमलाकर म्हाळशीन उलयतां उलयतां म्हळें, 'शिवदासबाब, तुजो एक कथासंग्रह ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनाचे वतीन उजवाडाक हाडपाची तीव्र इत्सा आसा.' पुस्तक उजवाडावप तशें सोंपें काम न्हय. अर्थकारण म्हत्वाचें आसता. तातूंत कोंकणी पुस्तकां झप्प करून उजवाडाक हाडलीं आनी तीं धपक्याक खपलीं अशें घडना. म्हणटकच छापणावळीक अर्थवेवस्था करतना बरोच विचार करचो पडटा. पूण आतां महारूख ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनाच्या जाळवणदारांनी तुमचे मेरेन पावोवपाची वेवस्था केल्या.

हो कथा संग्रह खूब वर्सांनी येता ही खोशी आनी खूब तेंप कथासंग्रह आयलोना हाचीय खंत अशी संमिश्र भावना म्हज्या मनांत जमा जाल्या. अशे अवस्थेंत उपकार मानप ते कोणाकोणाचे तेंच समजना. इतलेंच म्हणटां, ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनाच्या महारुखाचीं पाळांमुळां दिशींदिशीं कोंकणी भुयेंत अयस पयस पावचीं.

अंत्रुजनगर, फोंडें-गोंय. **एन्. शिवदास**

# मांडावळ




# १.

# घर... घर... बेघर

मा टटीर कोल्याच्यो कुयो म्हळ्यार खंयच्याय माल्लीसांव पडिल्ल्या घरांतल्यो बोबो हुयेली कशो! आनी ह्या बोबो हुयेलींमदीं एके लावसटीचो बोंबलेच्या देठाकडल्यान काडिल्लो आवाज सुभाल्या घरांत घुमलो.

लावसटीन पुताक म्हळें, 'तो घराभायर आसा ते मेरेन तुमी तुमगेलें सादयात. बरें जालां, तो आवयकय कांय दिसां खातीर घेवन गेला. उडय मोडून तिगेली ती तीन फातरांची चूल आनी घाल मोडून मदली पारेत. ना जाल्यार फाल्यां तो हांगा रावपाक येयत तर आमकां घरांत हातपांय सोडूंक मेळचें ना. ते भायर सद्दां उठून किटकिटी. म्हाका आनी तिका कशेंच पडपाचें ना. तुमकां एक सांगतां, तुमी जर तांकां घरांत दवरशात जाल्यार हांव रावचींना हांगा, रावात तुमीच.'

बरोच वेळ जालो रामा आवयन – कस्तुऱ्यान घर माथ्यार घेतिल्लें. कस्तुऱ्याक मांय-मांवाचें घर एकल्याकच भोगपाक जाय आसलें. ते खातीर घरांतली जाव तिका झळकीक नाका आसली. घोवाची आवय म्हळ्यार कस्तुऱ्याची मांय आयज आसा, फाल्यां ना. पिकिल्लें पान जाल्ली. केन्नाय झडूंक येतालें आनी म्हणून, कस्तुऱ्यान तिका साडीसुडी सोडलीना. सामकी कोसून कोसून सभावीक झडचे बदला मुद्दम झडोवची म्हणून आकाश पाताळ एक केलें आनी एक दीस खरेपणीं कस्तुऱ्याचे मांयन सुनेचे जाळ सोंसू नज जावन ह्या संवसाराचो निरोप घेतलो. मांय गेली तशें कस्तुरें सुखावलें. तिणें बेगिबेगीन सासुमांयचो तांब्या पितूळचो संवसार हातासलो. देराच्या पोराक आज्जेच्या मरणाची खबर उसरां कळची आनी नातू आज्जेचेर नदर घालूंक पावचो न्हय हाची जतनाय कस्तुऱ्यान घेतली. मांयचो इलो लावन लोक मसणांतल्यान परततात थंय आसा, कस्तुऱ्यान सासूले तोप, आयदनां, भाणां, मडक्यो केन्ना हातासल्यो कोणाक कळ्ळेंच ना.

कस्तुरें पुताक रामाक बुद्द दिताली ती आतां जावेचो आनी तिका आशिल्ल्या एकसुऱ्या पुताचो कांटो काडपाचो. तांकां दोगांकय घर बंद केलें म्हणटकच सुभाल्या घराची आपूण राणी हें चिंतून कस्तुऱ्यान रामाक फर्मायलो, जावेले कुडींत वचून चूल काडपाची आनी थंय ब्रें शिमीट बिमीट काडून न्हिदपाची कूड करपाची. रामान आवयची बुद्द घेवपाचें थारायलें आनी दुसऱ्या दिसा तो कामाक लागलो. ताणें दोन भावांचीं दोन बिराडां

केल्ली. मदली वणत मोडून घाली आनी आपल्या सर्गेस्त बापोल्याचे रांड बायलेचो संवसार जंय मांडिल्लो ते तीन फातरूय निखळायले. आपल्याक एक बापोलभाव आसा, बापोलयाचे रांड बायलेक एक पूत आसा आनी तोवूय बी आपणाइतलोच सुभाल्या, म्हळ्यार आपल्या आज्याच्या घराचो हकदार आसा हाचो बिलकूल विचार केलोना. दुसऱ्याचो संवसार उद्ध्वस्त केल्यार ताचे शिराप फुडाराक आपल्या संवसाराचेर पडटले आनी आपलोय संवसार उद्ध्वस्त जातलो हाचो विचार तेन्ना रामान केलो ना. आवयची दुर्बुद्दी घेवन ताणें आपल्या फुडाराचीं संवसार-चित्रां रंगयलीं. जंय बापोलयाचे बायलेचो तीन फातरांचो संवसार उबो आसलो थंय आपूण हातपांय सोडून पातळटलों म्हणपाचें चिंतलें. पूण ती आपले रांड चुलतेची कूड सोडाच, घर म्हूण घरची वासरीय संवसाराखातीर वसयली ना. करतलो तसो भोगतलो ते प्रमाण रामाक केल्ल्या मापान गावपाक लागलें, रामाकय घर आसून नाशिल्लेवरीच जालें.

रामाचो बापोलभाव जेन्ना पोटा पाणया फाटल्यान दिसांचे दीस घराभायर उरतालो, तेन्ना ते संदीचो फायदो रामान आनी ताचे आवयन घेतलो आनी बापोलभाव आनी परतो हांगा कसो पावचो न्हय म्हण रामाचे आवयन ते खातीर कांय तत्काळ उपाय सांगले. तातुंतच जावेचेर आनी तिच्या पुताचेर बहिश्कार घालप, घरांत येतकच कसलेंय नीब काडून घरांतलें वातावरण कंटाळवाणें करप, कोणें बऱ्या मनशांनी बेजारून घरांतल्यान घर सोडून वचचें अशें. आनी जालेंय बी तशेंच. रामाचो बापोलभाव केन्नाय आत्रेपयऱ्यान आपल्या घरा पावलो तर घरांत कटकटी आनी तंटे करपाचें सत्र रामाचे आवयन कस्तुऱ्यान आरंभलें. बापोलभावाक असलें बिलकुल मानवनासलें. ताणें मनांत चिंतलें, घराभायर हातपांय धोडावन चार गोटे सुखान खाता तेंच बरें. घर जर सुखाचो घास खावंक दिना जाल्यार घर जाय तरी कित्याक? पूण बापोलयाचे बायलेक म्हळ्यार रामाचे चुलतेक घर सोडपाचें मान्य नासलें. तिका त्या घरांत लग्न करून हाडिल्ली, तर कस्तुऱ्याक दुसरेपणीं लग्न करून हाडिल्ली. सुभाल्या पोरण्या घराचेर कस्तुऱ्याचो अधिकार हो असलो उखलापो म्हणून कस्तुरें पयलेंच शादूर जावन जाता तितले बेगीन सुभालें घर बळकावंक धडपडटालें आनी खरेपणी कस्तुऱ्यान सुभालें पोरणें घर हातासलें, त्या घरांत फकत एकूच चूल आसली ती कस्तुऱ्याली चूल!

वर्साची चवथ येतकच सगळें कुटुंब वाडवडलांच्या घरांत वर्सावळीचो गणपती पुजपाक आनी कुटुंबाच्या स्नेहमेळांत आनी मदलशींत वांटो घेवपाक खंयूय आसल्यार गांवघरा येतात अशी ख्याती गोंयांत आनी दर एका गांवांत आसा. ते प्रथेक धरून वर्साभाशेन जेन्ना रामाचो बापोलभाव पमा म्हळ्यार प्रमोद आपले विधवा आवयक घेवन घरांत आयलो जाल्यार कितें पळयतलो, सगलेकडेन सामसूम. घरांत मर्णकळा. कोण झळकीक पडना. कस्तुरें कोनशाक तोंड काळें करून काळखांत रावन आतां कितें घडटा तें आयकुपाक कान दिवन राविल्लें. तें जाणा आसलें, देरालो पोर आनी देराली बायल आपलें जावपण गाजयतली, आपली चूल काडल्या आनी रांदचे कुडीचो न्हिदपाचो रूम केला तें पळोवन तीं दोगांय आवयपूत आकांत करतलीं, घर माथ्यार घेतलीं आनी मागीर झगडीं करपाक

आपणाक आयतीच संद मेळटली. तोंडाक तोंड लागतलें आनी मागीर घरांतलें कुटुंबीक वातावरण इबाडटलें. मागीर मोन्यांनी आवय आनी पूत घरांतल्यान तोंड घेवन वतलीं आनी मागीर सुभाल्या घराची आपूण धनीण. मात हें घडपाक झगड्यांक तोंड फुटपाक जाय. मागीर हांव कोण ती हेंकां दाखयतां. देराचे बायलेक आनी तिगेल्या पुताक नाका तें वडलांचें घर अशें केलें ना जाल्यार कस्तुऱ्याचें नांव गांवांक सांगचें ना. कस्तुऱ्यान लावसटीचो अवतार घेवपाचें पक्कें थारायलें.

रामालो बापोलभाव भायर रावलो पूण ताची आवय सदचे भाशेन आपले कुडींत गेली. पूण कुडींत वचून कितें पळयतली? थंय सगलेंच बदलून गेल्लें. मदली पारेत नासली आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार तिगेली तीन फातरांची चूल थंय नासली. वणटीक शिमीट काडिल्लें आनी वयर एक सिलींग फॅन हुमकळटालो. तिणें काळीज घट करून भायर वासरेर आशिल्ल्या पुताक भितर आपयलो. आनी आवयचो पूत कितें पळयतलो? घर सोडून म्हयनो भायर राविल्ल्याचो गैरफायदो बापोलयान आनी ताचे बायलेन तशेंच भुरग्यान – रामान – घेतिल्लो. तो समजुपाचें तें समजलोच. ताणें गर्भगळीत जाल्ले आपले म्हातारे आवयक सांबाळ्ळी.

'आतां आमी खंय रावपाचें रे म्हाज्या पुता? हें घर म्हाजें मरे! हाताक धरून हुंबऱ्या वयलें माप उमथावन तुज्या बापायन म्हाका ह्या घरांत हाडलेलें मरे. हें हें म्हाज्या घोवाचें घामा कश्टाचें घर मरे. आतां हांयें दोन गोटे खंय शिजोवन खावपाचे रे? इचार मरे तेंकां, इचार तुज्या त्या बापायच्या भावाक, कपटी बापोलयाक.'

'आवय, म्हज्या बापायच्या भावाक आतां उतर फुटचें ना. तो मोनो जातलो. ताची सकनळी आपसूक अंदतली. कारण आपूण आपल्या भावाच्या भुरग्याचेर मोटो अन्याय करतां हें ताका बेस बरें खबर आसा. पूण तो आंग लिपोवन हें सगळें कर्म आपले बायलेकडल्यान आनी बायल पुताकडल्यान करून घेता आनी आपूण खंयच ना असो सामको सादो भावार्थी जावन कोनशाक रावता. आनी जालेंय बी तशेंच. रामाच्या बापोलभावान जेन्ना आपले कुडीक कोणें हात लायलो काय म्हण विचारलें, तेन्ना बापोलभावाच्या आंगार आल्सेशियन सुणें सोडचें तशी बापोलयान आपले बायलेक पुतणयाचेर सोडली.

'तुमकां हांगा कांय एक ना. हें घर आतां फकत आमचें, म्हाज्या पुताचें. तुमकां रावपाचेंच आसल्यार एक दोन दीस रावपाचें. आमी घालतात तो पेजे निवोळ पियेवपाचो अनी तिसऱ्या दिसा आपआपल्या बिराडार परतुपाचें.'

'बिराडार परतुपाचें?' बापोलभावाचे आवयन विचारलें.

'हय हय. घर आमचें, घर आमी सांबाळटात. हांव एकटी सांबाळटां. तुमी फकत घराचो हक तितलो सांगतात. घर खर्च हांव करतां.'

'हक्क सांगपाचो प्रस्न खंय येता हांगा? हक्क परक्यांनी सांगपाचो, घरच्या मनशांनी न्हू. जशें तुका हाडलां तशें म्हाकाय हाडलां. हांव हे घरची सून.' बापोलभावाची आवय संथपणान म्हणपाक लागली.

'मेलें, तूं रांडूल. घरची सून खंय. घोवाक खायरें, आतां आनी तूं सून म्हणपाची

उरल्या ?'

'आगे म्हाजे सासणाचे सवायशिणी, अमृताची कुपी घेवन तूं येयल्या काय किर्ते? म्हाजो घरकार गेलो म्हणून घराचो हक्क गेलो ना. म्हाजो पूत आसा त्या घरकाराच्या रगताचो.'

'तीं लुकशेणां तूं म्हाका शिकोवं नाका, वच गांवार काडोन हांगाची. कांय ना घरबीर.' कस्तुऱ्यान लावसटीचो अवतार थारायल्लेप्रमाण घेतलो आनी अख्खें घर रणखेव करून सोडलें. सगली झुजाची सराद बायलेचेर सोंपयिल्लो षंढ जावन चूप्प जाल्लो कस्तुऱ्यालो घोव आनी आवयच्या हातांतलो बावलो जाल्लो रामा मोन्यांनी हो सगलो तमाशा उकत्या दोळ्यांनी पळयतालो.

'रामालो बापोलभाव समजुपाचें तें समजलो. कशेय भाशेन ती आपणाक घरांत रावपाक दिवचींनात आनी रावलीं सुद्धां जाल्यार सुखाचो घांस खावपाक कशींच दिवचींनात हें तो वळखलो आनी ताणें आपले सतरवितर जाल्ले आवयक म्हळें, 'आवय, हें घर आमचें. पूण ह्या घरांत सुवार्थ रिगला तो आमचो न्हय. सगलें फट, कोण कोणाचो न्हय. मनशाचीं नातीं असल्याच प्रसंगार कसाक लागतात. भाव, बापोलभाव, बापायचो भाव हीं सगलीं पळय असल्या वेळार कशीं दोंगराचीं देगणां बुसबुशीत जावन भूंय भरवण जावचीं तशीं जातात. म्हज्या बापायच्या भावाक हांव संत म्हणटालों. संताचीं चरित्रां पठण करून तांच्या नांवान भजन किर्तनां करून गांवाक समरादना घालपी हो मनीस देव काय देंवचार तें असल्या वेळार दिसता. देवसांवां आनी भक्तांचीं सवंगां जीणभर वठयिल्ल्या ह्या मनशाचें खेरेलें रूप तें हें. घरचो वडील म्हणूनय ताका कांय एक थारोवपाचें ना, सांगपाचें ना. कारण तो जाला एक फकाण बायजुवो, बायलेच्या हातांतलो खिळखिळो, आनी हो तिचो पूत तर ताचेफुडलो. तांकां सुवार्थाचो रोग जाला. त्या रोगाचीं फळां तांकां रोखडींच मेळटलीं. हें म्हज्या पूर्वजांचें थळ. हो वाठार म्हज्या आज्यापणज्याचो. ही मठी म्हज्या आज्यान आनी बापायन खुटी मारून घडयल्ली. ती मठी असल्या कोळ उंदराक लागून शापीत जावंक फावना. आवय, तूं आतां एक लेगीत वायट उतर काडुंनाका. मेल्ले गेल्ले वाडवडील आनी तीं सगलीं पितरां न्याय निवाडो करतलीं. घर कोणालें तें तांणी थारायलां जायत. ह्या खिणाक तरी हें घर म्हजें आनी तुजें न्हय. ह्या म्हज्या जल्माच्या घरांत म्हजीय वार पुरल्या, हें म्हज्या बापोलभावाक आनी बापोलयाक जितले बेगीन समजतलें तितलें बरें.'

'तेंचें बरें जावचेंना, म्हाजे तळतळे पडटले तेंचेर. म्हाज्या दुकांचे लांस पडों तेंचेर...' बापोलभावाचे आवयन म्हळें तशी दुसरे वटेन काळखांतल्यान आड्डोवपी कस्तूर लावसट जोगूल कशी कडकडली.

'व्हासिमोर हांगाची, वच काडोन, रांडला, चेडये, वच जगार x x x x.''

भर दनपरां सुभाच्या घरांत गाळींचो शिंवोर जालो. बापोलभावाच्यान हळशीक अशो गाळी आयकूंक जायना जाल्यो. ताणें आपले आवयक भरभरीत घरांतल्यान ओडून हाडली.

'घरांत देव येवपचो आसा, आमी या. घरांतलें असलें वातावरण पळोवन तो देव

लेगीत हांगा येवचो ना. फकत आतां हे फुडें हाडटले ती मातयेची मूर्त. ते मुर्तींत देवत्व केन्नाच नासतलें.' बापोलभावान आपले संतप्त जाल्ले आवयक थातारपाचो यत्न केलो तेन्ना तिणें आपल्या पुताक धपकायलो.

'तूं तुजो हक्क सोडटा?'

'कसलो हक्क आवय?'

'ह्या तुज्या घराचो?'

'कोण सांगता?'

'मागीर तूं मोन्यांनी या म्हणटा कसो?'

'कितें करपाचें? ह्या असल्या लोकांकडेन झूज मांडपाचें? हांव कौरव न्हय.'

'भायर अन्यायाखातीर तूं झुजां मांडटा मरे?'

'तीं भायल्या लोकांकडेन. हीं... हीं तर म्हजे...'

'फट... फट... कोण कोणाचो न्हू, तूं तेंकां मानत, पूण हें घर खावपाखातीर ते तुका मानपाक तयार नात. आपसुवार्थाची झापड येयल्या तेंच्या दोळ्यांचेर.'

'हें पळय आवय, म्हज्यान जायतें करुंयेता. कायद्यान, न्यायान आनी अन्यायानय. म्हज्यांत तें बळगें आसा. एक एकट्याचे बोचकुटेक धरून ह्या घराभायर मारपाची शक्त म्हज्यांत आसा. पूण हांव कांय एक करचों ना. म्हाका झगडून झोमून घरचें धनीपण नाका.'

'हो अन्याय तेंकां पोचोंक दितलो तूं?'

'अन्याय कोणाक पचना. फकत वाट पळोवची पडटा. देर है, अंधेर नहीं अशें म्हणटात तें जाणा न्हय तूं?'

'तूं व्हडलो तत्त्वज्ञानी जावंनाका, शेणटलो, घाणटलो सामको.'

'कोण घाणटलो आनी कोण शेणटलो तें काळूच दाखयतलो, चल या आमी हांगाचीं.'

'चलात चलात. फुगोवन दाखयतात कोणाक?' भितरल्यान कस्तुरें परत फणफणलें. कस्तुरें लडायेंत जिखिल्लें, कारण ताणें लडायेची पुरा तयारी केल्ली. घोवाक शिखंडी दवरून रणांगण करून रामाच्या बापोलभावाक आनी ताचे आवयक सुभाल्या घरांतल्यान सासणाचीं हद्दपार करपाचो कस्तुऱ्यान विडो उखल्लेलो. भर दनपरां चवथी दिसा बापोलभावाक आपलें जल्माचें मूळ घर फकत बापोलयाच्या सुवार्थाक लागून सोडचें पडलें. घरांत कोड्डू कार्टी सारकीं मनशां, थंय काण्णां-चुन्नां कशीं तगतलीं आसलीं?

बापोलभावान गळगळीत दुकांच्यो झरी घालून हुंदक्या हुंदक्यान रडटले आपले आवयक सावशीक केली. ना म्हळ्यार तोवूय मात्सो भावनाविवश जालो. जल्माचें घर अशें विस्वासघातान सोडपाची पाळी ताचेर येतली हें ताणें सपनांत लेगीत केन्ना चिंतूंक नासलें. ताणें घरामुखावयलें तें भाटकारालें पाचवेंचार माडयांनी आनी केळींनी भरिल्लें कुचकुचीत कुळागर पळयलें आनी ताच्यो यादी ताका याद जावपाक लागल्यो. आमोरेच्या वेळार देवघरांत बसून तोंडपाठ म्हणिल्लें गणपतीचें स्तोत्र, मारुती स्तोत्र ताका याद जावंक लागलें. काजूच्या खाकोळांत बसून केल्लो अभ्यास आनी माडये कवाथ्याची सत्री करून

भर दनपारची कुळागरांत घेतिल्ली थंड शितळ सावळी ताचेर पडिल्ल्याचो ताका भास जालो. आंगणांतली चमेली रथ कशी धव्याफुल्ल फुलांनी फुलिल्ली आनी तिचो घमघम सुटिल्लो. घराभोंवतणचे आंबे-पणस आनी देगणावयलो चंदन, खळावयल्यो काजू ताणें दोळेभर पळोवन घेतल्यो आनी घरांतल्या कुरकुटांत पुजिल्ल्या वाडवडलांचें आनी पितरांचें ताणें स्मरण केलें आनी आपले आवयक सांबाळीत तो घराचें एक एक सोपण देंवपाक लागलो.

'पुता, आतां आमी खंय वचपाचें रे?'

'खंय ना, आमी हांगाच रावतलीं ह्याच घरांत', बापोलभावान आपले आवयक म्हळें.

'हांगा कशीं? आतां आमी वयता न्हू रे?'

'हय, वयता ती तुजी म्हजी कूड. मन न्हू आवय. आनी आत्मो जर खऱ्यांनीच आसता जाल्यारूय तो वयचो ना हांगाचो. तो सदांकाळ हांगाच घुटमळटलो.'

'हय रे पुता म्हाज्या, म्हाजें मन हांगाच घुटमळटाशें. आरे, म्हाज्या आवयबापायन दिल्लें घर मरे म्हाजें हें. पूण आयज म्हाका परकें जाता हेंच्या सुवार्थाक लागून? म्हाज्या क्लेशांचे शिराप पोडों.'

'घर केन्ना परकें जायना आवय. घर तें, तें मनशा इतलें पडमूर नक्कीच न्हय. पडमूर मनशां. तांकां बरें मागुंया.'

आनी बापोलभावान आपले विधवा आवयक वेंगेंत घेवन काळीज घट करून आपल्या जल्मघराक आदेवश केलो.



## २.

# काळखांतलीं पावलां

वेळ आमोरेची. अस्तमत्या सुर्याचीं तांबशीं वतां आतां न्हिदून दर्या देगेर थंडसाण पसवल्ली. धवे रेंवेंत थांबनासतना न्हिवतल्या वतांची सया धवसाण लिपोवंक लायताली. वेळेर सुकत घाल्ल्या नुस्त्याचो दर्प नाका तोंडांत रिगतालो. वेळेर पयलें पावल दवरतल्याचे हात ताच्या नाकाकडेन व्हरपा इतलो नुस्त्याचो वास मारतालो. खारव्यां सुकिल्लें नुस्तें पाटल्यांनी भरून देगेर व्हरतालीं.

अशे आमोरेर तें म्हजे वेंगेंत मुसमुसून रडटालें. ताणें अस्तमत्या सुर्याक फाट केल्ली आनी हांवें तोंड केल्लें. म्हाका सुर्या तांबडो गुंज जावन पळयतालो, ताका मात ल्हवू ल्हवू देंवपी काळोख जाणवतालो. ताच्या दोळ्यांतलीं दुकां म्हजे छातयेर थांबनासतना गळटालीं.

‘हें पळय, अशें रडून आमचो प्रस्न सुटचो ना. धीरान तोंड दिवपाक तयार राव.’ हांवें ताच्या केंसांनी हाताचीं बोटां भोंवडायत म्हळें तशें तें चडच हामेऱ्यांनी रडूंक लागलें. दर्याच्या वसाडींनी ताच्यो हामेऱ्यो एकरूप जावन वसाडीयेद्यो जावन वताल्यो. ते खातीर त्यो कोणाच्या कानार पडपाची शक्यताय नासली. ताचीं गळगळून व्हांवपी दुकां थांबोवपाक खऱ्यांनीच हांव असमर्थ आसलों. ताका तशें हामेऱ्यांनी रडपाकय कारण आसलें. ताचे जिणेंत तशेंच घडलें आनी तशें घडपाक म्हजेंय कारण जालें. आयची एकूण स्थिती फकत दुकां गळोवपाचीच जाल्ली. ‘धीर धरपाक आतां कसलो आधार? कोणाच्या नाड्यार हांवें आतां धीर धरपाचो? तूं तर कायद्यान दुसऱ्याचो जालो. तुवें तुजें पळयलें, तुजो संवसार उबारलो, म्हाका फाट केली. हांव मात इतलीं वर्सां फकत तुकाच पुजीत रावलें. कितें मेळ्ळें म्हाका? ही असली जीण मू?’

हांवें मनांत म्हळें, ताका जाय तितलें उलोवं दी. उलयतकच मन खंय हलकें जाता. पूण तें थांबलें आनी म्हज्या दोळ्यांत खोल पळयत एके तरेचो निश्चेव करीत ताणें म्हळें, ‘आयज सावन हांव तुका मेळचें ना आनी तुंवूय मेळूंक येवंनाका. खूब जालें. हें असलें आमचें नातें ह्या समाजाक केन्नाच मान्य जावचें ना. समाज आमकां केन्नाच समजून घेवंचो ना. मनशाचे जिणेंत अशेंय बी घडुंयेता हें समाजाक खरें दिसचेंना.’ ताणें म्हजे छातयेवयली आपली तकली पयस केली. म्हजे वेंगेचो विळखो सोडयलो आनी म्हजे पासून हाताच्या अंतराचेर उबें रावन परत ताणें म्हाका पळयलो. कितले

खीण ताणें म्हाका पळयलो, खबर ना. पूण ताच्या काळजांत कसली खळबळ जाल्ली कोण जाणा, आतांच तें जें कितें उलयिल्लें तें सारकें न्हय अशें ताका होलमलें आनी खूब तेंपान मेळिल्ले भाशेन खिणांत परत ताणें म्हजे वेंगेंत घालून घेतलें. सगलो भरिभार आतां तुजेर, अशा अर्थाची ती खेम आसली जावंक जाय.

'कसली जीण येवची म्हज्या वांट्याक? ही जीण सोंसपाची शक्त आमच्यांत ना. मेधा, आमी दोगांय दुबळीं. तुजे म्हजे हे असले संबंध कितले पोरने तें आतां काल पयर आमच्यो खबरो करतल्यांक कोणें सांगचें? खऱ्यांनीच, ह्या खिणाक दिसता, तुवें म्हजेपासून पयस रावचें, तुवें म्हाका विसरपाचो यत्न करचो.'

'विसरपाचो यत्न?' मेधा उपहासान हांसलें.

'खऱ्यांनीच...'

'जमलें ना रे केन्नाच तें विसरप! तूं मात रोखडोच विसरलो. असलीं कसलीं रे तुमचीं दादल्यांचीं काळजां? कितें भरलां तातूंत, तळपां काय खडपां? कसलें जिवीत म्हज्या वांट्याक वाडून दवरिल्लें, हांवें कोणाचें वायट केलां म्हण? तूं जाणा, पयर आमच्या ऑफिसांत म्हजो सगलो स्टाफ म्हज्यो पोच्च्यो मारतालो. अचकीत हांव भितर सरलें तेन्ना तांणी सरळ म्हळें, 'आतां मारियाचें निमाणें फंक्शन, आनी कोण जावचो आसा लग्न?' प्रस्न म्हाका रोखून आसलो. म्हज्या काळजाक तोपिल्लो तो भालो भायर ओडून सांगन दिसलें, 'म्हजें लग्न जावपाचें आसा. मारियाच्या काजारान फंक्शनां सोंपनात.' पूण म्हाका धीर जालो ना, हांव सगलें गळून पडलें, म्हजें तोंड लिपोवपाक हांव तांच्या मुखावयलें कडसरलें आनी बाथरुमांत वचून नळाच्या उदकांत म्हजीं घळघळ देंवपी दुकां भरशिलीं. खूब रडलें रे हांव त्या दिसा. म्हजेकडेन आतां रडपाबगर दुसरें कांयच उरूक ना. कोणें तरी म्हाका फकत दुखखाचोच वर दिला जावंक जाय.'

आनी दुखख दुकांनी विरघळून वता जावंक जाय. मेधान खऱ्यांनीच दुकां ओतल्यांत जातलीं. अजून दुकांचे झेली फातर ताचे भितर शिल्लक उरल्यात हाचेंच म्हाका अजाप जातालें.

मेधाच्या दुखखांत म्हाका वांटेकार जावपाचो नैतिक अधिकार ना. मेधा लोकांचे नदरेन आंकवार आनी हांव संवसारी. लग्ना भायले संबंध अशेंच नातें लोकांनी लायिल्लें. लोकांची जाण, लोकांचें अस्तित्व दीस रात तकलेंत खुंटो कसो रोमून भोंवतले आमी लोकांचें मत पावला कणकणी तोलून मोलून पळयतात. दर दिसाक आंगार कितलीं रुपडीं आमी चडोवचीं? म्हजो ताचेकडेन कसलोच संबंद ना, आमची फकत इश्टागत आसा हें दाखोवपाखातीर जातली ती भाव भावनांची वरचढ कशी थांबोवची तेंच कळनाशिल्लें. ताचेकडचो म्हजो दुसरो संवसार म्हळ्यार सपनां. हीं सपनां वास्तवतायेंत येवपाक शक्य ना हें जाणा जावनय ताचें म्हजें काळीज आतां नाका आसतना अशें खूब खूब लागीं येता.

आयज सकाळीं तें वाटेर मेळ्ळें. आनी पयल्याच खिणाक म्हळें, 'सुरेश, आमी आयज दर्यावेळेर भोंवपाक या.' खरें म्हळ्यार ताच्या वाक्यांत प्रस्नचिन्न नाशिल्लें.

आशिल्लें तें फकत विधान. विधानांत गर्भित हुकूम. म्हाका ना म्हणपाक केन्ना जमलेंच ना. जेन्ना ताणें अशें वेळेर भोंवपाक येवचें अशें दीस रात दिसतालें तेन्ना ताचें काळीज धपधप जातालें आनी घामाघूम जावन तें म्हणटालें, 'ना रे बाबा, हांव येना, घरा कळ्ळ्यार?' तेन्ना ताका घरचो भंय दिसतालो. तेभायर आमकां घडये पयस केल्यात जायत असो म्हाका अदींमदीं दुबाव येतालो.

ते दीस भलतेच सैरभैरशे आसले. कॉलेजांत वचप म्हळ्यार मोगांत पडप बी अशीच किते तरी कल्पना सगल्यांची आसली. म्हाका कोणाचो मोग करपाक वेळ तरी खंय आशिल्लो? नोकरी करून पदवी घेवपाक धडपडटालों. अशे धडपडींत मेधा एके सकाळीं म्हजे जिणेंत त्या दिसाच्या उदेत्या सुर्यावांगडाच उदेलें.

मेधाची पिराय तेन्ना तोराभाशेन, कवळे केळीभाशेन काय करकरीत पिपरेभाशेन आशिल्ली तें सांगपाचीय म्हजी कुवत नासली. अशा वेळार ताणें ताच्या मनाचे गर्भकुडींत एके घट पिंडिकेचेर म्हजी म्हूर्त पुजेक लायिल्ली जावंक जाय. घट पिंडिका आनी घट्ट पांय एकामेकांत रोमिल्ले म्हणचेपरस ते खऱ्यांनीच भरशिल्ले, सामके एकरूप जाल्ले. देखून इतलीं तपां मेधा ते पिंडिके वयल्यान म्हजी मूर्त इंचभर लेगीत अशीतशी करूंक पावलें ना. तसो विचार ताचे तकलेंत जायत्या ताच्या बऱ्या मागप्यांनी कोणाकोणाच्यो देखी दिवन घाल्लो. कितल्या जाणांनी ताका समजायल्लें, अशें जायत्या जाणांक घडलां. मेधा, विसरपाचें तें. मेधा तूं कितलें हुशार गो, आगो खंय गेली ती तुजी बुद्धीमत्ता? विशेश प्राविण्यान पास जावपी तूं, जिणेचे हे लडायेंत हार खावनाका बाये!'

खरी गजाल म्हळ्यार मेधान हांगासर मात हार खाल्ली. कसलेतरी जगाभायले आदर्श ताणें ताच्या मोगाक लायले.

खूब दिसांनी म्हजें लग्न जातकच मेधाचे एक वळखीची बायल म्हाका मुद्दाक हडकुपाक आयली. तिका खंय तरी विशयाक हात घालूंक जाय आसलें. आनी म्हाकाय बी ना म्हळ्यार मेधाची खबर घेवपाची आसली. खबर वयलेचाराची.

'मेधा खंय आसा?' हांवें ते बायलेक विचारलें.

'मेधाची शी खबर घेतली?' तिणें अजापान विचारलें.

'तुजेकडेन आनी कोणाची खबर घेवं? मेधानच तुजी वळख करून दिल्ली न्हय एकदां? हांव जाणां तें तितलेंच तुमचें नातें.'

'म्हाकाय बी तुका पळयतकच पयलीं याद आयिल्ली ती मेधाचीच.' तिणें म्हळें.

'खऱ्यांनीच?'

'हय, मेधाचो तुवें असो विस्वासघात करपाचो न्हय.'

'प्लीज, अशें म्हणुंनाका. मेदाचो विस्वासघात हांवें करुंना. म्हाका दिसता, मेधाचो अती विस्वास आनी ताचें विचित्र वागप हांका लागून आमचें मिलन जालेंना.'

'ताका सांडून तूं लग्न कसो जालो?'

'लग्नाक ताणेंच न्हयकार कळयिल्लो म्हाका. दुसरी गजाल, ताणें म्हाका मेळपाचे लेगीत त्रास घेतलेनात. खऱ्यांनीच सांगतां. म्हजो गैरसमज जालो, हांवें किते तरी समजून

धेवचें अशेंच नियतीन थारायिल्लें आसूंक जाय.' हांवें किंवाट्यान सांगपाचो यत्न केल्लो पूण तिणें सगलो बोल थापून थंयच्यान ती कडसरली. तिचें दर एक पावल संताप उक्तावन उखल्लें.

ते राती हांव एकटोच कुशी परतीत न्हिदिल्लों. कॉलेजींतले ते दीस याद काडीत.

अशेंच तें एकटें वतना म्हजे वाटेर आडवें आयिल्लें. भितरल्या क्लासींनी लॅक्चर चलतालें. घडये तें बेगिबेगीन लॅक्चराक धांवतालें जावंक जाय, पूण म्हजेर नदर पडनाफुडें म्हजें वाग्रें ताका फुडें पावल उखलपाकच दिना जालें.

'लॅक्चर ना?' ताणें हळूच विचारलें. मागीर म्हाका प्रस्न केला तो कोणें आयकूंक बी ना मू ह्या भंयान ताणें फाटींफुडें पळयिल्लें.

'तूं वता लॅक्चराक?'

'हं.' ताच्या हयकारांत न्हयकार लिपिल्लो जावंक जाय. ताणें म्हणिल्लें,

'तितलें इंपोर्टंट न्हय.'

'वेळ आसा?' हांवें ताच्या न्हयकारांतलो अनर्थ काडीत विचारलें.

'कित्याक?'

'कँटिनांत एक कप म्हणजे कंपनींत च्या धेवपाक.'

'कँटिनांत च्या ना बाबा' अशें म्हणून ताणें ताचीं फाटींफुडें जावपी पावलां उखलपाचो यत्न केल्लो. ताका थंयच तितले खीण मेळ्यात ते घालपाचें आशिल्लें जावंये. कँटिनांत मागीर तो बोवाळ, कोणाच्यो तरी रोखिल्ल्यो नदरो आनी 'कितें आसा काय कितें गो?' अशे खोचक प्रस्न.

'बरें आसा, कँटिनांत नाका. हांगा तरी सारकें थिरान उबें राव न्हय...' ताच्या पांयांतलो कंप म्हाका जाणवतालो. काळजांतली धडधड आयकूंक येनाशिल्ली तरी तिची गती कल्पनेन हांव अणभवतालों.

असले कांय खीण कॉलेजचे जिणेंत येवन गेले ते सगले मर्यादे भितरले. मेधाक स्पर्श करपाचो धीर केन्ना म्हाका जालोना. पूण मेधाचो हात हातांत घेतना मळबांतल्या जोगलाचीं केणां कशीं काळजार पडिल्लीं तांचे वण मात कायमचे खत जावन उरले.

कॉलेजचें गॅदरींग सोंपूंक बरीच रात जाल्ली. पडट्या दिसार मेधान म्हाका म्हळें, 'हांव सगले प्रोग्राम पळोवपाक रावचें ना.'

'कित्याक?'.

'कोण घरा पावयतलो मागीर? एकलें वचूं?'

'हांव पावयतां.' हांवें चटकन म्हणिल्लें. ताचीय तशीच अपेक्षा आशिल्ली जावंक जाय. हांवें तशें म्हणनाफुडें ताचें मुखामळ परजळून आयलें. मागीर रातच्या णव वरांचेर प्रोग्राम सोंपूंक पाविल्लो आसतना ताणें म्हाका वचपाक खुणायलो. आमी माटवांतल्यान हळूच कडसरलीं. दोगांय जाणां भुरग्यांच्यो नदरो चुकोवन भायर रस्त्यार आयलीं आनी चलूंक लागलीं.

'कितलो काळोख न्हय...!' ताणें म्हणिल्लें.

'आमकां कोण पळोवचो ना.' हांवें खोचूनच ताका म्हळें.

'तशें हांव कोणाक भियेना.'

'देखून काळोख बरो दिसलो न्हय तुका?'

'तूं आसा म्हणून रावलें इतलो वेळ.'

'म्हजो आनी काळखाचो संबंद आसा?'

'आसूं, हांव भियेना.' ताणें लगाटेन म्हणिल्लें.

'खऱ्यांनीच?'

'आवयस्, फुडल्यान कितें तरी येता!' अशें म्हणत मेधान म्हजो हात धरलो. हात धरप खूब उत्स्फूर्त आसलो. फुडल्यान म्हशी येताल्यो. काळखांत तर त्यो काळखाच्याच रंगाच्यो दिसताल्यो.

'सुरेश, हात सोडशीत म्हजो, म्हाका भंय दिसता.'

'ना, भियेवपाची गरज ना. म्हशी त्यो.' अशें म्हणून हांवें ताचें मनगट घट्ट धरिल्लें. ताच्या त्या पयल्या पयल्या स्पर्शान म्हाका हयन्हयशी कसली तरी चुळबूळ लागली. तशेंच ताका लागीं ओडचें अशें दिसलें पूण धीर जालो ना. हांवें ना म्हळ्यार कसल्या तरी भंयानूच मेधाचो ते राती हात घट धरिल्लो तो अचळय सोडिल्लो. हात सोडिल्लो तो मेधान परतो धरचो म्हण केन्ना यत्न केलो ना. आमी तशींच त्या काळखांत चलत रावलीं. ताका ताच्या घरा पावन हांव म्हज्या घरा गेल्लों.

खूब तेंपान हांव म्हज्या संवसारांत रमिल्लों आसतना मेधाचो परतो म्हजे जिणेंत प्रवेश जाल्लो. मेधाचे जिणेंत हांवें एकदांच प्रवेश केल्लो. पूण म्हाका मात ताचो पुर्नप्रवेश कसो दिसलो. तें तशें मानपाक तयार नाशिल्लें.

'सुरेश, आमी थारायतात तशें घडचें ना.'

मेधाच्या उतरांनी हांव भूतकाळांतल्यान भानार आयलों. कितल्या खिणांभितर फाटल्यो घडणुको झपझप करून दोळ्यां मुखावयल्यान सरकल्यो कळ्ळेंच ना.

'कित्याक म्हणटा तूं अशें?'

'तुजो वयलेवयर असो धीर नाका. आतां ती सुवात म्हाका कशीच मेळची ना.'

'कसली सुवात?'

'जी तुवें म्हाका सोडून दुसऱ्याक दिल्या ती.'

'हय. तशें वयलेचाराक पळोवंक गेल्यार तेंवूय खरेंच. आमचें हें असलें नातें हो समाज मानपाक तयार जावपाचो ना. तुका गुन्यांवकारी थारायत समाज म्हणटलो, लग्न जाल्ल्या दादल्याकडेन तें कशें...'

'एक मिनीट सुरेश...' ताणें म्हजीं उतरां कापीत म्हळें.

'कितें?'

'हांवें आंकवार सुरेशाचेर मोग केल्लो. लग्न जाल्ल्या न्हय. म्हज्या मोगाचेर खोंट मारून सुरेश लग्न जाला. म्हाका सुरेशान फटयलां हें हांव आयज इतल्या वर्सांनी ह्या समाजाक पटोवन दिवपाक शकचेंना हें खरें, पूण म्हाका म्हजेर गर्व आसा.'

'कसलो गर्व?'

'हांवें म्हजे जिणेंत सुरेशाबगर दुसरो दादलो केन्ना येवजिलोच ना आनी हें फकत हांवूच जाणां.'

'देखून?'

'नाका. तुजो भांगर संवसार वाऱ्यार उडोवं नाका.'

'सगलें सांबाळून...' हांवें ताका समजायत म्हळें.

'शक्य ना तें. आमचीं मनां इतलीं विशाल नक्कींच नात. वुई आर् स्मॉल पिपल सुरेश... आमकां एकामेकांचे प्रस्न समजून घेवचेपयलींच जापो दिवपाची संवय आसा. कोण कोणाक समजुचो ना. आनी कोणाक शेंसार मारपाचीय धमक आमकां ना. ल्हानपणांतले हे जाल्ले संस्कार आमच्या मरणाबरोबर जळपाचे. चल या आमी. भावनांचो ओग आयलो आनी हांवें तुजे वेंगेंत घालून घेतलें. पूण खूब उसरां. ते राती तूं म्हाका पावपाक आयिल्लो तेन्ना त्या काळखांत जर असवडीं उबें रावन तुजे वेंगेंत अशें घालून घेतिल्लें जाल्यार घडये...'

'ना मेधा, म्हजो त्या खिणांचेर इल्लोय विश्वास ना. ते खीण फकत खिणांचेच, दोळ्यांची पातकडी वयर सकयल जाता म्हणसर सोंपपाचे.'

'अशें तूं म्हण. म्हण न्हय, म्हळेंच तुवें. तसो वागलो तूं. सगलें खिणांचेंच करून सोडलें तुवें. आतांचो हो खीण लेगीत.'

मेधाचो तो अवतार ते आमोरेचेर लेगीत म्हाका नितळ दिसपाक लागलो. तें सावध जाल्लें. हांव मात त्या खिणांखातीर तितले पुरतोच अस्वस्थ जाल्लों. मेधा आपली वाट नेटान चलपाक लागलें. हांव फाटल्यान एक एक पावल मेजीत सगलें वगडावन पोशार जाल्ल्या जुगाऱ्या भाशेन पश्चाताप करीत त्या काळखांतल्यान चलतालों.



३.

# अशीय एक जोड

जनेलांतलीं सवणीं रातीर धवें पडनाफुडें काळखांत खंय तरी दोळे धांपून संत विसवलीं. ती चिव चिव करीत जनेलांत आयली. सवण्या पिपुश्यांचो चिवचिंवाट कानार पडनाफुडें हांथरुणांत घुस्पून रावप म्हाका आवडलेंना. हांवें बेगिबेगीन आंगावयली चादर कुशीक मारली आनी हांथरुणावयलों उठलों. चादरीची घडी केली, आंगातळचीं जमखानां गुटलायलीं, उशें घेतलें आनी भितरल्या बेडरुमांत व्हरून दवरलें. बेसिनांत वचून तोंडार उदक मारून घोंट घेतलो आनी परत भायर आयलों. जनेलार सवणीं येवन चिंवचिंवाट नेटानूच करूंक लागलीं. आतां तांकां आमची संवकळ जाल्या. तांच्या मनांतलो मनशांचो भंय गेल्लो जावंक जाय. ना जाल्यार तीं मनशांचे सावळेक आनी वाऱ्याक रावनासलीं. हांवें पळयलें, जनेलार तांदूळ नासले. बेगिबेगीन भितर वचून तांदळाचो डबो सोदून काडलो आनी मूठभर तांदूळ घेवन जनेलार हाडून शिवडावन घाले. सवणीं मात्शींशीं म्हाका लागून उडलीं आनी आसलीं तशीं परत येवन जनेलार बसलीं आनी तांदळाचेर ताव मारपाक लागलीं.

आयज घरांत कोण नासलो. घरांत हांव एकटोच आशिल्ल्यान मनांत मात यादींची घेऽ गर्दी जाता. घरांत वावुरतां पूण मन मात घरांत उरना. एकलेपणांत तकली रिती उरता म्हणटात तें फट. उलट, एकटो आसतकच तकलेंत भरिल्लें सगलें जिवें जावन तुजेकडेन उलोवंक लागता. जनेलांतलें एक एक सवणें कांय यादी मनाच्या तळाकडल्यान तोंचीत धरून घेवन येतात. एक एक याद म्हळ्यार सवण्यांनी तांचो घोंटेर करपाक हांगा थंय भोंवून हाडिल्ल्यो तणा काडयो. सवण्यांनी भायल्यान सपणांचेर गरादींत खांचीत सो एक बरोऽ घोंटेर केल्लो, आनी म्हज्याय मनांत यादींचे एके एके काडयेन यादींचो घोंटेर जालो. आनी याद करतां करतां म्हाका तो प्रसंग याद करून आयजूय फसफसून हांसो येता. पूण तेन्ना मात तो प्रसंग भिरांकूळ आनी आकांताळो आसलो. म्हाका याद जाली. हांवें केल्ल्या आकांताची. 'आरे, कोणूय तरी येयात रे धांवून, पळय तो बांयत पडलो...' कोण धांवन आयलो ना, मात तो कोण तो ताका सारको वळख सुद्धां नाशिल्लो. घरा फाटले बांयंत रातीं एक बुकलो पडून मेल्लो आनी तो काडपाक हांवें ताका इगर्जेकडच्यान हाडिल्लो. बुकलो काडल्यार वीस रुपया फारीक करपाच्या कोंत्रादार. कोण तरी घांटीच तरणाटो तो. तुटकी फुटकी हिंदी उलयतालो. साधारण

वीस बावीस वर्सांचो आसुंये. कालीच्या गाड्यार पानपट्टी घेतना ताका हांवें हडकिल्लो.

'ये, आता है? बांयंत बुकलो मेला. निकालता है?' तो गोंयकार कसो दिसनासलो. म्हणून हांवें हिंदीच मारपाक सुरवात केली.

'कहां पात्रांव?'

'हांगाच लागींच. आमच्या बिराडार.' हांवें म्हळें तेन्ना आमचें बिराड थोडो तेंप लोटले आसलें. शेनवारचीं सगलीं जाणां घरा गेल्लीं आनी एकटोच बांयंत पडिल्लो बुकलो काडपाक फाटल्यान राविल्लो.

'कितना देगा?'

'तुम देखो पयले और बताव.' हांवें म्हळें.

'ठीक है, चलो देखेंगे.' अशें म्हणत तो म्हजे बराबर चलपाक लागलो.

हांवें ताका घराफाटल्यान व्हरून बांय दाखयली. बांयंत उदकांत मेल्लो बुकलो फुगून बरोच मोटो जाल्लो. ताका पळोवन ताणें म्हळें, 'पात्रांव वो बुकला नहीं है, वो सुव्वर धुक्कर होगा.'

'धुकोरऽऽ च्चेऽ..., धुकोर बांयचे धडेर कसो चडटलो? ना ना, बुकलोच तो. बांयचे धडेर बसतालो. सद्दां हांवें पळोला ताका. आमचो न्हय तो, त्या शेजाऱ्यालो. मेस्तालो. उलय, देंवता मरे?'

'बीस रुपया देना पडेगा.'

'बीस न्हय तीस दितां, पूण देंव मात्सो बांयंत.' हांवें म्हळें.

'राजू आसा न्ही?'

'हय, हो तो पळय, गाडयेक आसा.'

'मजबूत आसा न्ही?'

'पळे मरे!' हांवें म्हळें.

ताणें बांयचे गाडयेक आशिल्लो राजू काडलो आनी हातांत धरून नेटान ओडून पळयलो. पूण राजू तुटलोना. 'ठीक है' अशें म्हणत ताणें बांयचे मदेकाक जाळी घालपाक घाल्ल्या लोखणी पायपाक राजवाची घर कोयणी करून माट अंदिली आनी सुमार पंचवीस तीस फूट खोल आशिल्ले बांयंत राजवाक धरून आनी दोनूय पांय बांयक मदीं मदीं दवरिल्ल्या बुराकांत दवरत तो बांयंत देंवपाक लागलो.

म्हज्या मनांत कलकल. राजू तुटना जाल्यार पुरो अशें येवजिता थंय आसा, तो गाडयेचो वापरांत आशिल्लो राजू तसो भितरल्यान कुस्मलो दिसता. तो कच्च करून तुटलो आनी एक पोंत घेवन तो सोमतो बांयंत पडलो. तरी बरें, बांयचे कडेक आपटलोना, सारको उदकांत मदीं पडलो. बांयंत कुशीक एक फळें उबतालें. बुडट्याक काडयेचो आधार म्हणटात तशें तो एक बुडी खायत हात हालयत उदका तळार तसो आयलो तसो ताका ती फळी हाताक लागली. ताणें ती फळी घट धरली आनी वयर म्हाका पळोवन 'बचावो बचावो' म्हणत बोबो मारपाक लागलो. म्हाका दरदरून घाम फुटलो. पांय थरथरपाक लागले. वयरसावन बोब मारपाक कितलो वेळ आवाजूच फुटलोना

जालो तरी हांवें कोणूय तर येयात रे म्हण बोब मारली. भितर तो थंड उदकांत मरणाचे भिरांतीन कडकडटालो. ताची काकुळट म्हज्यान पळोवं नजो जाली. ताका बुडून मरण बी आयल्यार बांयंत देंवयल्लो देखून म्हजेर अपसरण येतलें हें चिंतून म्हजो आवरो उडलो. तरी लेगीत धीर करीत हांवें ताका म्हळें, 'ओ फळेको घट्ट पकडकर रहना, मैं जल्दी आता हूँ!' ताका तसोच उदकांत दवरून हांव वयर इगर्जेकडेन धांवलों. थंय कालीच्या गाड्यावयलो बरो नवोताल्ल राजू विकत घेतलो आनी कालीक आनी एका भुरग्याक घेवन बांयकडेन आयलों. भितर तो बाबडो आशेन वयर पळयतालो. आपणाक एकदांचो वयर काडात अशा अर्थान तो पळयतालो. तो बांयंत फळ्याक धरून सुखरूप आसा तें पळोवन धीर आयलो. हांवें नवो राजू भितर सोडलो, बांयच्या खांब्याक वयर रेवाडलो आनी दुसरें पोंत भितर बांयंत सोडलें आनी ताका तें पोंत घट धरून वयर चडपाक सांगलें.

'पात्रांव, ये लानेका?' त्या उफेतल्या बुकल्याक पळयत ताणें विचारलें.

'आरे, तेच खातीर तुका बांयंत पडचें पडले मरे?'

ताणें फुगिल्लो बुकलो एका पाटल्यांत घालो आनी पाटें राजवाक बांदलें. हांवें आनी कालीन धरून त्या बुकल्याचें मडें वयर काडलें आनी मागीर ताका वयर काडलो.

पोराक आतां धीर आयलो. कुडकुडत म्हाका म्हणपाक लागलो, 'क्या पात्रांव, ये राजू ऐसा है किसको मालूम?'

'तुवें पळयल्लो मरे तो पयलो?'

'हां पात्रांव, पूण तुटेगा म्हण किसको मालूम?'

'बरो साल्वार तूं आनी हांवूय. हे घे' अशें म्हणत हांवें ताका तीस रुपया दिवपाक फुडें केले. ते तीस रुपया पळोवन तो म्हणपाक लागलो, 'क्या साब, मेरी जान के तीस रुपया?'

'आरे पूण तुका हांवेंच तीस रुपया दिवपाचें थारायलां मरे?'

'आं बराबर. वो तीस रुपय बांयंत देंवपाचें. बांयंत राजू तुटल्यार आनी पडल्यार तीस कशें?'

'म्हणजे राजू तुटून बांयंत पडल्यार दर वाडटा तर.'

'देखो पात्रांव, आमी बरे साल्वार जाले. आतां शंबर रुपया तर दी पात्रांव. मैं मरता तो तुमपर मुझे मारनेका आरोप आता. मैं बच गया, तुम भी बच गया.' तो म्हाका आतां इल्लीं इल्लीं शाणेपणां सांगपाक लागलो. तीस रुपयांवयल्यान शंबरांचेर पावलो.

'आतां तूं बांयंतल्यान वयर सरला म्हण हें वांटपण करता मरे?'

'ओ साब, मरता तो कैसा करता वांटपण? जिंदा है इसलिए करता हूँ...'

उलोवपाक कसोच बदचोना हें हांवें वळखलें. तो बरोच चाप्टर आसलो.

'देखो साब, कमशे कम शंबर रुपया मंगताच.'

'शंबर रुपया चड मरे, शंबर रुपया म्हळ्यार थोडे दुडू?'

'पात्रांव, तुमकां कितें शंबर रुपया ते? हायें मेरी जान खतरेमें डालकर बुकलेको उपर निकाला, पानी खराब हुआ था, तुम पिते नहीं थे, पानी बाहरसे लाना पडटा था. अब बुकला निकालके भाभीके कितने त्रास बचाया मालूम है?'

म्हाकाय ताच्या उतरांचो इल्लो इल्लो दिश्टावो जावपाक लागलो. तो म्हणटा तें खरेंच कशें दिसपाक लागलें. घरचे बांयंत बुकलो पडल्यार दोन दिसूच जाल्ले. पूण दोन दीस म्हळ्यार घरांत आकांत. उदक शंबर मेत्रांचेर आशिल्ल्या शेजाऱ्याले बांयचेर वचून हाडचें पडिल्लें. ते भायर आतां तें बांयचें उदक पियेवपाचें नासलें. वखद घालून बांय उसपून काडपाची आसली. बुकलो काडलो म्हणून आतां हें सगलें करचें पडलें.

'क्या सोचता है पात्रांव, दे दो ना...' अशें म्हणत ताणें परत हात फुडें केलो. ओले कपडे आंगार घेवन तो म्हजेकडेन वांटपण करतालो. म्हज्यान एके वटेन ताची काकुळट पळोवं नजो जाली. हांवें फाटलो फुडलो आनीक विचार केलोना, शंबराची नोट काडून ताच्या हातार दवरली आनी वच एकदांची कटकट म्हणून ताका वचपाक खुणायलो. इतल्यांत आंगार सळसळीत ॲसिड पडिल्लेवरी ताणें बोब मारली.

'पात्रांव, मेरा घडयाळ पानी में गिरा!'

'कितें? घडयाळ?'

'हय पात्रांव. हात को था.' ताणें आपलें डावें मनगट फुडें करीत म्हळें.

'तुका हाताक घडयाळ घालून बांयंत कोणें देंव म्हूण सांगिल्लो?' आतां मात हांव तापलों.

'पात्रांव, निकालनेको भूल गया.'

'ती म्हजी चूक न्हय. तुजी घडयाळ तुवें काडपाची. तुज्या हाताक घडयाळ आशिल्ली काय ना तेंय हांवें पळोवंक ना.'

'सच पात्रांव, भगवान की कसम' अशें म्हणत ताणें गळ्याक हात लायलो.

'मागीर आतां आनीक तुका कितें म्हजी घडयाळ जाय?'

'पात्रांव तेरेकी क्यों? मैं नया लेता. थोडा और पैसा दे.'

'आनी पयशे?'

'तुम्हारे वास्ते मेरी घडी पानी में गयी ना?'

'मेरे वास्ते?'

'हय पात्रांव, और किसके वास्ते???'

तो आतां बरोच चालू कसो उलयतालो. पयले शंबर रुपया ताणें बांयंत राजू तुटून पडिल्ल्याचे घेतलेच. आनी आतां घडयाळ!

'पात्रांव, थंडी खाता है, घरको जाकर कपडे बदलना है.'

'कहां रहता है तू?'

'मडगांव खारेबांद पर.'

'मागीर हांगा लोटले कित्याक आयलो?'

'कामाक येतां पात्रांव सद्दां. पात्रांव, जादा नहीं, और पचास दो, मेरा पैसा थोडा

डालकर मैं कम किमत को घडी लेता...'

'आनी पन्नास... पाड पडूं, वता जाल्यार वचूं' म्हणत हांवें बोल्सांतले आनीक पन्नास रुपया काडून ताका दिले. पयशे घेतना ताका जाल्ली खोशी हांवें पळयली. कोणाकय फटयतकच जाता तशी खोशी ताच्या मुखामळार म्हाका पळोवंक मेळ्ळी. तो खळखळीत व्हांवतो व्हाळ कसो म्हज्या मुखावयल्यान व्हांवत गेलो.

नाका आशिल्ली दगदग आनी मनस्ताप भोगचे पडले म्हाका. बुकलो बांयंत कसो पडलो आनी हें सगलें लुकसाण कशें सोंसचें पडलें तें कळ्ळेंच ना. ते भायर बांय उसपून वखद घालून निवळ करपाचोय खर्च आसलो तो उपरांत हांवें केलो.

कांय तेंपान एक दीस सांजवेळार हांव कालीच्या गाड्यार उबो आसलों तेन्ना थंय एक तरणाटो कालीक विचारपाक लागलो.

'काली, हे त्या घांटयाक तूं वळखता?'

'हय. कित्याक?'

'मोटो बिलंदर आं. लागीं धरपाचो ना.'

'कितें केलें?'

'तेणें खंय येथंय सकयल रामनाथाच्या देवळाकडेन केक्र्याल्या बिराडाक रावना तेन्ना खंय मामू केलो.' केक्र्याल्या घरांत हांव बिराडाक रावतां म्हणपाचें त्या तरणाट्याक खबर नासुंये. पूण हांवें वळख सांगलीना, हांव तो कालीक फुडें कितें सांगता तें आयकूंक लागलों.

'कितें? कसो रे?'

'मेल्लो बुकलो व्हरून केक्र्याले बांयंत रातीकडेन उडयलो, आनी...'

कालीन म्हाका हडकिलो आनी लागीं आपयलो. 'आयक हो कितें सांगता तें' आनी कालीन त्या तरणाट्याक म्हळें, 'केक्र्याल्या घरांत बिराडाक हो रावता.'

'पात्रांव, तुका त्या घांट्यान फटयलो खंय.'

'कोण सांगता?'

'तोच सांगतालो ताच्या एका घांटी इश्टाक. त्या घांटयान म्हाका सांगलें.'

'कसो फटयलो?'

'पयलीं ताणें खंय तरी मेल्लो बुकलो व्हरून तुजे बांयंत उडयलो आनी दुसऱ्या दिसा तुका तो तेळीत बाजारांत आसलो. बुकलो काडपाक मानाय सोदतलो हें तो जाणा आसलो. आनी तसोच तुका मेळ्ळो.'

'हय, खरी गजाल. हांवें ताका बांयंतलो बुकलो काडपाक व्हेल्लो.'

'ताणें मुद्दम जावन बोल्सांतली ब्लेड काडून तो राजू तोडलो आनी बांयंत उडी घेतली, बुडपाचें सवंग केलें आनी मागीर तुवें ताका नवो राजू विकतो व्हरून वयर काडलो खंय.'

'खरें तें...'

'पात्रांव, तुवें केलां तितलेंच खरें. पूण ताणें केलीं सगळीं चिकानां. मोटो बिलंदर.

घडयाळ उदकांत पडली म्हणूनय तुजेकडल्यान ताणें पयशे सुतलायले खंय...'

'हय... हय.'

'त्या घांटी पोरान तुका नाडलो तर...'

नाडलो... इतलें नाटक करून ?

जनेलांतल्या सवण्यांनी तांकां घाल्ले सगले तांदूळ खावन सोंपयल्ले. म्हाका ते यादीन म्हज्यांतलो भोळो शांबा जाणवलो. हांवें ते यादीन वगीच जनेलांत चिवचिव करतल्या सवण्यांक हर्थ केलें, तशीं हुसक्यामेकळीं भंयाविरयत इतलो वेळ जनेलांत चिंवचिंवाट करपी सगलीं पिपुशीं भुर्र्र करून उडून गेलीं. हांव म्हजे भितर पिशाभशेन एकटोच हांसलों. म्हजेरूच.



# ४.

# महानिर्वाण म्हज्या पुताचें




समितान ब्लिडींग जाता म्हणपाचें सांगत पासून काळीज वगीच खपखपूंक लागलें. समिताक पांचवो म्हयनो लागिल्लो. पांचव्या म्हयन्यार आनी ब्लिडींग जावप म्हळ्यार अजापूच कशें. हांवें याद केली. कालचे राती कसलीय आगळीक बी जावंनासली मू?

समिताक सांगिल्लें काजूबियो उश्ण म्हण. पाड पडिल्लो नोबर्ट डिसौजा कालूच मुंबयच्यान आयिल्लो. म्हाका सागवाद घेवन. काजूंची! आनी तिवूय सोलिल्ल्या काजूंची! अर्द किलाची जावंये. तीं बॉक्सां ताणें समिताकडेन दिलीं. आतां मुंबयकारान गोंयकाराक काजू सागवाद हाडप म्हळ्यारूय कशेंशेंच. सोड. नोबर्टान हाडल्यो काजू खव्यो. त्या दिसा काजूंची तीं बॉक्सां समिताकडेन सोंपोवन हांव नोबर्टा वांगडा पणजे गेल्लों. नोबर्ट गाडी घेवन आयिल्लो. पणजेचीं कामां जातकच हांव घरा परतलों. नोबर्टान गाडी दिवन म्हाका घरा सोडून येवपाक सांगिल्लें.

वाटेर वगीच हुस्को जालो. समितान आनी बियो तोंडांत घाल्योना जाल्यार पुरो. आनी वगीच मनांत पाल चुकचुकली. फाटले खेपो समिताक दोन म्हयन्यांर आबोर्त जाल्लें. समिता दोन दिसांक म्हण आपले भयणीगेर गेल्लें. समिता घरांत ना तें पळोवन हांवूय मेकळो आंकवार कसो दोन दिसांखातीर हुबळी गेल्लों. हुबळीच्यान येता आसतना उसगांव तिस्कार इश्टान अणसां घेतलीं. ताणें तीं आपल्या मावोड्या व्हरूंक घेतिल्लीं. दनपरां जेवण बी जातकूच सांग्यावयल्यान पणजे वचपाचें आसलें. हांवें म्हळें, वाटेर हांव समिताची खबर घेतलों. तशें जाल्यार ताका हें एक अणस दी अशें म्हणून इश्टान म्हाका एक अणस वेगळें काडलें.

जेवण बी जातकच आमी पणजे वचूंक भायर सरले. वराभरयान आमी गोंयां पावले. समिताचे भयणीचें घर रस्त्यारूच आसलें. हांवें गाडी थांबोवंक लायली आनी तें अणस घेवन हांव देंवलों. अणस समिताच्या हातांत दवरून हांवें म्हळें, 'हें तुजेखातीर न्हय आं. टेक कॅअर.' आनी भायर रस्त्यार मोटारींत इश्ट म्हजी वाट पळयता सांगून हांव भितर सरलों तसो भायर सरलों.

समिना नाशिल्ल्यान घर खाव्गाक आयलें.

दुसऱ्या दिसा बेगीबेगीन उठलों. तोंड बी धुलें आनी च्या करपाक म्हण स्टोवाचेर आदन दवरपाक बॅल वाजली. सकाळीं आनी कोण काय म्हण हांवें दार काडलें. दारांत

नरेश उबो आसलो. नरेश मेवणेचो चलो. ताच्या तोंडार भंयाची सया म्हाका स्पश्ट दिसताली.

'कितें रे? सकाळीं सो?'

'समिता बरें ना.'

'कितें जालां?'

'आईन सांगलां, ताका जाता तितले बेगीन हॉस्पिटलांत व्हरूंक जाय.'

आनी हांव तसोच समितासरीं गेलों.

समिताक फांत्यार सपन पडलें खंय. सपनांत एक काळोकिट्ट लांबरूंद मनीस घरांत भितर सरलो. समितान ताका घरांत भितर सरतना पळयलो. तो आयलो खंय आनी मुखावयल्या मेजापोंदा लिपलो. समिताची भंयान सकनळीच धरली. ताका बोब मारतलें म्हळ्यारूय आवाज फुटना जालो. आनी सपनाचो परिणाम जावपाचो तो जाल्लो. दोन म्हयन्यांचेर समिता व्हळ्ळें. समिताक हॉस्पिटलांत व्हरून क्लीन केल्लें. पूण म्हजो मात सपनाचे गजालीचेर विस्वास बसलोना. नक्कींच अणस खाल्ल्यान समिताक तें उश्ण पडलां जावंक जाय. समिता अणस मात्शें तोंडांत उडयिल्ल्याचें सांग, पूण तें कारण मानपाक कोणूच तयार नासलो. सपनांतल्या त्या खांपऱ्याक लागून तशें जाल्लें! हांवें दोतोराक तशी शक्यताय आसा काय म्हण जेन्ना विचारलें तेन्ना दोतोरान तशें जाल्यार त्या भंयाच्या शॉकानूच समिताक आबोर्त जालें म्हणपाचो ठाम निश्कर्श काडलो.

फाटली सगली याद जावन आंगार भंयाचो कांटो फुल्लो.

गाडी गोंयण्याकडेन थांबली तसो हांव बेगीबेगीन देंवलों.

गोंयणो हुपून घरांत भितर सरलों. समिता वॉलतेरार धोलत हातांत काजू घेवन खायत बशिल्लें.

'समिता, तुका पिशें लागलां? आगो, काजू त्यो, उश्ण त्यो.' अशें म्हणून हांवें समिताच्या हातांतले काजूगर काडून घेतले.

'हांवें खंय खाल्यात? दोनूच तोंडांत घाल्ल्यो. इतलो आकांत कित्याक?' समिता आडडलें.

'काजू खावंक फावना, माल पडूं येता. तेन्ना अणस खावन कितें जाल्लें तें जाणा मगो?'

'कोणें सांगलां तुका काजू-अणस खाल्यार माल पडटात म्हण? ह्या त्या घांटयांच्या बायलांक पळय, पळय कशीं तीं चार पांच म्हयन्यांची आसून लेगीत वयर चडून कायली उखलतात, बेतो घालतात आनी तीं कितें खातात आसतलीं? कोण दिता तांकां जाय तसलींच खाणां?' समिता अशें कितें तरी सांगून ताचे जिबेचें समर्थन करतलें म्हण हांव जाणाच आसलों.

आनी आयज सकाळीं समितान भितर येवन ल्हवूच म्हळें, 'ब्लिडींग जाता.' म्हज्या काळजार फातर पडलो. काळीज धपधप जावंक लागलें.

मन म्हणटालें, ब्लिडींग जावन आबोर्त जाल्यार जावं. चली बी परत जाल्यार?

पयलीच चली जाल्ल्यान रोखडीच दुसरी चली जाल्यार दोतोरान सांगिल्लें, पयले चलये फाटल्यान चलो जावंक जाय जाल्यार बरोच गॅप घेवंक जाय. कमीत कमी तीन वर्सांचो. आनी एका दोतोरान गडे आनी फाड्यान कशें कितें जावं येता ताचो हिशेब सांगिल्लो. एका दोतोर इश्टान तर सरळ इक्वेशन करून दाखयलें. एक्स वाय, एक्स एक्स, वाय एक्स. म्हाका कांयच समजलेंना. दादल्यांमदीं एक्स वा स्पर्म बायलेच्या एक्स स्पर्मांत भरसत जाल्यार फर्टिलायझेशन जाता.

'दोतोर, असलें म्हाका कांय समजना.'

'गडें फाडें तरी समजता मरे?'

'हं.'

'न्हाणापासून पंदराव्या दिसा संबंध येवंक जाय. नक्की चलो जाता.'

'म्हजो हाचेर विस्वास ना. दोतोर, गड्या फाड्यान जर चलो चली जावंक शकता जाल्यार आयज वयर फकत चलयोच आशिल्ल्या आवय बापायंक चल्याक सोंपेपणान जल्म दिवं येतालें.'

'पूण लोक...'

'म्हाका दिसना, इतलो सरळ सोपो हिशेब करपाक कोणूय विसरत वा कोणूय टाळीत जावं निष्काळजी करीत म्हण.'

'ऑफ कोर्स, हातूंत हंड्रेड पर्सेंट चान्सेस नासतात.'

'म्हणजे, परत हिशेब वाटकुळो?'

'पूण ऐंशी परसेंट चान्सेस आसात.'

'एकूण नियतीचेर भरवंसो.'

दोतोराच्या माथ्यावयर ताचे कुळदेवीचो शांतादुर्गेचो फोटो आसलो. शांतादुर्गेक लायटीची दिवली पेट्टाली. देवीच्या पांयजेलाक पळोवन हांवें म्हळें, 'शांतादुर्गेचेर वीस पर्सेंट भरवंसो दवरचोच पडटा.'

'निदान तितलो तरी कमी जालोना? ऐंशी टक्के!'

नियती करता तेंच खरें. हांवें भानगड सोडून दिली. जावपाचें तें जातलें. मात मनांत खंय तरी दिसतालें, कुशाक चलो जाय.

'चलो घराचो दिवो म्हणटात न्हय? नांव फुडें व्हरूं नाका? चलयो कितें? वाऱ्यावयंल्यो खोलयो कश्यो वतात उडोन!' आवय केन्नाय म्हणटाली. आयज म्हाकाय बी तशेंच दिसूंक लागलें. चलो जाय.

समिताक ब्लिडींग जाता. देवा, समिताक चलोच बी जायना मू? पांच म्हयने जाल्यात. पूण हांवें तीन म्हयन्यांचो गॅप धरूंक ना. नक्कीच चली आसतली. आनी दुसरीय चली? वगीच चली जाल्लेवरी दिसलें. आनी चलयेचे कल्पनेन वायट दिसलें.

एक मन म्हणटालें, जाता जाल्यार जावं आबोर्त. चलीच आसतलें.

मनांत वायट बरे विचार नाका नाका म्हणटना येताले. मनांत कसले विचार येवचे ना येवचें हें मनाच्या ताब्यांत नासता. एका मनाक दिसतालें, खऱ्यांनीच इतलें वायट

दिसपाचें न्हय. आयज चले आनी चलयो सारक्यो अशें जेन्ना कोणूय सांगी तेन्ना शितळ दिसऽ. जायते जाण म्हण, 'चलयो म्हूण आज फाटीं नात. नेहरूक पूत खंय आसा? इंदिरेन नेहरुचें नांव काडलें ना?'

'तिणें गांधीचें नांव काडलें, नेहरूचें न्हय.'

'पूण तिका फिरोज गांधीची बायल म्हणचेपरस नेहरूचीच धूव म्हणी.'

'लोक कितें म्हणटाले तें नेहरूच्या प्रभावाक लागून. पूण सर्वसामान्य चालरीत आसा ती चली तिच्या कर्तुत्वान घोवाचेंच नांव व्हरता. खरेपणी इंदिरेक लेगीत इंदिरा नेहरू अशें नांव घेवपाक मेळ्ळेंना. आमची समाजांतली चालरीत तांकांय अपवाद थरलीना. देखून म्हणटां, नांव घेवन चलता तो चलोभुरगो.'

आनी मनांत खूब्ब दिसपाक लागलें. चलो जावंक जाय म्हण. समिताच्या पोटांत कोण आसा काय? खूब्ब तर्क वितर्क केले. सेक्स तपासून पळयतात खंय. पूण आजून गोंयांत तशी तजवीज कोणें करूंक ना. मुंबय वचचें पडटा. तें शक्यूय नासलें. नियतीच्या भरवंशार रावपाचें. पूण मन तें! कशें वगी रावत? गेल्ले दोन तीन म्हयने समिताच्या पोटांत कोण आसा हाचो खेळ चलिल्लो.

'लायटीच्या खांब्यार पयलेच खेप मारिल्लो फातर जर खांब्यार बसत जाल्यार नक्कींच चलो', आनी खऱ्यांनीच फातोर अचूक खांब्यार बसतालो. मनाक खूब बरें दिसतालें. चल्याचें चिततां चिततां देवळाची घांट वाजतकच कितलें बरें दिसतालें! असल्या गजालींचेर विस्वास दवरपी म्हजें मन हे बाबतींत मात म्हणटालें, हय, नक्कींच बाब. अमकीच गजाल पयलेच खेप चटकरून नदरेक पडत जाल्यार मनांतलें खरें जालें अशेंय समजतालों.

मनाच्या मळार खूब खेळ. भारतान एका दिसाचो खेळ जिकल्यार नक्कींच चलो असोय पिसो विचार टीवीचेर क्रिकेट पळयतना मनांत येतालो.

सोर्तीक एको येत जाल्यार चलो.

आनी ज्युस्त तशें घडटालें. भारत क्रिकेट जिकतालो, सोर्तीचो नंबर एको येतालो.

दुसरें मन म्हण, 'पिशा, अशें म्हण केन्ना चलो काय चली थरयतात? अशें थरयल्यार अशेंच जातलें आसलें. इतलें सोंपें तें?' आनी देवाचेर भावार्थ नाशिल्लो हांव न कळटां म्हण, 'देवालें तें. देवाक जाय तशें जातलें.'

समिताचें ब्लिडींग परतें जालें. बेगोबेग समिताक दोगोरागेर व्हेलें. दोतोरान समिताक हॉस्पिटलांत रेस्ट घेवंक फर्मायलें. दोनूय पांय वरशे करून न्हिदूंक सांगलें.

खूब्ब वखदां जालीं. समिताक मात्शें बरें दिसलें. ब्लिडींग थांबलें आनी घराकडेन रेस्ट घेवंक जाय, मात लेगीत वावर उपकारना हें दोतोराचें फर्मान आयकून हांवें समिताक घरा व्हेलें.

आनी रोखडोच तो भयांकृत दीस उदेलो. सकाळीं उठून समितान पोटाकडेन जड जड जाल्ल्याचें सांगलें. पोट सगलें गळून पडटा कशें दिसता. समिताक घाम फुटलो. दोनूय हातांनी पोट हातांत घेवन समिता रडपाक लागलें. समिताची ती दशा पळोवन म्हजेंय काळीज गलबलून आयलें. म्हजेय दोळे ओले जाले.

समिताचे खबरेक म्हजी भयण आयिल्ली. तिणें परिस्थिती पारखिली. हांव बेगीबेगीन पणजे धांवलों. त्रातामेंत घेवपी दोतोराक मेळ्ळों. चड जाल्यार घेवन यो. कंप्लीट रेस्ट, आनी ह्यो गुळयो दी, दोतोरान संवयेन दर एके दुयेंत पार्तीक सांगचें तशें सांगलें. हांव हॉस्पिटलांतल्यान भायर सरून घरा आयलों. घरांत भितर सरलों. आवय प्रितीक घेवन बशिल्ली. प्रिती हुंदक्या हुंदक्यांनी मम्मी मम्मी करून रडटालें.

'कितें जालें प्रिती, कित्याक रडटा?' हांवें काचाबूल जावन आवयक विचारलें.

'समिताक पणजे व्हेलें.'

'कशें? कोणें? कित्याक?'

'माया घेवन गेलें. टॅक्सी ताणेंच हाडली.'

'आरे देवा, म्हणजे?'

'चड जालें ताचें. पोट सकयल देंवलें. ह्या म्हयन्यार बरें न्हय. चल, काळजी घे, उपाय कर.'

हांव तसोच परतलों. म्हाका घेवन आयिल्ली मोटारसायकल हांवें धाडून दिल्ली. तिवूय गेली. अशें म्हण कळ्ळ्यार तसोच परततलों आसलों.

गोयण्यां भायर आयलों. मुख्य रस्त्यार पावलों. भ्रमिश्ट जावन कोणूय लिफ्ट दीत काय म्हण येतले दर एके गाडयेक हात दाखोवंक लागलों. सायकलीर लेगीत वचपाची तयारी करून पणजे वतल्या सायकलस्वाराक हात दाखयलो. मनांत आयलें, धांवत सुटचो म्हण. खीणभर पावलां उखललीं. पूण पणजी लागीं नासली. ह्या वयांत चार पांच मैल धांवून वचप आनी अशा प्रसंगार! आनी इतल्यांत ना म्हळ्यार एक बस आयली. बस गच्च भरिल्ली. कोण तरी देंवपाचो आसलो म्हणून बस थांबली. दारार भायर हुमकळटल्या लोकांमदीं हुमकळपाक सुवात नासली.

'आरे, तूं आनी खंय रे घुसता?'

'जावं रे मात्सो. पणजे पावसर.' हांव, म्हाका दिसता, पयलेच खेप इतलो अकलेक आनी काकुळटेक आयिल्लों.

'आरे, पूण खंय आसा पांय दवरुपाक सुवात? तूं खंयचो, मूंय रिगचीना हांगा.'

कंडक्टरान पिल्लूक मारली. हांवें पळयलें, दुसरो उपाय नासलो. हांव बसी फाटल्यान धांवलों आनी बसीच्या फाटल्या ब्रॅकेटाक घट धरून पावण्यार पांय दवरून उबो रावलों. म्हाका फाटल्यान चडला तें पळोवन कोणेंतरी म्हळें, 'घरा बायलेक सांगून आयला मरे?' म्हजे कान भेरेल्ले. भितर कांयच रिगनासलें. मनांत वास्तवते परस भयांकृत कल्पना राकेस कश्यो आंऽ करून थयथय करून नाचूंक लागल्यो.

हाताची पकड घट करून हांव पणजे पावसर एका भयांकृत संवसारांत पावलों.

'चवथ्या म्हयन्यार अबॉर्शन जावप आवयक सदांच धोक्याचें आसता.' एकदां दोतोरान सांगिल्लीं उतरां याद जालीं. ताणें फुडें सांगिल्लें – 'ह्या वेळार भुरग्याची बरीच वाड जाल्ली आसता आनी विशेश म्हळ्यार भुरग्याचें सॅक्स वळखूंक येता. देखून चवथ्या पांचव्या म्हयन्यावयलें अबॉर्शन इज एज गूड एज डिलिवरी.'

'डिलिवरी? आवयस्, डेंजर. हॉरीबल! समिता... समिताचें कितेंय बरें वायट जाल्यार प्रितीचें कशें जावप? ना ना... म्हजे परस म्हजे प्रितीक आवयची गरज आसा. प्रिती तर दोन वर्साचें! समिताक कितेंय जायना जाल्यार पुरो!' मन तें. आपले जातीर गेलेंना जाल्यारूच नवल. मन चितता तें वैरी चितीना खंय!

चितप वास्तवतेपरस इतलें भयांकृत आसता? समिता!

समिता वळवळटालें. दोतोर, नर्सी धामाधूम जावन समिताक वांचोवपाची पराकाश्टा करतालीं. समिताक रगत जाय पडल्यार सगली तयारी करूंक जाय. आनी कसलीय गरज लागल्यार वांगडा तर कोण ना. कोणाक कांयच खबर ना. मन घपघप जाता आसतनाच बसीन क्रॅक करून ब्रेक लायलो आनी त्या झटक्यान हांव वचून ब्रॅकेटाच्या पांवड्याक आपटलों. कपल सणसणलें. एका हातान कपलार हात भोंवडायलो. तकली बरीच सादवल्ली.

बरें जालें, आतां शितीद दुखतलें, तकलेर उरतलें. मन हॉस्पिटलांत धांवचेंना. आनी तकली दुखापत सोंसता आसतनाच कोर्तीन बस पावली. बस थांबली आनी उडी मारून हांव थंयच उबी आशिल्ले मोटारसायकलीर बसलों.

'मात्सो बेगीन वच.'

'खंय वचपाचें पात्रांव?'

'तळावलीकार हॉस्पिटल.'

'तशें जाल्यार सवकास या पात्रांव. म्हाका समजलें, तुका ताकतीक कित्याक लागल्या तें. पूण पात्रांव, अशा आकांताच्या वेळार आबूज जावंक फावना. मनाचो तोल इबाडूंक फावना. सवकास या.' आनी खऱ्यांनीच त्या पायलटान मोटारसायकल सवकास व्हेली. असलेय समजुतदार पायलट आसतात तर! खीणभर मन समिताक विसरून सदचेभशेन नॉर्मल जालें.

हॉस्पिटलाच्या दारांत मोटारसायकल थांबली. पायलटाक पयशे दिवपाचे सोडून झपाझप सपणां चडून भितर गेलों. भितर सरतां सरतां हयन्हयशीं पायलटाचीं उतरां कानांत पडलीं, 'मागीर दिल्यार जाता पात्रांव'.

ऑपरेशन थेटराकडेन माया आसलें. भितर समिताच्यो किळांची आयकूंक येताल्यो. समिताच्योच आसूंक जाय.

'कितें जालां?'

भयणीक जाप फुटलीना.

'कितें सांगलां दोतोरान?'

'आबूज जावं नाका. पळोवया, प्रयत्न चालू आसात.'

भितर शांतताय पसवली. कोणाचोच आवाज येना जालो. फकत शस्त्रांचो किणकीण तितलो कानार पडटालो.

बऱ्याच वेळान तोंडाक पाचवो कुडको बांदिल्लो दोतोर दार उगडून भायर आयलो. दोतोरान म्हाका पळयलो आनी हात धुवपाक बेसिनाकडेन गेलो. मनांत कंप भरलो.

‘दोतोर...?’ हांव लागीं गेलों.

‘बरो सुटलो तूं. समिता साल्वार जालें.’ अशें म्हणून दोतोर थंय चड वेळ रावलोना.

इतल्यांत एक नर्स एक इल्लेंशें भुरगें घेवन भायर आयली. नर्स म्हाका वळखताली. प्रितीच्या वेळारूय ती आसली. तिणें म्हाका पळयलो. तो मासाचो कुडको कपड्यांत गुठलायल्लो.

‘बॅड लक. मेल चायल्ड... डेड...’ नर्सीन म्हळें.

‘मेल चायल्ड... चलो? म्हाका चलो जालो, म्हाका चलो जालो, ओऽ आय एम् फादर ऑफ अ सन... आवयक सांगप, फामिलीचो दिवो...’ आनी नर्सीचीं फुडलीं उतरां याद जालीं.

‘डेड चायल्ड.’

समिताच्या मरणापरसूय ही वास्तवता भयांकृत जाली. म्हाका थंय उबो रावंक जालेंना. भितर वचून समिताकूय पळोवपाक भान उरलेंना. हांव फाट करून भायर येवपाक नर्सीन विचारलें.

‘कितें करता?’

‘कसलें?’

‘हें?’ त्या मासाच्या गुळ्याकडेन पळयत नर्सीन म्हाका विचारलें.

‘आमी अशेंच भायर उडयतात हें. मागीर थंय सुणीं...’

‘नो, नर्स प्लीज अशें उलोवं नाका. माय डेड् सन. माय चायल्ड. आय वोन्ट अलाव दॅट्... नर्स, हांव व्हरतां ताका. नर्स, हांव... आय ॲम् हीज फादर... खंय आसा नर्स? गिव हीम...’

‘खंय व्हरतलो?’

‘म्हज्या घरा. बांदोड्या.’

‘इतले पयस?’

‘हं...’

हांव गलबल्लों तें पळोवन मायाकय रडूंक आयलें. भितर वचून समिताक आमकां चलो जाल्ल्याची खबर सांगन दिसली. समिता गुंगेंत आसलें. आनीक चार पांच वरां तें शुद्धीर येवपाची शक्यताय नासली.

हांव भायर आयलों. भायर रस्त्यार कोणूय वळखीचो आसत म्हण रस्त्यार नदर मारली. स्कुटरीवयल्यान नागेश येता तो पळोवन मनाक धीर आयलो. सपणां सकयल देंवन हांवें नागेशाक उलो मारलो. स्कूटर थांबली.

‘आरे, हांव तुकाच सोदतालों. तो मात्सो मेमोरंडम तिका दिवन येतां. वचूनी महाराष्ट्र सरकाराक. गोंयांत येवन आमचो अपमान करतात.’

तसलेय परिस्थितींत हांव नागेशाचें म्हणणें आयकूंक लागलों.

‘चल यो तूंय. आरे, पूण तूं हांगा खंय? आनी असो नेर्वोस सो? कितें जालां?’ नागेशान आतां म्हजो अवतार पळयल्लो.

'कितें जालां?' हांव जाप दिना तें पळोवन नागेशान परत विचारलें.

मनांत आयलें, खोशयेन सांगचें, 'म्हाका चलो जाला'. पूण चलो जाल्ल्याची खोस आनी चलो मेल्ल्याचें दूख्ख जबरदस्त आसलें. खोस कसली?

'नागेशबाब, चलो जावन पेड्ड्यार जालो...'

'कोणाक रे?'

'समिताक...'

'पूण ताका तर चौथो पांचवो म्हणी न्हय रे तूं...'

'ॲबोर्शन.'

'ह्या म्हयन्यार?'

आनी मागीर नागेशान म्हाका धीर दिलो. 'तूं अशें कर, तें घेवन घरा वचूं नाका. वगीच गाजवागाज नाका.'

'नागेशबाब, म्हाका चलो जाल्ल्याची खबर सगल्यांक कळपाक जाय.'

'आरे, पिसो कसो कितें उलयता? सोंपिल्ल्या आनी तोवूय अर्दवट जल्मल्ल्या चल्याची खबर तूं लोकांक सांगून कितें मेळयतलो? हें पळय, अशे प्रसंग जायत्या जाणांचेर येतात. चल, धीर कर आनी हांव सांगतां तशें कर. पयलीं आ मी हें दिवन येवंया.' आनी आमी तो मेमोरंडम संबंदीत अधिकाऱ्याकडेन पांच मिनटांत दिवन भायर सरले.

'म्हज्या पुताक खंय व्हरूं?'

'सांतीनेज स्मशानांत घेवन वच.'

'स्मशानांत? मसंडेंत?'

'हं... आनी खंय व्हरतलो तूं? कामरांत वचून तेर्म करचो पडटलो; तेर्म करून जल्म जाल्ल्याची नोंद जालेबगर स्मशानांत घेवपाचे ना. चल, हांव सांगतां त्या दत्तरामाक.'

'कोण दत्तराम?'

'स्मशानाची देखरेख करपी. तो फोंड मारून दितलो तुका. रिक्शा करून वच.'

हांव धीट जावन परत हॉस्पिटलांत आयलों. दोतोराकडच्यान जल्म जाल्ल्याचो दाखलो घेतलो आनी कामरांत गेलों.

'म्हज्या पुताचो तेर्म करूंक आयलां.'

'केन्ना जाला?'

'आयजूच, आत्तांच!'

'आयजूच, आत्तांच? आनी इतले बेगीन तेर्म सो? आसात न्हय दीस?'

'हं... हय... ना... पूण म्हाका जाय...'

'नांव बी दवरतकच तेर्म करप मरे. पिशांभशेन अशें कितें करता?'

नागेशबाब म्हजी आवतिकाय समजलो आनी फुडें सरलो. ताणें त्या क्लार्काक कितें तरी सांगलें.

'मागीर अशें सांग मरे. तेर्म कितें म्हणटा तो?'

कोणाचींच शाणेपणां आयकून घेवपाची संवय नाशिल्लो हांव असो याण जालों,

मूर्ख जालों. म्हाका कांयच न्हय कसो करून क्लार्कान दयेचे भावनेन म्हजें काम करूंक घेतलें आनी जल्माचो, मर्णाचो दाखलो म्हज्या हातांत दिलो. पुताक नांव नासलें. बापायचें नांव, आवयचें नांव, थळ, वेळ सगलें आसलें. तारीख आसली.

'बरें, चल तूं. भियेवपाची गरज ना. म्हाका मात्शें काम आसा.' अशें म्हणून नागेश तो दाखलो म्हाका दिवन फुडें गेलो.

'पुताच्या जल्माचो आनी मरणाचो दाखलो घेवन हांव हॉस्पिटलांत गेलों. थंय त्या मेजार एका पापेलांवाचे काशेंत म्हजो पूत सुस्त न्हिदिल्लो. आडवो, गुटली करून. दोनूय हात उशापोंदा घालून न्हिदचो तसो. पांय दोडलेले. बोंबलेची वार लोंबकळटाली. आंग तांबडेंच. दोळे माजराच्या पिलाक फुटचे तशे बारीक... खीणभर ते उकते करून म्हाका पळयतात कशें दिसूंक लागले. समिताक दाखोवंक जाय आसलो. पूण समिता शुद्धीर येवंक नासलें.

म्हज्या बोल्सांतलो लेंस काडून हांवें म्हज्या पुताचेर घालो. म्हजो लेंस... आनी ताका हांव कांयच दिवंक शकलोंना. लेसांत गुटलावन ताका काशेंत घालो अनी ती कास घेवन हांव भायर सरलों.

हॉस्पिटलाच्य दारांतल्यान म्हज्या पुताच्या महानिर्वाणाची निमणी यात्रा स्मशानाकडेन वचपाक लागली. हांव रिक्शेंत बसलों आनी कास मांडयेर घेतली.

'खंय वचपाचें पात्रांव?'

'सांतीनेज मसंडेकडेन.'

'कोणाच्या मरणाक?'

रिक्शावाल्याक म्हजेकडेन धाकटी कास आसा ते काशेंत कितेंय सामान बी आसतलें अशें दिसलें जावंक जाय.

'कोण मेला आयज पणजेंत?' ताणें परत प्रस्न केलो. हांव वगीच रावलों. हांव वगी रावलां तें पळोवन ताणें फुडें जाप काडलीना.

रिक्शांतल्यान एक मडें... एका जावंनाशिल्ल्या आत्म्याचें, एका मासागुळ्याचें... काय एका देहाचें?

खीणभर दिसलें, म्हज्या व्हडल्या पुताची प्रेतयात्रा मसंडीकडेन चल्ल्या. पुतान खूब्ब नांव जोडलां. ह्या देशांतलो व्हड मनीस जावन ताका मरण आयलां. ताच्या मरणाक हजारांनी लोक आयल्यात आनी हांव म्हातारो बापूय म्हज्या व्हड पुताचे मरणयात्रेंत सामील जालां. रस्त्याच्या दोनूय वाटांनी लोक गर्दी करून म्हज्या पुताचेर अंजली ओपतात. सगलेकडेन दुख्खाची सावळी पडल्या. वाट मोनी जाल्या. पावलां संथ पडटात, दुख्खाची धून वाजता. आनी ह्या देशाचो बावटो अर्द्यार देंवता...'

आनी खीणभर तेवूय परिस्थितींत कल्पनेन म्हाका सूख अणभवलें. हयन्हयसो हांसलों हांव.

म्हज्या पुताचें महानिर्वाण अशी व्हडली कल्पना करतां करतां रिक्शा स्मशानाच्या सामकार उबी जाली.

'पात्रांव, तूं चुकून बी पावना मू? हांगा तर जितो मूस ना. भायर गाडयो, सायकली उब्यो आसपाच्यो न्हय? कोणाचें मरण आसा हांगा?'

हय, स्मशान खरेंच स्मशान आसलें. जितो मूस नासलो. मात, स्मशानाचें एक दार उकतें आसलें. येद्याशा जिवाक भितर घेवपाक मसंडीचें व्हडलें दार उकतें जाल्लें. हांव रिक्शेंतल्यान देंवलों. व्हडल्या सुशोभित केल्ल्या ट्रकावयल्यान व्हड पुताचें मरण सवकास देंवयचें तसो हांव सवकास रिक्शेंतल्यान देंवलों.

एका किलाचेंय वजन नाशिल्लें तें मडें घेवन हांवें मसंडेंत पावल दवरलें. मुखार पळय जाल्यार दत्तराम खड्डो खणून सकयल देंवतालो.

'असो यो, वयर', दत्तरामान म्हाका वयर मेकळे जागेर आपयलो.

सकयल जाण्ट्यांक लासपाची वेवस्था आनी वयर भुरग्यांक पुरपाक जमीन.

दनपारचीं दोन वरां जाल्लीं जावंये. मळबांतलो सूर्य बरोच प्रखर लागतालो. पूण म्हाका मात दिसाच्या अस्तित्वाची जाणूच नासली.

'दवर, अळंग भितर दवर', दत्तरामान सांगलें.

मन घट्ट केलें. इतलो वेळ कल्पनेंत रचिल्लें म्हज्या व्हड पुताचें महानिर्वाण खरेपणी एकट्या एकसुऱ्याचें आसलें. केन्ना केन्नाय फट कल्पनाय कितली सुखाची आसता! कितेंय जायना, पूत जाल्लो म्हणून तर इतलेंय चितूंक आनी भोगूंक पावलों न्हय. हें भोगपांतय जिणेचो अर्थ आसा!

अळंग ती कास त्या फोंडांत दवरली आनी दत्तरामान वेळ काडिनासतना झपझप करून खोरीं मारून ताचेर माती ओडली.

सुकूंक पावूंनाशिल्लीं म्हजीं दोन दुकां म्हज्या पुताच्या त्या माणकुल्या फोंडार गळ्ळीं...



५.

# एकटें एकसुरें म्हातारें

दारांतलें अशोकाचें झाड जितलें म्हणून वयर मळबाकडेन वतालें तितलें तें लकतालें. वयर वयतात तीं झाडां आनी पिराय जातात तीं मनशां अशींच बागवतात जावंक जाय. कालांतरान झाडांचीं पानां सुकूंक लागतात आनी तांच्यो खोलयो जावन उबत उबत त्यो झाडांपोंदा अयसपयस पत्रो जावन शिंवरतात आनी मागीर तो सुको पत्रो कोणाच्याय न्हाणयेंतलो उजो पेटयतात तर कोणाल्याय घासाखातीर पत्रावळीय जातात. पूण पत्रावळी जावपाचें भाग्य सगल्याच पानांच्या नशिबांत येना. आनी मनशाचें म्हणून कितें, अशेंच त्या खोलयांभशेन माथें सगलें धवेफुल्ल कापूस कशें जाता नाजाल्यार सगले केंस झडून माथ्याचो मासाचो गुळो कसो थापो जाता. आंगार सुरकुत्यो, कात लोंबकळटा, दोळे भितर खोक्यांनी पुरवले, गालफोंडां चिवलीं, हड्डें भितर गेलें, हातापांयांच्यो दोकल्यो जाल्यो, नदर गेल्ली अवस्था. म्हातारपण म्हळ्यार भिरांकूळ. सादारण तरणे पिरायेर हातपांय बरे आसतना भोंवता धुंवतना मरण येता तो भाग्यवंतच म्हणूंक जाय.

'मालाबाय, कितें येवजिता ?' वृद्धाश्रमाच्या वेवस्थापकाच्या आवाजान मालाबाय भानार आयली. आपल्या धव्याफुल्ल पातळाचो पदर तिणें माथ्यावयल्यान ओडलो आनी वृद्धाश्रमाचो वेवस्थापक बोणकाराकडेन पळयलें.

'कितें चितताली मालाबाय पयस मळबांत पळोवन ?'

'आतां आनी कितें चिततलीं ? उरलां कितें चिंतपाक ? आतां फकत ताच्या आपोवण्याक रावल्या. बेगीन धाडल्यार पुरो. नाका रे बाबा एकसुरेंपण.' मालाबायन लांब हुस्कारो काडीत मांडयेर मांडी उडयत म्हळें. मालाबाय आपले खाटीर बशिल्ली.

'अशें कित्याक म्हणटा मालाबाय ? हांगा कितलीं मनशां आसात पळयल्यांत तुवें ? आमी आसात आनी हांगा कितें फाल्त आसा तुका ? मालाबाय, तूं हांगा एकसुरी ना.' बोणकारान आपले सदचे संवये प्रमाण जाण्टेलेक थाकाय दिवपाचो प्रयत्न केलो.

सगल्या कुडींनी भोंवून वृद्धाश्रमांतल्या जाणट्या दादल्या बायलांक भेट दिवन तांचेकडेन चार गजाली करून आपल्या ऑफिसांत वचून बसपाची बोणकाराची सदची संवय. आश्रमांतल्यो सगल्यो कुडी भोंवत भोंवत तो मांगल्य हे कुडींत आयिल्लो. आश्रमांतल्या प्रत्येक दोन कुडींच्या घराक कल्पनेन नांवां दवरिल्लीं – शांतीकुटीर, मोगरा, चमेली, सार्थक, साफल्य, मांगल्य अशीं नांवां दिल्लीं. मालाबाय आनी लक्ष्मीबाय हीं दोगांय मांगल्य कुटिरांत रावतालीं. दोगांयची पिराय अंयशींकडेन पाविल्ली. त्या मानान मालाबाय

भलायकेन अजून धणधाकट आसली. तिची स्मरणशक्त, नदर, आयकुपाची तांक आजून बरी आसली. पूण येवजिताली खूब. सैमांतल्या नेमांची सर ती आपणाल्या जिविताकडेन करताली. कुटिराफुडलें अशोकाचें ऊंच झाड मळबांत आनीक वयर वचना. तें बागवता, लकता आनी तवकून धतीरवटेन झुकता तें पळोवन तिका तिच्या जाणटेपणाचे अवस्थेची चड चड जाण जावपाक लागताली. मालाबाय ही एक हुशार बायलमनीस म्हणून बोणकारांकच न्हय तर आश्रमाच्या पदाधिकाऱ्यांकय खबर आशिल्लें. आनी आयज तर वृद्धाश्रमाचेर दूरदर्शनाची एक डोक्युमेन्टरी तयार जावपाची आसली. आश्रमांतले चडशे वृद्ध दूरदर्शनाच्या मनशाकडेन उलोवचेनात, कितेंय उलयलीच जाल्यार ती फकत मालाबाय हें बोणकाराक खबर आशिल्ल्यान आतां दूरदर्शनाची टीम आश्रमांत शुटींग करतली तेन्ना सगल्यांनी तयार रावचें हें सुचोवपाक बोणकार आश्रमाच्या वाठारांत भोंवतालो.

'मालाबाय, आयज टीवीचे लोक आमच्या आश्रमांत येवपाचे आसात.' बोणकारान म्हळें.

'आयकल्लें हांवें. लक्ष्मी रातीं म्हणटाली. पूण टीवीचेर आमकां मर्णाधडेर पाविल्ल्यांक कितें करपाचें आसा? आतां मरता काय फाल्यां मरता अशी म्हजी तर गत.'

'मालाबाय, अशें कितें म्हणटा तूं? मरण फकत जाणट्यांकच येता हो नेम न्हय. मरण जल्मल्ल्या भुरग्याकय येता, तरणाट्याकय येता. खंयचेय पिरायेर येता तें. म्हणटकच मरणाचे धडेर फकत जाण्टीं-म्हातारींच नासतात, जल्माक आयिल्लो प्रत्येक जीव खंयच्याय खिणाक मर्णाचे धडेर आसता मालाबाय.'

'पूण आमी आनीक जगून जगून कितलीं वर्सां जगतलीं? आनी जगून अर्थ तरी कितें?'

'मालाबाय, टीवी खातीर तुमे थोडें उलोवंक जाय हें सुचोवपाक आयिल्लों हांव. आतां धा वरांचेर टीवीचे लोक पावतले आश्रमांत.'

'कितें उलोवपाचें?'

'तुमचे अणभव. तुमचे विचार.' बोणकारान म्हळें आनी तो मांगल्य कुटिरांतल्यान जास्वंदी कुटिरांत वचपाक भायर सरलो.

'बोणकारबाब, एक मिनीट. टीवीखातीर हांवें कितें उलोवंक जाय तें सांगलेंना तुमी.' मालाबायन बोणकारान थांबयत म्हळें. मालाबायच्या हुस्क्यान बोणकारूय गोंदळलो. नाय म्हळ्यार मालाबायन अमकेंच तमकेंच उलोवचें अशें बोणकार कसो सांगतलो आसलो? निमाणें, अणभव हे स्वता अणभव घेता ताचेच आसतात, दुसऱ्याचे अणभव हे ताचे स्वताचे कशे जातले? 'बोणकार, म्हजे अणभव हांवें सांगपाक सुरवात केल्यार ते टीवीचेर पास जातले? कांयच सेन्सर जायनासतना?'

मालाबाय ती. बरीच शिटूक आसली. बोणकार मालाबायच्या खंयच्याच दुबावाचें समर्थन करूंक शकलोना. पूण सगलेच जाण्टेले मोनेच रावले जाल्यार टीवीचें रिकॉर्डिंग पूर्ण कशें जातलें?

बोणकाराक हुस्को जालो. आपल्या वृद्धाश्रमाच्या वावराची तोखणाय टीवीच्या

वृत्तचित्रांतल्यान राज्यभर पावची अशी वृद्धाश्रमाच्या जाळवणदारांची इत्सा आसली. प्रत्यक्ष वृद्धाश्रमांतले जाण्टेले कांयच उलयले नात जाल्यार कशें जातलें? कशेय भशेन मालाबायक तयार करुंकच जाय, तिच्या मनाची तयारी करपाक ह्या निर्धारान बोणकारान मालाबायक म्हळें, सांग तूं तुका दिसता तें सांग. मागीर ते कितें तें करतले. तूं सांगता तें सगलेंच कितें टीवीर येवचेंना. वेळेचीय मर्यादा आसतली न्हय. थोडेभितर, आमच्या वृद्धाश्रमाविशीं तूं चार शब्द सांग.

फकत वृद्धाश्रमाविशीं? म्हजेविशीं कांयच नाका? म्हज्या संबंदान कोणाक कांयच आयकुपाचें ना?'

'कितें सांगतली तूं तुजेविशीं?' बोणकारान उमळशिकेन मालाबायक विचारलें आनी वचपाक भायर सरिल्लो बोणकार थंयच लागीं आशिल्ले कदेलीचेर बसलो. बोणकार कदेलींत बसला सो पळोवन मालाबायन ताच्या दोळ्यांत खोल पळयत म्हळें, 'म्हजेविशीं जायतें सांगपाचें आसा ह्या संवसाराक. बोणकारबाब, तूं जाणां, एक एक व्यक्ती म्हळ्यार एक एक मोटें विश्व. जशें हें विश्व अथांग आनी अनंत तशेंच मनशाभितरलें मनशाचें विश्व. इल्ल्याशा ह्या मनशाचे कुडींत कितें कितें भरिल्लें आसता. तूंच पळय बोणकार, तूं आतां तसो भुरगो आसा. तुजे पन्नास वर्सांचे पिरायेर तुवें कितें कितें भोगलां, ताकलां आसतलें, तुजें सुख-दुख्ख, तुजीं सपनां, आशा आकांक्षा सगलें तुज्या मनाभाशेन. तुवें येवजिल्लें तशें जालां. तुजो खंयच अपेक्षाभंग जावंक ना. तुज्यो सगल्यो इत्सा पुऱ्यो जाल्यात. तुजी बायल, तुजीं भुरगीं, तुजे शेजारी पाजारी, तुजो प्रदेश तुका समाधान दिवपी आसा. बोणकार, जिणेची एक एक घडणूक ही पयली एकटी आसता. मागीर ती दोट्टी जाता. जेन्ना ती दोट्टी जाता तेन्ना ती सगल्यांची जाता. अख्ख्या विश्वाची जाता आनी खरेपणी ती विश्वाचीच आसता. फकत तूं धरून चलता की ती तुजीच आसता आनी तो अणभव तुजोच आसता.'

मालाबायचें तत्त्वज्ञान आयकून बोणकार मात्सो सावध जालो. ताणें मालाबायची अवस्था पळयली. ही असली विद्वान बायल हे पिरायेर ह्या वृद्धाश्रमांत पावलीच कशी हो प्रस्न सदांच फकत बोणकाराच न्हय तर वृद्धाश्रमाच्या सगल्या वेवस्थापनाक पडिल्लो.

बोणकाराक याद जाली. वृद्धाश्रमांत नांव दिवपाक तिचे वतीन कोणेंच पत्रवेव्हार करूंक नाशिल्लो. ती स्वता आश्रमाच्या ऑफिसांत आयिल्ली आनी पयशे भरून आश्रमांत प्रवेश घेतिल्लो. आपणाक कोण ना, घोव ना भुरगीं नात, आपूण एकटी आनी आपली सगली जोड वृद्धाश्रमाक. फकत मरण येसर वृद्धाश्रमान आपलो बरेभशेन सांबाळ करचो इतलेंच तिणें मागिल्लें. वृद्धाश्रमांत येत पासून मालाबायन आपणाखातीर मानाची सुवात मेळयल्ली. सगल्यांक ती जाय जायशी दिसताली. तिच्या विचारांनी आनी उतरांनी सगलेच प्रभावीत जाताले पूण तिची फाटभूंय मात कोणाकच खबर नासली. मालाबायची हे पिरायेची शारिरीक अवस्था पळयल्यार तशी ती तरणेपणांत खूब सुंदर आसली अशेंय म्हणपाक जावचेंना. तरणेपणार ती खूबच बुद्धीमान आशिल्ली हें मात नक्कीं. बोणकाराची उमळशीक वाडीक लागिल्ली. इतल्यांत मालाबायन बोणकाराक म्हळें, 'टीवीर हे अणभव

सांगल्यार चलतलें?'

'कसले अणभव?'

'म्हजे, म्हज्या जिवितांतले, म्हजे खाजगी जिणेचे... जें हांवें भोगलां म्हज्या हट्टी सभावाक लागून...'

'मालाबाय, तुमचो सभाव तुमकां खबर आसा. तुमचो सभाव हो आमच्या सारक्या दुसऱ्यांनी सांगपाचो. खंयच्याच मनशाक आपूण कोण कसो तें केन्ना कळना. कारण चडशे मनीस आत्मविश्लेशण वा सेल्फ ॲनालिसीस केन्नाच करिनात. दर एकलो आपलें तेंच खरें, आपूण करतां तेंच योग्य, आपूण केन्नाच चुकना, चुकता तो दुसरो अशेच तरेन येवजीत आयला न्हय आयज मेरेन?'

'खरें तुजें बाबा. हांव केन्नाच चुकलें ना. हांव सदांच सारकें. चुकले ते हेर, चुकलो तो...' आनी 'तो... तो...' म्हणत मालाबाय थप्प करून सामकी मोनी जाली. चलतले घडयाळींतली किटकीट अकस्मात थांबची तशी मालाबायची वाचा सामकी स्तब्ध जाली.

'मालाबाय, कितें जालें? तो... तो... म्हणटां म्हणटां तूं ओगी कित्याक रावली? कोण तो? कोणाची याद आयली?'

बोणकाराच्या प्रस्नाक जाप दिवपाक मालाबाय ह्या विश्वांत नासली. तिणें भायर जनेलांतल्यान उदेंतेकडेन मळबांत पळयलें. त्या मळबांतलें एक कूप तिका तिच्या आकाराचें कशें दिसलें. मध्यम उंचायेचो, काळो सावळो, बारीक किलकिल्या दोळ्यांचो, वाटकुळ्या मुखामळाचो, मात्शें गाल भितर गेल्लो आनी भितर गेल्ले गाल लिपोवपाक गालाचेर वाडयिल्लें खाड... पातळ लांबसर केंस, रूंद छाती आनी कळे कशे दोडिल्ल्या ओंठांचो... म्हज्या सपनांतलो दादलो....

'बोणकार, तेन्ना हांव खऱ्यांनीच चुकलें रे?'

मालाबायच्या ह्या अकस्मात प्रस्नान बोणकाराक कसलोच बोध जालो ना. तो भुंवयो वयर करून प्रस्नार्थक नदरेन मालाबायक पळयत रावलो.

'बोणकार, कायद्यान, जबरदस्तीन दोन मनांचे पूल बांदिल्लें तुवें केन्ना आयकलां?'

बोणकार परत बुचकळ्यांत पडलो. माला कितें उलयता आनी कोणा संबंदान उलयता हें कळपाक मार्ग नासलो. मात हे खेपे बोणकारान मालाबायक स्पश्ट म्हळें, 'मालाबाय, कोणा संबंदान उलयता तूं?'

'तो... जो म्हजो केन्ना जालोना. आनी तो म्हजो जावंचो म्हणून हांवें केल्ले निश्ठूर उपाय केन्ना यशाक पावले नात.'

बोणकाराचे तकलेंत इल्लो उजवाड पडलो. मालाबायक आपली फाटली जीण याद जाता म्हणपाचें बोणकाराक समजलें. आनी टीवीचेर घडये ती तेंच कितें तरी सांगपाचें येवजिता आसत. पूण तिचे फाटले जिणेचो आमच्या वृद्धाश्रमाकडेन कितें संबंद? हय, ती आतां वृद्धाश्रमांत कित्याक पावली, ताका कारणां कितें हें सांगप सुसंगत थरत. पूण बोणकारान आपलेभितर चितलें. ताका एक गजाल मात जाणवली. हे जाण्टेलेक भरून आयलां. पोरण्या यादींनी तिच्या काळजांत कल्लोळ माजयला. तिच्या भावनांच्या

हुंवाराक वाट करून दिवपाची गरज आसा.

'मालाबाय, कोणा संबंदान उलयता तें म्हाका सांग, म्हणजे तुजोय घुस्मटमार सुट्टलो. आयकन हांव सगलें तुजें.'

'बोणकारबाब, जावन गेल्लें परतें थोडेंच येवचें आसा. पूण फुडें येवप्यांक तरी म्हजो व्यक्तीगत अणभव मार्गदर्शक थरू येता. म्हणून आयज फाटले प्रसंग मनांत सवणीं जावन म्हजेवटेन ह्या घोटेरांत उडून येतात जावंये. तातूंत आयज तर तुवें अणभव टीवीर सांगचे पडटले अशें सांगतकच म्हज्या घायावयलो तुवें खपलोच काडला आनी परत ती जखम उसवल्या कशी जाल्या. बोणकार, असल्यो भावनीक जखमो केन्ना पेखनात रे? कपलाक कोंक जाली म्हज्या भुरगेपणार. पूण आसा खंय तिची माव म्हज्या कपलार? पेखली, गेली नदरेपयस. पूण ही भितरली जखम मात अशी मदीं मदीं उसवता कशी? खऱ्यांनीच मनाच्यो जखमो मर्णानूच पेखतात रे? तशें जाल्यार म्हाका मर्णाचीच वाट पळोवची पडटली.'

'मालाबाय, मनाच्यो जखमो पेखनात. मनाच्या जखमांक मावो जायनात. ती जखम मनाच्या तळाक नदरेक पडनासतना उरता. म्हाका दिसता, तुजे जिणेंतली जखम अशीच आसतली.'

'हय बोणकारबाब, म्हाका जखमे परस जड जाता ती म्हजी जाल्ली चूक. आयज म्हाका दिसता, हांवें ताका समजून घेवपाचो. ताची अडचण समजून घेवपाची. खरेंच, तेन्ना तो परिस्थितीच्या दोन वणटींमदीं सामको चिड्डल्लो.'

'दोन वणटी?'

'हय. एक म्हजी वणत आनी दुसरी तिची. ती म्हजी सवत. आनी सवतीलीं भुरगीं. म्हाका खूब नसाय जाताली. हांवें रागान ताका वायट वायट उतरां दिल्लीं. राग येतकच सवतीकय वायट उतरांनी पत्रां बरयतालें. तिच्या भुरग्यांच्या वाडदिसाक तांकां शुभेच्छा दिवचे सुवातेर तांचेर गाळींचो शिंवोर घालतालें. हांवें अशें करपाचें न्हय रे तेन्ना. मनाचे पूल आनी नातींगोतीं अशीं दुस्वासान उबीं जायनात हें म्हाका खूब उसरां समजलें रे बोणकार... खूब उसरां.'

'म्हणजे तो तुजो प्रियकर आसलो?'

'फकत प्रियकरूच न्हय, लग्न जाल्लें हांव ताचेकडेन. म्हज्या समाधानाखातीर ताच्या नांवाचें बांदलें बांदिल्लें हांवें म्हज्या गळ्यांत. हें पळय हें तें. अजून काडूंक ना हांवें गळ्यांतलें, कारण तो ह्या संवसारांत आयज खंय आसा तें म्हाका खबर ना. तो जिवो आसा अशें धरून हांव ताच्या नांवान अखंड सौभाग्य अणभवतां रे...' आनी मालाबाय उलयतां उलयतां हुंदक्या हुंदक्यांनी तोंडार पदर धरून रडपाक लागली. बोणकारान पळयलें, तो वोगी रावलो. मनशाच्या भावनांचो पूर दुकांतल्यान सोंपता. घेवंदी तिका रडून भरपूर. मागीर तिका ल्हव ल्हवशें दिसतलें.

बऱ्या वेळान मालाबायन आपल्या पदरान आपलीं पोल्यार दाटिल्लीं दुकां पुसलीं. ती सावशीक जाली. पावस पडून वतकच धर्तरी सुकी दिसपाक लागता तशें तिचें

मुखामळ वोलें-सुकेंशें दिसपाक लागलें. तिणें बोणकाराक पळयत म्हळें, 'बोणकार, मोग करतल्यांनी केन्ना कसलो हट्ट धरूंक फावना, कोणाचो मत्सर करूंक फावना. परिस्थितीकेन, वास्तवतेकडेन जुळोवन घेवन मार्ग चलपाचो आसा हें म्हाका आतां कळटा. तेन्ना कळिल्लें जाल्यार तो तेन्नाच म्हजोय आसतलो आसलो रे. पूण तो म्हाका फकत म्हजोच उरिल्लो जाय आसलो रे, फकत म्हजोच. तशें जाल्लें जाल्यार म्हजो जीव हांव ताचेर उंवाळून उडयन आसलें. पूण ताकाय तें शक्य नासलें. निमाणीं, तिंवूय मनशां. म्हजेभशेन तांचींय सपनां आसलीं, तांकांय बी म्हाका जशें दिसतालें तशें दिसतालें जावंये. ताच्या भुरग्यांक तांचो बापूय सदांकाळ तांचेच सरीं आसचो अशें दिसतालें तेन्ना नेमको तो म्हाका म्हजेसरीं म्हजे वेंगेंत आसचो अशें दिसतालें आनी ह्या आमच्या दिसपांत आमचो सुवार्थ आसलो. एके व्यक्तीचेर कितल्याशा जाणांनी अधिकार सांगतकच ते व्यक्तीची जीण खिंडींत सांपडिल्ल्या असहाय्य, अगतिक विरावरी जावचीना तर कशी जातली? पूण हांवें ताका सतावपाक सगलें केलें. कायद्याची, कोर्ट कचेऱ्यांचीं दारां धोपटुपाचीय सोडलेंना. पूण मनां हीं कायद्यान जोडनात. मनां हीं मायेमोगानूच जोडूं येतात हें सत तेन्ना म्हाका होलमलेंना आनी होच अणभव म्हाका आयचे तरणे पिळगेक आनी कोणाचोय मोग करतल्याक सांगूंक जाय. टीवीचेर असलें हें म्हजें उलोवप चलतलें?'

'फकत जिणेच्या अणभवांतलें सार आनी परिणाम थोडेभितर सांगल्यार उपकारता. ह्या वृद्धाश्रमांत पावपाचीं हीं जीं कारणां आसात, तीं फकत एकटे मालाबायचे जिणेचीच घडणूक न्हय. अशे तरेच्यो घडणुको संवसारभर घडटात.'

'त्यो घडूंक फावनात. खंयचेच असले परिस्थितींत मुखार आशिल्ली वास्तवता स्विकारून ॲडजस्ट करप, एकामेकांक समजून घेवप हें दोन व्यक्तींचें कर्तव्य आसता. संघर्श आनी द्वेश हाचें फळ हें असलें एकसुरेपण जें आयज म्हज्या वांट्याक आयलां. ना ताचो सांगात, ना भुरगींबाळां, ना सोयरीं दायरीं. तेन्ना भरपूर शिकलें, उच्च शिकप घेतलें. सगले कायदे शिकलें, पूण एक कायदो शिकलेंना. 'द लॉ ऑफ अन्डरस्टँडींग इच अदर...' एकामेकांक समजून घेवप आनी हयकारात्मक चितप. पॉजिटिव्ह थॉट करप केन्ना शिकलेंना. दूरदर्शनाचे हे मुलाखतींत हें म्हजें शल्य जर चलता जाल्यार टीवीच्या लोकांक हांगा आपय. आनी जर चलना जाल्यार म्हजें हांगा ह्या वृद्धाश्रमांतले कुटिरेंत तांणी पावपाचें दुसरें कसलेंच कारण ना. म्हजेकडेन हाचेबगर दुसरें सांगपासारकें कांय एक ना.'

बोणकार मालाबायची ती करारी मुद्रा पळोवन चाट जालो. एके आकांताचे म्हातारेक ताणें मनांतल्यान विनम्र अभिवादन केलें आनी वृद्धाश्रमांतल्या त्या मांगल्य कुटिरांतल्यान ताणें पावलां उखललीं.

बोणकार ल्हवूच कडसरलो तें पळोवन मालाबाय निर्धास्त जाली. मरचे पयलीं हें कोणाक तरी सांगपाचें आसलें. सांगलें, जालें. आतां त्या दिसाची वाट पळोवया, अशें चिंतीत मालाबाय आपले खाटीर अळंग आड पडली.



६.

# डबल बेड

हावरा एक्सप्रेसची गती बरीच मंदावली म्हणून हांवें वगीच हाताचें मनगट वयर करून आड पडला थंयच्यानूच घडयाळ पळयलें. सांजवेळचीं चार वरां जाल्लीं. शेजारच्या बर्थाचेर इंजीनियर बॅनर्जी आजून वाचीत आशिल्लो. हांव वरां पळयता तें पळोवन ताणें सहज म्हळें, 'गाडी स्टेशनांत भितर सरता.'

'म्हळ्यार आमी हावराक पावले?' हांवें अजापान विचारलें. पूण हावराक यो वच करपी इजनेर बॅनर्जीक कसली घाई नासली. घाई आसली ती म्हाका. पयलेच खेपे गोंयासावन इतलो पयस आनी तोवूय बी एकटो. इजनेरान परतय तकली पुस्तकांत घाली. तो नक्कींच बंगाली पुस्तक वाचतालो जावंक जाय. पूण ताच्या पुस्तका संबंदान विचारपाक कोणाक धीर आसलो? म्हाका घाई लागिल्ली म्हजें सामान वयलें सकयल काडून देंवपाचे तयारेंत दवरपाची.

हांवें जनेलाचो हारसो वयर काडून भायल्यान पळयलें. आनी भायर पळोवन काळजांत धस्स जालें. भायर सगलोच काळोख. घड्याळांत चार वरां आनी भायर इतलो काळोख कसो? ते भायर गाडी काय हावरा स्टेशनांत भितर पावंक नासली. म्हजी घडयाळ बी बंद पडलीना मू अशा दुबावान हांवें इजनेर बॅनर्जीक विचारलें, 'टायम कितलो जालो?' ताणें म्हळें, 'सारकीं चार!'

'चार...???' म्हाका जाल्लें अजाप ताणें पळयलें आनी तो म्हणपाक लागलो, 'यू नो वुई आर नाव एट एक्स्ट्रीम नॉर्थ इस्ट. हांगा सूर्य किरणां दोनपारचींच उणीं उणीं जायत वतात.'

म्हजेर आकांत आयलो. चार वरांचेर गोंयांत रखरखीत वत, लख्ख दीस. तशेंच हांगाय आसतलें अशें समजून कांय प्लान केल्ले. हावराक देंवनाफुडें खंयचेंय एक बरेंशें हॉटेल सोदून काडप आनी एकदांचो जीव व्हरून रुमांत घालप. सगलें करतासर एक वर जरी जालें तरी पांच-स मेरेन मागीर भायल्यान अशी पासय मारून येवप. मातशें तरी उजवाडाचें हावरा पळोवप. पूण चारांकच काळोख पळोवन आतां करचें तरी कितें?

'क्यों भई, यू सीम टू बी वरीड?' इजनेरान म्हाका पळयत म्हळें.

'हय, हो चारांक पळयल्लो म्हजे जिणेंतलो पयलो काळोख. आमच्या गोंयांत सात वरांचेर काळोख जाता. ह्या म्हयन्यांत स वरांचेर. पूण तुमच्या कलकत्त्यांत चार वरांचेरूच गुपाट काळोख. काळखांत हांव आतां गोंदळटलों. पयलीं हॉटेल सोदपाक जाय.' हांवें

म्हजी अडचण दाखयत इजनेराक म्हळें.

'तुम ऐसा करना, यू हायर अ रिक्शा, ही विल टेक यू टू द रायट हॉटेल. हांगा तरातरांचीं हॉटेलां आसात. सवाय दराचीं आसात, म्हारगय आसात. हांगा लागींच एक यात्री निवास आसा. रेल्वे प्रवाशांखातीर थंय पयलें प्रेफरन्स आसता.' इजनेरान आपले ओ छाप बंगाली इंग्लीशींत म्हळें.

इतले म्हणसर भस्स करून मुसांचो चोमो घो-घो करून कानांकडच्यान वच्चो तसो एकच आवाज कानार पडलो. आनी त्या आवाजांत इजनेर बॅनर्जीचीं फुडलीं उतरांच आयकूंक येना जालीं. गाडी स्टेशनांत पाविल्ली. आनी रोखडीच उबी जावपाची आशिल्ली. भायर पळयल्यार स्टेशनार चोम्यांनी लोक. गाडयेंतली हमाली मेळोवपाक तर हमाल एकामेकांक लोटून त्या रेल्वे कंपार्टमेन्टांनी घुसताले. ते गर्देत हांव म्हजें सामान घेवन वचपाचो आशिल्लों. इजनेर बॅनर्जीन म्हजो केन्ना निरोप घेतिल्लो तें म्हाका कळ्ळेंच ना. म्हजो फस्ट क्लास कंपार्टमेन्ट आशिल्ल्यान म्हज्याय कॅबिनांत चार पांच हमाल घुसले. हांवें हमाल नाका म्हळें. दोनूय ब्रीफकेसी दोनूय हातांत धरल्यो. लॅदर बॅग खांद्याक लायली आनी हावराचे भुंयेर म्हळ्यार कलकत्याचे भुंयेर पांय दवरलो. सामान घेवन भायर वचपाखातीर 'एक्जीट' उतरां पळयलीं. सरभोंवतणीं आवाज, उतरां कानार पडटालीं तीं फकत बंगाली. क्वचित इंग्लीश. हांवें म्हज्यो दोनूय ब्रीफकेसी हातांत धरल्यात तें पळोवन हमाल फाटल्यान लागलेच. पूण हांवें तोंडांतल्यान ब्र काडलोना. हांवें जर हिंदी उच्चारिल्ली जाल्यार हो पर्यटक आनी बंगाला भायलो हें तांकां कळटलें आसलें. हांवें हमालाक हांसत हांसत मोन्यानीच न्हयकार दिलो.

गर्देतल्यान वाट तोपून काडली आनी आवाशिवा करून स्टेशना भायर आयलों. लोकांची ती गर्दी पळोवन मनांत विचार आयलो, हे गर्देत मनीस म्हणून म्हजें मोल कितें? गर्देतल्या दरेका मनशाचें मोल कितें?

हांव हांसलों. हो विचार करपाचो वेळ नासलो. पयलीं हॉटेल अशें येवजून हांवें मुखार पळयलें. रिक्शा, मनशांनी ओडपाच्यो रिक्शा, सायकल रिक्शा आनी ताचे पेल्यान टॅक्सी. पूण टॅक्सी करून म्हाका काय ते रातीकडेन चड पयस वचपाचें नासलें. तशी कापाजदादय म्हाका नासली. प्रवासांत अर्दो जीव गेल्लो. दोन दिसांचो प्रवास, तोवूय रेल्वेंतलो. हांव भोंवतणी नदर मारतां तें घडये एका रिक्शावाल्यान निमगिलें जावंये. बाकी गिरायकां पळोवपाक तांची नदर बगळ्याचीच आसूंक जाय. तो रिक्शावालो म्हजे वटेनच येतालो. हांवें ताका पळयलो. काळो सावळो, मोटवो, मात्यार केंसाचें झोप कशें, फिल्मी हिरोची हेअरस्टायल. पळोवंक आकर्शक दिसतालो. पयलीं ताणें बंगालींत म्हाका कितें तरी विचारलें. पूण तें म्हाका कांय समजलेंना म्हणपाचें खिणांत ताच्या लक्षांत आयलें.

'क्यों साहब, हॉटेल पे जाना है?'

'हय... हां.. कहाँ पे है?'

'आना साहब, मै लेता आपको...' अशें म्हणत ताणें म्हजो हयकार न्हयकार पळयनासतना

म्हाका आपले फाटल्यान येवपाक खुणायलो. हांवूय कांय एक विचारीनासतना ताचे फाटल्यान चलपाक लागलों. मनांत म्हळें, म्हजे खातीर हो कितें आनी दुसरो कितें, सगले रिक्शाकार सारकेच. गोंयांत आमच्या रिक्शाकारांक आमी वळखनात ते हांगा परप्रांतांत कितें पारखितले?

'देखो साहब, आपको कौनसावाला हॉटेल चाहिए?' रिक्शेचें दार उकतें करीत ताणें म्हाका म्हळें.

'अच्छावाला... लेकिन जादा महँगा नहीं...'

'ठीक है.' घडये ताणें म्हजी कुवत वळखिल्ली जावंक जाय. रातीखातीर एका हॉटेलाच्या रुमाक पांचशीं सातशीं रुपया दिवपी हो मनीस न्हय असोच ताणें अदमास केल्लो जावंये. ताणें रिक्शा चालू केली आनी गर्दी कापीत वांकडी तिकडी करून आकांताचे कट मारीत तो एकदांचो नीट रस्त्याचेर आयलो. पांच धा मिनटांचो रिक्शा प्रवास जावंये. ताणें एका हॉटेला मुखार रिक्शा उबी केली, पयलीं आपूण देंवलो आनी बेगिबेगीन हॉटेलाच्या कावंटरार गेलो. हॉटेल मॅनेजराकडेन कितें तरी झटपट उलयलो आनी म्हजेसरीं आयलो आनी म्हणपाक लागलो, 'साहब, कमरा है. अच्छा हॉटल है.'

म्हाका अच्छा बुराचो विचार करपाक धीर थोडोच आसलो. ठीक है अशें म्हणत हांव रिक्शेंतल्यान देंवलों. ब्रीफकेसी ताणेंच भितर व्हरून कावंटराकडेन दवरल्यो.

'कितना हुआ?'

'जादा नहीं साहब. पंद्रह रुपया.' ताणें म्हळें. पूण आमकां गोंयांत चांटेपावलाक फटयतल्या रिक्शाकारांपरस तो चड प्रामाणिक दिसलो. हांवें पंदरा रुपया ताका दिले आनी 'अच्छा साहब' म्हणत ताणें रिक्शा स्टार्ट केली.

'हां साहब, बोलो...' हॉटेल मॅनेजरान म्हाका म्हळें.

'सिंगल बेडरूम चाहिए.'

'नो. सॉरी, यहाँ सिंगल बेड नहीं मिलता. सब डबल. डबल ले लो साहब.'

सिंगल बॅड खंय सोदपाक वतलों म्हणून हांवें डबलाचें भाडें विचारलें.

'जादा नहीं साहब, ओन्ली हन्ड्रेड फिफ्टी. एक व्यक्ती के लिए हम इतनाही चार्ज करते हैं.'

हांवें आनी चड चितलेंना. फाल्यां पळोवचें बरेंशें हॉटेल. ही रात हांगाच घालपाचें थारावन हांवें ओके म्हळें आनी रोखडेच कावंटरावयले सगले सोपस्कार सोंपयले आनी ॲडवान्स दिलो. म्हज्यो ब्रीफकेसी व्हरपाक एक वेटर आयलो. लिफ्टींत हांवें वेटराक विचारलें, 'कमरा कौनसी मंजील पर है?'

'पांचवी मंजील', वेटर बंगाली हेळ्यांनी वायटशी हिंदी उलयनासलो.

'बिजनेस को आये साब?' लिफ्ट चडटां चडटां वेटरान म्हाका पळयत विचारलें. आतां तें वेटराक हांव कितें सांगतलों? एक लेखक आनी सरकारी खर्चान शांती निकेतनाक वचपाक आयला. हो प्राणी कित्याक लावन खावपाचो काय म्हणत ताणें विचारल्यार

हांव कितें सांगतलो आसलों? ते परस हांवें हां म्हणत ताका समाधानी केलो.

इतले म्हणसर लिफ्ट पावली. ताणें फुडें सरून लिफ्टीचें दार उकतें केलें आनी म्हाका भायर सरपाक वाट केली. आनी फाटल्यान ब्रीफकेसी घेवन आपूण म्हाका भायर सर म्हणपाक लागलो.

'आईये साहब.' हांव तो व्हरतां त्या रुमाकडेन गेलों. तो एका दोनशीं सात रूम नंबराकडेन रावलो. बोल्सांतली चावी काडपाक ब्रीफकेसी सकयल दवरल्यो, रूम उगडली आनी लायट पेटयली. रुमांत लख्ख उजवाड पडलो. रूम तसो मध्यम दर्जोचो. एक ड्रेसिंग टेबल, एक धाकटें मेज, दोन कदेली आनी वणटीकडेन एक रूंद डबल खाट. म्हणजे सक्तीन दोन व्यक्तींनी तेच खाटीर न्हिदपाची वेवस्था. म्हाका अजाप दिसलें. चड करून डबल बेड ही वेगळ्यावेगळ्या दोन खाटींची आसता. जाय जाल्यार पयस लागीं करूंक हालोवंक मेळटा तसल्या दोन खाटींची.

'पानी लाता साहब. गरम या थंडा?' वेटरान विचारलें, तसो हांव म्हजे नदरेंतल्यान भायर सरलों.

परकेकडेन थंड उदक पियेवप ना हें हांवें आदींच घरांतल्यान भायर सरतना थारायिल्लें. हांवें म्हळें, 'गरम पानी लाना.'

वेटर रुमांतल्यान भायर वतकच हांवें दार धांपलें. पयलीं आंगावयले घामाचे कपडे देंवयले. बाथरुमांत वचून हातपांय धुले आनी तोंडार पचपचीत उदकाचो शिंवोर मारलो. बरें दिसलें. इल्लोसो थकवो गेलो. बाथरुमांतल्यान भायर येवन खाटीवयले काडून उडयिल्ले कपडे एंगराक लायले. मात्सो विसव घेतकच बऱ्या गरम उदकान न्हावचें अशें चितलें आनी टॉयलेटा भितर शॉवर आशिल्लो थंय गरम उदकाचो शॉवर आसा म्हणपाची खात्री करून घेतली. कमराक लुंगी गुटलावन खाटीर आड पडलों. दोन दिसांनी मोवमोव गादयेक फाट तेंकयतकच ताचो फरक जाणवलो. वेटर येवन वतकच मागीर रुमांत एकटो हांव. ब्रीफकेसींत दवरिल्ली काजू फेणयेची बाटली भायर काडपाची आनी काडावड पयसावपाक इल्ली फेणी घेवपाची, कितेंय चिकन मटण मागोवपाचें अशें चिततनाच दाराची बेल वाजली. वेटर उदक घेवन आयला जातलो म्हण तसोच कमराची लुंगी मात्शी अंदून दार उकतें केलें. आनी मुखार पळयलें.

मुखार वेटराच्या बदलाक एक चली, काय बायल... कांय समजलेंना. पूण साडी न्हेशिल्ली एक जुवान, खूब सुंदर दिसपी बायल उबी आशिल्ली. म्हाका दिसलें, ती रूम नंबर चुकून बी आयल्या म्हण. कितलो वेळ हांव तिका पळयतां हाचेवेल्यान तिका कळपाचें, ती चुकीच्या रुमांत पावल्या म्हण. पूण दारांतली ती हालना धोलना. म्हाका पळोवन गालांतल्या गालांत मुरगट्टा. मंद गोड गोड हांसता. वळख पाळख नाशिल्ली एक बायलमनीस आनी तिवूय कलकत्ता सारक्या पयसुल्ल्या प्रांतांत. वळखीची तर आसुंकच शकनासली. हांव गोंदळलों. कितें उलोवचें तेंच समजना जालें. ही हांगा म्हज्या रुमार कित्याक आयल्या काय? धीर करीत हांवें रेश्पेदान तिका म्हळें, 'येस मॅडम, कौन चाहिए आपको?' आनी म्हजे नदरेक आपली खोल नदर बाण कशी

मारीत तिणें हांसत म्हळें, 'आप चाहिए, साहब. आप.'

आनी म्हजी ट्यूबलायट पेटली. हें सुंदर नसांव कित्याक आयलां जातलें ताचो हांवें अदमास केलो.

'साहब, अंदर तो आने दो' अशें म्हणत ती अक्षरशा दार धुकलून भितर सरपाक लागली. म्हज्या काळजांत घपघप जावपाक लागलें. हें कितें विचित्र? अशें खंयच हे आदीं हांवें पळोवंक नासलें. कोणूय आपल्याक हॉटेलांत रूम पार्टनर जाय आसल्यार पयलींच घेवन वतात. पूण ही तर हांव रुमांत भितर सरतां थंय आसां, म्हजे फाटोफाट आनी तिवूय बी हांवें आपयनासतना? ती म्हाका पळयत आसली.

तिची नदर भुलोवपीच आसली. गोरी, घडये खूब मेकअप केल्लो आसुंये. आंगाक बरो सेंट घाल्लो. आंगावयली साडी खूब आकर्शक दिसताली. रुपानय आकर्शक. खरें म्हळ्यार तिचे नदरेच्या बाणांनी पयलींच घायाळ जावपाचों. तातूंत म्हजे सारको शेळ्या नक्षत्राचो तर रोखडोच. पूण मनस्थिती थाऱ्यार आसली. परकेकडेन कोण कसले कावे रचून आसता कळपाक कुस्तार. ते भायर हांव तर पयलेच खेप कलकत्त्यांत आयिल्लों. ना कोणाची वळख पाळख. हांव सावध जालों आनी तिका म्हळें, 'आपको किसने बुलाया?'

'बुलाया नहीं साहब. भेजा है.' तिणें आपली जीब भायर काडून अशे तरेन ओंठाचेर घुंवडायली की कोणेंय तिचेर काळीज काडून मारपाचें.

'भेजा है? किसने?' म्हाका आतां मात्सो धीर आयलो. हांव उगडो आसां, कमराक फकत निखटीच लुंगी रेवाडल्या आनी एका हॉटेलांत रुमाच्या दारांत रावन हांव घरा शेजान्नीकडेन उलोवचें तशें उलयतां हाचें म्हाका खीणभर भान उरलेंना. पूण तिका भितर आपोवप योग्य नासलें.

'मॅनेजर साहबने भेजा है. आपने डबल बेड लिया हैं और आप तो अकेले हैं. साथी भी लाया नहीं.'

'मॅनेजरान धाडल्या?' हें हॉटेल असलें कसलें? हांगा डबल बेड आसात तें एकवेळ समजूं येता. पूण डबल बेडाचेर दोन व्यक्ती जाय वो दोन व्यक्तींचीच वेवस्था करप? हांवें तिका परत पळयली. ती आजूनय खूब म्होंवाळ नदरेन भुलोवण्या हांशान म्हाका वयर सकयल पळयत आसली. हांवें तिका खंयच्याय खिणाक भितर घेवचें अशें तिका दिसतालें आनी आमचे मदलें अंतर इतलें उणें आसलें की ती भितर सरपाक म्हण सामकी दारांत उबी आयिल्ली. तिच्या स्त्री देहाची ऊब म्हाका जाणवताली. तिच्या तोंडांतल्या च्युईंग-गमाचो वास म्हज्या नाकांत सारको बरो घुसतालो आनी हांव जर दारांतलो मात्सो फाटीं सरल्यार ती स्वता आपूण जावन भितर घुसतली हातूंत दुबाव नासलो. हें आयिल्लें एक वेगळे तरेचें लचांड कशेय भशेन परथून लावपाची गरज आसली. पाडा पडिल्लो उदक हाडपाक गेल्ल्या वेटराचो पत्तो नासलो.

'साहब, अंदर तो आने दो ना, सब बताती हूँ.' ती आनीक मात्शी म्हजे वटेन रिगत म्हणपाक लागली. आतां मात हांवें धीर करपाचें थारायलें आनी मात्सो तसो

गंभीर जायत आनी उश्णो राग एकठावन तिका म्हळें, 'देखो, तुम चलो. मुझे कोई नहीं चाहिए. मॅनेजर साहब की गफलत हुई होगी... जाव...' अशें म्हणत हांवें नेटान दार मारून घेतलें. ती कितलो तरी वेळ 'सुनो तो सही... साहब...' अशें म्हणत भायल्यान दारार मारीत आसली.

म्हाका शेळो घाम फुटलो. आतां बायल आनी तिवूय इतली सोबीत अशी चलत तुजे मुखार येता. जंय तुका कोण वळखना थंय ते बायलेक परत धाडपी विश्वामित्राचो बापूय थरतलो अशें कोणूय म्हणुंये. पूण परकेकडेन कसल्योय भानगडी करप आनी फाल्यां म्हाका लुटल्यार म्हजो कोण आसा हांगा? हांवें मजें मन निबर केलें आनी आतां आनी कोणाक दार काडप ना. पाड पडूं त्या वेटराचें. कांय नाका उदक बिदक. असोच उपाशींच न्हिदप. फाल्यां सकाळीं पळोवचें हें कितें प्रकरण तें, अशें म्हणत हांव धडधडट्या काळजान खाटीर आड जालों.

बऱ्याच वेळान दारार परत टकटक, परत बेल वाजपाक लागली. भायर दादल्या मनशाचो आवाज. म्हणजे उदक घेवन वेटर आयिल्लो जावंक जाय. पूण कितलो वेळ दार उगडपाक धीर जालोना. मागीर 'साहब साहब, पानी लाया है' अशें कानार पडटकच हांवें दार उकतें करपाचो महत्प्रयासान निर्णय घेतलो. दार उकतें करिनाफुडें हातांत उदकाचो फ्लास्क आनी धुल्लो ग्लास घेवन वेटर उबो पळोवन बरें दिसलें. तें लचांड खंयूय लागीं बी ना मू म्हणून हांवें भायल्यान खोल नदर मारली.

'किसको देखता है साहब?' वेटरान म्हाका विचारलें.

'वो कौन थी?' हांवें वेटराक सरळ विचारलें.

'कौन? यहाँ कोई आयी थी?'

'हय, आयिल्ली म्हणून विचारता? कौन थी वह?...'

'आऽ समझा' अशें म्हणून वेटर भितर आयलो आनी सहज म्हणपाक लागलो. 'साहब, वह हररोज का मामला है. देखो अभी पुरा कमरा फूल है. सब डबल बैड हैं ना? आपका भी. इसलिए मॅनेजर ने भेजा होगा. आप तो अकेलेही आए हैं ना, डबल बेड में?'

म्हणजे डबल बेड हांवें घेतिल्ली ती ह्या हॉटेलांत सिंगल बेड ना म्हण. एकूण प्रकरण इल्लें इल्लें म्हज्या लक्षांत आयलें.

'साहब, छटे मंजील पर एक बडा ओपन टॅरेस है, वहाँ जाकर आप देखो और सिलेक्ट करो. अगर वह पसंद नहीं तो...'

'पसंद?...' पूण आतां ह्या वेटराकय चड कांय सांगप बरोबर नासलें. हांव गोंयचों, इतलो पयसलो म्हण कळ्ळ्यार तो आनीक कितेंय करीत म्हण वेटराकडेन चड उलोवप ना अशें मदींच मनाक दिसलें आनी हांवें वेटराक म्हळें, 'ठीक है, आज नहीं. कल दिन को देखेंगे. मैं बहुत थका हूँ और मुझे सोना है...'

'खाना नहीं खाएगा साहब?'

'नहीं, मैने थोडा फल लाया है और रातको मैं खाना नहीं खाता हूँ. तुम जाव.'

वेटरान म्हजो मूड पळयलो आनी तो मोन्यांनी वचपाक लागलो. पूण ताणें म्हाका अशे तरेन पळयलो की खंयचें अजागळ आयलां हें? दादलोच काय कोण हो?

'अच्छा साहब... सोना आराम से' अशें कितें तरी ताणें दार धांपतना म्हळें. हांवें दार बंद केलें आनी दाराक खिळी घाली. काळजांतलो खपखप कमी जाल्लो. मात्शें बरें दिसलें. काजू फेणयेची बाटली उगती केली आनी फेणी ग्लासांत ओतून एकाच घोटान उदक कशी ताळ्यांत ओतली. उजो लागिल्लेवरी पोट लासपाक लागलें. हांव उठलों आनी खाटीर पडलों. केन्ना न्हीद लागली कळ्ळेंना. पूण बऱ्याच वेळान म्हाका भास जालो. म्हज्या शेजराक म्हाका तेंकून कोण तरी बायलमनीस बसल्या. ती म्हज्या हड्ड्याचेर तकली आनी म्हज्या ओंठांचेर आपले ओंठ तेंकयता. म्हज्या आंगापांगांवयल्यान पांखां भोंवडायचीं तशी ती आपले हात भोंवडायता. आनी तिचे वेंगेंत हांव. मळबांतल्या कुपांनी उडिल्ल्याचो आनंद हांव अणभवतालों. म्हाका केन्नां फुटूंनाशिल्लो हांसो फुट्टालो. म्हजे दोळे धुंद जाल्ले. हांव तिका परतो परतो घट्ट वेंगेंत घेतालों. रातभर कोण तरी रुमाची बेल एकसारको कितलो तरी वेळ मारतालो. दारारूय वाजयतालो!

म्हाका बरीच खर न्हीद लागिल्ली. हांव जागो जालों. आनी सकाळ जावन गेल्या म्हणपाचें म्हज्या लक्षांत आयलें. रातीं न्हिदतना लायट ऑफ करूंनाशिल्ली. गोंयचे काजू फेणयेन आकांताचो येफेत केल्लो. सगलो प्रकार लक्षांत आयलो. म्हणजे ती येवपाची ना तर. सपनां येवपाक दार उकतें दवरपाची गरज नासली.

हांवें भानार येत खाटीवयलो उठत पयलीं पयस जाल्ली लुंगी आंगार रेवडायली. बाटली काडून भितर दवरली पूण वास मात अजून आशिल्लो. उठून दार उकतें केलें. दारांत च्याचो कप घेवन वेटर उबो आसलो. हांवें च्या घेतली. न्हावपाचे आनी भानगडीक पडलों ना. कालचेच कपडे घालून डबल बेडाचे भायर खरोच सिंगल रूम सोदपाक धांवलों.



७.

# देवाली मनीऑर्डर

शिरवाणाचे उमाशेक लागिल्लो उटंगाराचो पावस केन्ना सोंपन सो जाल्लो. असो पावस केन्ना पडलोना हे आदीं आमचे मुस्तींत. काळ कसो काळ जावन येयलो आमचेर. आरे देवा, आतां आमचें जातलें कशें? शेत सगलें बुडलें, रोव पोंदच्या लोटान केन्ना दर्यार पावलो जातलो. शेत खरपोन गेलां जातलें. आयज रातभर असोच झडल्यार फाल्यां सगली पाटणेवाडी उमळ जावन फुगतली. शेता बांदाकय फूग येतली आनी उदक घरांनीय घुसतलें. मागीर गंगाळां घेवन उदक कोण उपशितलो? अंदू इतलो कोप कित्याक हो? कितें केलां आमी वायट? आनी पाटणेवाडीच्याच वांट्याक हो हुंवार कित्याक येवचो? ना ना. हो... हो पावस थांबपाक जाय. थांबना जाल्यार देवान तो थांबोवपाकच जाय. आनी देव जर आपूण जावन पावसाचो बंदोबस्त करिना जाल्यार देवाकय वगी रावप ना. तेजेपयलीं ही खबर देवाच्या कानार घालप गरजेचें. देवाक पत्र बरयल्यार कशें? हय, पत्रच बरोवंक जाय.

गणबान सरभोंवतणी पळयलें. सगलीं जाणां आजून जागींच आसलीं जावंक जाय. भायर घोग्यांनी पावस एकसारको रकत आसलो. पावसाच्या गाजांत कोण कितें म्हणटा तें कोणाकच सारकें आयकूंक येनासलें. शेजाऱ्या पाजाऱ्याचें सोड, घरांतल्या मनशांचें उलोवप एकामेकांक कळनासलें. देखून गणबान भितरले वटेन पळयलें. चेडो आजून शिकतालो. ताणें भितर नदर मारीत नारायणाक उलो मारलो. नारायण, पुता म्हाका इल्लो कागदा कुडको आनी पेन मात्शें दिता?

नारायण गणबालो एकलो एकसुरो पूत. केन्ना पेन आनी कागद घेवन बरयल्ल्या बापायक नारायणान हे आदीं पळोवंक नासलो, तो अकस्मात पेन मागता तें पळोवन नारायणाकय अजाप दिसप सभावीक आसलें. नारायणान अजापान भायलेवटेन आपल्या बापायकडेन पळयलें. बापूय भितरले वाटेन ताकाच पळयतालो. पळयत परत नारायणाक म्हळें, 'हय रे, पेन आनी कागद हाड. म्हाका मात्शें बरोवंक जायें.'

'कागद बरोवपाक जायें?' नारायणान अजापान बापायक विचारलें.

'हय, बरोवंक जाय एक कागद.' गणबान म्हळें.

'हांव बरयतां. कोणाक बरोवपाचें? मामाक काय आत्याक?'

'तेंकां कोणाक न्हू रे. हांव बरयतां. कोणाक बरोवपाचें तें तुका समजुचेंना तें. दी तूं एक पान तुजे चोपडेचें पिंजून.'

नारायणान आनीक चड वासपूस केली ना. ताणें आपले एके चोपडेचें एक पान

तोडलें, आपलें पेन घेतलें आनी मुकाट्यानी भायले पडवेर बशिल्ल्या आपल्या बापायमुखार व्हरून दवरलें.

गणबान लापयांवाची जोत मात्शी मोटी केली, उजवाड घेतलो आनी वणटीक तेंकोवन दवरिल्लो एक पाट जमनीर दवरून ताचेर कागद दवरलें. आनी गणबान पत्र बरोवपाक वणव घालो. हालींसरा कोणाक कांयच बरयल्लें नाशिल्ल्यान तें धा बारा उतरांचें पत्र बरोवपाक बरोच कळाव लागलो. भितरल्यान नारायणाचेंय लक्ष आपल्या बापायचेर आसलें. बापूय कितें बरयता ताची ताका उमळशीक लागिल्ली. बरयतकच पळय रे पुता अशें म्हणत बरयिल्लें तें कागद आपणाकडेन दितलो असो नारायणाचो समज आसलो. पूण गणबान तशें कांय केलेंना. पत्र बरयलें आनी नारायणाक म्हळें, 'चेड्या, एक कवर आसा रे बी हाडलेलें?'

'कोणाक बरयलां पत्र?'

'तें तुका नाका रे. सगल्या जाणवायो तुकाश्यो कित्याक? कवर आसल्यार दी तूं.' गणबान पुताचेर तिडकशी उकतायली. नारायणान पारखिलें. बापायन कोणाक तरी बरेंच तिडकीन कितें तरी बरयलां.

नारायण तसो आपल्या बापायक खूब मानतालो. आपणाल्या शिक्षणाखातीर बापूय कशे तरेन धकेचपाटे काडपाक रातीचो दीस करता ताचें भान नारायणाक आसलें. नारायण खूब शिकचो आनी आपणा भाशेन असो परतो शेताच्या चिखलांत लोळपाक वचचो न्हय, पोट शेतार दवरून जगचो न्हय, पावस वताच्या आनी शिंयाच्या भरवंशार ताणेंय बी आदन दवरचें न्हय अशें गणबाक सद्दां दितालें. देखून ताणें नारायणाक खूब शिकोवपाचें थारायल्लें.

पावसाचो गाज इल्लोय उणो जावंक नासलो. घरांतलीं सगलीं जाणां सुस्त न्हिदिल्लीं. फकत नारायण अभ्यासाखातीर जागो आसलो. तर गणबा शेत हुंवारांत व्हांवून गेल्याच्या दुख्खान भ्रमिश्टसो जाल्लो आनी ताका पावस घालतल्या देवाचो खूब राग आयिल्लो. आनी तो राग ताणें पेन हातांत घेवन पयलेच खेप ल्हान आसतना शाळेंत शिकिल्ल्या दोन यत्तांचो उपेग केलो. ताचे जिणेंतलें ताणें बरयिल्लें तें पयलें वयलें पत्र. ताणें नारायणान हाडून दिल्ल्या कवरांत तें बरें घालें, गोमान सामकें घटं बरें दसयलें आनी पत्राचेर नामो बरोवन तो दिसाची वाट पळयत हांथरुणार पडलो. पूण हुसक्यान ताका तसो दोळो लागलो ना. रातभर रकतल्या पावसाभाशेन तोवूय जागोच रावलो.

ना म्हळयार फांत्यार ताचो मात्सो दोळो लागलो, पूण हयन्हयसो. सगल्यांचे जागेन तोवूय बेगीबेगीन उठलो. भायर बरोच उजवाड जाल्लो. दीस बरोच वयर आयिल्लो. तो बेगीबेगीन घोट घेवन भायर आंगणांत आयलो. आंगणांतले मेरेर उबो रावन ताणें फुडल्यान नदर मारली. पाटण्यावाडीचो दर्या जाल्लो. धोंस जाल्लें सगलें उदक आजून न्हंयचे वाटेन लोट्टालें. मात पावस इल्लो थांबिल्लो. पूण पावसान गणबाचें घट्टण केल्लें इतलें खरें. गणबाची खात्री जाल्ली, एक लेगीत रोप शेतांत धरचेंना. सगलें भुंयभरवण जाल्लें.

गणबा तसोच भितर आयलो. बायलेन पेल्यांत घालून दवरिल्ली पेलोभर खुटी च्या तशीच घळघळीत सकनळयेंत ओतली. खुंटयेक लायिल्लें खोमीस काडलें आनी आंगार चडयलें आनी तसोच वारें कसो तो घरांतल्यान भायर सरलो.

गणबाचो हो नवो अवतार ताचे बायलेक यमुनाक खटकले बगर रावलोना. तिणें गणबाक पळोवन म्हळें, 'सकाळीफुडें खंय वयता?'

'वयतां वयतां... तेका दाखयतां... कितें समजला तो? पावस थांबोवंक जायना तो कसलो देव? सगलें करता खंय तो. आमकां राखता खंय तो. आतां कित्याक करिना खंय आमची राखण?'

गणबाचे बायलेक कांयच बोध जालोना. आपलो घोव खूब अस्वस्थ आसा इतलेंच यमुनान पळयलें. यमुनान फुडलें उतर काडचे पयलींच गणबा चणचणीत चलपाक लागिल्लो. हातांत ताणें बरयल्लें तें पत्र घेवन.

गणबा पोस्टऑफिसाकडेन पावलो. थंय सकाळीफुडें जितो मूस नासलो. पोस्ट पेटी मात गणबाकडेन पळोवन मंद हांसताली. पोस्टपेटयेक पळोवन गणबाक मात्शें बरें दिसलें. तो बेगीबेगीन फुडें सरलो आनी हातांतलें तें पत्र पेटयेंत धुकल्लें. तें सारकें भितर पडलां म्हणपाची खात्री केली आनी तो तसोच घरा येवपाक परतलो.

सोमारा सकाळीं सदचे भशेन गांवच्या पोस्टांत पत्रांचें सोर्टिंग जालें आनी पत्रां त्या वाठारांत तांच्या तांच्या नाम्याप्रमाण वांटणी करतकच एक पत्र एका पोस्टमनाक सांपडलें. तें पत्र घेवन तो खो खो करून ऑफिसभर हांसपाक लागलो. तो हांसता म्हणून उमळशिकेन हेर पोस्टमन आपआपलें सोर्टिंगाचें काम सोडून ताचेसरीं आयले आनी 'कितें जालें? कित्याक हांसता?' अशा अर्थान ताचेकडेन पळोवपाक लागले.

'हें पत्र पळयलां तुमी? हें खंय धाडपाचें? देवाचो पत्तोय सारको बरोवंक ना.' पत्र हातांत झेलयत हांसत त्या पोस्टमनान म्हळें. 'कोण तरी पिसो आसतलो.' पत्राचेर भायल्यान फकत 'देव' इतलेंच उतर आसलें आनी कसलोच पत्तो बित्तो नासलो. पत्र घेवन सगल्या पोस्टमनांनी त्या पत्राचीं फकांडां उडोवन जातकच एकल्यान तें पत्र व्हरून पोस्टमास्टराक दाखयलें आनी म्हळें, 'सायब, हें पत्र खंय धाडपाचें?'

'दी पळोवया' अशें म्हणत पोस्टमास्तरान तें पत्र घेतलें. आरतें परतें करून पळयलें. भायल्यान पत्तो बरयतात थंय फकत 'देव' इतलेंच आसलें. देव हें उतरूय बी बरेंच ओडून ताणून बरयिल्लें. बरोवपाची संवकळ नाशिल्ल्यान तें बरयलां म्हणपाचें पोस्टमास्तरान ताडलें. ताणें तें पत्र फोडलें आनी भितरलो मजकूर वाचपाक घेतलो.

श्री. गणबा शंकर कुपासकार
पाणटेवाडी, बांदोडें, गोवा.

श्री देवा,
तुका साश्टांग दंडवत.

देवा, अंदू तुयें खूप पावस रकयलो. सेगीन म्हयनोभर. देवा, अंदू तुयें म्हज्या पोटार मारलें. देवा, मारपाचेंच आसल्यार फाटीर मारपाचें, पोटार न्हू.

म्हाजें सगलें शेत बुडलां, रोव घातलेलो सगलो व्हांवोन गेला. अंदू कांयच पिकचेंना. तूं खंय रोजी दिता. पूण अंदू रोजी तुयें काडून घेतल्या. हायें कांय कसलोच तुजो गुन्याव करूना, कसलेंच पातक करूना.

अंदू म्हाजें कशें जातलें? म्हाज्या भुरगेबाळांक कोण घालतलो पोटाक? देवा, म्हाका लुकसाण भरपाय जाय. उणेंच म्हटल्यार पांचशीं रुपया तरी.

तेन्ना देवा, पांचशीं रुपया जाता तितले बेगीन म्हाका धाडून दिवचे.

बरें मागून,

तुजो,
गणबा

पोस्टमास्तरान पत्र वाचलें आनी तो एकदम गंभीर जालो. पत्र वाचून पोस्टमास्तर इतलो गंभीर जाला तें पळोवन पोस्टमन हांसपाचे थांबले आनी उमळशिकेन ते पोस्टमास्तराकडेन पळोवंक लागले. पोस्टांत आमचे एकूण तीस कर्मचारी आसात. प्रत्येकान धा धा रुपया काडल्यार तिनशीं रुपया जमतले. पोस्टमास्तरान मनांतल्या मनांत हिशेब केलो आनी ताणें एकल्याक सांगून सगल्या कर्मचाऱ्यांकडल्यान धा धा रुपया एकठांय करपाचें थारावन अनधिकृत एक नोट स्वताचे निशाणेन पोस्टांत भोंवडायली. पयलेच खेपे पोस्टमास्तरान अशे तरेन आपल्या वांगड्यांकडल्यान पयशे जमयिल्ले. पोस्टमास्तरान पयशे कित्याक मागल्यात हाची चवकशी करिनासतना प्रत्येकान मोन्यानी धा धा रुपया दिले. एकूण तिनशीं रुपया जाले. पोस्टमास्तरान तिनशीं रुपयांची मनीऑर्डर गणबाच्या नांवार बरयली.

दुसऱ्या दिसा पाटण्यावाड्यार गांवचो पोस्टमन गणबाचो पत्तो विचारीत पावलो. गणबा पोस्टमनाची वाट पळयतालो. ताची पुरेपूर खात्री आसली, देव ताका पयशे धाडटलोच म्हण.

'गणबा शंकर कुपासकार तूं?' पोस्टमनान आंगणांत उबो आशिल्ल्या गणबाक विचारलें.

'आरे, ह्या वाड्यार दुसरो गणबा कोण आसतलो? पयशे घेवन येयला मरे? म्हाका खबर आसलें. कितले धाडल्यात?'

'तिनशीं रुपया येयल्यात तुका.' पोस्टमनान म्हळें.

'तिनशीं?' गणबा अजापान पोस्टमनाकडेन पळयत रावलो.

'पळयता कितें? हांगा सय कर. घे' अशें म्हणत पोस्टमनान मेजून तिनशीं रुपया गणबाच्या हातार दवरले आनी गणबाची सय घेवन तो आपले वाटेक लागलो.

गणबा दांत ओंठ चाबून पोस्टमनाकडेन रागान पळयत रावलो. पूण गणबाच्या रागाचें कारण पोस्टमनाक खबर नाशिल्ल्यान खीणभर गणबाकडेन पळयत पोस्टमन हांशिल्लो. पोस्टमनाच्या हांशान गणबाचो दुबाव आनीक बळावलो. पोस्टमन बरोच पयस पाविल्लो तरी लेगीत पोस्टमनाचे फाटमोरे आकृतायेक पळयत गणबान सडसडीत गाळ हाणली.

‘मादरचोत. एक नंबरचे चोर. पळयतलों हांव, दोनशीं रुपया कोणें खाल्यात ते!’ अशें म्हणत गणबान परत खात्री करपाक हातांतल्यो नोटी मेजल्यो. ज्युस्त तिनशींच आसल्यो. तो तसो घरांत भितर गेलो. नारायणाक उलो मारलो. नारायण घराच आसलो. बापायचो अचकित उलो आयकून नारायण समजलो, शेताक लागून बापूय बरोच बेजार जाला म्हण. रातभर बापायक दोळो लागलो ना हें नारायणान पारखिलें.

‘नारायण, मात्शें पेन आनी कागद दी पळोवया.’

‘कागद आनी पेन घेवन कितें बरयता तूं दादा?’

‘तें तुका नाका रे, हांव सांगता तें कर.’

गणबा तिडकलो. नारायणान जाप काडलीना. मोन्यांनी वचून बापायक परत एकदां पेन आनी कागद दिलें.

गणबान देवाक सणसणीत उतरांनी चीट बरयली आनी सोमतीच व्हरून पोस्टांत घाली.



गांवच्या पोस्टांत सदचे भशेन पत्रांचें सॉर्टिंग सुरू जालें. सॉर्टिंग करतां करतां ‘देव’ अशें उतर बरयल्लें आनीक एक पत्र पोस्टमनाक मेळ्ळें.

‘हेंकां कोणाक येड बी लागुंना मरे? देवांक पत्रां बरयतात ते. करुंदी कितें करता तें सायबाक. तेचेकडेनच दिवंया.’ सॉर्टिंग करतल्या पोस्टमनान सरळ व्हरून तें पत्र पोस्टमास्तराच्या मेजार दवरलें.

‘हें कितें?’ पोस्टमास्तरान पोस्टमनाक विचारलें.

‘पयरचेवरी तसलेंच पत्र येयलां.’ पोस्टमनान म्हळें.

‘तसलेंच पत्र?’ अशें म्हणत पोस्टमास्तरान पत्र फोडलें आनी वाचूंक लागलो.

मोगाळ देवा,

साश्टांग दंडवत.

तुवें तत्काळ दुडू धाडून दिले खरे. तुजेकडेन कांय फाल्त ना. पांचशीं म्हटल्यार तूं पांचशींच धाडटलो हेची म्हाका खात्री आसा. पूण देवा पांचशीं रुपयांत दोनशीं रुपया उणे आसात. पोश्टांनी अशींच फटिंगपणां चलतात. म्हज्या पांचशीं रुपयांतले दोनशीं रुपया ह्या पोश्टांत फारायल्यात हेतूंत इल्लोय दुबाव ना. पूण तेंचेंकडेन झगडोंक कोण वयतलो? आतां देवा, उरलेले दोनशीं रुपया म्हाका पावते कर. पूण उपकार करून ते दुडू पोश्टांतल्यान मात धाडूं नाका. हांव वाट पळयतां.

तुजो<br>गणबा

पोस्टमास्तरान पत्र वाचलें आनी एक लांब सुस्कारो सोडीत वयर पळयत म्हळें, ‘देवा, धन्य तुजी...’



८.




# रेंवेंतलीं खोल खोल नेमां

पणजे वचून म्हाका रोखडोच मडगांवां परत येवपाक जाय आसलो. मडगांवां सांजे पांच वरांचेर लोहिया मैदानाचेर एक सभा आसली. सभेंत म्हजें भाषण आसलें. आयोजकांक हांवें येता म्हणिल्लें. देखून पणजेचीं सगलीं कामां सोंपोवन पांच मेरेन मडगांवां पावपाक जाय आसलें. पणजे एक वर परत येवपाक एक वर. मदलीं दोन वरां. प्रवास सोडून म्हज्या वांट्याक कितलो वेळ मेळटलो हें म्हाका खबर नासलें. हांवें पणजे वचपी एक्स्प्रेस बस धरली. मदल्याशा सिटार हांव बसलों. शोफेरूय पणजे पणजे करीत आड्डताले. तशीं सगलीं सिटां भरूक नासलीं. म्हज्या म्हऱ्यांतलो सीट रिकामोच आसलो. कोणूय कसलोय येना जाल्यार पुरो. केन्नाकेन्नाय कोणूय तरी सोरोबेबदो येवन म्हऱ्यांत बसता आनी बस प्रवास नाका शेवट जाता. एकदां जालां म्हाका तशें. म्हज्या सिटार अकस्मात लकत लकत एक बेबदो साप्प तर्रर जाल्लो येवन बसलो. आतां बसीच्या सिटार बसतल्याक आमच्यांनी मानार करुंयेता? सिटार बसनाफुडें म्हाका पळयत म्हणपाक लागलो, 'तुमकां खंय पळयल्लेवरी दिसता.'

'आसत', हांवें म्हळें.

'तुमी बसीन प्रवास करतात?' ताणें म्हजेवटेन पळयत म्हळें, तसो म्हाका ताचो राग आयलो. आतां हाका वळख पाळख नाशिल्ल्याक ह्यो जाणवायो कित्याक? पूण तेन्ना हांवें राग गिळ्ळो आनी ताका जाप दिवपाचें टाळ्ळें. तरी ताणें म्हळें, 'रागार जावंनाकात, तुमी चडशे स्कुटरीर वा मोटारीन प्रवास करतात न्हय?'

म्हणजे हो म्हाका वळखता आनी हांव कितें करतां, कसो प्रवास करतां तें लेगीत हाका खबर आसा. फाटल्या त्या मनशाची आयज कित्याक कोण जाणा याद जाली आनी तसलोच कोणूय आयज ह्या सिटार येवन बसना जाल्यार पुरो अशें मनांत मागतां आसतनाच फुडल्या दारांतल्यान एक तरणाटी चली नेटान भितर सरली आनी जसो कितें हांवें तिचेच खातीर सीट राखून दवरिल्ले भाशेन ती सरळ आयली आनी धबयंच करून म्हजे कुशीच्या सिटार येवन नेटान बसली. ती बसनाफुडें आमचो सीट मात्सो सकयल देंवलो कसो दिसलो. हांवें मनांत समाधानाचो विचार केलो. सोड. हें म्हजेकडेन कशेंच उलोवचेंना. चली तें. ताका कापाजदाद आसूंक नाका आपूण जावन म्हजेकडेन उलोवपाक? ते भायर म्हजे सारक्या मदले पिरायेच्या दादल्याकडेन ही चली उलयतली तरी कितें? हय, तेन्ना हांव मदले पिरायेचोच आसुंये. म्हणजे, तसो तरणाटो नाशिल्लों.

चाळीशींतली खबर ती. म्हणटकच ती चली म्हजेकडेन उलयतली तरी किते? म्हाकाय हातांतले सगले पेपर पणजे पावतासर चाळपाक जाय आसले. हांव बस सुटपाची वाट पळयतालों. भायर रावन कंडक्टर क्लीनर मेळून दोगूय आजून पणजे पणजे डायरेक्ट डायरेक्ट करीत बसीभायर आसले. ड्रायव्हरान बस इंजीन चालू केल्लें आनी बस फाटींफुडें करीत 'येया बेगीन बस सुट्टा' अशें पयसुल्ल्यान येवपी प्रवाशाक दिसचें आनी तांणी धांवत येवन बसींत घालून घेवचें म्हणून बस ड्रायव्हराचीं तीं सदचीं चिकानां आसलीं. थंयच लागींच उबो आशिल्लो पुलीस फी फी करून ताका 'सोड मरे... सोड...' अशें एक सारके म्हणत आसलो. पूण ड्रायव्हर बस सोडटा? सोलां! ताणें भायर दारांतल्यान कंडक्टराक पळयत म्हळें, 'आरे वासो, तेका कांय दिवंना?'

वासू भायल्यानच आड्डलो, 'दसको दिला मरे!'

'मागीर बोब कित्याक मारता तो? तेका सांग आमचो टायम जावना म्हण.' आनी इतलें सांगता थंय आसा, धव्या भेसांतलो देंवचार धांवून आयलो आनी वासूचेर तापलो.

'बस भायर सरना? तो फाटलो बोब मारता मरे! तेका पॅसेंजर नाकात? तो रिकामो वयतलो?' उपरांत आवाज उणो करीत खूब समजिकायेन बाबापुताच्या सुरांत पुलिसान वासू कंडक्टराक म्हळें, 'वच मात्सो.'

'वयतां पात्रांव. पळय, बस सामकी रिकामी आसा. टीप तरी जावंनाका?' सगले सीट भरून आतां उबे पॅजेंसर उपाट भरिल्ले. लोतेसांव जाल्लें. म्हज्या म्हऱ्यांत बशिल्ली ती चलीय बरीच अस्वस्थ जाल्ल्याचें हांवें पळयलें. तें परत परत चिटमिट्टालें. ताकाय चिमटे येताले जावंक जाय. म्हाका वगीच वयलेचराक म्हणन दिसलें, 'हांचें केन्नाच पोट भरना. पॅसेंजर जाले.' पूण हांव उलयलों आनी तें गंभीर रावलें आनी म्हज्या म्हणण्याक तेंको दिनासतना निर्विकार मोनेंच रावलें जाल्यार वगीच म्हाका मरपाक पुरो जावपाचें. तातूंत चली. आनी चली म्हणून सादीसुदी न्हय. बसींत भितर येतना हांवें तिचें तोंड सारकें पळयल्लें. सिटार बसतकच मात कांयच पळोवंक मेळना जालें. म्हणजे, सहज नदरेक पडपाचें तशें नदरेक पडना जालें. मुद्दम जावन ताका पळोवपाक म्हज्याच तोंडाचो अँगल म्हाका णव्वद डिग्री घुंवडावचो पडपाचो आनी तशें केल्यार तें म्हणचें नासलें, हो आनी आपणाक कित्याक पळयता काय म्हण? हांव वोगीच रावलों. ना म्हळ्यार तशें तें बरेंच मोटें जरी नासलें तरी बसतकच ताचें भेंड रुंदावलें आनी ताच्यो एके वटेनच्यो जांगो म्हजे एके वटेनच्या जांगांक तेंकपाक लागल्यो. सभावीक स्पर्शाची गरमी काय उब म्हणटात ती म्हाका जाणवपाक लागली. पूण चली बिनधास्त बशिल्लें. ताका ताची पर्वा नासली. बशींत एका आनी असल्या अशीर सिटार बसतकच दोन व्यक्तींमदीं वेंतभर अंतर कशें उरूंक शकता? घडये ताकाय बी ह्या समीकरणाची जाण आसली आसूंक जाय. हांव हें चिततां आसतनाच कंडक्टर एकदांचो भितर सरलो आनी दारार उबो रावन परतय पोट अर्देंच भरलां अशा अर्थान पणजे पणजे करीत मदींमदीं पिल्लूक मारपाक लागलो. ना म्हळ्यार आतां बस इल्ली इल्ली स्टँडाभायर पाविल्ली पूण आजून मार्गाक लागूंक नासली. आतां वाटेक लागतली अशें पळोवन हांवें पेपर

उकतो केलो. येदो व्हडलो पेपर तो. दोन पानां अश्शीं फाकारलीं म्हणटकच एका हातांतलें पान उजवे वटेन वळ्ळे बगर रावता? म्हजो उजवो हात पेपराचें पान चिमटेंत धरून बद्द ताचे फुडल्यान पावलो. हांवें पेपर उकतो करून वाचपाक सुरवात करिनाफुडें ताणेंय उकत्या पेपराच्या पानार नदर मारली. ताची नदर नेमकी खंयचे बातमेर थिरावल्ली तें कळपाक कुस्तार आसलें. पूण हांव वाचतां तो पेपर म्हऱ्यांत बशिल्ली तरणाटी चलीय वाचता ही गजाल कितें कमी म्हत्वाची? पेपर वाचप्यांची लक्तुबाय दिसली.

बस एकदांची मार्गाक लागली. बसीची स्पीडय वाडली आनी पणजेच्या रस्त्यार घों घों करून वारें कशी धांवपाक लागली. बस फास्ट वता तें पळोवन बरें दिसलें. कोणेंच कितेंच विचारिनासतना कंडक्टरान लोकांक पळोवन म्हळें, 'आमी ज्यूस्त टायम भरून काडटात. बस बारांक शार्प पणजे पावतली.' विमानांत हवाई सुंदरी बी जशें निवेदन करता तशेंच निवेदन कंडक्टरान केल्लें. बारांक पावतली? हांवें घडयाळांत पळोवपाक हातांतलो पेपर अस्सो सकयल घेतलो. हात वयर काडलो आनी मनगटाची वॉच पळयली. सारकीं इकरा वरां जाल्लीं. म्हणजे एका वराचो प्रवास. हांवें घडयाळांत पळयलां तें पळोवन ताणेंय बी अळंग एक नाजूकशी पॉज घेत आपलो गोरोगोरो हात वयर केलो आनी हातांतले लेडीज वॉचींत पळयलें आनी 'शी बाबा, कितलो वेळ!' अशा अर्थान तोंडान एक 'च्चऽ' केलें. ताका पणजे मात्शें बेगीन पावपाक जाय आसलें, हांवें अदमास बांदलो. हरशीं ताचेकडेन कांय सामान बिमान नासलें. एक ल्हानशी पर्स आनी कागदांत गुटलायिल्ली एक पोटलीशी. ती पोती आपणाल्या दोनूय जांगांच्या मांडयांचेर मदींच दवरिल्ली. पोटली घडघडून सकयल पडचीना म्हणपाची खबरदारी ताच्या दोनूय जांगांनी घेतिल्ली आसूंक जाय. कारण तें हुसक्या मेकळें बशिल्लें. मदींमदीं म्हज्या पेपरांत नदर मारतालें, तर मदींमदीं भायर पळयतालें. बशीचे गतीक लागून झणझणीत वारें भितर मारतालें. त्या नेटाच्या वाऱ्यान ताच्या खांद्यावयली ओडणी हुबून म्हजेर येताली तशें तें ओडणी ओडून परत घट धरतालें. आपली ओडणी म्हजेर पडची न्हय म्हणून तें खऱ्यांनीच खूब जपतालें. म्हज्या मनांत आयिल्लें, ताका म्हणचें म्हणून, 'वारें बरेंच झणझणीत मारता, आसूं.' पूण उतर फुटलेंना. वाऱ्याच्या फोर्सार ताची ती हलकीफुलकी रंगीत ओडणी भुरभूर करून म्हज्या आंगाक झुबताली.

बस नुव्यां पावली आनी हांवें दुसरो पेपर उकतो केलो आनी तो वाचपाक सुरवात केली. पूण वाचपाचेर म्हजें बिलकुल लक्ष लागनासलें. एक ओळ वाचली जाल्यार दुसरी वाचतना लक्ष भलतेच कडेन वतालें. वगीच भायर पळोवचें, मागीर वगीच अश्शी चोर नदर करून शेजाऱ्नीक पळोवची अशे तरेन म्हजीं अस्वस्थपणां चलतालीं. तें म्हजेवटेन पळयनाशें दिसतकच ताका मागीर सारकेंच पळोवपाचो यत्न करचो. म्हाका अशें कित्याक दिसचें? काय दादल्याचो सभावच हो? हांवें म्हजे म्हाकाच विचारलें. म्हऱ्यांत एक वेळ दादलो बशिल्लो जाल्यार बरो आशिल्लो. निदान असलो फुगारमार जावचो नासलो. कितेंय तरी उलोवंक येतालें. नाच जाल्यार म्हणूंक येतालें, 'राजकारण सामकेंच घाणलां न्हय? कितें हें? एका वर्साभितर दोन दोन सरकारां?' मागीर तोवूय म्हणटलो आसलो,

'चोर सगले. फकत खावपाचें. राजकारण कसलें? आपल्या धा पिळग्यांचें कल्याण करपाचें मू?' आनी दादलो म्हऱ्यांत आशिल्लो जाल्यार अशेंच कितें तरी उलोवपाचो. पूण हाचेकडेन कितें उलोवपाचें? च्चेऽ... हांवें परत पेपर चाळिल्लेभशेन केलें.

बस जुवारी पुलार पावली तशें उकत्या जनेलांतल्यान जुवारी न्हंयचें मेकळें वारें बसींत घुसलें आनी म्हज्या हातांतल्या पेपराची पकड सुटली आनी पेपर सुटून सोमतोच सकयल पडलो. ते चलयेन तो पेपर घट्ट धरलो, तसोच ओडलो आनी पेपर म्हजेकडेन दिनासतना आपूणच सारको उकतो करून वाचपाक लागली. इतल्या बोवाळांत ती म्हाका बरीच घश्टून बशिल्ली. म्हजीं भुजां तिच्या दंडांक तेंकिल्लीं. म्हजो कोपरूय तिच्या खंयच्या तरी आंगाक हय न्हयसो तेंकतालो. कल्पनेनूच हांवें चितलें, नेमको खंय लागता काय? खंय लागूं! ताणें काय आजून कसलोच विरोध दाखोवंक नासलो. पेपरांत लक्ष घालून तें पेपर वाचता तें पळोवन हांवेंय म्हज्या हातांतलो इंग्लीश पेपर उकतो केलो.

'एकाच बराबर इतले पेपर वाचता?'

पयलीं म्हाका भास जाल्लेवरी दिसलें. मागीर पळयलें, ताणेंच म्हणिल्लीं तीं उतरां. तें सकयल नदर घालून हांसत आसलें. इतलो वेळ इतलें सिरियस बशिल्लें हें अचकीत आपलें सगलें गंभीर मोनेपण सोडून बोलकें जालें?

'वाचून जालो?' ताणें म्हजे वटेनच्या जनेलांत भायर पळयिल्लेवरी दोळे करून म्हाका म्हळें. ताचो आवाज खूब लागोळोसोच आसलो. 'वाचून जालो?' ह्या ताच्या प्रस्नाक जाप कितें तरी दिवंक जाय आसली.

'हय, तुका जाय हो पेपर?' हांवें ताका प्रती-प्रस्न करिनाफुडें हे खेपे मात ताणें म्हाका वळून पळयलें.

'खरें सांगूं, बस प्रवासांत पळय कोणं वाचतात न्हय, ते कितेंच सारकें वाचूंक पावनात. बस धांवतना नदर कशी थिरावतली? इतलो वेळ तुवें कांय एक वाचुंना. वगीच चाळपाचें सवंग करपाचें, तुवें केलां तशें.'

आतां हांवें धीर करपाचो थारायलें. 'खरी गजाल. तशें हांव कांय वाचूंक पावलोंना. मन जाग्यार नाका? पयलींच बस सोडपाक कळाव केला. म्हाका मात्सो पणजे वचून बेगीन मडगांवां परतुपाक जाय.' हांवें एका दमांत ताणें कांय विचारिनासतना ताका सांगलें. 'तूं खंय वता?' हो प्रस्न करपाक आजून म्हजें मन तयार नासलें. पूण ताणेंच म्हळें, 'इतली घाई शी कित्याक?'

'कसली घाई?' म्हाका ताच्या प्रती-प्रस्नाचो बोध जालोना देखून परत ताका पळयत विचारलें. हे खेपे मात हांवें सरळ ताका स्पश्ट पळयलें. तें तशें मोटवेंच आशिल्ल्यान म्हाका स्पश्ट नदरेन पळोवपाक सोंपें जालें. गोरें, वाटकुळें तोंड. नाकांत पिली, कानांत भांगराचीं, गळ्यांत बरीच मोटी सरपळी, सरपळयक एक लॉकेट. हातांत भांगराचीं कांकणां, बोटांत थिकांची मुदी. उजव्या आनी दाव्या हाताच्या बोटाक मुदी. पिराय पंचवीस तरी आसूंक जाय. म्हणजे व्हंकल. 'कसली घाई म्हणटा?' ह्या प्रस्नाक हांवें जाप दिवंकच नासली. ताणें परत खोचून विचारलें.

'ना. मडगांवां सांजेक परत येवपाक जाय. ते खातीर स्कूटर प्रासार दवरून बसीन आयलां.'

'मडगांवचो?' ताणें मेकळेपणाचो परवानो दीत म्हाका संवकळीन विचारलें. आनी म्हज्या माथ्यावयलें नाका आशिल्लें टेन्शन इल्लें उणें जालें कशें म्हाका दिसलें.

'ना. हांव मडगांवचो न्हय. फोंडेचो.' आनी वेळ वगडायनासतना हांवें ताका प्रती-प्रस्न करीत म्हळें, 'तूं खंयचें?'

'हांव मडगांवचें.'

'मडगांवां खंय रावता?'

'कोंबवाड्यार.'

'कोंबवाड्यार खंय शें?'

'विठ्ठल मंदिराकडेन. कोणाक वळखता?'

'ना, थंय कोणाक वळखना.' हांवें चितलें, कोणाचीय वळख सांगिल्ली जाल्यार फुडलो उरिल्लो प्रवास मोनो मोनोच जातलो. ताकाय हुसक्या मेकळें दिसचें म्हण हांवेंय म्हळें, 'कोंबांत हांव कोणाक वळखना.'

'तूं खंय वता?'

'भयणीगेर. म्हापशां. खोर्ले रावतां.'

'लग्न करून दिल्या?'

'हय' अशें म्हणत तें खीणभर वोगी जालें. परत हातांतलो पेपर उकतो केल्लेवरी केलो आनी परत धांपलो. म्हजी उमळशीक वाडली. कोंबांत रावता, कोणागेर, बापायचें नांव कितें, खंय शिर्वीस करता, असले प्रस्न म्हाका ताका विचारपाचे आसले. पूण ताणेंच हांवें विचारचे पयलींच म्हज्या मनांतल्या प्रस्नांक जाप दिवपाक सुरवात केली.

'भावागेर रावतां हांव. व्हडलो भाव पोश्टांत शिर्वीस करता. हांवें बीए केल्या. चौगुलेंत शिकतालें हांव.'

'अशें? हांवूय चौगुलेंत शिकतालों.'

'केन्ना? हालीं?' ताणें अजापान म्हाका पळयत म्हळें. म्हाका तें बरेंच पळोवंक लागलें. ताणें म्हज्या केंसांर नदर मारली. खाडय पळोवंक लागलें. खाडाचे कांय केंस निकतेच पिकपाक लागिल्ले. बारीक नदरेन पळयता तें पळोवन म्हजे म्हाकाच कितेंशें दिसलें. हांवें बेगीबेगीन म्हळें, 'ना, चौगुलेंतल्यान पास जाल्यार उणींच म्हळ्यार धा वर्सां जालीं.'

'म्हाका पास जाल्यार तीन वर्सां जालीं.'

'खूब भुरगें तूं!' हांवें हांसत म्हळें.

'भुरगें?' आनी तें खो करून बसभर हांसलें. पूण बसीच्या गरगरान ताच्या हांशार कोणाचेंच लक्ष गेलेंना. मागीर ताकाय बी तें बऱ्याच मोट्यान हांसलां म्हणपाचें कळ्ळें जावंये. ताणें हळूच म्हळें, 'तूं भुरगें म्हणटा? हांव भुरगें? सव्वीस वर्सांची होंकल हांव. आनी... आनी...' अशें म्हणत तें फुडें कितें तरी सांगपाक वतालें तें थांबलें.

ताणें स्वताचीच जीब चाबली जावंक जाय. म्हाका जें सांगूंक फावनासलें तें सांगपाक वतालें दिसता. हांवें ताचो जाल्लो घुस्पागोंदळ पारखिलो आनी ताका बोलकें करपाक हांवेंच चड फुडाकार घेवपाक जाय अशें म्हाका दिसलें.

'तूं कितें तरी सांगूंक सोदतालो म्हाका? थांबलो कित्याक?'

'ना, हरशींच. उलय तूं. म्हाका कितें सांगलें म्हण? हांव परकों. वळख ना पाळख. बस पावतकच तूं तुजे वाटेन वतलें, हांव म्हज्या कामाक वतलों. फकत इल्लोसो प्रवासांतलो टायमपास.'

'तुका इल्लो टायम आसा?'

'कित्याक?'

'म्हजे वांगडा उलोवपाक.'

'खंय?'

'पणजे पावतकच खंयच्याय हॉटेलांत वचून कॉफी घेत उलोवपाचें.'

हांव खीणभर विचारांत पडलों. हाका हॉटेलांत च्याक घेवन गेल्यार, कोणेंय पळयल्यार तें आनीक! खंयचेय चलयेबरोबर हॉटेलांत च्यायेक वचपाची पिराय तरी उरल्या? साडोसुडो आशिल्लो जाल्यार जावं आसलें. पूण तेचबरोबर तें कितें सांगूंक सोदता ताची तीव्र उमळशीक लागिल्ली. हांवें मनांत हिशोब केलो. प्रासार देंवपाचें आनी सोमतीच मिरामार दोनापावलाची बस धरपाची. बशींत कोणाक कसलो दुबाव येना. सगले प्रवासी. हांवें ताका म्हळें, 'हॉटेलांत नाका. वगीच कोणूय वळखीचे इश्ट बी सांपडल्यार तुजी कुचमण जातली. ते परस कोण पावना अशे सुवातेर या आमी मिरामार. थंय बसपाक बरी सुवात आसा.'

'तूं जाणा?'

'हय.' हांवें म्हळें.

'तशें जाल्यार थंयच या.' ताणें म्हळें.

इतले म्हणसर बस स्टँडाक लागली. सगले लोक भरभर करून देंवले. हांवें भायर पळयलें, मिरामार वचपाची बस सुट्टाली. हांवें ताका म्हळें, 'बेगीन यो. बस सुट्टा.' आनी आमी खिणांत बशींतल्यान देंवलीं आनी धांवत वचून मिरामारची बस धरली. तेंवूय तशेंच नेटान आयलें आनी म्हजेसरीं बसलें. आतां मात म्हज्या काळजांत धपधप जावपाक कोमेस जालें. मिरामार या म्हळें, पूण खंय वचपाचें? खंय बसपाचें? आनी तें म्हाका कितें तरी सांगूंक सोदता. मनांतलो घुस्पागोंदळ वाडपाक लागलो. पूण एक मन मात धीर दितालें.

मिरामार आमी दोगांय देंवलीं आनी वाटेर कांय एक उलयनासतना बरींच चलत फुडें गेलीं. कोणाची जांगमाग ना थंय एका माडामुळांत हांवें एक जागो पळयलो आनी ताका म्हळें, 'हांगा बसुंया.'

'हांगा? हांगा कोणूय येवचोना?'

परत म्हज्या काळजांत धस्स जालें. 'आमकां फकत बसून उलोवपाचें आसा न्हय?'

हांवें ताका समजायत म्हळें. 'बरें आसा, बसुया हांगाच.' अशें म्हणत तेंच फुडें सरून माडामुळांत बसलें. आजून मेरेन म्हाका ताचें नांव आनी ताका म्हजें नांव खबर नासलें. हांवें ताचेपासून हातभर अंतराचेर बसत ताका म्हळें, 'आमची वळख जाली. पूण एकामेकांचीं नांवां खबर नात.'

'सुलक्षा म्हजें नांव. तुजें?' अशें म्हणत ताणें म्हज्या रेंवेंत मुंगरिल्ल्या बोटांक हयन्हयसो स्पर्श केलो.

'म्हजें नांव श्याम.'

'श्याम... बरें नांव.'

'सांग आतां. कितें सांगूंक सोदता तूं?'

'म्हाका कितेंय म्हणचोना न्हय? आबुजाद, चंचल बी?'

'अशें कित्याक म्हणटा तूं?'

'अशेंच म्हणपाक हांव कारण. हांव चलीभुरगें. तूं परको. वळख पाळख काय नाशिल्ली. आनी पयलेच भेटेंत हांवें तुका असो आपयलो. म्हाका खूब ताकतीक लागल्या.'

'कसली?'

'म्हाका पुण्यांत बिलकुल वचपाचें ना. म्हाका हांगाच म्हज्या गोंयांत रावपाचें आसा.' साप्प भावुक जायत तें म्हणपाक लागलें. येन्ना ताच्या दोळ्यांत दुकांय आयिल्लीं जावंक जाय. पूण हांवें सांबाळून घेत पुणें प्रकरण कितें तें सारकें समजून घेवपाखातीर ताका म्हळें, 'तुका पुण्यांत कित्याक वचूंक जाय?'

'म्हाका पुण्यांत सोयरीक आयल्या. आनी हांवें जेन्ना पुण्यांत म्हाका पसंत ना म्हळें तेन्ना भाव म्हणपाक लागलो, 'चलून आयिल्लें थळ सोडल्यार फाल्यां राव बियाक.'

'भाव?'

'हय. म्हाका आईबाबा नात. व्हडल्या भावाचेर सगलो प्रसंग आयला. देखून आयिल्ली सोयरीक तो न्हयकारूंक सोदिना. गोंयांत खंयूय जाल्यार कोणाकडेनूय लग्न जावपाची म्हजी तयारी आसल्यार भाव ना म्हणचोना. देखून...'

'देखून कितें?' हांवें गडबडून म्हळें.

'म्हाका आपणायशी? म्हजेकडेन लग्न जावशी?' ताणें धर्तरेर मळब एकदांचें रकोवचें आनी सगलें आसमंत मुक्त करचें तशें एका खिणांत इतलो वेळ घुस्पल्लें मन मेकळें केलें. आनी म्हजेकडेन आशेन पळयत रावलें. म्हजेर आकांत आयिल्लो. हांव लग्न जालां, एका भुरग्याचो बापूय म्हण ताका कशें सांगचें? ताचो केदो अपेक्षाभंग जातलो आसलो?

'श्याम...??' आनी आशेचे नदरेन म्हाका पळयत ताणें परत उलो मारलो. पूण 'सुलक्षा' म्हण ताका परत साद घालपाक म्हाका धीर जालो ना. हांवें ताका इतलेंच म्हळें, 'चल या, म्हाका कामाक पावपाक जाय. काम करून परत मडगांवां वचपाक बस धरपाक जाय.'

हांव ताच्या प्रस्नाची जाप दिवपाक टाळटां हें ते व्हंकलेक कळपाक कळाव लागलोना.

तें उठलें. मोन्यांनी रेवेंतल्यान चलपाक लागलें. हांव मात गुन्यांव केल्लेभशेन मोनो जावन ताच्या फाटल्यान चलपाक लागलों. ताच्या पावलांची निशाणी रेंवेर उदेली. निदान ताच्या पावलांचेर म्हजीं पावलां दवरचीं अशी इत्सा जाली. आनी हांवें ताचीं रेंवेंतलीं पावलां म्हज्या पावलांनी माड्डिलीं. दर पावला कणकणीं रेंवेंत नेमां जालीं... खोल खोल...

९.

# कोंकणेंपण

कपेलाच्या कळसामदली निमाणी घांट जाली. पादीगारान दिमी मारून देवाक निमणी खेम घाली. सगल्यांचे आमेन कपेलभर घुमताले. बरेच लोक कोमुन्याव घेवन वयार जाल्ले. जायते जाण कुमसार जावपाक रांगेंत उबे रावले. एकएकलो कुमसार जावपाखातीर आशिल्ले पादीगाराचे सुवातेर वचून कुमसार जावन परततालो. रोझमारी आजून कुमसार जावंक नासलें. बरोच तेंप तें कुमसार जावंक नासलें पूण नातलांक कुमसार जावंकच जाय. काळीज नितळ करपाक जाय. पादीगारानय मीस सांगतना समेस्तांकडेन मागणें केल्लें. तुमचे थांय जेजू येता. ताका वाट करात आनी ताका ताची पवित्र सुवात दियात. ते खातीर काळीज निवळ करात. काळजांत कसलीच हळशीक आसूंक फावना. पवित्र बापाच्या नांवान आनी सायबीण मांयच्या नांवान दर किरिस्तांवाची ती जबाबदारी आसा. नातलांपयलीं आपलें आपलें काळीज जण एकल्यान जेजूक येवकार दिवपाक तयार दवरूंक जाय.

आनी पादीगाराच्या उतरांनी भारावन वचून कपेलांत जमलेल्या सगल्या किरिस्तांवांनी कुमसाराखातीर पादीगाराच्या आर्काकडेन गर्दी केली.

'आगो रोझमारी, कुमसार जायना गो? नयें वोरोस लागचे पयलीं हें निमाणें कुमसार.' वाड्यावयल्या फिलसून रोझमारीक पळयत म्हळें. रोझमारीन फिलसूकडेन कसल्याशा दुबावानच पळयलें. ही केन्नाच जाप करपी न्ही ती मनीस म्हाका आयजूचशें कुमसार जावपाक कित्याक सुचयता? रोझमारी येवजिता थंय आसा, इतल्यांत ताचेसरीं सालादोर साक्रिस्तांव पावलो. रोझमारीक पळयत सालदोरान म्हळें, 'आगो रोझमारी, तुका पादीगारान आयज मेळपाक सांगलां. ते पयलीं तुका कुमसार जा म्हटलां. कुमुन्यांव बी घेयला मुगो?'

रोझमारीचो दुबाव खरो जालो. वाड्यार फुसफूस जाताली ती खरी तर. रोझमारी तयारेन आसलें. आतां पादीगाराचो रकाद मेळटकच ताची खात्री जाली. रोझंमारी चितपाक लागलें. कुमसार जातना कसलीं पातकां सांगपाचीं? कितें चोरलां, कसली फट मारल्या, कोणाचें वायट चितलां, रोझमारीक याद जायना जाली. पूण कितें तरी सांगपाक जाय. हाय सायबा, कितें सांगपाचें आतां पादीगाराक?

येवजितां येवजितां रोझमारी रांगेंत पावलें आनी दोग तीग जाण पादीगाराचे कदेलाकडेन गेले, दिमी मारले आनी रोखडेच उठले. कितें सांगलें काय तांणी इतले बेगीन? रोझमारीन मनांत म्हळें.

'आगो चल, पावलें तूं.' कोणें तरी रोझमारीक फाटल्यान धुकललें. जशें कितें सगले लोकूच ताका कुमसार जावपाक फाटल्यान लागलेले. रोझमारीन अशें कसलें पातक केलां

म्हण सगले जाण ताका कुमसार जावपाचो आग्रो करताले? रोझमारीक येवजुपाक वेळ नासलो. ताणें बेगीबेगीन साडयेचो पालव माथ्यावयल्यान घेतलो आनी पादीगाराक तेळीनासतना म्हळें, 'जायेकडें इल्लें तोंड फुटलेलें, तंटो जालो देवाक लागून. देरान...'

'रोझमारी, हें पातक सांगों नाका म्हाका.' जाळये भितरल्यान पादीगारान म्हळें. खरें म्हळ्यार कुमसार जातले व्यक्तीक पादीगारान पळोवपाचें नासता आनी भायल्यान कोण कुमसार जाता तें पादीगाराकय कळपाक फावना. अशीच ती सगली मांडावळ आसा. आपणाक पादीगार वळखना वो वळखुचोना म्हणपाची दर एकलो कुसमाराक वच्चे पयलीं जतनाय घेता. देखून जे सुवातेर पादीगार कुमसार आयकुपाक बसता तें एक गच्च कुरकूट कशें आसता. पादीगारान उजव्यान वो दाव्यान त्या लाकडाच्या कुरकुटाक गच्च जाळी कशी जनेलां आसतात. भितरल्यान पादीगारान कोण कुमसार जाता तें पळोवपाचो यत्न केल्यार लेगीत मनीस वळखुपाक कुस्तार. मागीर पादीगार म्हाका कसो वळखलो? काय फुडले वटेन रावन पादीगारान कोणें तरी हांव कुमसाराक आयलां म्हणपाचें खुणेन सांगलां काय?

रोझमारीन परत कान लायले.

'रोझमारी, सोत पातोक सांग.'

'कसलें पातोक पादीगार?'

'तें तुज्या काळजाक विचार.' पादीगारान जाळयेंतल्यान रागान म्हळें.

'कसलेंच पातक करुंना पादीगार हांयेन.' रोझमारी काकुळटेक येत म्हणपाक लागली.

'रोझमारी, हांव देवाचो मुनीस म्हण जाणाय मुगो?'

'हय पादीगार.'

'मागीर फट कित्याक मारता?' पादीगार गर्जलो.

'केसो फट पादीगार? आनी पादीगार, तुका हांव कोण म्हण दिसलां?'

'रोझमारी न्हूं तूं?'

'पूण पादीगार, तुवें कित्याक पळयलें म्हाका?'

'पातक्यांचेर आमची नदर आसता.'

'हांव पातकी न्हू पादीगार.'

'हांव सांगतां तुका, तूं कित्यापासत पातकी जालां तें.'

'तूं जाणाय पादीगार?' रोझान अजापान म्हळें.

'हय, हांव जाणां देखूनच कुमसार जातना म्हजें शितीद तुजेर आसलें.'

'तशें जाल्यार सांग म्हुजें पातोक आनी दी म्हाका पिराचीत म्हुज्या पातकाचें.'

रोझमारीच्या परत्या उतरांनी कुर्कुटाभितरलो पादीगार मात्सो हाल्लो. पातकांचें पिराचीत मागपाक रोझमारी तयार जाता. पातका पासत ख्यास्त मागना. 'पादीगार, तुज्या तोंडान हांव पातोक जें हांवेन आदारलां तें आयकूंक तयार रावलां.'

'रोझमारी, तुजें पातोक हांव आतां सांगचोंना. उपरांत कपेलांत धा जाणांची मिटींग आसा. ते मिटिंगेक तुज्या घोवाक आनी भुरग्याबाळांक घेवन यो. चल आतां, उस्तोवारी

जाता त्यो गांवा सामकार जावं दी. चल, उठ तिंगाचें. दुसऱ्यांक येवं दी कुमसार जावपाक.' पादीगारान म्हळें.

रोझमारीन पळयलें. रांकेंत राविल्लेय लोक ताचेकडेन कसलेशे दुबावीत नदरेन पळयताले. रोझमारीन कसलें तरी खूब भिरांकूळ पातक आदारलां अशीच दर एकल्याची नदर रोझमारीक तुकल्यो मारून सांगता असो भास रोझमारीक जालो. तें उठलें आनी जें कितें येता ताका तोंड दिवपाचो निर्धार करून कपेला भायर आयलें. भायर ताचो घोव आंतोन उबो आसलो. आंतोना बगलेक रिता आनी आलेस हीं दोगांय भुरगीं आसलीं. रोझमारीक कपलाक मिरयो पडल्यात त्यो आंतोनीन सारक्यो पळयल्यो.

'या मगो घारा?' रोझमारीक आंतोनीन म्हळें.

'आंतोन, तुका सांगोना तेणी?'

'कितें तें?'

'पादीगारान धा जाणांचे मिटिंगेक म्हाका आपयलां तें?'

'कोण सांगतालो तुका?'

'कुमसारा गेल्लें थंय पादीगारानूच सांगलां.'

'धा जाणांची मिटिंग आतां पादीगाराल्या रुमार आसा.'

'पूण तुका थंय शें कित्याक आफयलां? म्हाका आपोवपाचो न्हू? घराचो धनी कोण? धा जाणांचो मेंबर कोण? तूं काय हांव?' आंतोनीन तिडकत म्हळें.

'तूं म्हुजेर सो तिडकता कित्याक? मागीर मिटिंगेक तिडकय. तेंकां कितें दिसोता, रोझमारी पोक्या मोती म्होण? हांव जाणा, तेणी मिटींग कित्याक आफयल्या ती. आमकां पातकी करपाक हे धा जाण?'

'हांयेन तुका सांगलेलें, मिसाक वचोंनाका म्हूण.'

'पूण नातलां मीस चुकोवं येता? आंतोन, तेंकां कितें सांगपा तें हांव सांगोतां. तूं वोगी राव.'

'पादीगार रुमार गेला. तुमकां पादीगारान आफोयल्यात.' सालादोर साक्रिस्तांव पादीगाराचो निरोप घेवन थंय आयिल्लो. 'चोल, येतां हांव. आंतोन भुरग्यां घे आनी तूं घराकडेन वोच.' रोझमारीन आपल्या घोवाक फर्मायलो आनी आपूण पादीगाराल्या रुमावाटेन चणचणीत चलपाक लागलें.

पादीगाराल्या रुमार वाड्यावयले सगले धा जाण जमलेले. सुवात मेळटा थंय थोडे बसलेले. मदीं पादीगार बसलेलो. पादीगारान मिसाक घातलेलो लोब आजून काडूंक नासलो. पादीगाराच्या वयर सिलींग फॅन बरोच फास्ट गरगरतालो. तापलेलें सगलें वातावरण तो पंखो थंड करपाखातीरच इतल्या नेटान गरगरता अशें कोणाकय दिसूंक फावो.

'ये, हिंगा येशें उबें राव, मोदेकाक.' पादीगारान रोझमारीक सगल्यांचे मदीं गुन्यावकाराच्या पिंजऱ्यांत उबें राव सांगचें तशें फर्मायलें. रोझमारी धिटायेन सगल्यां मदीं उबें रावलें. सगले दादलेच आसले. शेजारी आनी फामिलींतले. आंतोनीचो व्हडलो भावय आसलो. रोझमारीन सगल्यांचेर झणझणीत नदर मारली. 'आनी हें सांग पादीगार, कित्याक आफयला म्हाका?'

अशे प्रश्नार्थक नदरेन रोझमारीन पादीगाराक पळयलो.

'चोय रोझमारी, तुयेंन मोटें पातोक आदारलां देवा थांय. पवित्र सोबे मुकार तूं गुन्यावकारी थारता. तुयेंन किरिस्तांवपणाक काळें फासलां. तुयेन एकल्याच पवित्र पुताचो, जेजूचो व्हडलो गुन्याव केला.'

'पादीगार, कितें म्होणटाय तूं? सारकें कितें तें सांग म्हाका.' रोझमारी तितलोच आवाज चडयत विचारपाक लागलें.

'तुयेन कोंकणेपण केलां मुगो?' निमाणें पादीगारान आपली इतलो वोगोत काळजांत भरून दवरिल्ली नाळ फोडली.'

'कौंकणेपण?'

'हय... कोंकणेपण. तुयेन तुज्या घारांत नाल्ल पुजला मुगो?'

'हय पादीगार. नाल्ल घारांत दवरल्यार कितें जाता? नाल्ल आमगेर सदांच आसता.' रोझमारीन थंडसाणेन सांगलें.

'हय, तेसो नाल्ल न्हू. हो देवसपोणाचो नाल्ल. तुयेन हो नाल्ल खूंय दोवोल्ला? आल्तारा बोगले? तेजेर फुलां कित्याक घालोता? कोंकण्यांगे पुजा कोत्ता?'

पादीगारान आपणेंच सगलें दोळ्यांनी पळयिल्लेभाशेन रोझमारीक विचारलें. तेन्ना रोझमारीक कळ्ळें, देरान ना जाल्यार शेजाऱ्यांनी ही खबर पादीगाराच्या कानार घातल्या.

'आनी हें चोय', गांवचे कमिटीचो प्रेजिडेंट मदेंच उठलो आनी उलोवपाक लागलो. 'तुमी किरिस्तांवपोण जोर सोडशात जाल्यार तुमगेर जाल्यार गेल्यार आनी मेल्यार एकलो किरिस्तांव येवचोना. सोमजिलें मुगो?'

रोझमारीक कळ्ळें, धा जाण फितूर जाल्ले. धा जाण कोमिनार जावनच हें सगलें चलतालें. पूण आतां ना म्हणून चलचेंना. फट मारचे परस सत उलोवंक सांगलां. विचारुंदी तेंकां कितें विचारतात तें अशें थारावन रोझमारी धा जाणां मदीं खूंट कशें घट उबें रावलें.

'रोझमारी, तूं कोंकणेपण कित्याक करता? जेजू तुका पावना? आगो, जेजू आमचो सर्वेश्वर, तोच आमचो सोडवणदार. तुका पातकांतल्यान सोडयतलो जाल्यार दुसरो खंयचोच देव उपकारचोना. कोणें व्हयलें तुका थिंसोर? त्या रानांत?'

'हांवूच गेल्लें.' रोझमारी थंडसाणेन उलयलें.

'फट, तुका त्या रानाची वाट कोणें दाखयली?'

'म्हज्या कोशियेंसान.'

'तुजें कोशियेंस? तें साप्प कुसलां. तें पवित्र न्हू. घात कोत्ताय तूं पवित्र इगर्जेचो आनी देवाचे सोभेचो.'

'पादीगार, थिंसोर देव आसा.' रोझमारीन उलोवपाक सुरवात केली.

'रोझमारी, पोत्ती जाप कोरीनाका. तूं देवा थांय पातोक आदारतालें. देवान सांगलां, स्वाम्या जेजूक पोत्त्यान जबाब दिवंक फावना.'

'मागीर तुमी इचात्ता तेका जबाब दिवं नाका?'

'केसो जबाब? गुन्याव कोबूल कोर, भोगसणें घे, पिराचीत घे. गुन्यांव भोगसूंक रोजार

कोर.'

'केसो गुन्यांव पादीगार ?'

'आमगे देव आसतोना दुसऱ्यांगे देव कोरोपू ?' इतलो वेळ मोन्यांनी बसलेलो पास्कूवाल उलयलो.

'पादीगार, कितू देव आसाय संवसारांत ?' रोझमारी परत उलोवंक लागलें.

'संवसारांत कितू देव आसाय तें तूं म्हाका, ह्या पादीगाराक इचारता ? आगो, तुजेभाशेन मोडगांवां बाजारा भाडेलपोण करून हांव पाद्री जालां केसो दिसता तुका ? बरे सेमिनारींत पांच सो वर्सां देवसपणा शिकोप घेतलां आनी देव म्हुणजे कितें तें सोमजोन घेतलां. बरी येजाम पास जावन हो लोब चडोवन घेतला, आल्तारार चोडलां. आनी तूं... तूं एक बाजारा भाडेल संवसारांत देव कितू आसाय काय म्हूण विचारता ?'

'रागार जाय नाका पादीगार. तुका म्हुज्याकूय जायतें गिन्यान आसा. आनी देखून तुका इचारलें, देव कितू आसाय काय म्हुणोन.'

'देव फोकोत एकू आसा...'

'सारकें पादीगार. बेतोडे बाबाय तशें सांगोता. देव एकू आसा म्हूण. तो सांगोता, सगल्यांचो देव एकू... आनी तो संवसारांत भोल्ला. आमचे कुडींत आसा, तुजेय आसा. म्हुजेय आसा.'

'हें कोणें सांगिलां तुका ?'

'पादीगार, तुगे शेर्मांवानी सांगिलां म्हाका. तुयें सांगिलां येदोळ मिसाक.'

रोझमारीले शब्द परतुवप आतां मात धा जाणांक नाकसुरयां वचपाक लागलें. तांणी पळयलें, भाडेल रोझमारी कास्ताचें उलोवंक लागलां. तें आनीक कितें उलोवंक लागचे पयलीं तेका धमकायल्यार बरें अशें चितून कोयसांवां घोव म्हण आजून वळख जावपा आशिल्लो वाड्यावयलो तरणाटो फ्रान्सीस्क उठलो. 'चोय रोझमारी, तूं येशें कोरीनाका. तुका आमी वाड्यांतल्यान भायर घालतले. तुगेर कोणूय मेल्यार मडें शिमेत्रें घेवचोना. मागीर कोण फोंडा लायतलो ? तुगे तो रानांतलो बाबा ?'

'इतलें कोरपाक हांयेन कितें केलां ? फोकोत बेतोडे बाबागे दिलो नाल्ल पुजला म्हुणोन तुमी येशीं फोणां फुलयता मुरे ? हांयेन किरिस्तांवपोण सोडलां ? मिसा येवपा वोचपा सोडलां ? घारांत आल्तारा वयले सायबीणमांयक कोनशा मारल्या ? हांव आसां, म्हजी फामील, भुरगीं घोव सगलीं आसा तश्शीं किरिस्तांव आसात.'

'पूण किरिस्तांव आसोन कोंकणेपण करता ? आनी जाणा जा, आमचो देव एकूच. कोंकण्यांमोदीं क्रुटांनी देव. आमी फोकोत देवाच्या पुताक मानतां. तोच आमचो स्वामी जेजू. देवाचे कुरपेन आंकवारपोणार गर्भेस्त जावन मोरयेच्या कुसव्यांत जोल्माक येयलेलो देव... देवाचो पूत.'

'पादीगार, हांव सोमजोलीं, खोरेपणीं संवसारांत एकूच देव आसा. आनी तो सोगळ्या मोनशांचो. क्रिस्तांवांचो, हिंदुवांचो, मोयरांचो... सगल्यांचो. पूण जरी तर तूं सांगोता आमगे देव आनी त्या देवागे पूत शेपराद म्हूण जाल्यार तुयेंन हें मिसाक आमकां सांगपाचें. तुमी

पाद्री आल्तारार देव एक म्हुणोन सांगोता तो देव दुसरो आनी बेतोडे बाबा सांगोता तो देव दुसरो? अशे जायते देव आसात म्हूण म्हाका कितें खोबोर? हांव बोंडें भाडेल न्हू? मोडगांवां भाडेलपणां कोरपी...' रोझमारीचें काळीज भरून आयलें. दोळ्यांतल्यान भळभळून दुकां आयलीं. ताच्या भावार्थाक वेर आयिल्ली. 'देव एकूच आसा, संवसारांतलो देव एकू सांगोच्याक शेर्मांव रंगोच्याक सोत कितें? आमकां नेणारांक हे ओशें फोटोयतात.' ताणें भळभळीत दोळ्यांनी पादीगारान पळयलें. पादीगाराचेंय तोंड हा वेळ मेरेन बिलू कशें जाल्लें.

'पादीगार, संवसारांत देव एकूच आसा अशें फुडें सांगों नाका. आमचो किरिस्तांवांक एक देव ह्या संवसारांत आसा. पूण पादीगार, ह्या संवसारांत संवसारभर फोकोत आमीच नात. हेर लोक आसात. तेंचोय देव आसा, जो आमचो न्हू. हेचो अर्थ संवसारांत जायते देव आसात. आनी हेंच सत तुवें मिसाक सांगों जायें. हांव त्या रानांत गेल्लें तें जेजूक नोमोन कोरपाक. थंय बाबाच्या मठांतय जेजू आसा. थंय जेजूचें नांव घेतात. थंय मोयरांलो देव आसा. पूण बाबा म्हणटा, जेजू, अल्ला, राम बी सोगले एकूच. आतां कळ्ळें. तूं पाद्रीपोण शिकिला म्हणटोच तुजें खरें. आमचो किरिस्तांवांचो देव शेपाराद. येयात तुमी धा जाण. येया म्हुज्या घोरा. आनी पादीगार, तुंयी यो.'

रोझमारीचो तो अवतार पळोवन धावूय जाणांक शेळो घाम फुटपाकडेन पावलो. 'यें... यें पोत्तें आंगार येयलें मुरे...' पास्कुवालान फ्रान्सीस्काच्या कानांत म्हळें.

'देवाधोर्मापरस फाल्यां शिमित्रेंत मरतोच सुवात मेळची ना हें खरें. तें देवा परस खरें. ना जाल्यार आमचीं मोडीं वाड्यार तुमी कुसोयतले. देवाक लागून... देव कितले? एक काय दोन, तो प्रस्न थंयच उत्तोलो. तेची जाप आमकां कोणूच दिवचोना. मात आमकां तुमी जाप दितले. आमकां वाड्याभायर दवरून. हेंच सोत. हेंच सोत.' अशें म्हणत रोझमारी चणचणत पादीगाराल्या रुमांतल्यान वादळ कशें धांवत सुटलें आनी धांवत धांवत घरा आयलें. घरांत भितर सरतांच ताणें मेजार पुजेक लायिल्लो तो नाल्ल उखललो आनी तसोच घट धरीत तें घरांतल्यान भायर सरलें. रोझमारी धांवत आयलां तें पळोवपाक वाड्यावयले धा जाण आनी हेर लोक रोझमारील्या घराकडेन येताले. तांणी पळयलें, रोझमारी कपेलावटेन धांवता. ते तशेच फुडें सरले आनी दोळे फांकारून रोझमारी आतां कितें करता तें पळोवपाक तयार जाले.

रोझमारी तशें आतां शांत जाल्लें. ताच्या फाटल्यान ताचो घोव, भुरगींय आयिल्लीं. रोझमारीन धा जाणांक लेखून म्हळें, 'चोयात, घरांत पुजेक लायलेलें हें फळ हांव फोडटां आनी कोंकणेपण सासणाचें सोडटां.' आनी रोझमारीन हातांतलो नाल्ल कपेला सामखार नेटान आपटून फोडलो.

पादीगार खिन्न मनान आनी एका गुन्यांवकाराभशेन पयसुल्ल्यान रोझमारीन सोडिल्लें कोंकणेपण पळयतालो...



१०.

# मिसेस कामत वर्सेस मिस्टर कामत

सकाळचो पेपर दारांत पडनाफुडें मिसेस कामतीन तो वाचूंक पयलो घेतलो. बायलेन पेपर हातांत घेवन वाचूंक कोमेस करुंनाका, तसो मिस्टर कामत पापड कसो सामको कुरकुरीत जालो. हीं बायलां समजतात कितें? इल्लेंशें बरप वाचप शिकले म्हणजे कितें ही दादल्यांच्याकूय फुडें सरलीं म्हण समजतात काय कितें? ताणें तिडकीनच आपले घरकान्नीक, म्हळ्यार मिसेस कामतीक सामकी उजरावचें थारायलें.

'आगो कामण्या, तूं तुज्या जिवाक समजता कितें? सकाळींफुडें दारांत येता तो पेपर वाचपाचो पयलो मान कोणाचो?'

'कोणाचो? जाका पेपर मेळ्ळा ताचो. पेपर पयलो हांवें उखलला म्हणून म्हजो पेपराचेर पयलो अधिकार.' मिसेस कामत ताणशेली.

'म्हाका सकाळचो च्या दिवचें सांडून तूं पेपर वाचता? इतली बिशाद तुजी? तुमी बायलां समजतात कितें? काल मात्शी महिला मंडळांत वचून आयल्यार आयज हो नेट! घोवान पेपर वाचचे पयलीं बायलेन वाचप? हेंच शिकल्या तूं आवयबापायकडच्यान? घोवाक कसो रेश्पेद दिवप हें मातूय खबर ना तुका? घोव म्हळ्यार देव...'

'पुरो आं, पुरो. घोव म्हळ्यार देव खंय! आतांचे घोव देव न्हय. खेव.'

'खेव? जाल्यार हांव खेव न्हय. हांव खऱ्यांनीच देव. हांवें कितें आंगवस्त्रां दवरुंनात हेर दवरतात तशीं.'

'दवरुंनात खंय! आतां तितलें मात करपाचें उरलां तुवें.' मिसेस कामत मिस्टर कामतीक टिट फॉर टॅट करपाक कशीच आयकनासली.

मिसेस कामत म्हळ्यार सामकी हिडिंबा. पावणे स फूट उंच. दुदया आकाराचें मुखामळ. वांशेला आंगावयले केंस कशे माथ्यार कुचकुचीत केंस आनी फाटल्यान मुडी कसो येद्दो आंबाडो. कपलार आमोरेवयल्या मळबावयलो तांबडो गुंज सुर्या कसो पिंजरी तिळो. मिस्टर कामतीच्या नांवान लायिल्लो. जाम्या आंग कशें येद्दें व्हड, केळी आंग कश्यो पोंवत्यो आनी देंवचाराचीं पावलां कशीं खडपाचीं पावलां. अशा आकांताच्या देहाची मिसेस कामत हड्ड्यार सगले दोंगर घेवन चलता कशी? कोणाकय फुडले वटेन तिका पळयतकच दिसले बगर रावनासलें.

ताचे उलट बाबडो मिस्टर कामत. स फूट लांब खरो. पूण सुकलेलो बोमील कसो.

मिस्टर कामतीक मर्दी पोंग पडिल्लें. ते खातीर ताचो धणूचो बाण कसो जाल्लो. तकली सुकिल्ल्या नाल्लाभशेन. माथ्यावयले केंस भुरगेपणार गेल्ले. बडीचें खंय तांचें. पंचविशी जाली की जाले विमानतळ. मिस्टर कामतीचो बापूय आनी आजोय बी तसोच आसलो. कामतीचे हात म्हळ्यार जिन्या बडयो आनी पांय म्हळ्यार कोण्या दांडे म्हळ्यार सुकलेलें चामडें. कोणेंय फूंक मारल्यार सोमतोच साष्टांग नमस्कार घालपाचो. कामतीची ही आवतिकाय पळोवन कामत काय खायना जेवना बी म्हण कोणूय समजुपाचो. भरपूर खातालो, पूण जिवाक म्हणटात तें केन्ना लागनासलें. कामतीच्या मतान मिसेस कामतीच्या जंजाळाक लागून ताका खाल्लें जेविल्लें आंगाक लागनासलें. भितर गेल्लें पोट इल्लें तरी भायर येवचें म्हणून कामत सद्दां आमोरेर वचून लक्ष्मी बारांत बसतालो. बरी आशेर्तांद बियर मारतालो. पूण बियर बारांतल्यान भायर सरनाफुडें चुळचुळीत मुतून वताली. मिस्टर कामत चुळचुळींत मुतूंक जातकच आपलेच कालेतीक दोश दितालो. मनांत म्हणटालो, खाल्लें जेविल्लें जिवाक लागना तें लागना. पियेल्लेंय अशें खळखळून दर्यांत वचप?

इतलेंय आसून लांबरुंद हिडिंबेच्या आकाराची आशिल्ले मिसेस कामतीक मिस्टर कामत घोव म्हणून जाय आसलो.

खूब फावटीं तीं रातचीं दोगांय एकामेकांक घट्ट वेंग मारून न्हिदिल्लीं आसतना मिसेस कामतीचे आडांबे कशे पांय कामतीच्या दांड्यावरी पांयांचेर पडटाले तेन्ना क़ामत आवयस्स आवयस्स करीत किळच्यो मारतालो. कामतीच्यो किळच्यो आयकून मिसेस कामत खऱ्यानीच जागी जाताली आनी म्हणटाली, 'सपनेले?' आनी हे आमगेले सपनांत अशेच सपनेतात अशें म्हणत आपले तोणको कशे हात अळंग मिस्टर कामतीचे छातये भोंवतीं घालून मिस्टर कामतीक लागीं ओडून घेताली. बाबडो शिरपुटो कामत मिसेस कामतीचे वेंगेंत खंय शेणला तेंच कळनासलें.

असो हो कामत. आयज सकाळींफुडें आपले पयलीं आपली बायल आपणाक पयलीं वाचपाक दिवचे सुवातेर पेपर घेवन पयलीं आपूण वाचता म्हूण ताका तो आपलो घोर अपमान कसो दिशिल्लो. आनी वयल्यान कशी म्हणटा, आंगवस्त्र दवरिना खंय.

'दवरतलों दवरतलों... तुजी खाज भागली. सगलें जालें तुजें. तळें आटलें, मळब सुकलें. म्हजें कांय जावंक ना. हांव आसां कोंबो कसो. कितें म्हणणें तुजें?' मिस्टर कामतीच्या तोंडांत सणसणीत उतरां आयिल्लीं. पूण ताणें पाशियेंस काडलें आनी ओंठावयलीं उतरां गिळ्ळीं. सकाळींफुडें कॉलनींत आनी शो नाका. बरें, मिस्टर आनी मिसेस कामतीचीं शेजारी तरी बरीं. सगलीं इंग्लीश मनशां. गोंयकारां जालीं तरी जावं आसलीं. जाण्टेल्यांनी शिन्योर कामतीक केलो मिस्टर कामत आनी शिन्योर कामतीणीक केली मिसेस कामत. भुरगीं मिस्टर कामतीक अंकल म्हणटालीं तर मिसेस कामतीक आंटी म्हणटालीं. आंटी म्हणटकच मिसेस कामतीक पोरांचो सामको संताप येतालो. पूण दांत ओंठ चाबून ती वगी रावताली. कॉलनींत इंग्लीश लोकांचेच चडशे फ्लॅट आसले. वयल्या मजल्यार आल्बुकेर्क रावतालो. फुडल्या फ्लॅटांत आल्मैद, पोंदच्या माळयार फिग्रेद रावतालो. दायें बायें, उपर नीचे इंग्लीश लोक.

इंग्लीश लोक आपले भोंवतणी रावतात अशें मिस्टर आनी मिसेस कामत कोणाकय सांगतकच आयकतल्याक अजाप दिसतालें. इंग्लंडांतले लोक गोंयांतय राबितो करून रावतात तर! पूण प्रत्यक्षांत पळयतकूच आल्बुकेर्क, आल्मैद, फ्रिगेद बी सगले गोंयकार किरिस्तांव पूण ते सगले नाशिल्ले हें पळोवन मिस्टर कामत आनी मिसेस कामतीन तांकां इंग्लीश लोक केल्ले. बाकी खऱ्यानीच ते इंग्लेजूच कशे वागताले. कावळ्यांनी मोर जावपाचो यत्न करचो तशे तेवूय बी काळे कातीचे इंग्लेज जाल्ले.

अशा वातावरणांत बाबड्या मिसेस कामतीचो आनी मिस्टर कामतीचो घुस्मटमार जातालो. पूण करतलो कितें? वतलो खंय? बरें, फ्लॅट म्हणून केलो बुक आनी घेतलो. कोणाक खबर भोंवतणी सगलेच इंग्लीश आसतले म्हण?

कशेय भशेन जायना, तशे ते इंग्लेज मिसेस कामतीक आनी मिस्टर कामतीक खूब मानताले. तांच्या बऱ्या वायटाक धांवून येताले आनी भुरगीं-बाळां लेगीत विचारतालीं, 'आंटी, ॲनी हेल्प? अंकल, ॲनी हेल्प?'

आनी सकाळींफुडें पेपराक लागून दोगांयलें वाजलें तें ज्यूस्त फिग्रेदील्या व्हडल्या पुतान आयकल्लें दिसता. तो बेगीबेगीन फ्लॅटाचें दार उकतें करून मिस्टर कामतीक म्हणपाक लागलो, 'हॅलो अंकल, गुडमॉर्निंग.'

मिस्टर कामतीन परत गुडमॉर्निंग म्हळें आनी खंयचेकडेन कांयच घडूंक नाशिल्लेभशेन करून आपले बायलेक म्हळें, 'मात्सो पेपर दी न्हय.'

घोवान गळ्याचो सूर बदलला तें पळोवन मिसेस कामतीनूय आपल्या गजराचो भावगिताभशेन चालीचो अभंग केलो आनी तिणें मोगान म्हळें, 'आयज आमी भाडें घेवंक या न्हय आमच्या कोंबांतल्या फ्लॅटाचें?'

मडगांवां कोंबवाड्यार तांचो एक सिंगल बॅड फ्लॅट आसलो. तांणी तो फ्लॅट फकत तीग मनशांक रावपाक भाड्यान दिल्लो. देड हजार रुपया भाडें. फ्लॅट भाड्यान दिवचे पयलीं तांणी राष्ट्रमतांत तशे तरेची जायरात दिल्ली. 'फकत तीन माणसांच्या रहायच्या अटीवर फ्लॅट भाड्याने देणे आहे.' आनी खऱ्यांनीच आपल्या फ्लॅटांत तिगूच मनशां रावतलीं अशेच तीन मनशांचे फामिलीक तांणी कोंबांतलो अक्षरधारा अपार्टमेंटांतलो फ्लॅट भाड्यान दिल्लो. आनी फ्लॅट भाड्यान दिवन दुसरो म्हयनो जाता थंय आसा, मिसेस कामतीक अक्षरधारा अपार्टमेन्टांत रावपी एके बायलेन तिच्या फ्लॅटांत तिगांपरस चड लोक रावतात म्हणपाचें कोणें तरी कान फुकून सांगिल्लें. पूण ती बातमी खबर आसल्यार तांकां भायर काडल्यार दुसरें भाडें नाका, म्हणून वचचे पयलीं मिसेस कामत पेपर घेवन पेपरांतल्यो जायराती पळयताली. पूण मिस्टर कामतीन तो आपणाल्या घोवपणाचो इन्सल्ट कसो समजूत केली. पूण फिग्रेदीच्या गुडमॉर्निंगान सगलें न्हिविल्लें.

मिस्टर कामतीनय चिंतलें, भाडें घेवपाक या म्हणटा जाल्यार नाका कित्याक म्हणचें? ताणें बेगीबेगीन च्या पाणी केलें, न्हालो धुलो आनी बरी पेंट बुशकोट आंगार चडयलो. मिसेस कामतय बरी न्हेसली. णववारी साडी आनी कापड तिका मिरयांत तरी पावतालें. पूण ती णववारी कापडान कशेंबशें भागयताली. आंगाक ब्लावजूय तायट बसतकच

तुटून फुट्टा कशें जाताले. पूण दुसरे वटेन बाबड्या मिस्टर कामतीच्या बुशकोटांतल्यान भायर सरिल्ले हात पोपायेचे दांडारे कशे दिसताले.

जालें. दोगांय कोंबवाड्यार वचूंक भायर सरलीं. मिसेस कामत तर आमकां फटोवन आमच्या फ्लॅटांत खऱ्यांनीच पांच जाणां रावतात काय ताचो सोद घेवपाक भायर सरिल्ली.

अक्षरधारा अपार्टमेन्टांतल्या दुसऱ्या मजल्यार पावनाफुडें मिसेस कामतीनूच दारार मारलें. भितरल्यान कितलो वेळ कोणूच खिळी काडना म्हणून तिणें परत नेटान भायली खिळी फाटींफुडें करून दारार मारली.

बऱ्याच वेळान दार उकतें केलें. भाड्यान रावपी बेळगांवची फामील. मिस्टर बाराटक्के, बाराटक्केची घरकान्न घरांत आसली. तिणें दाराचे दुर्बिणींतल्यान फ्लॅट मालक आनी मालकीण आयिल्ली तें ज्यूस्त पळयिल्लें. ते खातीरूच ती भितरली मांडावळ करतासर दार उगडपाक तिका कळाव लागिल्लो.

'या, या...' मिसेस बाराटक्केन घर मालक आनी मालकिणीक येवकार दिलो. फ्लॅटांत भितर सरनाफुडें मिसेस कामतीन फ्लॅटभर बारीकसाणेन नदर मारून सोद घेतलो. कोणाचीच जाग माग नासली.

'मिस्टर कुठे?' मिसेस कामतीन नेटान विचारलें.

'मि. बाराटक्के बाजार आणायला गेलेत.'

'आनी तुमची एकली एकसुरी धूव... मुलगी मुलगी...' बाराटक्केक धूव हें कोंकणी समजचेलेंना असो अदमास करून तिणें म्हळें.

'ती आत अभ्यास करते.' अशें म्हणत मिसेस बाराटक्केन भितर पळयलें.

'कुठे आहे?' अशें कितें तरी म्हणत मिसेस कामत भितर गेली. पळय जाल्यार खऱ्यांनीच एक चली भियेल्ले अवस्थेंत आकूळ पिकूळ जावन बिलू कशें जमनीर बसून पुस्तक वाचिल्ले भशेन करताली. पूण तिका दुबाव आयलो. घरांत तिगांपरस चड लोक रावतात हें तिका सांगपी ओगीच फट कित्याक मारतली? मिस्टर कामतय कदेलार बसलो. मिसेस कामतूय बसली आनीय हांगा थंय नदर मारीत फ्लॅटाचो कानोसो घेवंक लागली. खरें म्हळ्यार ती मनशां हुंगताली. पूण तें कोणाक खबर नासलें. तिची ती नदर पळोवन बाबडी बाराटक्केय बरीच नर्वस जाल्ली. तिणें बेगीबेगीन मेजावयली पर्स उगडली आनी भाड्याचे पयशे काडून म्हळें, 'हे घ्या आपलं भाडं. अहो तुम्ही कशाला आलांत? हेच घेऊन आले असते उद्यापर्यंत!'

त्या उतरांचो कंप मिसेस कामतीन पारखिलो आनी तिका मि. बाराटक्केक प्रस्न करपाची खुमखुमी मारली.

'अहो बाराटक्के, तुमी कितलीं जाणां रावतात येथे?'

'अहो, कितलीं जाणां म्हणजे काय? अग्रीमेंटात लिहिल्याप्रमाणे मी, माझा नवरा व आमची एकुलती एक मुलगी.'

'एकुलती एक मुलगी...' मिसेस बाराटक्के तांच्याच मुखार एके खाटीर बशिल्ली. खाटीर लांब चादर सोडिल्ली. डबल खाट. बरीच रूंद आनी ऊंचय आसली. मिसेस

बाराटक्के खाटीच्या मदेकाक घट्ट बशिल्ली.

मिसेस कामतीक कोण तरी फुतफुतता, ल्हवू उलयता अशें खंयच्यान तरी कानांर पडलें. तिणें परत एकदां बाराटक्केक विचारलें, 'खरें ना, तुमी फकत तिगेच रावतात इथें?'

'खरंच हो, असं काय खोटं बोलायला अधर्म आलंय आम्हाला?'

इतले खात्रीन धर्मान-अधर्मान सांगता म्हणटकच मिसेस कामत खरीच समजूंक वताली. पूण कितें कोण जाणा, मिसेस कामतीक वगीच घरांत सोद घेवपाची इत्सा जाली. 'मात्शी पळयतां आं' अशें म्हणत मिसेस कामतीन कामतीक म्हळें, 'तुमी भितर वचून फ्लॅटाची तपासणी करात. हांव हांगाच पळयतां.' अशें म्हणत मिसेस कामत खाटीकडेन आयली. अश्शी बाग घेवन खाटीर सोडिल्ली लांब चादर अश्शी वयर काडली. खाटी पोंदा पळयतलो कितें?

दोग घोडयो कश्यो वयावयल्यो चलयो खाटीपोंदा तोंडाक गुड्डो मारून लिपिल्ल्यो. तांकां पळोवंनाका, मिसेस कामत फ्लॅटांतल्या चड जाल्ल्या दोग जाणांचो सोद लागनाफुडें अजाप सांपडिल्ले भशेन व्हडल्यान मिस्टर कामतीक म्हणूंक लागली, 'लागलो सोद. कानांर पडिल्ली बातमी खरी. आमच्या फ्लॅटांत पांच जाणां रावतात.' तिणें तिडकीन मिसेस बाराटक्केक विचारलें, 'खाटीपोंदा लिपल्यांत तीं दोगां जाणां तुजीं कोण?'

मिसेस बाराटक्के मिसेस कामतीचो अवतार पळोवन प...प... करीत उरली. पूण मिसेस कामतीन लायिल्लो नवो सोद मात मिस्टर कामतीक चर्ररं कसो कांटो जावन फुल्लो. ताणें मनांत म्हळें, आमकां कोणाकय दाखयतलो जाल्यार एक भुरगें ना आनी हीं भुरगीं दाखोवचीं पडटात म्हण भुरगीं लिपोवन दवरतात. अग्रिमेंटाक पाळो दिवपाक! मिस्टर कामत उठलो आनी ताणें केन्नाच धरूंनाशिल्लें मिसेस कामतीचें मुसळा येदें मनगट घट्ट धरलें आनी तिका ओडली. 'चल गो या आमी, तांणी भाडें दिलां.'

'पूण... तीं आमच्या फ्लॅटांत ॲग्रिमेंट मोडून पांच जाणां रावतात ताचें कितें?'

'तांचीं भुरगीं तीं. तांच्यो धुवो त्यो. फ्लॅट मेळपाखातीर तांणी आमकां फट मारिल्ली.'

'तुमकां खबर आशिल्लें?' मिसेस कामतीन अजापान विचारलें.

'हय...' अशें म्हणत मिस्टर कामत फ्लॅटांतल्यान भायर सरून घरचे वाटेक लागलो. ताचे फाटल्यान रोलर कसो मिसेस कामतीचें अवडंबर ओडपाक लागलें.



११.

# मर्णमुक्ती

सदचे भशेन बऱ्याच दिसांनी हांव तांगेर आनंदाचे खबरेक गेल्लों. तांगेर जेन्ना हांव पावित्लों तेन्ना दनपार जावन गेल्ली. पंदरा दिसांआदीं आनंदल्याक हांवें म्हजे पोरणे कपडे व्हरून दिल्ले. आनंदलो धोपरां धरून घरांत पडिल्लो. तें घर म्हणून कसलें, आनंदलो त्या यमकोणांत रावतालो. थंयच न्हिदप, थंयच बसप. केन्ना केन्नाय काळखांत भायर वचप शक्य जायनासलें तेन्ना तो थंयच मुततालो. तें मूत मागीर थंयच सुकतालें. सकाळीं घरभर मुताच्यो खातसाणी! पूण घरांतल्या हेर मनशांकय ताचें भान नासलें. सगलींच जाणां मनोरुग्ण. फकत मनोरुग्ण नासलो तो आनंदलो. त्या आनंदल्याचे भावजेन एक दीस आनंदल्याची खबर म्हाका सांगली. आतां आनंदल्याक तसो लागींचो कोण एकनासलो. आनंदलो उतार पिरायेर घर म्हणून घरांत परतल्लो खंय. अख्खें जुवानपण ताणें लिब्रूगेर घाल्लें खंय. लिब्रूक तिच्या घोवापासून जाल्लीं भुरगीं आसलीं तरी आनंदलो लिब्रूचेर भाळ्ळो खंय आनी तो लिब्रूच्या मोगांत पडलो. आनंदल्याक एक धाकटो भाव बी आसलो. पूण तोवूय कसल्या तरी दुयेंसान एक दीस संवसार सोडून गेलो. धाकट्या भावाची बायल आसली. पूण आतां तिचेकडेन खंयच्या तोंडान वतलो म्हूण आनंदल्याक खंय किरिस्तांव लिब्रूकच बरें मागून रावचो पडिल्लें. पूण जसो जसो आनंदलो म्हातार पिरायेंत पावलां दवरुपाक लागलो तसो तो खंय लिब्रूक जड जावपाक लागलो. लिब्रूची भुरगींय व्हड जाल्लीं आनी तांकां तांचे मांयचे काजाराभायले संबंद - आनी तेवूय एका हिंदूकडेन - बिलकूल मान्य नासलें. आनंदल्या खातीर लिब्रूच्या घरांत लटापटी सुरू जाल्यो खंय आनी ताचें रुपांतर एक दीस भिरांकूळ मारामारींत जालें. आनंदल्याक ताच्या भुरग्यांनी यथेश्ट बडयलो आनी घराभायर घालो खंय. लिब्रूक आपली बायल समजून घोवपणाचे भावनेन लिब्रूक आपली अख्खी तरणी जीण ओपपी आनंदल्याची तरणी धुंदी एका धपक्यांत देंवली. आनंदलो रस्त्यार पडलो. आनंदल्याक खंय वचूं खंय नाका अशें जालें. लिब्रूक लागून ताणें सगलें अयसलें पयसलें नातें तोडिल्लें. भाव भयण म्हणून ताणें कोणाक लेखलेंना. जुवान लिब्रू मेळ्ळें आनी आपणाक सासणाचें सर्गसुख लाभलें हे धुंदींत तो लिब्रूगेर अख्खी जीण रावलो. दीसभर मरसर भायर मेळटा

तसलें काम करचें आनी सगली जोड हाडून बायल मानिल्ले लिब्रूक दिवची आनी रातीकडेन लिब्रूक घेवन न्हिदचें. बस्स! आनंदलो हे जिणेंत खूब खोशी आसलो. आनंदल्याची भावजय सांगताली.

पूण आनंदल्याची ही खोस चड तेंप उरलीना. जशीं जशीं कुडीचीं शिरंतरां मोव पडपाक लागलीं, कात पडपाक लागली आनी एकाद्र्या रानांतल्या रुखाक उतरती कळा मारची आनी तो रूख सुकपाक लागचो तसो आनंदलो आपली कात इल्ली इल्ली झडोवंक लागलो. जेवण खाण वेळचे वेळार मेळनाशिल्ल्यान आनंदल्याचें सुकें कोट जावपाक वेळ लागलोना. तेन्ना मात आनंदल्यान आपलीं नातींगोतीं सोदपाचो यत्न केलो. धाकटो भाव ना तें ताका खबर आसलें. पूण ताची बायल आसा भावज म्हणून, तिका सोदपाचें आनंदल्यान चितलें आनी एक दीस थरथरत्या दोकलांनी आनंदलो सोदीत सोदीत भावाले बायलेगेर, विधवा भावजयेगेर करमळे पावलो.

आनंदल्याच्या भावाक भुरगें जालेंना. घोवा फाटल्यान ती एकटीच रावताली. ती जंय रावताली तें घर बरेंच पोरणें आनी मदेराक आयिल्लें. तिच्या घोवान जितेपणीं तें घर मात्शेंशें मदेरार करून तिकटें कशें करून उबें दवरिल्लें. पूण त्या घराच्या अर्द भागांत आनंदल्याची एक जाणटी भयणय येवन रावताली. तिका एक पूत आसलो. पूण तो तकलेन फालयाद जाल्लो. खंयचे तरी बशीर कंडक्टर आसतालो. एके ट्रिपीचे पयशे ज्युस्ताज्युस्त पावयलेना म्हूण पात्रांवान ताका खूब वर्सांचे शिर्विसे वयल्यान काडून उडयलो. त्या शॉकान ताची तकली धुंवली अशें सांगतात. तोवूय आपलो संवसार घेवन तेच परिस्थितींत मावोड्या येवन रावपाक लागलो. भयण ती, तिका कशी धांवडावंक जातली, अशें म्हणून आनंदल्याच्या धाकट्या भावान भयणीक आनी तिच्या पुताच्या संवसाराक आपल्या घराचें पाखें दिलें. तेन्नाच्यान होवेळ मेरेन ती त्या घरांत रावताली. दुसरे वटेन आनंदल्याची भावज एकटीच रावताली.

दळदीर थोडें म्हण आनंदल्याचे भयणीच्या तकलेन फालयाद जाल्ल्या पुतागेर जाल्लीं दोगांय भुरगीं तकलेन आल्तरार जाल्लीं. अशें खंय घडना, पूण तें आनंदल्याच्या ह्या पोरण्या घरांत घडिल्लें. एकाच घरांत तिगां मनोरुग्णां. बापूय पूत आनी धूव पिशी. कोण कितें करता आनी कोण कितें करिना तें सांगपाचें नासलें. भुरग्यांचें पिशेंपण बऱ्याच उसरां समजलें. तेमेरेन तीं शाळेंत वचून बरीं शिकलीं सुद्धां. पूण जेन्ना धावेंत आनी बारावेंत पावलीं, तेन्ना पयलीं तकली दुखता म्हणून रडपाक लागलीं. तकलेक बाम सारय, दोसो बांद, तकली फोडटा अशें समजून दुखीच्यो गुळयो घेतल्यो. पूण कांय तेंपान दोगांचीय मानसिक अवस्था साप्प इबाडली आनी एकाच घरांत बापूय, धूव आनी पूत पिशीं म्हणपाचें गांवार जालें. कोणें तरी तांकां व्हरून पणजे आल्तीनार मानिकोमांत घालीं. पूण थंयच्या उपायान तीं मात्शीं बरीं जावन घरा येवचीं. घरा परत चाळवचें, परत सगली अंदाधुंदी. एकटी आवय आनी भुरग्यांची आजी, म्हळ्यार आनंदल्याची भयण, तितली बरी आसली. भुरग्यांचे आवयक एके बँकेंत प्युनाची नोकरी मेळतसान पोटापाणयाचें इल्लें जातालें. आनंदल्याच्या भावाची विधवा बायल घोवाच्या पेन्शनाचेर

आपलो चरितार्थ चलयताली. केन्ना केन्नाय नण्णेच्या नातरांकय भाजी कडी केल्यार वाटयेंत घालून दिवपाक ती विसरनासली.

अशे परिस्थितींत आनंदलो आपले उतार पिरायेर एक दीस घर म्हणूस सोदीत सोदीत भावजयेगेर दत्त म्हणून दारांत उबो जालो. भर दनपार जाल्ली. मदेरार आयिल्ल्या घराची विचित्र दशा आनंदल्यान पळयली आनी मनांत चितलें, देर म्हणून भावजेन घरांत घेतल्यार असल्या फुटक्या पाख्यापोंदा आपणाक हे फुडें दीस सारपाक जाय. आनंदल्यान थरथरत फाटल्यान वचून पळयलें. वयर उगडें मळब आनी भोंवतणीं पुरूसभर मातिल्लें तणाचें रान. घराची भितोड लेगीत निवळ नासली. घराक घर म्हणप काय मसंड म्हणप हेंच ताका समजना जालें. तरी सुद्धां ताणें घरांत पावल दवरून हुंबऱ्यार रावन उलो मारलो.

‘ये घरांत?’

‘कोण?’ भितरल्यान बायलेचो आवाज आयलो. आनंदल्यान ताका साद दीत म्हळें.

‘हांव आनंदलो. आनंद.’

‘कोण आनंद? खंयचो?’ अशें म्हणत एक पन्नीशीकडेन पाविल्ली विधवा बायल सवकास भायल्यान येतना आनंदल्यान पळयली. हीच ती म्हजी भावज जावंक जाय, आनंदल्यान मनांत म्हळें.

‘कोण तूं?’ तिणें लागीं येत विचारलें.

‘म्हाका वळखना?’ आपणाक हिणें वळखुचें अशें मनापसून दिशिल्ल्या आनंदल्यान तिच्या दोळ्यांत पळयत म्हळें.

‘परक्याक हांव कशें वळखतलें?’

‘हांव परकी न्हू. हांव ह्या घरचोच...’

‘घरचोच? ह्या घरचोच?’

‘हय, हांव आनंद. आनंदलो म्हणटात म्हाका. तुज्या घरकारान तुका केन्नाच सांगलें ना ताका एक भाव आसा म्हण?’

‘तुका खबर आसलें, तुका भाव आसा म्हण?’

‘खबर आसलें. पूण भावाचें तोंड पळोवपाचो धीर जालोना. इतलेंच न्हय तर ताचेर निमणी नदर घालपाकय येवपाक ताकलेंना, काळीज जालेंना. आनी ते अवदाशिणीन घरांतल्यान पावल काडपाक दिलेंना.’

‘पूण हेणीं म्हाका केन्नाच तुजेविशीं सांगलेंना.’

‘कसो सांगतलो आसलो तो, आपलो व्हडलो भाव एके किरिस्तांव बायलेक घेवन पडला हें तो तुका कशें सांगतलो आसलो?’

‘किरिस्तांव बायलेक?’

‘हय, ती एक लांब खबर. पूण आतां सांगून फायदो ना. हांव नागवलों, हांव उबंत पडलों.’

‘देखून आतां घर सोदीत हांगा आयला?’

‘जाय ज़ाल्यार तशेंच म्हण. हांव मरच्या वगतार हांगा आयलां.’

'कित्याक? मरपाक?'

'हय, मरपाकच म्हण.' आनंदल्यान थंडसाणेन म्हळें.

भावजयेन केन्नाच पळोवंक नाशिल्ल्या मर्तकुट्या हाडकुळ्या देराचो सापळो आपलेमुखार थरथरता तो पळयलो. तिका ताका वयर सकयल बारीक पळोवन घेतलो आनी पळयतां पळयतां तिची नदर ताच्या मुखामळार थिरावली. तेच दोळे, तेंच रूंद कपल, केंसूय तशेच, दोळे खोल गेल्ले. पूण ताच्या दोळ्यांनी आनी देराच्या दोळ्यांनी इल्लोय फरक नासलो. दारांत उबो आशिल्ल्या देराक पळयतां पळयतां भावजे मुखार आपलो गेल्लो घरकार साकार जालो. तिडकीन आनी संतापान भरिल्लें तिचें मन होशीमेर्द म्हणपाक तयार जाल्लें ती तिची जीब अचळय लुळी पडली आनी कितलो वेळ ती खूंट कशी घट उबी रावली. ती देराक वळखली. तिच्या मनांत हयन्हयशी कालवण जावंक लागली. एक मन सांगपाक लागलें, परको अनवळखी आशिल्लो देर आयज घरचोसो जावंक आयला? आनी आतां म्हाका तरी कोण आसा? घरकारा फाटल्यान एकमुळेंपण. केन्नाय आदाराक तरी जातलो. आनंदल्याचे रांड भावजेन येवजिलें आनी संतापाचे जाळ आपले भितर न्हिवोवन त्या दिसा आनंदल्याक घरांत घेतलो.

पूण घरांत तशी ताका सुवात नासली. थंय तांचेमदीं एका कोनशाक भायल्या इल्ल्याशा सालांत आनंदल्यान आपली बिटकी दवरली.

भावजेक ना म्हळ्यार आनंदल्याचो इल्लोसो आदार जातालो. केन्नाय बांयचेर वचून उदक हाड तर केन्नाय बाजारांत वचून नुस्तें हाड, केन्नाय घरांतलें इल्लें काम कर. पूण देराचो आदार भावजेच्या नशिबांत नासलो. एक दीस अकस्मात आनंदल्याचीं धोंपरां धरिल्लेभाशेन जालीं. आनंदल्याक बेगीबेगीन चलपाक जायना जालें आनी आनंदल्याचो हांगा थंय वचून येवपाचो भावजेक जो आदार जातालो तो आदार उणो जालो.

भावजय आनंदल्याक सकाळीं च्या, एक पाव दिवन कामाक वताली. दनपारचें इल्लें जेवण दवरून वताली. पूण तातूंत आनंदल्याचें जायनासलें. केन्ना केन्नाय तागेलें खाण दवरलां थंयच्यान नाच्च जातालें. कोण खातालो पत्तो लागनासलो. सुणीं माजरां घरा भोंवतणी आसतालीं. पूण आपणाक दवरिल्लें जेवण नेमको कोण खातालो तें मात आनंदल्याक केन्नाच कळ्ळेंना. आनी कळिल्लें जाल्यारूय तो कांय एक करूंक शकचो नासलो.

दिशींदिशीं आनंदल्याचे हाल चडच जावपाक लागले. एक दीस कित्याकसो हांव आनंदल्यागेर पावलों. हांव भितर सरनाफुडें आनंदल्याक खूब आनंद जालो. हांवें व्हेल्लीं फळां हांवें आनंदल्याक दिलीं. अधाशावरी ताणें त्या फळांच्यो साली लेगीत अक्षरशा भकल्यो.

'म्हाका मात्सो इस्पितळांत व्हरशी?' आनंदल्यान म्हजेकडेन मोटे आशेन म्हळें. आनंदल्याक जियेवपाची खूब इत्सा आसली हें ताच्या आशावादावयल्यान दिसतालें.

'तेखातीर म्हणिना', आनंदल्यान म्हज्या मनांतलें कशें वळखलें तें म्हाका खबर ना. हांव दचकलों आनी आनंदल्याकडेन अजापान पळयलें. 'मात्सो म्हाका हॉस्पिटलांत

व्हरून उडय. पोब्राक घाला त्या आजिलांत काय म्हाका कोण घेवचोना.'

आनंदल्याच्या ह्या उतरांनी म्हाका आनंदाची फाटली याद करून दिली. केन्ना तरी हांव असोच आयिल्लों आसतना आनंदल्यान म्हाका म्हापशेंच्या आजीलांत आपणाक सुवात मेळटा जाल्यार पळय म्हणिल्ल्याचो उगडास जालो. आनंदल्याक वृद्धाश्रमांत म्हळ्यार आजीलांत वचपाची वान्सा जाली तेन्ना एक दीस आनंदल्याक हांवें सहज म्हणून विचारिल्ले,

'आनंदल्या, तूं लग्न कित्याक जालोना रे?'

'लग्न?' अशें म्हणत आनंदलो खीणभर गालांतल्या गालांत हांसलो. त्या दुखभरिल्ल्या मुखामळावयलो तो हांसो वेगळोच आसलो. त्या हांशांत एक खोल घायो दिसतालो. त्या घायांत आनंदल्याचे जिणेच्यो सगल्यो वेदना अक्षरशा वळवळटाल्यो.

'कित्याक हांसलो रे?' हांवें आनंदल्याक परत विचारलें. आनंदल्यान कितें तरी सांगचें अशें म्हाका वगीच दिसलें. कोणाकोणाचे जिणेंत कितें कितें लिपिल्लें आसता तें कळपाक मार्ग नासता. पूण लग्न ह्या उतरा सरशीं आनंदलो खंय तरी खोल बुडिल्ल्याचें हांवें पळयलें. ताची नदर जनेला भायल्यान दिसपी वयर मळबाकडेन थिरावली, तेन्ना हांवें आनंदल्याक परत भानार हाडपाचो यत्न करीत म्हळें, 'हय, तूं लग्न जालोना कित्याक?'

'कोणाकडेन जातलो आसलों लग्न? ताणें तर तशें केलें.'

'कोणें?' म्हजी उमळशीक जागी जाली.

'आनी कोणें? लिब्रून!!!' अशें म्हणत आनंदलो खीणभर थांबलो. म्हणपाक लागलो, 'पूण आतां कित्याक त्यो गजाली, कितें जावपाचें आसा तुका सांगून? उलट घावो मात उसवतलो आनी त्या घायांत दिसतली ती सगली घाण. बरें काय ना, कोणाकय बरेंच सांगचें खंय. तुका सांगल्यार तूं सुद्धां हांगा बसला तो उठून वयतलो. केन्ना येवचो पासून ना हांगा.'

'ना रे. ते खातीर तूं भिवूं नाका. हांव येतलों हांगा तुजे खबरेक.' हांवें आनंदल्याचो विस्वास वाडयलो आनी ताका बोलको करपाचो यत्न केलो तेन्ना आनंदलो दोळे ओले करून म्हाका पळयता म्हणपाचें हांवें पळयलें.

'आनंदल्या, उलय मरे. सांग मरे, कित्याक केलेंना तुवें लग्न?'

'हांवें फकत लग्न तितलें केलेंना. पूण लग्ना उपरांत करतात तितलेंय केलें. भुरगीं बाळां लेगीत!'

'कितें उलयता तूं आनंदल्या? तुका भुरगीं आसात?'

'हय. भुरगीं आसात. पूण तीं म्हजीं म्हणपासारकीं नात. म्हज्या भुरग्यांचो कायद्याचो पाय तो दुसरो. लिब्रूचो नांवाचो घोव. पास्कुवाल.'

'कोण पास्कुवाल?'

'तुका खबर ना? हांव हांगा येवचे पयलीं खंय आसता तो?'

'ती क्रिस्तांव बायल?'

'लिब्रू तिचें नांव.'

'हय. मात्शेंशें जाणां आसलों हांव.'

'तुका मात्शें खबर आसता तें हेणीं सांगलेलें आसतलें. म्हाज्या सोयऱ्यांनी सांगलेलें आसतलें. खरें कितें तर?'

'आरे हांव किरिस्तांव बायलेक घेवन पोडों नासलों. ताका घेवन पडप म्हणनात, हांव मोगान आसलों तेच्या. तें येदेंशें पोर आसतना. आनी तेंवूय म्हाज्या मोगान उपाट आसलें.'

'मागीर तुका सोडून तें दुसऱ्याकडेन काजार जालें?'

'धीर जालोना तेका घेवन पयस पळोन वचपाक. आनी पयस पळोन वचोन खंय रावतलीं आसलीं? रस्त्यार? तेजे मांयचेंय व्हडलें घर, भरपूर गिरेस्तकाय. एकलेंच चेडूं. म्हजेकडेन लग्न जावपाइती तेन्नाची परिस्थिती नासली. म्हाज्या घरांत तर किरिस्तांव चेडूं येवप शक्यच नासलें. आनी तेचे फामिलीक म्हजेसारको कांयएक शिकोंक नासलो कोंकणो नाका आसलो.'

'मागीर तुका सोडलो? धांवडायलो ताणें?'

'ना, आरे लिब्रू तें. ताणें उपाय काडलो. थिवीं घास्पार भाटकारालो एक लोलो पूत आसलो. तो लोलो घोव म्हणून ताणें पसंत केलो. सगल्यांक अजाप जालें. लिब्रूच्या हट्टामुखार कोणाचें कांय चललेंना. लिब्रून घास्पार भाटकाराल्या लोल्या पुताक आपलो घोव करून काजरा दिसाच सोमतोच घरजांवय केलो. आनी लिब्रू मांयगेरच रावपाक लागलें. पूण पयले राती सुद्धां तें घोवाफुड्यांत गेलेंना. सगलें कारस्थान ताणें म्हाका विस्वासांत घेवन केलें. आनी ताणें ताच्या काजराची पयली रात म्हजेच वेंगेंत मनयली.'

सगलो प्रकार म्हज्या लक्षांत आयलो. लिब्रू फकत विधींनी आनंदल्याकडेन काजार जावंक नासली. पूण काजरा उपरांतच्यो सगल्यो विधी आनंदल्यानूच केल्ल्यो.

'आनंदल्या, पूण तुमचो हो संबंद गांवांत कसो लिपून उरलो रे?'

'कोण सांगता लिपोन उरला म्हूण? अख्खो गांव जाणा. पूण कितलोय जाल्यार हांव तेंच्या घरांत भायलो कोंकणोच उरलों. तूं जाणा, लिब्रू निमाणे मेरेन म्हाजेकडेन प्रामाणिक रावलें. एक चेडूं... चेडूं... म्हाजी धूव रे ती... म्हाजी धूव...' आनंदल्याक अकस्मात बरो उलयता थंय कितें जालें काय? आनंदलो हुडक्या हुडक्यांनी रडपाक लागलो.

'आनंदल्या?' हांवें ताका सावशीत करपाचो यत्न केलो.

'हय, तेणी तेचें नांव मागदालेन दवरलें. किरिस्तांवांचें नांव. लिब्रूक हायें कितलें सांगलें, तेजें नांव हिंदूंचें दवर म्हण. पूण लिब्रूची जड्डी मांय कशीच आयकना जाली. भुरगें म्हजें, नांव तेचें. आनी उपरांत चेडो जालो. पळय तेका वोचोन. ज्यूस्त म्हाजेभाशेन दिसता मरे तो. तेका केलो फिलीप.'

'त्या भुरग्यांक खबर आसा तूं ताचो बापूय म्हण?'

'तेंकां मत येवचे पयलींच लिब्रू म्हाका सोडून गेलें.'

'सोडून गेलें?'

'हय. एका बस अपघातांत तें सोंपलें. आनी लिब्रू बरोबर हांवूय सोंपलों. आयज म्हज्या हाडामासाचीं म्हजीं भुरगीं आसून हांव असो. आयज म्हातारपणार घर सोदीत परत मरपाखातीर अशें घरा परतें येवचें पडलें. त्या लिब्रू खातीर हांवें म्हजी फामील सोडली. गांव सोडलो आनी कोणाकोणचो न्हू असो अनवळखी जावन इतलीं वर्सां रावलों. हेंकां तर खबर लेगीत नासलें हांव जिवो आसां काय मेला तो. म्हाजो धाकटो भाव केन्ना गेलो तें सुद्धां म्हाका कळ्ळेंना. हायें पळयलें ती रांड जाल्ली ही म्हाजी भावज. एके किरिस्तांव बायलेक घेवन पडला, इतलीच ती म्हाजेविशीं जाणा आसली.'

आनंदलो त्या दिसा उलोवन बरोच कासावीस जाल्लो. हांवें आनीक आनी ताका चड उलोवंक दिलेंना. एका एका मनशाचें विश्व कशें भरिल्लें आसता ताचो अणभव घेवन हांव आनंदल्याक हॉस्पिटलांत घालपाचें उतर दिवन परतल्लों.

येतना म्हज्या मनांत विचार आयलो, आनंदल्याचे भावजेक आनंदल्याचे जिणेची खरी गजाल खबर नासली. आनंदलो लिब्रूच्या काजारा उपरांत लिब्रूक भाळलो ही खबर फट आसली. लिब्रूक जाल्लीं भुरगीं हीं ताच्या त्या लोल्या घोवापासून नासलीं, तर तीं आनंदल्याचीं भुरगीं आसलीं हो गूट आनंदल्याकूच खबर आसलो आनी दुबावान बारीकसाण घेवपी त्या गांवच्या कांय लोकांक खबर आसलो.

दनपारच्या वेळार जेन्ना हांव आनंदल्याचे खबरेक म्हणून तांगेर भितर सरलों, तेन्ना त्या सालोंच्या कोनशाक लुळो पांगळो जावन धोंपरां धरिल्लो आनंदलो पडिल्लो आसतलो, असो म्हजो समज आसलो. घरांत भितर सर जाल्यार सगलींजाणां खोशयेंत आसलीं. हांवें कोनशाक पळयतांच त्या मनोरुग्णाची आवय भायर येत हांसत हांसत म्हणपाक लागली, 'सुटलो बाबडो, मुक्त जालो. मर्ण बरें येयलें. त्या दिसा संडासाक भायल्यान गेल्लेकडेन चर्रर करून घुंवळशी येयली. थंयच्यान तो उठोन येयलो बी आनी हांगा तुळशीकडे येवन जीव सोडलो. मागीर भावजेचेर आकांत. करचें पडलेंना सगलें? वाड्यावयले चार चौग मानाय हाडून तेंकां फारीक करून केलो इलो.' ती भराभर अशे तरेन सांगताली की आनंदलो गेलो तें कितलें बरें जालें! 'तुयें दिल्ले पोरणे कपडे तो घालूंक लेगीत पावलोना. हॉस्पिटलांत घालपाक तूं व्हरूंक येतलो आनी त्या दिसा तो तो बुशकोट आनी पेन्ट घालतलो म्हण रावतालो. पूण हॉस्पिटल तेच्या नशिबांत नासलें.' आनी ती परत हांसली.

हांव आनंदल्याच्या मर्णाची खबर आयकून सुन्न जालों. हॉस्पिटलांत व्हरपाचें उतर ताका दिल्लें हांवें. ताणें म्हाका आपली खरी खबर सांगिल्ली. मात ताचे विशीं घरच्यांनी वेगळीच काणी रचयल्ली. लिब्रूक तो लिब्रूच्या काजारा उपरांत भाळ्ळो, लिब्रून आनी ताच्या भुरग्यांनी ताका मारून धांवडायलो. जशें कितें लिब्रू मेलां हें सुद्धां खबर नाशिल्ल्यांनी आनंदल्याचे जिणेकाणयेच्यो तिस्त्यो वाद्न्यो केल्ल्यो.

'बरें जालें अशें तुका दिसना? कोण काडटलो आसलो तेजो गू-मूत? मात्सो भोंवतां घुंवतना मेलो. मरण बरें येयलें. हांथुणार पडलेलो जाल्यार हांगा रावपाचें नासलें. आमकांच घर सोडून वयचें पडटलें आसलें.'

तिची बडबड हांव थंयच्याय कडसले बगर थांबचीना हें हांवें ताडलें. परत एकदां आनंदलो न्हिदतालो त्या कोनशाकडेन नदर घाली. कोनसो शेणबीण सारोवन निवळ केल्लो. थंय आनंदल्याची कसलीच खूण दवरूंक नासली. भायर सरतां सरतां म्हज्या मनांत एक प्रस्न उबो रावलो. मर्ण हें मुक्ती वरदान काय शिराप?

आनंदलो मात मर्णान खरेलोच मुक्त जाल्लो. नरकांतली जीण सोंपून ताच्या वांट्याक सर्गाची जीण आयिल्ली.



१२.

# महारूख

तो मळबाक हात तेंकोवपाक राविल्ल्या रुखाभाशेन. ताका महारूखच म्हणूंक जाय. तो महारूख म्हळ्यार एका आडदांड लांब रूंद गोरोपिट्ट दादल्या भाशेन, त्या वट्टांत राजा कसो मोट्या झेतान उबो आसलो. वट्टांतली सगली ल्हान व्हड बारीक मोटी रुखावळ ताका खूब मानताली. ताचेकडेन पळयतना स्वता आपूणच ताचेवरी जाल्लेवरी मोट्या अभिमानाची वागणूक दर एका रुखावळीची आनी पाली वालीच्या सोडाच, साद्या झोपाक आनी झिलींक सुद्धां ताचे सासायेन रुखाची भावना तांचेमदीं जागताली. खरें म्हळ्यार तो त्या वट्टाचो वट्टपुरूस! येतलो वतलो ताका पळोवन त्या पुराय वट्टाचीच व्हडवीक गायतालो. ताका सुमाराभायर तोखेतालो. न्हय, ताचें तुस्त तोखणायेचें स्तोत्र उच्चारपाक स्वताक धन्य मानतालो. वट्टाकडच्यान भायले वाटेन दीसपट्टो यो-वच करपी वाटसुरो त्या रुखाकडेन पळयत खीणभर आपलो स्वास थांबोवन अजापाचे नदरेन त्या रुखाक पळयतालो आनी त्या वट्टांतले रुखावळीचीं पानान पानां तटास जावन गर्वाची खोशी काळजांत कशी येवं येता हें अणभवताली.

महारुखाक लागून तें वट्ट नांवारुपाक पाविल्लें.

रुखाची कीर्त धायीदिको फांकिल्ली. रुखान जशे आपले खांदे भुजाबळां कशीं अयसपयस पातळावचे तशी ताची नामना दिगंतरा पाविल्ली.

कुचकुचीत गच्च भरिल्ल्या मोरपांखांचो मोर पोशांत पालेल्ल्या आंब्यारुखाइतलोच तोवूय चंवरिल्लो आनी पालेल्लो. तो अख्खोच पाचव्या पानांचो उंच तेमकांचो दोंगोर कसो उबारेन दिसतालो. रूख तसो बरोच दिकाळ आसलो. ताच्या दिकाळाचें सूख रसरसून पाजरपाक पाविल्लें, ताच्या तळा दिकाचे घडे भरून दडको पडच्यो तश्यो रातभर दंवा थेंबे भरसल्ल्यो पावळ्यो ताच्या दर एका पानापानांतल्यान थेंबेताल्यो. ताका लागून सगलो पोंदचो.तळ रातभर भिजून वोलो चिप्प जातालो. ताचे खांदे म्हळ्यारच कोणेंय जुवान तरणाट्यान बरीच तकालस घेवन कमयिल्ल्या देहाभशेन दिसताले. ताचें धड तर एक एक बलदंड दादल्याचें जांगड कशें दिसतालें आनी थंय खांदे फुटून दोन वाटे जाल्ली ती सुवात तर कोणाय दादल्याच्या दोन जांगडां मदलो उबार प्रदेश कसो भासतालो. तिकतिकीत साल आनी तिकतिकीत कात हातूंत फरक जावचोना अशी ताची दाटदाट साल तटास तिवतिवताली. कोणेंय ते तिकतिकेंत आपलें मुखामळ तेळपाक तिचो आरसो कसो वापर केलो जाल्यार कोणाकच अजाप दिसचें नासलें.

तरूय हो महारूख आजून फळपाचो आसलो. ताच्या दर एका चंवराक पोरां फुटचीं तशी ताका इल्लीं इल्लीं फुलां आयिल्लीं आनी हीं फुलां फाल्यां परां वो खंयच्याय तत्काळच्या खिणाक गोळा धरपाचीं आसलीं. फळांच्या हावेसान!

अशा ह्या महारुखाच्या भाग्यांत एक सोबीत बरी वाल आयिल्ली. ही वाल ना म्हळ्यार रुखाच्या आंगार खूब सोबून दिसताली. महारुखानय ते वालीक तेच सोबायेन केन्नासावन आपणायिल्ली. महारुखाच्या आंगाखांदार ते वालीन रुखाची अर्धांगिनी कशी आपल्या सुखाच्या संवसाराचीं सपनां पळोवचीं तशीं महारुखाच्या सुखी सांगाताचीं सपनां पळयिल्लीं. देखून महारुखाचे अधिकाराचे वालीन आपल्या रुखाक अशे तरेन वेंगायिल्ली की थंय आनी चुकून सुद्धां खंयचेच दुसरे वालीन जावं खंयच्याय साद्या झोंपान लेगीत रुखासरीं पावपाचें सपनांत लेगीत येवजुचें न्हय.

महारुखाकय आपले वालीची तशी खूप खूप संवकळ जाल्ली. इतली संवकळ जाल्ली की ती वाल महारुखाच्या देहाचेर एक जोड आंग कशें जाल्लें. इतली तीं दोगांय एकरूप, एकांगी जाल्लीं. कोणेंच खंय दोगांनी इतलें एकरुपी आनी एकांगी जावचें न्हय. सदच्या स्पर्शान संवकळीन कालांतरान तीं दोगांचीं दोन वेगवेगळीं अस्तित्वां आसात म्हणपाचेंच विसरून वतात. आनी मागीर केन्ना कोण कोणांत भरसलो, न्हंय दर्यांत काय दर्या न्हंयेंत भरसलो हेंच वळखुपाक जायना.

महारुखाचे आनी ताचे निजी वालीची गत अशीच जाली.

एरवीं वाल महारुखाच्या आंगार तशीच आसता. तिवूय कुचकुचीत बरी मातिल्ली आसता. तिणें आपल्या रुखाचें आंगपांग अधिकारान आनी नितीनेमान वेटाळिल्लें आसता. इतलें वेटाळिल्लें आसता की बारकेल्या हुंबल्याक लेगीत रिगूंक इल्ली सुवात मेळची ना! हो आंवाट तिणें आपल्या सभावीक हक्कान पुराय व्यापून घेतिल्लो. ताका लागून महारुखाक सुद्धां केन्ना केन्ना मेकळो स्वास घेवंक कठीण जातालें. पूण ताका ताची खंत नासली.

अशे तरेच्या वातावरणांत महारुखावयली वाल सामकी हुसक्या मेकळी आसता. आपल्या ह्या येद्या व्हड वट्टांत इतलो बंदोबस्त आनी भोंवतणी आकांताच्या खडपांचीं हडपां आसतना वट्टांत कोणूय जितो मूस शिरूंक केन्नाच पावचोना आनी आपल्या महारुखाक स्पर्श सोडाच, ताच्या वाऱ्याक लेगीत पडपाक शकचोना अशें तिका सदांच दिसत आयिल्लें. इतलो घट आत्मविस्वास तिणें काळजांत बाळगिल्लो आनी ती वाल सगली धास्ती सोडून आपल्या पाचव्याचार रुखावळीच्या संवसारांत रमलेली.

खोशयेचे दीस अशेच सरताले. मळबांतल्यान सुखाविल्लीं सवण्यांचीं भिरीं मंद मंद पांखां हालयत चिंवचिंवत वचचीं तशें वालीचो दर एक खीण भिऱ्याभिऱ्यांनी जमून वतालो. दीस सरचे, तपां सरचीं, युगांय येवन वचचीं आनी खंय तरी नवें युग सुरू जावचें आनी त्या नव्या युगाची सुलूस कोणाकच लागची न्हय तशी वट्टाचे एके खंयचे तरी चोर वाटेंतल्यान खंयचीय रूपसुंदर चली कोणालेय बागेंत येवन परमळान जरजर जाल्या आनी रंगान वखवखतल्या फुलांत खुंटपाक हात घालचो तशी ती वट्टाभायली

एक वाल वट्टाचे चोरवाटेंतले खांर्चांक सासपत महारुखाच्या त्या वट्टांत नागीण कशी आंगपांग मोडीत भितर सरताली, भोंवतणच्यो नदरो चुकयत!

बावड्या वट्टाकय कसलेंच धंगण नासलें. आनी आसतलें तरी कित्याक? वट्टांत तर खंयचेय उपवर वालीखातीर न्हवरे जाल्ले रूख थोडेच आसले. वाली भितर सरून ताका भुलोवपाक! वट्टांत आसलो तो अर्थअपुरबायेचो ओडलायणो एकलो एकसुरो महारूख! वट्टाक ह्या आपल्या रुखाचो भलतोच भरवंशाचो आत्मविस्वास! आनी रूख म्हणून तरी कसो धीरगंभीर खोल खोल चिंतनांनी रमिल्ल्या एकाद्र्या तपस्व्या भशेन! रुखाची नदर अशी तशी वाऱ्या झोतार जाताली पूण ती खंयच थीर इतली जायनासली. जेन्ना नदर किलकिलताली आनी मागीर आपले भोंवतणचो अख्खो वाठार दोनूय दोळ्यांनी खंयच्याय रसिकान सोबीत देखावो अमृतरोस कसो घटाघटा पिवचो तसो तो देखाव मात तो आपल्या काळजाचे खोलायेंत घेवन बुडी मारतालो.

वट्टांतल्या बारकेल्या जावं साधारण वयावयल्या रुखांक सुद्धां ताच्या भुजांकय स्पर्श करपाची उंचाय नासली. हात लावपाची उमळशीक जालीच जाल्यार ल्हानविकायेन आनी नमळायेन भक्तीभावान कोणेंय पोरान रुशीमुनीच्या पांयां बोटांक ल्हवूच स्पर्श करून आपणाक 'हे महारुखा, तुजो तोंड भरून आशिर्वाद दी.' म्हण मागचो तसो रुखाच्या कानांमनाक मागीर हय न्हयसो अळंग स्पर्श करून कुशीक सरपाचें, इतलो रुखाचो धाक तांकां आसलो. महारुखाचो दरारोच तसो आसलो. दरारो स्वभावीक आसलो. तातूंत निखालूस कसलींच कृत्रिमपणां नासलीं.

वट्टांतलो हो अशे तरेचो महारूख असो तसो हालप म्हळ्यार त्या वट्टांतले रुखावळीची मोटी परब. रूख जसो हाललो धोललो म्हणटकच सगलीं झाडां ताच्या पानांनी केल्ल्या सळसळाच्या सुरांनी भिजून चिप्प जातालीं. ताणें हालचें धोलचें आनी लाखांनी रसिकांनी उत्तेजीत जावन उकत्या आंगान नाचपी नृत्यांगनेन बेभान जावन सगलें थिएटर माथ्यार घेवचें तशीं तीं झाडां तें पुराय माथ्यार घेवन धोलतालीं आनी मागीर ते धुंदींत कोणें कितलीं पानां झडयलीं आनी कोणें कितल्यो खांदयो तोडून भिरकावन भायर मारल्यो हाका हिशोब नासलो.

अशा त्या रुबाबदार राजाची सया घेवन वट्टांत आपलीं पाळांमुळां घट्ट रोमून आशिल्ल्या महारुखाक ते वट्टाचे एके चोरवाटेन चोर पावलांनी भितर रिगिल्ले ते वट्टाभायले वालीन म्हणटां म्हणटां स्पर्श करपाचो धीर केलो.

रुखाची खरेली अधिकाराची वाल लेप कशी रुखाक दसून आसली. अजापाची गजाल म्हळ्यार महारुखाच्या आंगाक स्पर्श करपाक तानेल्ली वट्टाभायली आनीक एक वाल लिपचोरयांनी वट्टांत भितर घुसून खुद्द आपल्याच रुखाकडेन पावल्या हें लेप कशी महारुखाच्या आंगाक इतलो तेंप दसून आशिल्ले वालीक खंय कांयच कळ्ळेंना. वट्टाचे राखणेची फळी इतली मजबूत आसली की वट्टांत भितर सरप म्हळ्यार जिवावयलो आकांत! मागीर भायली वाल भितर घुसपाचें सोडाच. मोट्या आत्मविस्वासान आनी वट्टाच्या राखणे हडपाच्या भरवंशार रुखावयली वाल आपल्या रुखाक वेंग मारून विसाविल्ली.

सामकी चिंते विरयत हुसक्यामेकळी!

आनी अख्खी रुखावळ इतली बेफिकीर आनी बेसावध उरची, आपणालें वट्टांतलें अशें चोर पावलांचें घुसप कोणाकच मात लेगीत कळचें न्हय हाची जतनाय घेत घेतच ते भायले वालीन वट्टांत इल्लीं इल्लीं आपलीं पाळां वट्टांतले मातयेक घांस मारून धरपाक सुरवात केली. आनी हेच तिचे शिटूकसाणीन तिचें वट्टांत येवप कोणाकच कळ्ळेंना. ती सामकी वट्टांतले रुखावळीचोच कोर घेवन आनी सामकी सोज्वळ पतिव्रता कशी वावुरताली. कोणेंच तिचेकडेन लक्ष दिलेंना वो गांभिर्यान पळयलेंना. ती परकी म्हणपाचेंय कोण वळखलोना.

रुखाचे भोंवतणी वट्टाच्या मदेकाक रुखाच्या पाळामुळांक घटसाणीक चिरेबंदी पेड बांदिल्लें. हेर रुखांभोंवतणी असलीं पेडां सोडाच, सादी माती लेगीत कोणें काडुंनासली. तांणी बाबड्यांनी निखटे भुंयेक घट घांस मारून वादळ वाऱ्याक तोंड दिवपाचें आनी ही सगली महारुखाचे भोंवतणी राखणेची फळी कशी. हे रुखावळीक फटोवन वा चुकोवन महारुखाच्या पेडामेरेन सुद्धां पावप इतलें कठीण आसतनाय वट्टाभायले वालीन सगल्या वट्टांतले रुखावळीचेर कसलें मौन घालें आनी सगल्यांच्यो नदरो चुकोवन महारुखाक आफडीमेरेन मजल मारली. सगलेंच अजाप!

वट्टाभायल्यान वट्टांत चोर वाटेन घुशिल्ली वाल तशी कितें मारऽ नासली. तरणेंपण नांवाक दिसतालें. अडेचो मेकअप आनी कातीक कलप लावन अडेची तिवतिवसाण कांतीर दाखोवपाचो कोणेय चलयेन यत्न करचो तशी ती दिसताली. मात तिचें आंगपांग कोणें तरी किरमून पिसडून साप्प विळविळीत करून सोडिल्लेभशेन दिसतालें. मनशांच्या राज्यांतली देख दिवचीच जाल्यार जायते दादले भोगून मागीर खंयच्याय एका दादल्याक सासणाचो कुकमाचो धनी करचो विचार करून आयिल्ले रंगेल बायलेवरी ती वाल महारुखाकडेन आयिल्ली कशी दिसताली. ती वाल कोणाल्याय पोरसांतली आसूं वा नासूं, मात ती पयलेच खेप नवेपणानच महारुखाक वेटाळो घालूंक आयल्या अशें मात दिसनासलें. ती जे ताकतिकेन त्या वट्टांत चोर पावलांनी भितर सरिल्ली ती तिची ताकतीक पळयली जाल्यार तिच्या मनांत भलतेंच कितें तरी घोळटालें जावंक जाय. तिणें महारुखाचे खरेले वालीची असहायता समजून घेतिल्ली जावंक जाय. आनी खंयचेय वालीक रुखाबगर स्वतंत्रपणान आपले तांकीर वयर चडप केन्नाच शक्य ना असो तिचो ठाम विस्वास जालो जावंक जाय. ना जाल्यार ज्या खंयच्याय पोरसांत वो जायत्या पोरसांनी ती ज्या रुखांचेर चडिल्ली ते सगले रूख गिड्डे वो कोण तरी बेणून उडयिल्ले लांडे रूख आशिल्ले जावंक जाय. अशाच लांड्या रुखांचेर केन्नाय आंगाखांदार भरपूर लोळून म्हेळी जाल्ली ही महारुखाचेर भुलून वट्टांत चोरयांनी येवचीच कशी?

मनशांच्या मनशावळींनी अशें घडटा. महारुखाभशेन आशिल्ल्या महामनशाचेर अश्यो शेंकड्यांनी वालीनारी भुलतात. आनी मागीर वट्टांत चोरयां घुशिल्ले वालीवरी त्योवूय त्या महामनशाक आपल्या नादाक लावपाक अशीच जिवाची पराकाश्टा करतात. मनशांचीच देख आनी स्फूर्त घेवन ती वाल वट्टांत चोरयांनी येवंनासली मू? नक्कीच वट्टांत

महारुखाक स्पर्श करपाक आयिल्ले ते संवसारा भायले वालीन मनशाचीच देख आदर्श दोळ्यांमुखार दवरून महारुखाचो ध्यास घेवन वट्टांत घुसपाक यश मेळयिल्लें जावंक जाय. रुखाबगर वाल वयर चडना हो ह्या सैमाचो नेम आनी दर एके सरपटे वालीक सैमाचो शिराप. हो शिराप भुंयेर सरपट्ट्या दर एके वालीच्या कपलार मारला. मागीर ती पानवेल आसूं वो रानवेल आसूं, अमृतवाल आसूं, बारीक शिरपी शिडशिडीत सूत कशी आसूं वो वेंगेक पावनाशिल्ल्या माडाच्या खोडावरी मोट्या धडाची आसूं, दुबळी आसूं वो सबळी आसूं, वाल ती वाल. तिका वयर चडपाक रूख हो जायच.

आनी ही वाल बरीच शिटूक आनी तकलेन फिशाल आसली. नक्कीच बारा गांवचें उदक पियेवन आयिल्ली आसूंक जाय. ना ना फित्रिसां आनी तरातरांचीं चित्रां रंगोवन मेकळी जाली. आतां शेवटाक एकूच हावेस मनांत बाळगून वट्टांत घुशिल्ली आनी तो आकांताचो हावेस म्हळ्यार ह्या वट्टांतल्या गौरवशाली महारुखाक भाळोवन ताच्या आदारान वयर वयर रुखार जितलें वयर चडपाक मेळटा तितलें चडपाचें. आनी हे खातीर केदोय त्याग, केदोय सौदो करचो पडल्यार पडूं, जगलोकांनी कितेंय म्हळ्यार म्हणूं, पूण कशेय भाशेन वट्टांतल्या महारुखाचेर चडपाचें.

महारुखाच्या पेडाकडेन ती जेन्ना थिरावली, तेन्ना ती अचळय महारुखाक तेंकली, रुखाक तेंकली तेन्ना रुखावयली वाल सुद्धां जागली ना. आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार, वाल तेंकली तेन्ना महारूखय मात्तूय हाललोना. महारूख तो. तसो सोंपेपणान हालपी न्हय. पूण हेरांक मात असुदाय तेंगशेमेरेन मुळासकट खदाखदा हालोवन झडोवन भूंय दाखोवपी हे वालीच्या स्पर्शान इल्ल्योय उत्तेजीत जावंक पावलोना. घडये ते वालीच्या स्पर्शांत ती वासना आसली पूण वासनेक उजो घालपी तरणेपणाची तांक नासली. वाल तशी ती ताज्जी तट्टटीत नासली. भितरले भितर शिरंतरांनी कुसमेल्ली विळविळीत जावन जर्जर जाल्ली. इल्लो सरणापुरतें त्राण तिचेभितर आसलें. लबलबीत कूड आसली. देखुनूच ती महारुखामेरेन पावली. आनी त्या वट्टांत आशिल्ल्या हेर ल्हान ल्हान वालींक सुद्धां महारुखाकडेन नदर दिवन पळोवपाचें काळीज जालेंना थंय हे वालीन खंयच्यान तरी आलमपेड्ड्यार कशी हेडत हेडत पोरसांत स्पर्श केलो आनी स्पर्शाची प्रतिक्रिया महारुखाकडच्यान कांयच जावंना ताचो अदमास घेवन तिणें महारुखाक पयलो वेटाळो घालपाक आपली सरपट्टी पावलां घालीं.

पातें कशी ती परत एकदां महारुखाच्या मुळसाक नेटान घस्टली. मनशाचे गर्देंत कोणेंय जुवान चलयेन मदमस्त तरणाट्याक सरळ कोपर मारचो तसो वालीन महारुखाक कचयंच् करून हिसको दिलो आनी खूब अजापाची गजाल घडली म्हळ्यार शिटूक वालीच्या हिसक्यान महारूख इल्लोय काचाबूल जालोना वो तिका झडपावन पयस खोंटायलीना. कोणाचेरूय अशी अचकीत एकाद्री पाल बी पडत जाल्यार इतले सभावीक रितीन तो ते पालीक कांय खिणांत झडपावन मारता तशी वालीक महारुखान झिडकारलीना. महारूख ओगीच रावलो. मात लेगीत त्या नव्या स्पर्शाची दखल ताणें घेतलीना वा नापसंती वा तिटकारो उकतायलोना. वालीक अशेंच अपेक्षित आसलें जावंये. तिणें रुखाक

परतो नेटाचो हिसको दिलो आनी सोमतोच रुखा आंगाक आपलो वेटो घालो. खोशयेन कोणेंय मनशान दुसऱ्याक चिमटो काडून खुणावचो तसो वालीन महारुखाक नाजूकसो चिमटो कांडलो.

महारूख हें सगळें घडचे पयलीं माथें वयर काडून गर्वान हड्डें फुडें काडून मळबांतल्या सुर्याच्या रखरखीत वताक आपले तेंगशेचेर कांय न्हयशें झेलतालो आनी सुर्याक म्हणटालो, 'हांगाची ही रुखावळ तुज्या धगान बावून वचपाक ती कितें सड्यावयलीं झुडपां न्हय. ही ह्या वट्टांतली पांचीचार रुखावळ आनी हे रुखावळीचो हांव पाचवोचार महारूख. ये सुर्या, तुज्या रखरखीत वताक हांव तळ्यांतलें शितळ उदक कशें घटाघटा पियेतां.' अशे धेंक दिवन मळबांत आरड मारपी महारूख आयज एके चोरवालीच्या स्पर्शाक पांयांकडे पयलेच खेप अगतीक जावन बागवलो. आपले तेजपुंज सुर्याळी जाल्ले तांबडेगुंज दोळे सांजवेळा पाकळ्यो झडयतल्या कमळाच्या पाकळ्यां वरी पातकड्यो सकयल करीत आपल्या आंगार मोरपांखां भोंवडायिल्लो जादू करपाचो भास केल्ले ते वालीखातीर जिणेची येदी व्हड कारकीर्द पावणेर काडली. ताणें आपल्या आंगापांगार आनीक एक वाल चडटना पळयली आनी मळबाक माथें तेंकोवपाची धडरूख अजापीत रितीन घसरलो. ताचीं मुळां भुंयेंत निसरलीं, बुळबुळीत भुंयेर भर जुवान घटमूट तरणाटो निसरचो तसो.

वाल मागीर रावता? बोट लावन हात लावपाची संद मेळटकच परतें बोट लावपाचीं मुर्खपणां करपाक बट्टाभायली वाल थंय येवंनासली. वालीन महारुखाच्या मुळाक आपल्या विखारी मोगाची पयलीवयली खेम घाली. महारखाचे बाबडे निश्ठावंत पतिव्रता वालीक आपले रुखावळीच्या भर संवसारांत केदें मोड आयलां हाची इल्ली लेगीत सुलूस होवेळ मेरेन लागूंनाशिल्ली.

वालीन रुखाक अशे तरेन भूल घाली की जेन्ना वालीन रुखाचो हात मागलो तेन्ना भूल पडिल्ल्या महारुखान हे विखारी वालीक हात दिलो. वालीन वेळ वगडायनासतना सोमतीच रुखाच्या आंगाक सरपटत सरपटत एक एक पीळ घालो आनी सोमतीच रुखाचे तेंगशेर वचून राजाच्या मुकुटांतलो मणी कसो वयर वचून बसली.

महारूख आपणाक सावरता थंय आसा, खंय कितें घडटा हें कोणाक कळचे पयलींच कपटी वालीन त्या वट्टांतल्या महारुखाक आपलें खरें रूप दाखयलें. ती वाल नासून रुखावळीची दुस्मान कांक्र कशी बेंदूल आशिल्ली.

आपणाक बेंदुल्लेन घांस मारला हें रुखाक कळ्ळें तेन्ना वेळ टळून गेल्ली. विखारी बेंदुल्लेन रुखाक आपल्या आंगार घेतंलो आनी फोंसां घालीत नागिणीन एक सारको चाबचो तशी ती बेनुल्ल महारुखाक ताचे वालीसयत एकासारकी घांस मारपाक लागली.

पळयतां पळयतां पाचव्या राज्याच्या पाचव्या रुखावळीचे महाराजा बेंदल्लीच्या घोसांनी आनी कांक्राच्या पानांनी पुराय धांपून गेलो. ताच्या आंगाक इतलो तेंप घट वेंग मारून लेप कशी दशिल्ली ताची वाल बेंदल्लीचे आगळिकेन हड्डें फोडून रडपाक लागली. पूण त्या वट्टांत तिची बोब आयकुपाक तिचो महारूख थंय खंय आसलो?

आतां त्या वट्टाकडच्यान येतलो वतलो वाटसुरो तो महारूख हालीं हालीं दिश्टीच

पडना तें पळोवन महारुखाचें दुख्ख मनयतल्या वट्टांक विचारता, ‘हे वट्टा, तुजे मांडयेवयलो तो महारूख खंय गेलो?’ बावडें वट्ट इल्लेंशें सुतकी तोंड घेवन आमोरेच्या अस्तंतल्या सुर्याक पळयता आनी वाटसुऱ्यांक सांगता, ‘म्हज्या वट्टांतलो तो म्हजो सुर्यरुपी महारूख त्या काळ्या काळ्या कुपांनी लिपला.’

वट्टाच्या दोळ्यांत भरून आयिल्ल्या दुकांच्या दर्यांत सद्दां येतना वतना त्या महारुखाच्या रुपांत आपलेंच रूप पळोवन बाबडो वाटसुरो कच्च करून आंग काडून कांपता आनी त्या वट्टाकडच्यान मेळत ते दिकेन धांवत सुट्टा. फाटल्यान ती बेंदुल लागिल्ले भशेन!



# १३.

# सावड

आयज राती वाड्यावयल्याचें मांडार गांवपण आसा. वाड्यार पेरगांव घालपाक पांडू भोंवतालो. मुठींतली शेनताची विडी फुकीत पंढरीन नाराण्याक म्हळें तसो नाराण 'आंऽऽ कितें? गांवपण आनी अशें मदेंच शें?' अशा अर्थान पंढरीकडेन पळोवपाक लागलो.

'हय, आयज मांडार धा जाण मेळटले.' पंढरीन परत खात्रीन आपणाक खबर आसा अशा तोऱ्यान म्हळें, तेन्ना पंढरी शादूर जालो आनी नाराणाक पळयलें.

'कित्याक रे गांवपण मदेकाकच? पयर जालां मरे गांवपण शिगम्याचो हिशोब करपाक.' नाराण आतां मात खोलायेन वासपुशेक लागलो.

'वाड्यावयले जायते जाण सावडीक वयतात खंय.'

'खंय वयता सावडीक?'

'दिवाडे.'

'गांव सोडून वयता खंय ते?' पंढरीक सगलें खबर आसा अशें धरून नाराण पंढरीची उलट तपासणी घेवपाक लागलो.

'गांव सो कित्याक सोडूं जायो? शेतां रोवन येतले परते गांवांत.' पंढरीन नाराणाक समजायत म्हळें.

'फट गजाल. आरे, सावडीक म्हणोन गेल्ले ते खेमू, बाबल, रोवळू, भानू परतले गांवांत?'

'तेंची गजाल वेगळी.' पंढरीन म्हळें.

'कशी म्हणटा तूं तेंची गजाल वेगळी? आरे, तेवूय अशेच गेल्ले आफ्रामेंताचीं शेतां कसपाक. पूण तेंचें कल्याण जालें न्हू. आतां घरांदारां बांदून रावतात थंय.'

'हय, गांव वशाड घालून. आरे, सगलेच जर अशे उटसूट सावडीक म्हणोन परक्या गांवांत गेले जाल्यार हो गांव कोण वसयतलो रे? ह्या मांडावयल्या राखणदाराक कोण वात पेटयतलो रे? कोण घालतलो रोट ताका आनी कोण करतलो सगल्यो राटी हांगाच्यो? हो गांव सामको वशाड उडोवपाचो थरयला तेंणी? पोटाक लागून?'

'हांगा उपाशीं-तपाशीं दीस काडचेपरस थंय हातपांय घोळोवन एकवेळचो पेजे निवोळ तरी पोरातोरांच्या ताळ्यार पडटलो काय ना रे?'

'पेजे निवळा खातीर आपली भूंय सोडप? आपलो गांव सोडप?'

'नाराण, तूं गांवपणाक मांडार यो आनी उलय हीं तुजीं मतां.'

'आरे, हीं म्हाजींच मतां? तुजीं न्हू? तुकाय जायो हो गांव पडंग पडलेलो?'

'तशें न्हूं रे नाराण.' पंढरीन नाराणाचो ताप चडला तो पळयलो आनी ताका थंडावपाक म्हळें, 'नाराण, हांव तुजे बरोबर आसां. आयज मांडार आमी सावडीक वयतल्यांक कोर्टगाद भायरी दिवपाची.

'थंय पावतकच गाणींत शेपडी घालशी?' पंढरीच्या उतरांनी नाराणाक धीर आयलो खरो पूण पंढरीचेर ताचो भरवंसो नासलो. धाजाण मेळटकच जो आवाज चडोवंक जाणा तो जिकता. कोणेंय अशें तशें उलयल्यार आतांचे पोर जाण्टेल्याक जाण्टे म्हणनासतना कोयरांत काडटात हें नाराण जाणा आसलो. ताणें पंढरीक म्हळें, 'पंढरी, पळय, आमी जुनाट खरे, पूण तितलेच वातड जावं जाये. तेणीं बुर्रास कितलेय ओडूं, ती आमी तोडूंक दिवंक फावना. आनी जर बुर्रास तुटली जाल्यार फाल्यां सावडीच्या निमतान एकएकटो हो गांव सोडून वयतलो. आयज दिवाडे, फाल्यां चोडणां, परां दोंगरेर आनी येरवां आगशी कणंगां खणपाक. आरे, पोट सगल्यांकूच आसा. किडीमुयेक सुद्धां. पूण मूय सुद्धां आपलें पोट भरता मरे. मनशान पोट भरल्यार अजाप कसलें? पूण पोट भरपाचें निमित्त करून आपलो गांव सोडून वचप गांवचें दैवत वाळींत उडोवप. हेचे सारको आनी अधर्म खंयचो रे? आनी धा जाण आपोवन होच अधर्म आदारतले ते. खेव येयलो तेंचेर. माल्लीसांव पोडों तेंचेर. पूण... पूण पंढर, आयक. आमी आमच्या कुडींत आत्मो शाबुद्दीर आसासर अशें घडोवंक दिवचें न्हू. कोण गेले ते गेले, पूण नेयान आनी कोणाक वचोंक दिवचें न्हू.'

'सगलें खरें नाराण तुजें, पूण हांगा रावोन तेंचें जातलें कशें? ह्यो, ह्यो कुळागराच्यो तोल्लुको, हे कात्रे, कात्र्याचीं फोफळां गिळोन पोट भरतलो? शेतां खंय आसात ह्या गांवांत? आनी आमकां गावड्यांक गांवांतले हेर कुळवाडी लागीं धरतात? पयलींच ते आमकां बाटके म्हणटात. आमी बाटले ते पोटाक न्हू, जाण्टेल्यांक फटोवन बाटयले पूण फटींगपणां कळटकच येयले न्हू आमी आमचे आदले जातींत आनी धर्मांत? नाराण, आनिकय प्रस्न आसा. आमी येयले खरे, पूण ते आमकां तेंचे जातींत घेवपाक खंय तयार आसात? आमकां ते नेये हिंदू म्हणटात आनी ते पोरणे आनी खरे निजाचे खंय. आमगेर चेडवां दिवपाक ते तयार नात, जेवपाक तयार नात. तेंचो जल्मी आमचें देवसपण करपाक तयार ना. हो येद्दोसो वाडो, पांच पंचीशेक घरां आमचीं. पूण आमकां ते लेकिना, विचारी पाचारीना. मागीर आमी गांवांत रावोन कसलो फायदो?' पंढरीन ताच्या मनांत जें खतखततालें तें नाराणा मुखार सगलें वोतलें. पंढरीन गांवांतली परिस्थितीच जिती करून नाराणाक दाखयली. नाराण पंढरीचीं उतरां आयकून खीणभर खिन्न जालो. तोवूय मात्सो येवजूंक पडलो. पंढर सांगतालो तें सगलेंच फट म्हणूंक जावचेंना. एक धोणशीवाडो सोडलो जाल्यार बाकीकडेन सगले आपणाक निजाचे आनी मुळावे समजतात. ते धोणशीकारांक वाडेपणांत घेयनात, तेंचें वाडेपण वेगळें, वाडेकार वेगळे. थंय नायक गावडे एक, पूण आमी गावडे आसून ते आमकां बाटके म्हणोन कडेक दवरितात.

पूण अशें जरी आसलें तरी हे खातीर पोटाचें निमित्त करून आपलो गांव वशाड घालप काय वसावळीक हाडप?'

नाराण अंतर्मुख जालो. ताणें दोळे बंद केले आनी कटमगाळींतल्या देंवचाराचो उगडास केलो आनी पंढरीक कांयच जाप दिनासतना इतलेंच म्हळें,

'पंढर, कटमगाळकार गांव वशाड घालचो ना रे.'

'आतां तेणेंच कितें तें करपाचें.' पंढरीनय तेच भावनेन म्हळें.

आतां आमी कामाक लागोंया. सांज जावचे पयलीं घराघरांनी भोंवोया आनी गांव सोडून सावडीक वचपाक साटल्ली पोटली बांदून तयार जाल्ल्यांक आडावंया.'

'चल तर, आतां आनी वोगोत ना.' पंढरीन नाराणाची मनाची जाल्ली आवतिकाय वळखली आनी ताकाय नाराणाक ना म्हणूंक जालेंना. ते दोगूय वाड्यार वचपाक दोन वाटांनी वाटेक लागले.

मांडार वाड्यावयले धा जाण जमले. धा जाणांची बरीच गर्दी जाली. नाराणान आनी पंढरीन वाडोभर भोंवून ह्या धा जाणांच्या गांवपणाक महत्व हाडिल्लें. सावडीक वचपाची तयारी करतल्याची बरीच पंचायत जाल्ली. धा जाणांक दुखोवन तांकां सावडीक वचप जमचें नासलें. देखून जेन्ना नाराण आनी पंढरी हे दोगूय जाण्टेले वाड्यार भोंवून गेले तेन्ना तांचे फाटोफाट सावडीचे वेद लागिल्ले जुवान तरणाटे सावडीचे फायदे गांवाक पटोवन दिवपाक भोंवले. आतां त्या संघर्शाचो निकाल फकत मांडार लागपाचो आसलो.

मांडावयले विठोबाचे देवळेंत सगले धा ज़ाण जमले. देवळेभायल्यान बायलां भुरगीं जमा जाल्लीं. वाड्यार गांवपण चलतना घरांत बायलां भुरग्यांक तरी बरगत कशी पडटली आसली?

गांवपणाक सुरवात करचे पयलीं नाराणान जाग्याच्याक दिवो लायलो आनी सदचे भाशेन गाराणें घालपाक तो उबो रावलो. सगले जाण हात जोडून उबे रावले. देवळेंत सगली किण्ण थंडसाण शी भासली. दर एकल्यान नाराणाल्या गाराण्याकडेन कान लायले. 'ह्या शिवराच्या राखणदारा देवा देंवचारा, धावशी रोवदिऱ्या, सिमेवयल्या आनी जाग्याच्या कटमगाळकारा, रवळनाथा आनी भूतनाथा, आयज आमी तुमच्या ह्या थळांत हीं धाजाण बाळकां तुज्या पांयांकडेन तुज्या शब्दाक जमल्यांत. हय सायबा. खुंटी मारून मठी जोडलेल्या पुरसा, आयज मेरेन जसो दिवो वात हांगा पेटल्या ती हे फुडें पेटोवपाची बरी दानत आमकां दी. हय सायबा.

गच्च रानां आनी दोंगर पेसणां हड्ड्यार घेवन वाडवडलांनी ही भूंय वसयली, पिकयली ते भुंयेची सासाय सायबा. हय सायबा.

पोटा पाणयाखातीर तुज्या पांयांकडच्यान पयस वचपाक पावलां उखलतल्याचीं पावलां हांगा शिळो जावं...'

आनी नाराणान गाराण्याचीं हीं उतरां उच्चारचे पयलींच एकल्या तरणाट्यान आड्डून म्हळें, 'नाराण बाप्पो, थांबय तुजें हें असलें दळभद्रें गाराणें. पावलांच्यो शिळो करपाक मागपी तूं आमचें कल्याण मागता काय विध्वंस मागता? शिळा जावन हांगा आमच्यो

पाशाण फातरी जावच्यो अशें तुका दिसता?'

देवळेंत एकूच बोवाळ जालो. त्या तरणाट्याच्या शब्दांनी दुसरे तरणाटे खुवळ्ळे आनी तांणीय सुरांत सूर भरसून नाराण बाप्पाच्या गाराण्याक विरोध केलो आनी गाराणें सोंपोवपाक मागलें.

'आमकां असलें गाराणें नाका. देवाकडे मागपाचें आसा जाल्यार फकत आमचे राखणेचें माग. आमी वयता थंय आमच्या भुरगे बाळांचें बरें जावचें इतलेंच माग.'

'म्हणटकच तुमी सावडीक वयतलेच म्हणटा?' पंढरीन नाराणाच्या आदाराक फुडें येत म्हळें.

'तें आमी थरोवंना.' एका तरणाट्यान पंढरीक खडसावन सांगलें तसो पंढरी चमकलो. हे आदीं जाण्टेल्यांचेर भुरगे अशे कच्च करून आंगार येयनासले. पूण पंढरीन धीर सोडलोना. ताणें त्या तरणाट्यांक लेखून तितल्याच नेटार म्हळें, 'तुमी थरोवंना जाल्यार कोणें थरयलां?'

'परिस्थितीन थरयलां तें. सावडीक वचपा बगर आमकां आनीक दुसरो पर्याय ना. आमी हांगा बेकार बसोन कितें कुले तासपाचे? कशें जातलें? कितें खातले आमी? कितें आसा हांगा?'

'हें पळयात, मात्शे शांत जायात. अशे एकामेकांचेर धेंगशेवन प्रस्न सुटचोना. भुरग्यांनी पयलीं जाण्टेल्यांचें सगलें म्हणणें आयकुचें आनी मागीर तेंचें म्हण्णें जाण्टेल्यांनी आयकुचें. उपरांत कितें तें थरोवचें.' वाड्यावयलो बुदवंत म्हणून जाका पाचारताले त्या साजून मध्यस्ती करीत म्हळें.

'बरें आसा, सांगचें जाण्टेल्यांनी तेंचें म्हणणें', एका तरणाट्यान बुदवंत साजूली सुचोवणी उखलून धरीत म्हळें. 'नाराण बाप्पानूच उलोवचें. सगले उलोवंक गेल्यार रात पावचीना.' कोणें तरी मर्दीच म्हळें. आनी नाराणाचेरूच आतां गांवच्या कांय लोकांक सावडीक वसपापासून थातारपाचो प्रसंग आयलो.

नाराणान प्रसंग वळखलो, पूण धीर सोडपाचो नासलो. तो खंबीरपणान मर्दीं उबो रावलो आनी सदचेभाशेन गांवची व्हडवीक, परंपरा आनी देवाची सासाय सांगपाचो प्रयत्न केलो.

हो गांव आनी हो धोणशीवाडो वसावळीक येयल्यार शेंकड्यांनी वर्सां जालीं. आमचो मूळपुरूस ओमणो गावडो कामळ कोयती घेवन ह्या जंगलांत पयलो भितर सरलो आनी हें शिवण बेणलें, बेणून तेणें पयली खोप बांदली ती हांगा. आनी थंयच ही देवळी आयज उबी आसा. ह्या आमच्या मूळपुरसान हांगाचे शिळेर रगताची धार सोडपाक आपली किरंगळी कापून नाळ मातयेंत पुरतात तशें आपले किरंगळेचें बोट हांगा पुरलें. त्या बोटाचें फुडें जालें लिंग. हें तळप जें भितर गर्भकुडींत आसा तेंच तें लिंग. आयज कितलीं वर्सां जालीं आमी हांगा रावत येयल्यात. मदल्या काळार आमचेर बाटाबाटीचो प्रसंग येयलो. आमचो देव धर्म बाटयलो, हांगा भश्टकार जालो पूण आमच्या मूळ पुरसाचे सासायेन आमी बाटके जावन रावले नात. हेर गांवांनी मात बाटलेले बाटकेच

उरले. पूण आमच्या ह्या मूळपुरसान आमकां परत हिंदू केले. आमचो जागोर, आमचो शिगमो, आमी धुळवट, आमच्यो धालो, गोफ आनी रणमाळे सगलें सगलें आमकां मेळ्ळें. ह्या गांवाची आनी खास करून ह्या वाड्याची अख्ख्या कोंकणांत ही व्हडवीक म्हणोंक फावता. ती व्हडवीक आयज तुरो कसो घेवन आमी मिरयतात. ही मिरास आमकां ह्या गांवान दिल्या, आमच्या पुर्वजांनी दिल्या, आमच्या पुरसान दिल्या. सावडीक वचोन थंयचे जावन रावप हें आमकां सोबना. सावड चार म्हयन्यांनी खरी, पूण पावसांत गांव सोडून गेल्लो वाड्यावयलो भाव गिमांत गांवांत परतना. सोमतोच लुवणी करून परततलो म्हणटा पूण ते मेरेन परत मिर्गाचे दीस येतात आनी मिर्गाची सुलूस लागतकच गांवांत चार दिसांखातीर कित्याक वचप, ते परस थंयच रावप ते पसंत करतात. आतां मेरेन वाड्यावयलीं पांच कुटुंबां सावडीक गेल्लीं परतीं गांवांत येवनात. अशेंच जर जालें जाल्यार दरएका वर्सा सावडीच्या निमतान हांगाचें एक एक घर परगांवां वयतलें आनी परगांवां गेल्लें घर हांगा मात बेघर करून सोडटलें. आमचें आतां कांय उरूना. आयज आसा फाल्यां ना. पिकलेलीं फळां आमी देठाक तगचींना. पोटाखातीर सावडीक वयता तुमी, थंय कोणा भाटकाराचीं, कोमुनिदादीचीं शेतां कसतात आनी पेजे निवळा पुरतो वो शिता गोट्या पुरतो दाणोगोटो कमायतात आसत, पूण तेखातीर थंयच्या गवळांनी सासणाचो राबितो करपाची गरज नासली. पूण तशें घडलें. सगले गवळ घरा जालीं आनी थोड्यांक तर भुरगींबाळांय जालीं.'

नाराण कितें सांगूंक सोदता तें तरणाट्यांक समजल्लें. तांणी नाराणाक आनी फुडें उलोवंक दिल्यार तो ती परवड परवंत रावतलो हें वळखून एकल्यान म्हळें, 'नाराण बाप्पो, सावडीक वयचें न्हू अशेंच तुका म्हणपाचें आसा मरे? मागीर तें एकाच उतरान सांग. तें सांगपाक ही लांबलचक पत्रावळ कित्याक?'

नाराण आतां मात शिटकावलो. हांचे फुडें आपली दाळ शिजप कठीण हें तो वळखलो आनी ताणें ताचेवटेन खंबीरपणान उबो राविल्ल्या पंढरीक पळयलें. पूण बाबडो पंढरीय अगतीक जावन नाराणाक पळयतालो. वाड्यावयल्या हेर जाण्ट्यांकय नाराणाचें म्हणणें पट्टालें. पूण म्हणणें पटलें तरी भुरग्यांचेंय खरें कशें दिसतालें.

'आतां भुरग्यांचें आयकुया. सांगात तुमकां कितें म्हणपाचें आसा तें.' नाराणान धीरगंभीर जायत म्हळें.

'हय, आयकोया तरी.' पंढरीन नाराणाक पालव दिलो.

'म्हाका दिसता, हें काम साजूनच करचें. साजू तसो भुरगोय ना, चड जाण्टोय ना. ते भायर थोडेंतरी बरप वाचप जाणां. उपकरतलें मरे तुमकां?' पंढरीन जोम्याकडेन पळयत म्हळें. साजूक उलोवपाक कोणाचो तसो विरोध जायना सो पळयतकच साजूक उलोवचें चुकना जालें. तो उलोवंक लागलो.

'भावांनो, पयलेंच सांगतां, आमी आमच्या जाण्ट्यांचो मान-रेश्पेद राखोनूच हें सगलें उलोवंक जाय. हांगासर गरम रगतय आसा, थंड रगतय आसा. गरम रगत आनी थंड रगत हेंचो संघर्श जावंक फावना, कारण अशा संघर्शांत गरम रगतच जिखतलें. ते

खातीर हांव ह्या रगताची सरभरस सुचयतां म्हणजे गरम रगतान थंड रगताक आनी थंड रगतान गरम रगताक समजून घेवचें.'

'भावांनो, आयज प्रस्न आसा तो आमच्या भुरग्यांचो. ओमणो गावडो हो मूळ पुरूस खंय भायरसान हांगा कोयतीकामळ खांदार मारून येयल्लो. तो म्हणजे मूळ ह्या रानांतलो नासलो. असोच कोण तरी खंयचो तरी पोटापाणयाखातीर वणवण हेडत हेडत हांगा थंय पावता. गांव आनी जमीन हीं तशीं एकूच. सगली जमीन एक. सावडीक वयता तिवूय हेच भुंयेक लागून आसा. फकत अंतराचो प्रस्न. म्हणटकच गांव वाडो हें चितचें. हे सुवातेर आमची भूंय अशें चितल्यार सावडीक वयता तो जुंवो आमकां परको न्हू. पूण आमी सावडीक कित्याक वयता? हांगा शेतां आसल्यार आनी हांगा पोटाचो प्रस्न सुटल्यार थंय झक मारपाक वचपाची कसली गरज आसली? थंय कोसाचीं मैलाचीं शेतांभाटां आसात आनी तीं रोवपी थंय ना म्हणोन थंयचे जमीनदार, शेतकार आमकां आपयतात. आनी घडये फाल्यां काळान्तरान रोयतां रोयतां तीं शेतां कसतल्याचे मालकिचीं जाल्यार? तसो कायदो येवपाचो आसा अशें आयकलां हांयें. म्हणटकच फाल्यां जर कोणूय सावडीक वयता जाल्यार...'

'पूण गांवचें कितें?' साजूक आडायत पंढरीन विचारलें.

'गांवचें कांय ना. गांव चलत येयला तसो चलतलो. आमी गांव सोडून गेल्यार गांवांत दुसरे मनीस वेगळ्या कामांक येतले, जें काम आमचेकडेन जमना. आयजूय ह्या गांवांत कामां आसात. गांवांत कामां आसात पूण तीं आमच्या जातभावांकडेन जमनात. फाल्यां जर भुरग्यांनी फुडार घडयलो जाल्यार गांवांत परत येवन घरां वयसयतले ते. सावडीक वयतले. हांगाचीं घरां मोडून काय वयचेनात. जाण्टेलीं हांगा आसात. म्हातारीं कोतारीं खंय वयतलीं? नाराण बाप्पाचें आनी पंढर बाप्पाचें दुख्ख तें हेंच. ह्याच दुख्खांतल्यान तेंकां गांव सोडून कोणेंच वचचें न्हू शें दिसता. शेतां सावडीक रोवन आमच्या पोटापाणयाचो प्रस्न सुट्टलोच. तेभायर हातींत पैसो आडको घोळटलो. भुरग्यांच्या आंगाखांदार सदांच चिंद्रांबोद्रां दवरतले. सदांच तेंकां अक्षराचे दुस्मान दवरतले. आमी शिकलेना म्हणोन भुरग्यांक शिकोंक दिवचेना? आमकां जर बदलुपाचें आसा जाल्यार आमी गांव बीव चिती नासतना फुडार घडटा थंय वचोंक फावो. आनी तो वेळ येयला. सावडीक वचपाक जायें तेणीं वयचें. पूण गांवांत यो-वच थांबोवचें न्हूं. चवथीक, दिवाळेक, शिगम्याक तेणीं हांगा येवंक जाय. घरांनी दिवो-वात पेटोवंक जाय आनी तेच बरोबर आपल्या संवसारांतय नेयी जोत लावपाक जाय.'

'हय सायबा' असो एकूच आवाज जालो आनी त्या आवाजाबरोबर साजू उलोवपाचो थांबलो. सावडीक वचप म्हळ्यार नवो बदल अशी भावना सगल्यांची जाली. पूण नाराण आनी पंढर मात कशेंच मानूंक तयार नासले.

'आतांच्या पोरांकडेन माणसुकी ना रे' अशें म्हणत नाराण पंढरीक वेंग मारून मुसमुसून रडूंक लागलो.

गांवपण सोपलें. धाजाण धा वाटांनी कडसले. रात सोंपली. सकाळ जाली.

सकाळीं सकाळीं सावडीक वचपाची तयारी जाल्ली. नाराण आनी पंढरी देवळेचे पेडयेर बसून साटली पोटली माथ्यार मारून सावडीक वचूंक पावलां मारतल्या आपल्या गांवभावांक पळोवन परत विरघळले. तांणी मनांतल्या मनांत म्हळें, ओमणो आमचो मूळपुरूस. खांदार मारून हाडिल्ली कोयतीकामळ आयज माथ्यार मारून गांव सोडून सावडीक वयता. दुसरो आनी एक गांव वसावळीक हाडपाक. नाराण बाप्पान मणभर वजनाचो फातर आपल्या धडधडट्या काळजार दवरलो आनी सावडीक वचूंक भायर सरिल्ल्यांक हात हालयत निरोप दितना साजूक साद घालो आनी लार्गी आपयलो.

'साजू, कानार खबर पडल्यार ह्या नाराणाक एक लाकूड घालपाक तरी यो पुता... निमाणें तुमी म्हणटात तेंच खरें. सावडीक वचोंकूच जायें. मागीर तें गांवांतल्यान दुसऱ्या गांवां जावं वो संवसारांतल्यान दुसऱ्या संवसारांत जावं. मर्णाचे पलतडीय एक सावड आसता. ती आमकां जणएकल्याक करूंक जाय.'

'नाराण बाप्पा, तुजेसारको बुदवंत मुखेली ह्या गांवाक मेळ्ळो. पूण परिस्थितीन तुका हारयलो.'

'हांव हारोंक ना रे. हांव जिकलां. सावड ही बदलुपाचीं लक्षणां आनी आमच्या भावांक बदलपाची तान लागल्या. चल तूं. सांबाळ तेंकां. बरो वसयात तो गांव. हांव आनी पंढर त्या निमण्या दिसाची वाट पळयत रावतात हांगा. देखून म्हणटां, खबर कळ्ळ्यार येयनासतना रावों नाका. ते निमतान तरी तुमचे पांय ह्या गांवाक लागतले.



१४.

# ती... हांव... आनी मोगरी

घोसाळेच्या देंठाकय कळी आयली. आतां ती सांज जातासर आपली सगली शक्त उक्तावन पांचूय पाकळ्यांनी हळदुवी ताल्ल फुलतली. घोसाळ्यांचीं हळदुवीं फुलां कित्याक उपकरनात देखून तांकां कोण हात लायनात. घोसाळेचें फूल केन्ना तरी एकाद्रे सवायशिणीन आंबाड्यांत चुकून तरी खोयिल्लो कोणेंय तरी पळयला अशें म्हाका दिसना. तरी सुद्धां भर पावसाच्या उत्सवांत जेन्ना घोसाळ्यांच्या माटवार हळदुवी चादर येता तेन्ना हें अख्खें पोरसूं रसरसून येता. पोरसाक कुचकुचीत गच्च रानांची सया मारता. घोसाळेचें फुलप कितलें अर्थपूर्ण न्हय? ती फुलता ती वेळार आनी बावता तिवूय वेळार. सांजेक पांचांक फुलिल्ली घोसाळी काळखाचें दर्शन घेवपाक रावना. तिका उजवाडाचो सोस जावंक जाय. घडये उजवाडांतल्यानूच ती उस्वास घेता जावंक जाय. एकदोन वरां लेगीत ह्या संवसारांत फुलून रावनाशिल्लें फूल म्हळ्यार घोसाळेचें फूल!

पोरसांत हेर फुलांय आसात. घोसाळे भशेन शब्दूलय आसा आनी शब्दूलय अशी दीस धारेक लागच्या वेळार फुलता. पूण जशी ती सवकास फुलता तशी सवकास बावताय बी. शब्दूल बावून काडीशी जावन आपलो रंग घेवन तशीच शब्दुलेर निस्तेज पडून उरता. मात, घोसाळेच्या नशिबांत जें ना तें शब्दुलेच्या आसा. शब्दुलां आटयेक वतात. सवायशिणीच्या आंबाड्या भोंवतणी रेवाडून रोवपाची संद शब्दुलाक मेळटा. ते भायर घोसाळे भशेन शब्दूल एकाच रंगाची नासता. शब्दूल तांबडी आनी केसरीय रंगता. मात घोसाळी रंगता ती फकत एका रंगान. हळदुव्या रंगाची गिरेस्तकाय सोबची ती फकत घोसाळेच्या कांय खिणांच्या फुलांक.

म्हाका घोसाळेचोय मत्सर दिसपाचें कारण ही म्हजी परिस्थिती. मोगरी म्हणून केन्ना वांझ आसता? रानमोगरेक सुद्धां कळे येतात. कोणाचीच संगत नासतना. ह्या पोरसांत हांव आसल्यार थोडो तेंप जालोना. म्हजे बरोबरचो तो कदेचो अनंत म्हज्या उपरांतचो. पूण दैत्य कसो मातला. अख्खें पोरसूंभर! दर पावसार हरशीं बेणटात ताका. पूण परत परत आकांताचो मातता. ह्या अनंताचें सांवट ना म्हळ्यार म्हजेर पडलां. अनंत तसो म्हजे पासून पयस ना. पूण सरपटत वचून अनंताक वेंग मारपाचो म्हाका धीर केन्नाय जायना. सवायशीण सकाळीं सकाळीं येता, हातांत स्टिलाचो कुरपणो धरता. पयलीं बेताचो कुरपणो घेवन येताली. अनंताचे खांदे अचळय आपल्या आंगार लकोवन अनंताचें एक एक धवें ताल्ल फूल आपल्या नाजूकशा बोटांनी कुरपण्यांत घेता, तेन्ना म्हजेकडेन पळोवन

सवायशीण मनांतल्या मनांत म्हणटा तें म्हाका कळटा. कळपाकूच जाय. आतां कितलीं वर्सां जालीं हांव तिका तिचे ओटयेंत घालपाक म्हजें एक लेगीत फूल दिना. शंभर अनंताच्या फुलांभितर एकूच मोगरे फूल तिचेखातीर लाखमोलाचें आसपाचें. तें फूल ती घडये पयलें वयलें म्हणून देवाचेर दवरीत आसली, पूण दुसरें फूल मात नक्कींच नाकाकडेन व्हरून हुंगतली आसली आनी प्रसन्न मनान चिमटेंत धरून म्हजे एक्कय पाकळेक दुखयनासतना अळंग आपल्या काळ्या केंसांनी खोयतली आसली. घडये शेजान्नीक सांगतली आसली, 'आयज बाये पोरसांतले मोगरेक दोन मोगरीं फुललीं.' मागीर शेजान्न फुलांची दोतोर जाल्ल्याचो आव हाडून म्हणटली आसली, 'आतां फुलतली ती, एकदां फळपाक लागिल्ली गाय जशी उपरांत फळत रावता तशें फुलझाडाचें. आनी आमचें मनशांचें म्हणून कितें?' ती मागीर मनशाचेंय सांगतना आपलें म्हणणें पटोवपाक शेजान्नीक म्हणटली आसली, 'आगो, गायचें आनी मोगरेचें जशें तश्शें आमच्या बायलांचेंय बी. बायलांचीय हीच गत. केन्नाकेन्नाय जायत्या जाणांक म्हयने जायत रावतात आनी रातीकडे सद्दां आपल्या घरकाराक धादोस करून तृप्त जाल्ली सवायशीण बंद म्हयन्याची वाट पळयता. पूण म्हयनो थांबना. म्हयनो थांबना, म्हयन्याचें मागीर वर्साचेर पडटा, वर्सांचें तपाचेर आनी अखेर तपाचो निर्णय म्हळ्यार वांझ! एके सवायशीण बायलेक मागीर सैमाचो शिराप जीणभर अलंकार कसो मनार घेवन खंतीन मर्णाची वाट पळोवची पडटा. तिच्या मरणान तो शिराप सोंपता आनी मागीर सवायशीण अनंताचीं फुलां खुंट्टां खुंट्टां थप्प जाता. तीं फुलां तोडपाची थांबता, म्हजो सोंस विसरता आनी पोरसांतलीं मोगरीं आजून फुलना तिचो अर्थ समजून घेवपाचो प्रयत्न करता. फुलतल्याचो मत्सर करता. कांय खिणांखातीर सांजेर फुलतल्या हळदुव्या घोसाळे फुलांचो सुद्धां तिका मत्सर दिसता आनी आंकवारपणांत कोणाकडल्यान तरी गुरवाचार आयिल्ले एकाद्रे चलयेचोय तिका मत्सर दिसता आनी मनांतल्या मनांत खंतीन म्हणटा, 'सगलीं फुलतात फळटात. आंकवार लेगीत मेरी मारीया जावन वतात आनी हांव अशी कशी?' आनी मागीर म्हाका कळटा, 'म्हजें आनी तिचें दुख्ख वेगळें नासता. हांव मोगरी जावन केन्ना फुलना. ती एक सवायशीण जावन गर्भना.'

म्हजे मदीं नेमकें कितें उणें आसा तें म्हाका खबर ना. हांव हेर मोगरेभशेन धस्टपूस्ट आसां. म्हजे देंठ घटमूट आसात. म्हजीं पानां पाचवीचार आसात. म्हजें मूळ घट रोमलां. पाळांय अयस पयस मातयेंत घट पसरल्यांत. उदक पाणी ना म्हळ्यार नित्यनेमान मेळटा. गिमा दिसांनी थोडेशे हाल जातात, पूण कोणाची तरी थंडसाण मेळटा. अनंताच्या मुळाची आसुंये, पूण कोणाच्या धर्मान जायना, हांव जीव धरून गीम सारतां. धतीरर तग धरतां.

मीर्ग लागतकच म्हण पोरसाक कोणाच्या उपकाराची गरज ना. पोरसांत किल्लतात तीं घोसाळीं आनी तेंडलीं. काराथींय आसतात. भेंडेय तकली वयर काडटात खंय खंय. अदीं मदीं रोझां किल्लतात आनी हेर पाचोळो, लजेचीं झोपां, इल्लोसो तायखिळो आनी संद मेळटा म्हणून किल्लल्लें पाचवें तण आनी तातूंत भितर दुर्वा.

सवायशीण दुर्वाय खुंट्टा, पयसुल्ल्यान बेलाच्चीं पानांय फैदा करता. हें सगलें सैम ती खंय व्हरून घालता आनी कित्याक घालता तें म्हाका कळपाक कळाव लागलोना.

सवायशिणीक देव आसा तो तिचो देव खंय तिका फळोवंक शकता. मनशाचें एक बरें, तांकां देव आसा. देवाक होरायलो, प्रार्थिलो, पुजलो, फुलांनी भरलो की तो खंय खुश जाता आनी मनाक कल्पिता तें दिता. भुरगें सुद्धां. मज्जाच न्हू! तशें मनशाचे देव खंय खूब खूब चमत्कार करतात. मनशाच्या देवांक खंयच्यानूय जल्म मेळटा. चिखलांतल्यान, आंगाच्या घामांतल्यान, बोंबले देठांतल्यान, कानांतल्यान आनी तोंडांतल्यान सुद्धां. अशा चमत्कारीक देवांच्यो जल्म काणयो मनशांनी बरयल्ल्या ग्रंथपुराण पोथयांनी खोंटांनी भरल्यात खंय. केदें गिरेस्त दायज त्या बुदवंत मनशाचें न्हय? मनशांचे देव कशायकशे जल्माक येतात पूण हांवें हांव फुललीना म्हणून कोणाकडेन वचपाचें? कोणाक शिणपाचें? हांवें कोणाक पुजपाचें? देव आसता तो फकत सवायशिणीचें वांझपण पयसावपाक, म्हजे सारके वालीचेर एक दीस येवन कोमेवपाक न्हय. देखून म्हजे ताळयेर केन्नाच गोम फुटलोना ही सत गजाल.

सवायशीण अनंताक खुंटून कुरपण्यां घालून झेलयत झेलयत खंय व्हरता आनी ती म्हजेरूय हांव फुलना म्हणून तिडकता कित्याक तें म्हाका आतां कळ्ळें.

सवायशीण खंय सोळा सोमार करता. सोळा सोमारां भायर संकश्टी, विनायकी आनी महालक्ष्मीचें व्रतूय करता. ह्या सगल्यांचो हिशोब थोडो म्हणून ती मंगळारा, शुक्रारा देवळांतय वता. वतना रित्या हांनी वचना, मागीर म्हजेर ह्या अनंताचेर आनी पोरसांत त्या सगल्यांत गरीब फुलझाडांचेर हावळ कित्याक येवचीना? सुट्टात तावडींतल्यान तीं फकत पावसाळ्यांत सांजेर फुलपी घोसाळीं. घोसाळेक हात लावपाची कोणाक मिजाश ना.

सवायशिणीची खबरूय तशी विस्मिताची.

ती सवायशीण जाल्यार पंदरा वर्सां भरत आयलीं. तिची कूस केन्ना उजवलीना, मात उजवतली हे आशेर सोळा सोमार चलल्यात आनी सोळा सोमारांची झळ इतलीं वर्सां जालीं आमकां बादत आसा. अनंत अनंतांतल्यान किल्लता. ताचो खांदोय मातयेंत पडल्यार मूळ धरून मळबावटेन तकली वयर काडून अंतराळांत झेप घेता. आनी हांव आसा हांगा, अनंताच्या सावटाक. कितलीं वर्सां जालीं, ताळयेर एक लेगीत कळो केळयनासतना.

सवायशिणीक जशी उपाट उमळशीक आवय जावपाची आसा, तशी उत्तुंग उमळशीक म्हाका मोगरी म्हणून कळयेक ना तरी एकदांच देंठभर फुलपाचें आसा. म्हज्या देंठाक लागिल्लें एकूच अपत्य म्हाका दोळेभर पळोवपाचें आसा.

सवायशिणीची गजाल वेगळी. तिचें जायतें कितें कितें जालां खंय! आंकवारपणार खंय तिणें जायते नाच रंग केल्ले. आयज हो फाल्यां तो. कसलोच निर्बंध नाशिल्ली आतांची सवायशीण खंय तेन्नाची साप्प सवाय वस्त आशिल्ली. कितले खेपो व्हळली जातली, कितले खेपो तांबडे पाट व्हांवयले जावंये तिणें, मागीर थाटामाटान सवायशीण जाली म्हण सैमाच्या नेमांत फरक पडूंक आयला? मागीर तूं सोळा सोमार कर ना जाल्यार शंभर मंगळागौरी पूज. सैम आपलो शेक दाखयलेबगर रावना.

पूण हेंच सत्य सवायशिणीक समजना आनी केन्नाच समजुचें ना. सद्दां कुरपणो घेवन पोरसांत येवन कांयच ना जाल्यार ह्या अनंताक बुड्डून घेवन वतली. आनी धव्या अनंताच्या

फुलांनी साळीग्राम बुडयतली.

केन्ना केन्ना दिसता ह्या अनंताक कोणें तरी हांगाचो वुवाळून घालचो, सामको पोरसाभायरो करचो. हद्दपार करचो. सवायशिणी भशेन हांवें केन्ना कोणाचो सोस धरलो ना. फकत आसक्ती जालीच जाल्यार ह्याच अनंताची. ताच्या दुस्वासान भरिल्लें म्हजें मन ताच्या मायेनय केन्ना भिजून गेलां. पूण त्या अनंताक हे दुर्दैवी मोगरेची खंत मात केन्नाच भिडलीना. ते सवायशिणीभाशेन म्हज्याय मनांत आस जाता, फकत एकदांच फुलपाची. पूण फुलपाकय म्हजेसारके वालीक कोणा रुखाकडेन संभोग घेवंक जाय असो कांय सैमाचो नेम ना. आमी मोगरीं सगलीं आंकवार मारी. पवित्र शक्तीचे कृपेन देवांक जाय आशिल्ल्या तसल्या फुलां कळयांक जल्माक घालतात. हो चमत्कार फकत आमचेच बाबतींत घडटा अशें अज्ञानी मनीस म्हणटा. पूण आमचीं फुलपाचीं बियां आनी बियांतलीं पोल्लां वाऱ्याचे एके झुळकेनय एकामेकांत भरसून एकतत्त्वांत रुपांतर जावन आमी जल्मतात हें सगल्यांक खंय खबर! देखून हांव जाणां ते सवायशिणीचें दुख्ख आनी म्हजें दुख्ख हें सारकें आनी एक कशें म्हाका सदांच दिसता.

सवायशिणीक कसलेंय नोत आसूं येता, पूण म्हाका नोत आसपाचें कारणूच ना.

हय, हांवें आतां मेरेन एक गजाल आजून करुंना, ती खरें म्हळ्यार दर एके वालीन करूंक जाय. हांव म्हजो गुणधर्म विसरलीं काय? खऱ्यांनीच हांव हांगा इतलीं वर्सां ह्या पोरसांत एकली एकमुळी ह्या अनंताचे सावळेकच न्हय तर सांवटाक- रावली पूण अनंताक केन्ना आफुडलीना ही चूक जाली काय?

मुखावयली घोसाळी लेगीत धोलत धोलत माटवार चडटा. तेंडलीं, काराथीं माटवार मिरयतात. मात हांवें केन्ना कोणाचोच धीर घेतलोना, कोणाचोच आदार घेतलोना.

सवायशीण दोनूय करता. दिसाची ती देवघरांत देवाचेर फुलां-दुर्वा-बेल सगलीं फुलां घालता आनी रातीकडेन घोवाचे वेंगेंत मुंगरता. असो तिच्या मुंगरपाक अर्थ येवं येता. निसर्गाच्या पोटांतलें कोण सांगतलो? आनी सवायशिणीवरी हांव कोणाचे वेंगेंत मुंगरतलें?



म्हज्या पोरसांत आशिल्ले मोगरेचें हें दुख्ख कितलो तेप अशेंच मोनें मोनेंच अव्यक्त आसलें. खरें म्हळ्यार पोरसांत आनी एक झोप नाका म्हणून हो पावस येवचे पयलीं मोगरेक हुमटून भायर मारपाचें हांवें थारायिल्लें आनी तशें करपाक हांवें हातांत पिकास घेवन खणूंक पिकास उखलिल्लोय बी. पूण उखलिल्लो पिकास वयर माथ्यार सावळी करून आशिल्ल्या अनंताच्या एका खांद्याक आदळलो आनी पिकासाचो घाव मोगरेच्या मुळार पडलोच ना.

पयलो घाव असो चुकलो. मोगरी ती. इतलो तेंप फुल्लीना, पूण तरीय तिका मोगरी म्हणून आमी वळखतात. ती फुल्लीना म्हणून तिका कोणें बेनूल म्हणून पाचारलीना. तिच्या नांवांतली गिरेस्तकाय कल्पनेन तरी दोळ्यांमुखार उबी रावता. तिची न फुलिल्ली परमळीत मोगरी आनी धवेंफुल्ल कण नासूनय दोळ्यांमुखार येतात.

मोगरी ती. मोगरे वाल. आनी थालीक आदार जाय. पोरसांत उब्या हेर वालझाडांक हांवें माटोव घाल्यात. मात मोगरेक माटवाची गरज आसता हें केन्ना समजलेंना. मोगरी अनंताच्या सावटाक आसा, पूण ती अनंताचेर केन्ना चडलीना. चडिल्ली जाल्यार घडये वेगळें कितेंय घडूं येतालें. ही आमगेली हांगा पोरसांत फकत कुरपणो घेवन येता ती देवाक भाळोवपाक. फुलांनी देवारो भल्लो म्हणजे देव तिचेर भाळटलो अशें तिका दिसता. कोणाकय दिसुंये, एका घरांत एका पाख्याखाला रावतात म्हण देवाक भाळोवपाक फुलांचें पोरसूं बुड्डिता ती बायल रातीकडेन येवन घोवाक जागयता म्हण. हे मोगरेक जर मन बी कितेंय आसत जाल्यार ती लेगीत तशेंच चितता आसुंये. पूण तशें कांय घडना.

मोगरेचेंय तशेंच घडूंक फावना. आतां हे मोगरेक माटोव जाय, ना जाल्यार ह्या अनंताचेर तरी तिणें चडपाक जाय.

हांवें मोगरेक अचळय उखलून दुखयनासतना अनंताक रेवडायली. अनंताच्या खांदयांनी तिका घुस्पायली. अशे तरेन घुस्पायली की ती केन्नाच सकयल पडची न्हय.

बऱ्याच दिसांनी पोरसांत हिगेलो कसलो बोवाळ काय म्हणून पळोवपाक गेलों.

'कितें जालां सायबिणी?'

'कितें? मोगरेक कळे फुटल्यात?'

'मोगरेक कळे!!'

'हय...'

'अनंताची कृपा.'

'कोण अनंत?' तिणें आपलें अज्ञान दाखयत म्हाका परत विचारलें.

'हो... हो अनंत. तूं सद्दां बुड्डिता तो.'

'ताणें कितें केलें मोगरेक?'

'वेंगेंत घेतली. आपल्या खांदयांनी केळयली. ती अनंताचे आनी अनंत तिचे सावटांत भरसून एकरूपी अनंत जाल्लो.''

'म्हणजे कितें? परत तिचें नेणारपण?'

'तुका समजुपाचें ना तें.'

पयल्यावयल्या मोगरे कळ्याचो म्हाका परमळ घेवंक जाय. हांवें एक मोगरे कळो तोडलो.

'शी... वास घेवं नाका. पयलो कळो तो. देवाक अर्पूंक जाय.'

तिचेकडेन दुर्लक्ष करीत अनंताच्या आंगार फुलिल्ल्या पयल्यावयल्या मोगरे कळ्याचो हांवें नाकभर परमळ घेतलो. कितेंय जावं, शेकीं मोगरी व्हियेल्ली!



१५.

# काटमांजर

हांव बाबूश मोंतेर. हांव व्हडलो भाव मारी कोंशेसांवाचो. म्हजे मांयचें नांव खरें क्लारा. पूण लोक तिका काटमांजर म्हणटात. देखून गांवांत आमकां काटमांजरागेर म्हणटात. म्हजो पाय मेल्यार जायतीं वर्सां जालीं. हांवें म्हज्या पायक पळोवंक ना. तो खंय खूब गिरेस्त आसलो. हांव ताचो पूत म्हणटकच हांवय आतां गिरेस्त आसां. म्हजी मांय गिरेस्त, म्हजी भयण गिरेस्त. आमी सगलीं चड गिरेस्त जालीं तीं आमी आमचो दोनापावलाचो व्हडलो दोंगोर विकलो तेन्ना. दोंगोर विकलो आनी लाखांनी दुडू आमगेर जालो. मांय आजून पायचें काळें घालता. म्हजी मांय बरी दिसना. म्हाका म्हजी मांय जशी दिसपाक जाय आसली तशी ती दिसना. म्हजी मांय म्हाका केन्नाच बरी लागलीना. पूण पाय मरतकच मांयन म्हाका एक बरो भुरगो करपाचें चितलें खंय. बरो भुरगो करपाक म्हाका व्हरून एका बोर्डिंगांत घालो. आनी बोर्डींग खंय, गोंयां न्हय, गोंया भायर सामकें बोंबोय. मांयचो मोग म्हाका मेवलोच ना.

गांवच्या पादीगारान म्हजे मांयक पायच्या म्हयन्याच्या मिसाक आयिल्लेकडेन सांगलें खंय, 'जाणाय क्लारा, पुताको बोरो मुनीस कोर. एक बोरो किरिस्तांव कोर तेका. समजलोय ?'

'होय पादीगार, जेझून बेसांव घायल्या पुरो', म्हजे मांयन तेन्ना म्हटलेलें खंय. पादीगाराचो सल्लो घेवन मांयन तेन्ना पायच्या फोंडालागीं वचून फोंडांतल्या पायकय सांगिल्लें खंय, 'आल्बेर्ट!' म्हज्या पायचें नांव आल्बेर्ट आसलें. पूण लोक ताका आल्बेट भाटकार म्हणटाले खंय. तर मांयन पायच्या फोंडार बसोन खुरीस काडून मळबाक पळयत म्हटलें खंय, 'धोनया जेझू, हांवें तुजे सुवादीन केला म्हज्या घोरकाराक आनी म्हुज्या मोगाळ घोरकाग्रा, हाव कोत्तां तुज्या पुताक तांच्या सुवादीन.' हे कोण ते म्हाका फुडाराक बुजवण दिवपी म्हजे बोर्डिंगांतले सगले. बोर्डिंगांत सोगले आसतात. आमीग आसतात, पादीगार आसतात, पातकूर आसता, पादीगाराक रांदून वाडपाक माग्दालेन आसता, सोद्दां आमोरे आमोरेर रोझार आसता, रोझार कोत्ताना एक प्रेयर आसता. निरोपोराध्याक गुन्यांव भोगोस. निरोपोराधी म्हळ्यार ओपोराध कोरिना पोय ते. आमी क्रिस्तांव जोन्मासान ओपराधी, गुन्यावकारी आनी पातकी. देखून हांवेंय मांयच्या पोटांत आसतना पातोक आदारलेलें. पातोक कोसलें तें हो वेळ म्हाका खोबोर नासलें. पूण हांव जल्मलों एक पातकी म्हणोन. आय ॲम अ बॉर्न सिनर. इतलेंच हांव जाणां आसलों. त्या केल्ल्या पातकाचीं फळां आयज हांव मुंबयच्या बोर्डिंगांत बसोन खातां.

'बाबुश मोंतेर', पादीगारान म्हाका उलो मारलो.

'पादीगार!' हांवेन जबाब दिलो.

'कुमसार जालोय?'

'ना, पादीगार.'

'कित्याक?'

'पादीगार, चितूंक पोडलां हांव.'

'कितें तें?'

'कुमसार जातना तुका क़ितें सांगचें तें.'

'हे सुमोनांत तुवेंन कोहिलेंच पातोक आदारूंक ना?'

'ना पादीगार.' हांवें खरें तेंच सांगलें.

'तोशें जाल्यार एक तोरी पातोक आदार.'

'पादीगार, तूं सांगोता ते पोरमाणे आतां पातोक आदारल्यार तें फुडल्या आयताराक पोडटोलें.'

'गेल्ल्या सुमोनांतलें पातोक उगडासूच जायना?'

'उगडास जाता पादीगार', हांवें बेगीबेगीन म्हटलें.

'कसलो तो?' पादीगारान उमळशिकेन विचारलें.

'म्हाका एक सोपोन पोडलेलें. त्या सोपनांत हांवें एक पातोक आदारलेलें. उपकरता न्हू तें पातोक कुमसार जावपाक?' हांवें सामकें इनोसांत जावन पादीगाराक विचारलें.

'सोपनांतलें पातोक?' अशें म्हणत पादीगार बरोच वेळ चिंतूंक पडलो. उपरांत तेणें एक दाट बुक उकतो केलो आनी त्या बुकांतलें कितें तोरी वाचलें आनी म्हटलें, 'उपकारता, उपकारता. सोपनांत सुद्धां पातोक आदारल्यार तें पातक थरता आनी कुमसार जावंक उपकरता. चोल यो, मार दिमी आनी जा कुमसार.'

'हय पादीगार' अशें म्हणत हांवें दिमी घाली आनी हांव कुमसार जावंक लागलों.

'पादीगार, देवा धोनयाच्या नांवान म्हाका गुन्यांव भोगोस. हांवें एक होड पातोक आदारलां. त्या दिसा म्हज्या सोपनांत सो तूं पादीगार दिसलो आनी पादीगाराक म्हटल्यार तुका पादीगार हांवेंन विचारलें, 'पादीगार, सेमिनारींत तुमकां सोगलें शिकयतां.' तुवें म्हटलें, 'हो, सोगलें शिकयतां.' पूण पादीगार, सेमीनारींत रांदूंक कित्याक शिकयनात?'

'रांदूंक, रांदच्याक रे? हॅ... हॅ... पादीगार म्हणजे तूं म्हज्या सोपनांत खूब हांसलो आनी हांसोन हांसोन म्हणोंक लागलो, 'आरे पिशा बाबूश, जोरी तोर सेमीनारींत आमकां रांदूंक शिकोयलेलें जाल्यार बाबड्या मागदालेनाचें कोशें जावपाचें रे? बाबूश आरे, मागदालेन रांदून घालता म्हणोन म्हाजें शेर्मांव पेजाद जाता.'

'पूण मागदालेन खूब उपेगाचें न्हू पातीव?'

'बाबूश, तूं भुरगो आसा. मागदालेनाचो उपेग तुका सोमजोचोना.'

'सारकें तुजें पातीव, पूण मागदालेनाक म्हाजो उपेग मात सारको सोमजोता पातीव.'

'कितें म्होण्टाय रे तूं?'

‘होय पातीव. न्हू, पादीगार. सॉरी.’

‘जावं जावं, पातीव म्हटलें कितें पादीगार म्हटलें कितें पोक दिफेरेंश. सांग बेगीन.’

‘म्हाका पातोक भोगसोतोलो न्हू ?’

‘आरे, तेच पासोत तर कुमसार जातात न्हूं तुमी ? सांग तूं हांव मागतां तुजे पासोत धोनया देवालागीं घालूक तुका भोगसोणें. सोमजोलोय ?’

‘पातीव, मागदालेन...’

‘कितें जालें ? कितें केलें मागदालेनान ?’

‘पोयर पोयर तेणें म्हाका न्हाता आसतना पोयलो आनी तें म्हुजे बोगलेक येयलें. म्हणोंक लागलें, बाबूश, शाबांव बी लावंक जाय रे ? अशें मुरगोडोत विचारूं लागलें.’

‘पादीगार सायबाच्यान सांगतां, मागदालेनान तोशें म्हणोंनाका, म्हाका म्हुजे मांयचो उगडास सो जालो. पातीव, हांव गोंयां गांवघोरा आसल्यार म्हजी मांय म्हाका उदाक न्हाणों येतोली आसली, शाबांव लायतली आसली, तुवालो घेवन पुसतोली आसली. खीणभर म्हाका तोशेंच दिसलें आनी हांवेन मागदालेनाक शाबांव लावपाक सांगलें. मागदालीन खोशी जालें. तें भितर येतना ओशें तोशें पळोवंक लागलें. चोंयवशीं नोदोर मारून मागदालेन हांव न्हातालों त्या बाथरुमांत भितर सोरलें आनी शाबांव घेवन म्हाका लावपाक लागलें. शाबांव लायतां लायतां मागदालेनाक कितें जालें कोण जाणा, तेणें म्हाका न्हूय घोट धरलो आनी म्हुजी तोकली ताचे छातयेर दाबली आनी पातीव तेणें... तेणें...

‘आनी कितें केलें ? आनी कितें केलें तेणें ?’

‘पातीव, तें... तें तुका खोबोर... तुका खोबोर... तूं जाणा तें कितें करता तें पातीव. हांयें तुका सांगिनासतना सोमजोलें तें पातीव. कारण तूं जावन आसा एक देवाचो मुनीस. न्हूं पातीव ? तुका तें सोगलें बोरें सोमजोता.’

पातीवान जाप दिलीना म्हणोन हांवें परत साद घालो. ‘पातीव, भोगसणें घाल म्हुजेर, भोगसणें घाल’ अशें हांवें आड्डोन म्हटलें. पूण कोणाचो आवाज ना. पादीगार तर उलोवपाचोच बंद जालो. हांवें पादीगाराक परत साद घाल्लो. पूण थंय कुमसार जावपाच्या कुरकुटांत पादीगार नासलो. पादीगार थंयचो उठोन खंय गेलो तें म्हाका कळ्ळेंच ना. बोमोयच्या बोर्डिंगांत म्हाका मेळ्ळें तें मागदालेन. जें मागदालेन म्हुजे मांयचे बाराबोरचें आसलें, पादीगाराक रांदून वाडटालें.

हे वाटेन मांय गोंयां गांवघरा गांवांत सोगल्यांक सांगताली खंय, ‘जाणाय मुरे आंतोन, आमगे बाबूश मुरे बोमोय आसा, व्होडल्या बोर्डिंगांत. तूं जाणाय, कितलो देसपेस येता तो आमकां ?’ म्हजी मांय तोशें सांगतकच आयकतच गांवकार म्हणटालो, ‘आगो क्लाराबाय, तुमकां गिरेस्तांक दुडू मोडूंक जालां कितें ? ते भायर एकटो पूत तुजो. खंय घालतलें व्हरोन इतलो दुडू, भाटांबेसां आनी घरदार ?’

मांय आनीक एक गजाल सांगलेबगर कशीच रावनासली. आनी ती म्हळ्यार आजेन्स रियलांतके सुके भाजयेची खबर.

‘जाणाय मरे आंतोन ?’ आंतोन एक गांवचो पाडेली. ‘बाबुशाक बोमोय मरे बोरी सुकी

भाजी मेवना. चोरिसां सुद्धां मेवतात, पूण न्होय सुकी भाजी. बाबुशान चिटीन बोरोयलें, मांय म्हाका सुकी भाजी आनी तिवूय रियालांतली, खायन दिसता. कितें करतलीं ? दुसऱ्या दिसा धाडली भाजी बोमाय. आवियानान.'

'आवियानान ?' बाबडो आंतोन आवियानाचो मिनींग खबर नाशिल्ल्यान परत विचारतालो.

'हय रे, आरोप्लेनान. इमानान रे, इमानान. तें रे, मोळबांतलें मोटार.'

'सायबा भोगोस, इमानान तूं गोंयसान सुकी भाजी पुताक बोमाय धाडटा ?'

आनी पाडेली आंतोन मागीर ही खबर गांवार घालतालो. तिट्यार, बाजारांत, इगर्जेंत, शेतांत, फुटबॉल ग्रावंडार... सगल्यांक ही खबर आंतोन मीठमसालो लावन सांगतालो.

'काटमांजोर जाणा मुरे ?' आंतोन पिटराक सांगतालो आनी पिटराक पिटर म्हणून उलो मारचे सुवातेर पेद्रू म्हणटालो. 'जाणा मरे पेद्रू...' पिटराक पेद्रू म्हळ्यार सामकोच राग येतालो. पिटर मागीर सुकी भाजी थंयच दवरून आंतोनीचेर तापतालो.

'रेंदेर तो रेंदेरूच तूं. आरे आंतोन, तुका खोबोर ना, आतां इंग्लेज नांवान उलो मारूक जावो म्हणोन ? पादीगाराचो शेर्मांव आयकोना काय कितें रे तूं ?'

'इंग्लेज नांव ?'

'पेद्रू म्हणों नाका म्हाका, पेद्रू हें पुर्तुगेज. पुर्तुगेज गेलो.'

'इंग्लेज येयला तोर ?'

'इंग्लेजीचो पाय येयला, इंदियान. पिटर म्हण म्हाका आनी सांग खबर काटमांजराले सुके भाजयेची.' पूण सुके भाजयेची खबर थंयच उरताली आनी आंतोन आनी पेद्रू हमरीतुमरेर पावताले ते एकामेकांल्या नांवावयल्यान. बऱ्याच वेळान तांचेमदीं समजणी जाताली आनी पिटरांतलो पेद्रू आंतोनीक म्हणटालो,

'आंतोन, तूं आंतोन न्हू रे. तूं जावन आसा अँटनी वा अँथनी.'

'अँटोनी हें इंग्लेज नांव रे ?'

'हय, पादीगारान गोंयचें इंदियान जायतसान सोगल्या गोंयकारांचीं नांवां इंग्लेज केल्यांत. सुदरोप केलां तेणें आमचें.'

'पूण गोंयां इंग्लेज येयला तोर ?'

'तोशें न्हू रे, इंदियानूच. आतां इंग्लेज जालां. आमकां कोशें आमगेल्या गोंयां पुर्तुगेजान पुर्तुगेज केल्ले, तोशें इंदियेक इंग्लेजान सोगल्यांक इंग्लेज केले. म्होण आतां म्हाका पिटर आनी हांव तुका म्होणटां अँथनी, सोमजोलो ?'

'पाडा पोडों त्या काटमांजराले सुके भाजये फोबरीक. वोगी आमी मुरे तोकल्यो फोडटोले आसले.' अशें म्हणत आंतोन आनी पेद्रू म्हजे मांयचो उद्धार करीत आलेसाले गादयेर वचून बरे भरताले, कुरकुरीत जाताले.

ह्यो सगल्यो गोंयच्यो गजाली म्हाका गोंयां येतकच कळ्ळ्यो. पूण हांव गोंयां पावलो तिवूय एक खबर.

म्हाका बारा वर्सां सोंपून तेरावें वर्स लागलेलें. बोर्डिंगांत मागदालेनान म्हाका ती गोडी लायलेली. मागदालेनाचो म्हाका तोवूय एक गुट खबर आसलो. पूण पादीगाराचें नांव

पेड्ड्यार जावंक फावनासलें. देखून कोणूय कितेंय करूं, मागदालेन म्हाका बरें करता तेंच पुरो आसलें. पूण एक दीस बोर्डिंगांतल्या तवनास पोरांक पादीगाराचेर राग काडीन दिसलो. त्या दिसा पादीगारान सगल्यांक पनीस केल्लें. दोनपारां कडकडीत वोतांत ग्रावंडार दिमी मारून दवरलेले. सोगळे बोरेच तापले. ताचो सूड कोणें तरी घेतलो. इगर्जे फाटल्यान वताक सुकोत घातलेल्या पादीगाराच्या लोबाक मागदालेनाचो इस्तीद बांदून दवरलेलो आनी लोब आनी इस्तीद अशे तरेन हुमकळटाले की पळयल्यार दोग जाणांच एकामेकांक तेंकून उबीं आसात अशें दिसतालें. कोशीं दिसतालीं! आनी जेन्ना पादीगार सकयल देंवन ग्रावंडार येतालो तो ज्युस्त ताचे नदरेक तो सीन पडलो. म्हुज्या लोबाक मागदालेनाचो इस्तीद? आर्रा... आत्रावीद... मालक्रियाद...' पादीगार चाळवलो.

ल्हंवेन ल्हंव तायट जाल्लो पादीगार बडी घेवन आमचेसरीं आयो आनी 'कोणें केलां हें पातोक? कोण तो, आर्र... आर्र... बेगीन सांग. नाजाल्यार...'

'पातीव, बाबूश...' चोम्यांतल्यान कोणें तरी म्हजें नांव घेवंनाका, पादीगार आनी रावला? ताणें म्हाका त्या दिसा मरसर मारलो. कर्म कोणाचें तें म्हाकाय खबर नासलें. पूण म्हाका खुर्सार मारलो इतली गजाल खरी. दुसऱ्या दिसा पादीगारान म्हाका बोर्डिंगांतल्यान सामको हद्दपार केलो. नाका ती बोमाय म्हणत हांवें सोमतें गोंयचें विमान धरलें. गोंयां पावता म्हण मांयक बी कोणाक कळयलेंना. अकस्मात मांयक कळयनासतना हांव घरा गोंयां पावलों.

बाबूश मोंतेर बोमोयसान मॅट्रिक पास जावन येयलो हें म्हजे मांयन गांवाक केन्ना पेरगांव घालून फाम केल्लें तें म्हाकाच खबर नासलें. हांव तरी आठवी फेल म्हण कित्याक सांगतलों? हांवेंय बी मॅट्रिक पास जाल्ल्याचो भेस घातलो. आतां आनी शिकपाची कटकट नासली. मजा मजा करपाची. मागदालेनान रूच लायलेली गोंयांत कशी उणी जातली? हांव म्हुज्या सर्गराज्यां पावलेलों.

मांयक सांगलें, नवें मोटार जाय. मांयन रोकडेंच फियाट मोटार घेतलें. पोन्नें मोटार गॅरेजींत. मोटारान राजकुंवर कसो हांव शारांत भोंवपाक लागलों. इस्कोलां आसा थंय पासयो मारपाक लागलों. चेडवांचेंच इस्कोल आसा त्या कोवेंतांनी म्हजी फियाट इंटरवालाक आनी इस्कोलां सुट्टकच घोणीभाशेन घिट्ट्यो घालूंक लागलीं. बाराबोर धोना, थोमस, लाद्रू बी नवे आमीग आसले. मौज म्हणोन रातचे आमी बांदांनी भोंवताले. लाद्रू माडार चडपाक खांपो आसलो. लाद्रू बांदावयले बोंडे लेगीत निखळावन उडोवंक लागलो. भरपूर आडसरां खावप-पिवप आनी रातचे येवन ताणोन दिवप. मांय सुशेगाद न्हिदताली. आमचें किर्याद इवा आसलें तें बाबडें म्हजे पासत जागें रावतालें. हांव मोटार अर्दो किलोमीटरार घेवन पावता थंय आसां, इवा 'बाबूश येयलो' म्हणत धांवत येतालें आनी गॅरेज उकती करतालें.

भरपूर आडसरां खालीं, बाद सगले मेकळे केले. माडांक बोंडे दवरलेना. भाटकार बोबो मारूंक लागले, पुलिशेंत केस जाली. आमकां संतोबान सांगलें. संतोबा पोरोब पुलीस हवालदार. आमचो आमीग. तेणें सांगलां, बांदार वचपाचें बंद. पूण आमी आतां बार्रांच

आमचीं घरां केलीं. सोगले म्हज्या कुस्तारूच पिवपी आसले. आमी भरपूर पिवपाक लागले. आनी तशेंच आमी सद्दां तर्रर जावन घरा पावताले. मात घरा कशे पावताले तें पिरेजांवात पावसर कळ्ळेंना.

एक दीस आमी मिरामार दर्यावेळेर बसून खूब पिले. कॉकटेल केली. माड, व्हिस्की, ब्रँडी, बियर, रम, जीन सगलें भरशिलें आनी पियेवपाची चॅलेंज लायली. पियेतां पियेतां बरीच रात जाल्ली.

हांव घरा बारा पयलीं पावतालोंच. त्या दिसा म्हाका बरोच लेट जाल्लो. पूण म्हाका लेट जालो म्हणून म्हजी मांय क्लारा केन्नाच जागी रावनासली. ती किर्याद इवाचेर म्हजो भर्रिभार दिताली आनी सुस्त न्हिदताली. भयण तर केन्ना थार जाताली देवाक खबर. ते रातीर दोनांक सुमार हांव फियाट घेवन मिरामारच्यान तालीगांव येवपाक गाडयेंत बसलों. तांकां सगल्यांक घरा पावयले. थोडे घरा पावतकच ओंकले आनी थंयच आडवे पडले. पोडों थंय म्हणत हांव मोटार दाबीत म्हज्या घरा येवपाक लागलों. म्हाका रस्ते दोन दिसताले. तरी मोटार घराकडेन पावली. इवान गॅरेज उगडल्या जातली म्हण हांवें झुम् कोरून मोटार गेटीभितर घेतली आनी वोल्तार म्हाका उजवाडांत कोण तरी काळें काळेंशें मोटारापोंदा आयिल्ल्याचें दिसलें. पूण कोण आसतलें येदे रातचें म्हणोन हांव तसोच फुडें गेलों. गॅरेज बंद आसली. इवा खंय मेलें काय म्हणत इवाक गाळी घालून हांवें मोटार गॅरेजी भायर दवरून हांव लकलकत म्हजे म्हाका सांबाळीत घराचे सायडींतल्यान वारांदांत गेलों. पूण म्हज्यान काळखांत भितर सरूक जालेंना. कोणाची जागमाग ना तें पळोवन हांवेंन थंयच लोटून दिलें. आंगावयल्या कपड्यांसयत.

सकाळीं जागो जालों तो लोकांचे बोबेन. म्हज्या घरा आनी लोकांची बोब? सकाळीं सकाळीं हांवें दोळे सारके उकते केले, आडवो जावन कूस पर्थून हांवें भोंवतणीं नदर मारली. घरांत घेऽ म्हणोन लोकांची गर्दी.

आबूज जावन हांवें कोणाक तरी विचारलें, 'कितें जालां? कितें जालां?' कोण सांगना. कोण तरी फुतफुततालो, 'पुताक सांगोनाका, ताका शॉक बसतलो. पयलींच तो बेबदो.'

आनीक एका आवाजांत कोणाचो तरी प्रस्न आसलो, 'काटमांजर कशें मेलें? कोणें मारलें रे ताका?'

'काटमांजर मेलें...' ह्या उतरांनी म्हजो सगलो सोरो झर्रर करून देंवलो आनी रातची ती याद जाली. मोटार भितर घेतना काळी काळीशी सावळी मोटारीच्या झोतांत दिपकावल्ली ती म्हजी मांय, काटमांजर आसली.

गांवभर फाम जाली. काटमाजराक मोटार घालून कोणें तरी मारली.



'हॅलो, हांव बंदखणींतल्यान उलयतां. बाबूश मोंतेर. हांव पुलिसेंत कुमसार जालां.'



# १६.

# मिलाग्रीचो खुरीस

रोमाल्दाचें आयडाकडेन काजार जाल्यार एक सुमान जालें. काजाराची सीम जायतसान जेन्ना आयडान मांयच्या घरा कलंगुटे गांवाक सासणाचो निरोप दिल्लो तेन्नासान आयडान मनांत एक गांठ मारून दवरलेली, परत आनी हे वाटेन केन्ना मांयघरा येवप ना. काजाराचो रोस सुकलो तसो रोमाल्दय खर्शेल्ल्या धांवप्याभाशेन आयडाक म्हणूंक लागलो. 'आयडा, बेजार येयलो. आमी फाल्यां खंय तरी भोंवपाक या. दोन दीस मारुंया मजा. घरांतली चार वणटीं भितरली मजा पुरो जाली. रोखडेंच वचपाचें जातलें. मागीर तुका बेजार येतलो, एकलेंपण खावपाक येतलें आनी तेवटेन तारवार मात म्हाका उगडासार उगडास येतले. दर्याचीं ल्हारां मेजीत मागीर हांव काजाराचे दीस मेजतलों.'

रोमाल्द एकटोच उलयतालो. जीव तोडून उलयतालो. पूण आयडाक मात कांयच दिसनासलें. ताची नदर जनेलांतल्यान पयस खंय तरी लागिल्ली. रोमाल्दाच्या तें लक्षांत आयलें आनी ताणें आयडाच्या भुजांचेर हात दवरीत म्हळें, 'आयडा, हांव कितें उलयतां तें आयकता न्हूं, तारवार म्हाका तुजो उगडास येतलो.'

आयडा भानार आयलें आनी मनांतलें लिपोवपाक आयडान रोमाल्दाचो हात आपल्या भुजांवयलो घट धरून सकयल काडलो आनी रोमाल्दाच्या दोळ्यांत पळयत आयडान म्हळें, 'खऱ्यांनीच रोमाल्दा, सोत सांगताय तूं, म्हुजो उगडास तुका येतलो?'

'दुबाव आसा आयडा? तुजो उगडास येवचोना जाल्यार आनी कोणाचो येतलो? आजून तिसऱ्या मोनशाकं येवपाक बरोच कळाव आसा. ते मेरेन मुज्या काळजांतली राणी फोकोत तूं आयडा.'

'रोमाल्द!' अशें म्हणत आयडान रोमाल्दाचे छातयेर आपली तकली दवरली आनी ल्हवूच रोमाल्दाच्या खोमसाचें बुतांव काडून रोमाल्दाच्या हड्ड्यावयल्या काळ्या केंसांनी आपलीं बोटां ओडीत म्हळें, 'हय रोमाल्द, तुंयी म्हुज्या काळजांतलो राजा आतां, आतां हांव तुजी पोतीण न्हू?'

'आयडा, फाल्यां आमी आरांबोल या. थिंसोर म्हजो एक कजन आसा. आमच्या काजाराक येयलोलो तो उगडास जाता तुका? तुज्या बाराबोर लेगून नाचला तो.'

'म्हाका उगडास जायना, काजारा दिसा व्होंकलेक कोण कोण नाचोयतात तें व्होंकोल कित्याक पळयता? टॅप मारलें, हात दिलो, मारलीं स्टॅपां! म्हाका उगडास फोकोत आमच्या दांसाचोच आसा. कितलें तायट धोरलेलें तुयें म्हाका? माटवांतल्यान कोणूय

उखलून व्होरोत बी म्हण भियेनासलो मुरे ?'

'आयडा, खऱ्यांनीच रेस्पेराच्या रोपान तूं एक आंज कोशी दिसताली. निळ्या निळ्या मळबांतल्यान धवीं फुल्ल पांखां आनी शेंपाडो हालयत धोतोरिचेर देंवची तशें तूं दिसतालें. आयडा, यू वेअर लुकींग सो ब्युटीफूल... सो ब्युटीफूल...' आनी अशें म्हणत रोमाल्दान आपले ओंठ अळंग आयडाच्या ओंठांचेर तेंकयले आनी कानार आयिल्लीं केंसांचीं झुलपां दोनूय हातांनी फाटीं काडीत आयडाच्या माथ्यांतल्यान रोमाल्दान मोरपांख भोंवडावचें तशीं आपलीं बोटां भोंवडायलीं आनी परत म्हळें, 'चोल, फाल्यां वचपाची तयारी कर.'

'आरांबोल कितलें पोयस रे हिंगाच्यान ?'

'एका वोराची वाट. स्कुटरीन या आमी.' रोमाल्दान म्हळें.

'नाका रोमाल्द. इतले पयस स्कुटरीन नाका. आमी वोयचीं जाल्यार मोटारान या. इरमांवाक सांग फाल्यां मोटार आमकां जायी म्हणोन.'

'बरें आसा, तुका जाय तशीं या, सकाळीं या आनी आमोरी जातासोर पोत्तोया.'

रोमाल्द रायबंदरचो. पांच वर्सां जालीं तो तारवार गेल्यार. ताका चड तेंप रावंक मेळनासलें. गोंयां येनाफुडें आयडाकडेन सोयरीक जाली आनी रोमाल्दाक बेगीं परतो तारवार वचूंक जाय म्हणून आठ दिसांभितर काजाराची तयारी केल्ली. रोमाल्दाक पयलेच नदरेक आयडा घोस्ताक गेलें. ते खातीर हांगाथंय चेडवां पळोवपाची पाळी आयलीना.

आयडा कलंगूटचें. गोबऱ्या वाड्यावयलें. आयडाचे मांयपाय खावन जेवन बरे आस्पतीचे. आयडाक दोग भाव आनी एक धाकटी भयण. आयडाक काजार केलेबगर व्हडले भाव काजाराक तयार जायनासले. आनी आयडा काजार जावपाक अनमनतालें. कितें कोण जाणा, पूण काजाराक आयडा हेर होंकलां भाशेन तितलें उमेदी नासलें. पूण आपणाक लागून व्हडलो भाव काजार जावपाक कबूल जायना तें पळोवन आयडान काजार जावपाचो निर्णय घेतिल्लो आनी रोमाल्दाची सोयरीक येनाफुडें ताणें रोमाल्दाक पसंत केल्लो.

आयतार उजवाडलो. सकाळींफुडें रोमाल्द आनी आयडा पयल्या मिसाक वचपाक भायर सरलीं. रोमाल्दान निळो सूट मारलो. हळडुव्या रिस्काद शर्टार तांबडो धवसो भरसल्ल्या रंगाचो टाय बांदलो. आंगभर पात्रा चेराचो घमघम घालो. आयडा अमेरिकन डिजायनाची ल्हवशी साडी न्हेसलें, मॅचिंग ब्लावज घालो, केंसाची नेस्ट स्टायल केली. नेस्ट स्टायलींत भांगराचें फूल आंकड्यान रोमलें. गळ्यांत नेकलेस घालो आनी दोगांय जाणां इगर्जेंत पयल्या मिसाक आयलीं.

गांवचो पादिगार नोनास मासूराद रंगांत येवन सेर्मांव सांगपाक लागलो. पवित्र पुस्तकांतलीं देवाचीं उतरां वाचून दाखोवन पादिगारान म्हळें, 'खरो आनी सोत मोग हो एकूच फावट जाता. होजार खेपो न्हू. देवाचोय मोग आमकां जो एकूच फावट जाता तो आमी मोरोसोर उत्ता आनी देवान आमची कूड आपल्या गोपांत घेसोर तो मोग जितो आसता. उपरांत सर्वेस्पराचे कुरपेन आमचो मोग देवा धोनया थांय एक जावंक पावता. जोशें सोर्गार तोशें संवसारांत जावं. आमेन!'

'आमेन!' सगल्यांनी म्हळें. आयडान खुरसाची कुरू केली आनी त्या हाताचो उमो घेतलो.

'खरो मोग जाता तो मोरोसोर उत्ता.' पादिगाराच्या सेर्मांवाचीं उतरां आयडाच्या कानांत बरोच वेळ घुमत उरलीं. चर्च सर्विस सोंपूंक पावलेली. इगर्जेचो कॉयर एका सुरान कांतार गावपाक लागलो.

*मोग देवाचो सासणाचो*
*मोग जिवाचो आत्म्यांचो*
*मोग काळजाचो सोर्गींचो*

सगली इगर्ज एका तालार गायन करताली अशेंच दिसतालें. मात आयडाच्या तोंडांतल्यान उतर फुटनासलें. गायनां सोंपलीं तशीं सगलीं जाणां बेकार बसलीं. पादिगारान परत एक फावट भाग्यवंताचीं उतरां पवित्र ग्रंथ नवो करार वाचून दाखयलीं आनी सगल्यांक कोमुन्यांव घेवपाक रांकेन उबे रावपाक फर्मायलें.

'रोमाल्द, आमी या घरा न्हूं?' आयडान रोमाल्दाच्या भुजाक हात लायत म्हळें.

'आयडा, कोमून्यांव घेवंया आनी मागीर आमी घरा या. उपरांत आरांबोल वचपाक भायर सरपाचें.'

'ओ रोमाल्द, प्लीज, या आमी.'

'पूण तूं अशें कित्याक करता? काजारी जिवितांतलो हो आमचो पयलो कोमुन्यांव.'

'केदी लायन लायल्या पोय रे.' आयडान लोकांचे गर्देकडेन पळयत म्हळें.

'सोंपतली ती. पादिगार फांस दिता पोये.'

आयडाची मनाची स्थिती अशी मदेकात कित्याक इबाडली तें रोमाल्दाकय समजलेंना. पूण उलयतां उलयतां तीं लागीं पावलीं. पादिगारान दोगांकय कोमुन्यांव दिलो. कोमुन्यांव घेवन रोमाल्द आनी आयडा बेसांव घेवन इगर्जेतल्यान भायर सरून सरळ घरा आयलीं.

'आयडा, आयज तूं अशें कितें करता? जिवाक बरें दिसना? तुका बरें दिसना जाल्यार वोयचें न्हू आमी आयज आरांबोल.'

'तोशें न्हय रोमाल्द, हांव ओके आसां. कांय जावंना म्हाका. चल या आमी. मोटार भायर काड.' आयडान आपलें मन मारीत वचपाची तयारी दाखयली. घरांत वचून मांयक सांगून आयडा-रोमाल्द आरांबोल वचपाचे तयारेन कपडे बदलून भायर आयलीं. रोमाल्दान गॅरेजींतली मारुती मोटार भायर काडली आनी फुडलें दार आयडाखातीर उकतें केलें.

रोमाल्दान मोटार स्टार्ट केली आनी आरांबोलचो रस्तो धरलो.

'कितलो वोगोत जालो, आयडा, तूं ओगें आसा. डार्लिंग, कितें जालां तुजें? इगर्जेंत पादिगाराचो सेर्मांव आयकतसान तूं नेर्वोस शें जालें? आयडा डार्लिंग, म्हाका सांगचेंना कितें जालां तें?'

'ना रोमाल्द, कांय एक जावंना. हांव सारकें ओके आसां.' आयडान अडेचो हांसोय हें म्हणटना तोंडार हाडपाचो प्रयत्न केलो.

'म्हाका फटयनाका आयडा. तूं आयज मुडांत ना. कम क्लोजर, अशें बोगलेक बस म्हज्या.' अशें म्हणत एका हातान स्टेअरींग सांबाळीत रोमाल्दान आयडाक आपलेसरीं ओडलें.

मोटार म्हापशें शारांतल्यान धुळेर पावली आनी आयडान रोमाल्दाक म्हळें, 'रोमाल्द, हे त्या वोल्तार मोटार मात्शें थाराय.'

'कित्याक? नंबर वन...?'

'नो स्टुपिड... आनी तशें जाल्यार आमी बायलां कितें अशीं रस्त्यार तुमचे भाशेन...' आनी आयडा लजलें.

'ओके, रावलों....' रोमाल्दान ब्रेक दामून मोटार उबें केलें. आयडा दार उकतें करून देंवलें आनी रोमाल्दाक म्हळें, 'तूं इंगाच बोसोन राव. हांव रोखडेंच येतां.'

हें आनी हांगा मोदेकाक देंवोन खंय वयता काय हें चिंतूंक रोमाल्द पडलो. आयडाक तो पळयत रावलो.

आयडा रस्त्यादेगेक आशिल्ल्या एका गाड्यार गेलें आनी मेणवातीचो एक मास्क घेतलो, एक फस्क घेतलें आनी पर्सींतले पंदरा रुपया गाडेकाराक फारीक करून तशेंच तें चलत रस्त्याचे उजवे वाटेन रस्त्याचे देगेक आशिल्ल्या खुर्सासरीं गेलें. ताणें फस्क ओडून एक काडी काडली आनी ती पेटोवन मास्क उकतो करून एक एक मेणवात भायर काडून पेटोवंक लागलें. एक मेणवात पेटोवन हेर मेणवातींचें पोंद पेट्टे मेणवातीचे जोतीचेर कडोवन ती मेणवात पेटोवन पसयली. हे भाशेन आयडान धा मेणवाती पेटयल्यो. सकाळचीं इकरा वरां जाल्लीं. रोमाल्दान मनगटाची घडयाळ पळयली. आयडा खुर्साक वाती लायता तें पळोवन तो घुस्पलो. आयडा मदींच शें अशें हांगा थांबोन वाती पेटयता? सगलेंच अजाप. तोवूय मोटारीचें दार उकतें करून आयडासरीं आयलो. पळय जाल्यार आयडा तोंड लिपोवन हुंदक्या हुंदक्यांनी रडटा. आयडाक रडटा तें पळोवन रोमाल्द आनीक काचाबूल जालो. हेचें आयज जालां तरी कितें? ताणें बेगीबेगीन फुडें सरून आयडाक सांबाळ्ळें.

'आयडा... आयडा... कितें जालां तुजें?'

'रोमाल्द... रोमाल्द...'

'हें कितें?'

'हो खुरीस.'

'मिलाग्रीचो? न्हूं?' अशे प्रतिप्रस्न करीत रोमाल्दान खुर्साक परत बारीकसाणीन पळयलो. खुर्सार मदेकाक एक प्लेक कोंत्रावन बसयिल्ली. तिचेर कोंत्रायल्लें Manuel F. Fernandes, (Calangute) Born on 24-7-1975 Died on 10-6-1995. रोमाल्दान कोंत्रायिल्ले फातरीवयलीं उतरां वाचलीं.

'कोण हो मानुयेल फेर्नांडीस? सोयरो तुजो?' रोमाल्दाचो प्रस्न आयडान आयकूंक नासलो.

आयडा कितलो तरी वेळ खुरसाकडेन पळयत रावलें आनी मोन्यांनी चलत येवन

मोटारींत बसलें. रोमाल्दय आयलो आनी मोटारींत बसून मोटार स्टार्ट केली आनी आयडाक परत प्रस्न केलो.

'आयडा, कोणाचो खुरीस तो?'

'मानूचो... मानू...'

'कोण मानू?'

'मागीर सांगतां. आतां नाका. पयलीं आरांबोल वचून येवंया.'

'आतां सांगपाक कितें जालां?'

'मेल्ल्या मनशाचो उगडास तसोच बरेभाशेन काडपाक जाय.'

'तेचो खुरीस हांगा रस्त्यार सो कित्याक?'

'हांगाच सोंपलेलो तो. आक्सिदेंतान. तेज्या पायन उगडासाक हो खुरीस बांदला.'

'तुजो कोण पारेंत लागतालो?'

'तें घरा पावतकच सांगतां.' अशें म्हणत आयडान चलते मोटारींतल्यान भायल्यान नदर भोंवडायली. मोटार कोलवाळे पुलार पाविल्ली.

'आयडा, आमी पर्थुंया, घरा या आमी. आरांबोल नाका आतां.' गंभीर जायत रोमाल्दान म्हळें.

'कित्याक?'

'आतां म्हजोय मूड गेलो. तुजो तर पयलींच गेल्लो. म्हाका खबर ना, तूं आयज अशें कित्याक तें. कोणाच्या मर्णाचो दीस आयज?'

'तें सगलें उपरांत सांगतां न्हूं. पयलीं आमी आरांबोल वचून येवंया. आतां आयडा रोमाल्दाक समजावपाक लागलें.

'ना, म्हाका ब्रीज क्रॉस करपाचो ना. हांव मोटार टर्न करतां.' अशें म्हणत रोमाल्दान मोटार फाटीं घेवन परत म्हापशां वचपावटेन घुंवडायली.

'रोमाल्द... प्लीज रोमाल्द.'

'नो, सॉरी. आमी घरा या.' आनी रोमाल्दान स्पीड वाडयली.

कितलो वेळ रोमाल्द वोगोच. आयडान ताका मर्दी बोलको करपाक कितें कितें विचारलें, पूण रोमाल्द मात खूब खोल खोल चितनांनी बुडिल्लो.

तांकां इतले बेगीन परतीं आयल्यांत तें पळोवन घरच्यांक अजाप दिसलें. मांयन रोमाल्दाक विचारलेंय बी. पूण रोमाल्द सरळ आपल्या बेडरुमांत वचून खाटीर आडवो पडलो. फाटोफाट आयडाय आयलें आनी सरळ वचून बेडरुमांत रोमाल्दासरीं बसलें.

घरांतल्यांक सगल्यांक अजाप जालें. हेंचेंजालें तरी कितें? वयतना बरीं गेल्लीं. वाटेर जालें तरी कितें? असोच सगल्यांक प्रस्न पडिल्लो.

आयडान बेडरुमाचें दार बंद केलें आनी रोमाल्दासरीं येवन ताणें रोमाल्दाक म्हळें, 'रोमाल्द, आय ॲम सॉरी. हांवें आयज तुका खूब दुख्खी केलो. हांव चुकलें.' अशें म्हणत आयडा दुकांनी रडपाक लागलें. तरी रोमाल्द ओगोच रावलो. ताणें आयडाक थारावपाचो इल्लोय यत्न केलो ना. आयडाच्या कानांत पादिगाराचो सेर्मांव घुमूंक लागलो.

'खरो आनी सोत मोग एकूच पावट जाता; होजार खेपो न्हूं. देवाचो मोग आमकां एकूच पावट जाता. तो मोरोसोर उत्ता.'

'मोग मोरोसोर उत्ता...'

'रोमाल्द...' आयडान काळीज घट करीत रोमाल्दाक उलो मारलो आनी ताच्या दोळ्यांत खोलखोल नदर बुडयत म्हळें,

'रोमाल्द, तो खुरीस कोणाचो तें जाणा जावंक सोदताय मुरे तूं? आयक. तो खुरीस... तो खुरीस...' आनी आयडाक फुडलीं उतरां तोंडांतल्यान सुटना जालीं. तें परत एक खेपे हड्डें घट धरून बाज्जेर लवंडून रडपाक लागलें.

'रोमाल्द, तो खुरीस म्हज्या पयल्या वयल्या मोगाचो. रोमाल्द, हांव मानुयेलाच्या मोगांत आसलें. आमी काजार जावपाचीं आसलीं. पूण देवाक आमचो एकवोट मान्य नासलो. देवान ताका आपोवन व्हेलो. थिवी दान्साक वयतना ताचे स्कुटरीक आक्सिदेंत जालो. मानू... ते सुवातेर आक्ताक सोंपलो. ती सुवात ती, थंय खुरीस बांदला ती सुवात. आनी रोमाल्द, आयज मानुयेलाच्या मोर्णाचो दीस. म्हाका ताचो उगडास जालो आनी म्हजें शितीद कित्यार लागना जालें. रोमाल्द, देवाक जावो आसलो तुजो म्हजो एकवोट. रोमाल्द, देवान आमको एकवोट केला. मानू ह्या संवसारांत ना. तुका भियेवपाची कांय गोरोज ना. पूण तेजी याद ह्या संवसारांत आसा आनी ती म्हुजे थांय आसा. नाका नाका म्हणटा आसतनाय मानूची याद येता आनी आयज तर तो दीस ज्या दिसा म्हजेर मळब कोसळोन पडलेलें. रोमाल्द, ही खबर हांव तुका केन्ना तरी सांगपाचेंच. तुका लोकांनी सांगचे पयलीं... रोमाल्द, बट आय लव्ह यू रोमाल्द. हांवेन तुजे लागीं सातवो साक्रामेंत जोडला. देवाधोनयाच्या मुखार, सोमाजाचे गवायेन हांव तुजी पोतीण रोमाल्द, हांव तुजी पोतीण.' अशें म्हणत आयडान रोमाल्दाचे वेंगेंत घालून घेतलें.

रोमाल्दान ल्हवूच आयडाक आपल्या गोपांत अळंग ओडून घेतलें आनी आयडाच्या कानांत ल्हवूच म्हळें, 'आयडा माय डार्लिंग, आय ॲम सॉरी. आयडा, आय लव्ह यू... जस्ट लायक दॅट क्रॉस... त्या खुर्साचो मोग हांव तुका दितलों. तो तुजो खुरीस न्हय, म्हुजोय बी मिलाग्रीचो खुरीस तो...'

'ओ रोमाल्द... माय स्वीटहार्ट...' अशें म्हणत आयडा रोमाल्दामदीं पुराय बुडलें. ताका खूब ल्हव ल्हवशें दिसपाक लागलें. कुमसार जातकच दिसता तशें...

❦ ❦ ❦

# १७.

# पाशाण शिंसो




देवाखाजनांत वचपाक भायर सरलों तेन्ना शाली वगीच भुल्लुसलेवरी जाल्लें. सकाळींफुडें उठनाफुडें ताचें मन वगीच कातकुतल्यांनी उपाट भरिल्लेभशेन ताका दिसपाक लागिल्लें. देवाखाजनांत आयज रोव आसलो. रोवाक दादीन वाड्यावयल्या मानायांक आपयल्ले तसो उडयावयल्या शंकूकय आपयल्लो. शंकूक रोवाक आपयला ही गजाल जेन्ना शालीच्या कानार आपटली तेन्नासावन शालीचें मन पाखरू कशें जावन हांगा उडचें काय थंय उडचें, हें फूल चोखचें काय ताच्यो पाकळ्यो अळंग उगडच्यो अशे संभ्रमावस्थेंत पडिल्लें. मात ताचें पक्कें एकमन भलतेंच खोशी जाल्लें.

आयज रोबाक शंकू येतलो. शंकू गोरो गोरोच, मोटवो पूण हाडामांसान शिंसो कसो. हांसते नुरेचो, सडीक गालाचो, काळेकाळे मुदयाळे केंस, दोळे वांटकुळे पूण गोल. खोल रूंद हड्डें आनी तोणके कशे दंड. मुंडके कश्यो मांडयो आनी खडप कशे पोंवट्यो. जेन्ना शंकू जमनीर पावल दवरतालो तेन्ना मुसळ वानार पडिल्ल्याचो आवाज आयिल्लो भास जातालो. धर्तरी घबायंच करून आवाज करता कशी दिसताली. शालीचो हो सपनांतलो शंकू खऱ्यांनीच तसोच आसलो.

शालूक याद जाली. ताणें दुसरे खेप शंकूक पळयल्लो तो शिवरात्रेक. रामनाथीं शिवरात्रेची वर्सुकी जात्रा आसली. जात्रेक लोकांची घे गर्दी. प्राकारांत भोंवपाक मेळनासलें. जेन्ना देवाचो रथ प्राकारांत आयलो, तेन्ना प्राकारांत गर्देंत भोंवपी बायलो आनी चलयो कडेच्या अगरसाळेचे गरादींत रावपाक चोम्यांनी भितर सरलीं आनी गरादीक तेंकून रावलीं. थंयसावन प्राकारांत रथ नाचयतात तो बरो दिसतालो. शालीक गरादीक तेंकून उबें रावपाक सगल्यांत फुडें सुवात मेळ्ळी. प्राकारांतली लांबची गर्दीसुद्धां ताका ज्यूस्त बरी दिसताली.

देवळाचे फाटलेवटेंतल्यान रथ नाचयत हाडटात तो गरादींत राविल्ल्या बायलांनी पळोवंनाका तशी थंय खेट जाली. दर एकली रथ पळोवपाक आनी देवाचेर चिरमुल्यो मारपाक लूट करपाक लागली. शालीनंय चिरमुल्यांचो एक पुडो हातांत घट धरिल्लो. रथ लागीं वडीच्या अंतरार पावतकच हातांतलो चिरमुले पुडो रथाच्या कुचकुचीत गुडयांनी शेंवटुपाक राविल्लें.

'हरी रे माझ्या पांडुरंगा, सख्या हरी पांडुरंगा, घुमचे कटर घुम' धोल ताशांच्या तालार भुजांर घेवन रथ नाचोवपी गांवांतले आनी जात्रेक आयिल्ले गांवाभायले तरणाटे सामके तन्मयतेन आनी भक्तीभावान देवाचो रथ नाचयताले. जसो जसो रथ नाचयत

नाचयत बायलो उबीं राविल्ले गरादीकडेन पावलो, तेन्ना तर रथ नाचोवपी तरण्या भुजांक शिरशिरी मारून तांचेमदीं एक तरी वीज लकलकूंक लागली.

रथाक सगल्यांत फुडें खांदो मारिल्लो तो शंकून. जेन्ना रथ नाचयतासतना फुडें व्हरतात, तेन्ना तो फुडो करून खांदार घेवन चलतात. आनी जसो नाचोवपाचो जालो की रथाच्यो फुडल्यो दांडे कशो आशिल्ल्यो पाटयो सगले जाण आपल्या मनगटांचेर झेलून घेतात आनी एकामेकांक फुडो करून वयर सकयल बाग घेत प्राकाराच्या एकेवटेच्यान रथ नाचयत दुसरे वटेन वतात. रथ गरादीकडेन पावनाफुडें शंकूनय हेरांभशेन रथाचे लांब पाटयेक आपल्या मनगटार असुदाय घेतली. सगल्यांनी तशेंच केल्ल्यान रथाचें वजन ल्हव ल्हव लागतालें.

शालीन शंकूक पळयलो. तो घामाघूम जाल्लो. घामान तो चिप्प न्हाल्लो. ताचे आंगावयले नवे कपडे घामान भिजून ते शंकूच्या आंगाक लेप कशे चिकटल्ले आनी त्या कपड्यांतल्यान शंकूचे मासाळ स्नायू शिशें कशें तिकतिकताले. शंकूक पळोवन शालीक वगीच खूब बरें दिसलें. ते अख्खे गर्देंत एकटोच शंकू आशिल्ले भशेन कितलोतरी वेळ तें रथाक पळोवचे सुवातेर शंकूकच पळयत उरलें.

'शाली, आगो मार मुगो त्यो चिरमुल्यो रथार. रथ मागीर फुडें वयतलो.' शालीक वांगडच्या बायुलांनी जेन्ना धोंगशीत म्हळें तशें शाली तनरेंतल्यान भानार आयलें अनी ताणें शंकूचेर थिराविल्ली आपली नदर कडेक काडीक बेगिबेगीन हातांतलो चिरमुल्यां पुडो रथार शेंवटिलो. पूण रथार शेंवटिल्लो पुडो रथामेरेन पावलोच ना.

'वोडीन मार न्हू गो, पळय तो रथार पडलोच ना.' बायुलान शालीक म्हळें.

'देवाचेर पडलोना न्हय, सकयलूच पडलो तो. आसूं, सकयल पडलो आनी जमनीर पडलो एकूच न्हूं! हांयें देवाचेर म्हणोन मारलेलो. हांव कितें करूं?' शालीन आपली निर्शेणी उकतायत म्हळें. रथार पुडो पडलोना हें ताका बरें दिसलें ना. मनाकडेन वगीच गुन्यावकारी कशें दिसपाक लागलें. देवाक राग बी आयल्यार, देवाक वायट दिसल्यार अशें मनांतल्या मनांत चितीत शालीन पोले फोडले आनी परत तें देवाक पांयां पडलें. 'शाली, हो पळय तुगेलो चिरमुल्यां पुडो तेणें काडून वयर रथार उडयलो.' बायुलान शालीक म्हळें तशें शालीन पुडो पडिल्लो ते सुवातेर पळयलें. रथाफुडें आशिल्ल्या शंकून शालीन मारिल्लो चिरमुल्यां पुडो रथार पडनासतना रथाभायर पडलो तें पळयिल्लें. आनी देवाचेर मारिल्लो पुडो देवाच्या रथारूच पडपाक जाय, ना जाल्यार पुडो मारतल्याचें समाधान जायना हें रथ नाचोवपी दर एकलो जाणा आसता. शंकूक कोणाचो पुडो तें खबर नासलें. ताणें सदचे चालीप्रमाण शालीन मारिल्लो पुडो अचळय एक हातांत उखलून खिणांत रथार मारिल्लो. आनी कोणालो काय तो हें पळोवपाक म्हणून शंकून बायलां उबीं राविल्लीं ते गरादीचेर नदर मारिल्ली. पूण गर्देंत ताच्या लक्षांत कोणूच भरलो ना. शाली तर नाच ना. मात शालीक मात शंकून आपणाक पळयलाशें दिसलें. खऱ्यानीच तेणें म्हाका पळयला, पूण रथ नाचोवपाच्या भारांत तो म्हाका हांसलोना जावंये. कांय नज, शालीन आपलीच समजूत घाली.

शालीच्या मनांत शंकूचीं पडबिंबां तळ्यादेगेवयल्या उदकांतल्या वांकड्यातिकड्या पडबिंबां भशेन दिसतालीं. उदकार कोणेंय फातर मारतकच तर सामकीच वांकडी तिकडी जावंची आनी खीणभर उदकांतल्यान नाच जावंची तशीं जातालीं आनी उदक हालनासतना थीर जालें म्हणटकच परत एकदां तीं पडबिंबां निवळ बरीं स्पश्ट दिसपाक लागतालीं. शालीच्या मनांतली चलबिचल ही अशीच आसली. केन्नांकेन्नाय शंकूची प्रतिमा ताच्या काळजांत खूप स्पश्ट आनी नितळ जावन उदेताली, तर केन्ना केन्नाय ती अवस्थेन विद्रूप जावन नाच्च जाताली. शालीच्या मनांत अस्वस्थता येताली ताकाय कारण आसलें. शाली लग्नाचें जायतसान दादी ताका सोयरीक सोदपाक लागिल्लो. दादीक शालीच्या मनाचो थाव घडये लागूंक नासलो जावंये. आनी थाव लागपाक केन्नाच तशें कांय घडलेंनाय बी. शंकूक ताणें एकदांच व्हडल्या आंब्यार चडून आंबल्यो काडपाक आपयल्लो. ऊंच ऊंच झाडांचेर असुदाय चडपाक शंकूक कोण लागनासलो. शंकू माकडाचे संवकळेन व्हड व्हड रूख कांय न्हय करून झेलयतालो. ताचीं तीं फिशालपणां पळोवन गांवचे लोक शंकूक झाडार चलपी शंकू अशें म्हणून ताची तोखणाय करताले.

शालीच्या मनांत शंकू भरलो तो तेन्ना. पूण हयन्हयसो. भिरांतीन काळीज कलकलत. दादी कितेंय म्हणत. तेतूंत आमी तर अशी श्रीची गाण सुद्धां चिरून नकळ तसलीं. मोग म्हणून आमी करपाचो? आनी म्हाज्या सारक्या चेडवान तरी करपाचो? कॉलेजींत वयता तेणीं मोग करपाचो. सिनेमांत करतात तसो. शंकूचेर मन बसत पसून शालीच्या मनांत हय ना, ना हय करीत ना ना तरेचीं चित्रविचित्र चितनां येतालीं. शंकून जेन्ना आपलो चिरमुल्यांचो पुडो उलगून परत रथार शेंवटिलो, तेन्ना शालीक तो स्वता ताणेंच मारिल्ल्याचो भास जालो आनी बायुलान शालीक म्हळेंय बी तशेंच.

‘आगो, कोणेंय तरी उडयलो मुगो तुजो चिरमुल्यांचो पुडो? पुरो. पावन जालो तो देवाक.’

‘हय, हेंकां कशें कळटलें कोणें उडयला तो पुडो?’ शंकून उडयला म्हणून शाली बायुलाक कशें सांगतलें? पूण शालीच्यान रावं नजो जालें. जमनीर पडिल्ल्यो चिरमुल्यां पुडो परतो रथार उडोवपी हो शंकू आसलो. शंकू गो, शंकूक तूं वळखना? शंकूक... अशें बायुलाक तरी सांगचें अशें शालीक दिसलें. पूण ताच्या मनांतलीं सगलीं उतरां जिबेर आयलींच नात. ओंठांतल्यान भंयार पडलीं तीं अस्पश्टशीं दोन उतरां – शंकू – आनी बायुलान फकत तितलेंच आयकलें आनी शालीक म्हळें,

‘शाली, आगो शंकू-शंकू कितें करता? कोण शंकू लागला तुजे फाटल्यान?’

बायुलाचीं हीं उतरां चोम्यांनी चलतल्या वाड्यावयल्या हेर चलयांनी आनी बायलांनीय आयकलीं. जात्रा सोंपोवन घरा परततना बायुलान शालीची अवस्था तेळिल्ली.

‘कोण गो शंकू हो शाली? रथाची जात्रा तुजे फावराद काय कितें गो? राव, दादीक सांगतां’ अशें म्हणत वोंवळा आवयन गोपिकेन दोन बोटां ओंठांक तेंकयत पानांची पिच्चकारी मारीत म्हळें. शाली मात्शें दचकलें आनी ताणें शाली आवयक धमकीच दिली.

'पळय आं वोंवळा आवय, बरें जावचें ना. दादीक नसत्यो खबरी आवडनात. तो म्हाका धरून सामको सोलतलो.'

'पुरो पुरो. आतां तूं सामकें पाळण्यांतलें समजता काय कितें गो? वयावयल्या चेडवान जात्रेक कोणाक पळयल्यार कितें जालें? जात्रा काले तेच खातीर आसतात. देखून व्होंकलो न्हवरे जात्रांनी गर्दी करतात.'

'अशें?' बायुलान गोपिकेची फिरकी घेवचें चितून फुडें म्हळें.

'राव गे वोंवळा आवय. जात्रांनी जर व्होंकलो न्हवरे येवपाचे जाल्यार तूंऽ शी गे कित्याक व्होंवळी कशी आमचे मर्दी? काय तूंय बी कोणाक...'

'हय हय, म्हाका आनी जायो न्हू आतां ह्या वयांत न्हवरो, म्हणोन गेल्लीं जात्रेक.' वोंवळा आवय ती. बारा बांयचें उदक पियेवन आयिल्ली ती बायुलाक आनी शालीक थोडीच बदता? ती आनी कितेंय पचपचीत फुडें उलयत म्हण शालीनच तिका थातारली आनी म्हळें, 'जावं वोंवळा आवय, तुज्या आशिर्वादान घडों बाबड्याचें कोणाचेंय बरें.'

'कोणाचें कित्याक, तुजेंच घडटलें बरें' अशें म्हणत शालीच्या मनांतलें वादळ खबर नाशिल्ल्या वोंवळा आवयन शालीक तोंड भरून आशिर्वाद दिलो.

वोंवळा आवयच्या तोंडाक लागल्यार तीं सोडचीना हाची शिटकावणी घेवन बायूल वोगींच रावलें आनी मोन्यांनी हेरांबरोबर घरची वाट चलपाक लागलें.

आयज शालीक रामनाथीचे जात्रेचो तो प्रसंग याद जालो तो शंकूक लागून. स सात म्हयने जाले, शंकूक ताणें पळोवंक नासलो. शंकू खंय कामाक वयतालो देव जाणा अशें चितून तें वोगी रावतालें. पूण मनांतलो शंकू मात कसोच पुसून वचनासलो. आनी आयज अकस्मात शंकू तांगेल्या रोवाक येवपाचो आसा ही खबर जेन्ना घरांत समजली, तेन्ना शाली शिरवणांतले आमोरेर घोसाळेच्या हळदुव्या फुलांभाशेन अकस्मात फुललें. शंकूचें नांव कानार पडतसान शालीच्या काळजांत धडधड निर्माण जाल्ली. कसो आसतलो काय तो, तेन्नाभाशेन रथ नाचयतना पळयल्लो तसो घटमूट सायल कसो? आनी... पूण... म्हज्या मनांतलें तेज्या मनांत आसा हें कित्यावयल्यान? कितेंय आसूं, रामनाथाच्या रथार मारिल्ल्या चिरमुल्याचें सार्थक जाल्यार पुरो, रामनाथ पावल्यार पुरो. आयज कशेय भशेन हांव शंकूकडेन म्हज्या मनांतले उमाळे उकते करतलें. करुंकूच जाय. चड तेंप काडूंक फावना. दादीन आनीक कोणाकय उतर दिल्यार?

'शालू, पाटें माथ्यार, तेतूंत धाकट्यो पाटयो दवर.' दादीन शालीक म्हळें.

'दादी, हांव पेजे बुडकुलो घेतां न्हूं?'

'नाका, पेजे बुडकुलो आवो हाडटली. शिंतूक सांग खारें घे म्हण.' दादीन सगल्यांक देवाखाजनार आशिल्ल्या शेतार वचपाक तयार केलीं. सगल्यांत पयलीं शाली तयार जालें. ताका केन्नाकाळ घरांतल्यान भायर सरनशें जाल्लें.

उड्यारसान देवाखाजन चड पयस नासलें. पांच धा मिनटांची ती वाट बांदान गेल्ल्यान आनी लागीं पूण व्हाळार खोपडी नाशिल्ल्यान रस्त्यान वचचें पडटालें.

दादील्या रोवाक सगलीं घरचीं तोरांपोरां वचपाक भायर सरलीं. रोव जातकच दनपारां

सगल्यांक भूस आसली. जेवण करपाक दादीची घरकान्न म्हळ्यार शालीची आवय आवो चौगुड्यार बडी पडटकच घरा वचपाची आसली.

शाली जेन्ना शेताबांदार पावलें, तेन्ना बांदावयले सांवरीपोंदा शेतांत देंविल्ल्या मानायांनी आपआपलीं कालसांवां आनी खोमसां गुटलावन दवरिल्लीं, तर कांय जाणांनी सावरी मुळाक आशिल्ल्या खुंटांक खोयलेलीं. तो ऱोवाचोच दीस आसलो. जशें दादी रोयतालो तशें हेर लांसकारूय आपआपलो लांस रोयताले. तेखातीर देवाखाजनांतल्या सगल्या शेतांनी मानाय आनी कामेऱ्यांची गर्दी जाल्ली. पयसुल्ल्यान पळयतल्याक शेतांतले मानाय मदीं मदीं पडिल्ले काळे काळे थिपके कशे दिसताले. मात रंगीबेरंगी कापडां न्हेशिल्लीं कामेऱ्यां हालचाल करतना स्पश्ट जाणवतालीं. तांच्या आंगावयले पदर वाऱ्यान वारें येता तशे फाटींफुडें उबताले. मानाय फकत काश्टेर ना जाल्यार मोटवे चड्डेरच आसले. चेड्डेचेर रेबो उसळून तांचोय रंग काळसार जाल्लो, देखून त्यो तांच्या आंगार आसात कश्यो बिलकुल दिसनासल्यो.

शालीन सावरीपोंदा दवरिल्ल्या घडयांचेर आनी गुटल्यांचेर नदर मारली. शंकू पयलींच येवन शेतांत देंवलो काय कितें? ताणें शेतार नदर मारली. पूण शंकूचे आंगलटीचो ताका कोण दिसलो ना. ताची नदर बांदावयल्यान शेतांत आनी शेतावयल्यान बांदार अशी आरती परती भिरभिरपाक लागली. शंकूची वासपूस कोणाकडेन करची? विचारल्यार कोणूय कितें म्हणटलो? इतले मानाय शेतार आयल्यात. फकत शंकू खंय आसा, येवंना, येतलो अशें कोणाकय विचारल्यार दुबाव घेवचेना ते म्हाजो? शालीक वगीच भिरांत दिसली. घडये शंकू येवपाचो आसत, अशें समजून शाली शेतांत देंवपाक तयार जालें. इतल्यांत मुखावयल्या बांदावयल्यान शंकुल्या घराकडचो श्रीकांत येता तो शालीन पळयलो. हेका खबर आसतलें शंकू खंय आसा तो. पूण तो हांगासो कित्याक येता काय?

श्रीकांत नेटान नेटान फुडें आयलो आनी शेतांत देंवतल्या दादीक उलो मारलो. 'शाली दादी, मात्सो राव, तुका कितें सांगों जायें.' श्रीकांताचो आवाज आयकून दादी बांद देंवतालो तो थंयच थांबलो आनी ताणें श्रीकांताकडेन प्रश्नार्थक नदरेन भुंवयो वयर करीत पळयलें.

'किदें रे श्रीकांत, कितें सांगपाचें आसा?'

'दादी, असो यो हांगा. तुका कितें सांगो जायें.' अशें म्हणत श्रीकांत दादीक घेवन मात्सो पयस कोण आयकुचे नात अशा जाग्यार गेलो.

'सांग. कितें जालां?'

शाली अधाशावरी तांचेकडे पळयतालें. पूण तांचीं उतरां मात वाऱ्या झोतार ताच्या कानांमेरेन पावप शक्यच नासलें. शाली श्रीकांताच्या आनी दादीच्या हावभावांवयल्यान ते कितें उलयतात ताचो अदमास करपाचो यत्न करतालें. श्रीकांताचीं उतरां आयकून दादीची नुराच बदलिल्ली. रोवाचे खोशयेंत आशिल्लो दादी एकदम गंभीर जाल्लो. शालीन पयसुल्ल्यानूच पळयलें. श्रीकांत दादीक कितें तरी सांगून आयिल्ले ते वाटेन परतो गेलो. दादी मात बरोच वेळ खुंटो कसो बांदार उबोच उरलो. शालीच्यान रावंनजो जालें.

कितें जालां काय देवा, तें सामकें उचंबळ जालें. दादीक विचारुंया अशें थारावन तें शेतांतल्यान वयर बांदार आयलें आनी हळूच आपल्या बापायसरीं गेलें. ल्हवूच ताणें दादीक उलो मारलो. 'दादी, कितें जालें? तूं असो घटसो उबो कित्याक रावला? शेत रोवपाचें ना? मानाय येवचेनात?'

'शाली...' दादीन गलबलीत जावन म्हळें.

'शाली, तुज्या मनांतलें आतां खरें जावचेंना.'

'म्हज्या मनांतलें?? शाली गोंदळ्ळें.

'हय शाली. बापूय हांव तुजो. तुजें सपन हांव जाणां आसलों. तुयें सांगनासतना म्हाका तें कळ्ळें. आनी पोरा, म्हाजीय तीच इत्सा आसली. पूण...'

'पूण कितें दादी? कितें जालें?'

'नशीब आमचें.'

'दादी कितें जालें, कितें जालें?' अशें म्हणत शालीन आपल्या बापायक दंडाक धरून खदाखदा हालयलो. 'सांग दादी... सांग.'

'शंकूक खंय राती पुलीसेन धरून व्हेलो.'

'कित्याक... कित्याक?'

'तेणें नरशिंवाचेर कोयतो मारलो. ते घराचे वांटे करूंक सद्दां झगडटाले न्हूं? रातीं खंय तें चडार पडलें. आनी एकामेकांक कोयत्यांनी कापूंक तयार जाले. तेतून शंकून नरशिंवाचे तकलेर घायो घालो आनी आतां सकाळीं नरशिंव इस्पिटलांत सोंपलो खंय. खून जालो... खून!'

'खून ज़ालो. शंकून आपल्या भावाचो खून केलो? आरे देवा.. येदे शिशा पाशाणाचे कुडीचो वापर शंकून असो केलो? दादी... दादी...' आनी शाली दादीचे वेंगेंत मुसमुसून रडपाक लागलें. बापायन मोगाचे धुवेक माथ्यांत हात भोंवडावन थातारपाचो प्रयत्न केलो. शाली मात हुंवारांतलें रोप कशें खिणांत हुमटून पडिल्लें.



१८.

# पेद्रूचें इंग्लेज फेस्त

ओतुब्राचे सोवेर रोझार सायबिणीचें फेस्त. रोझार सायबीण म्हळ्यार सांताखुरसाची एक मिलाग्र कशी. तिणें खंय सांताखुरसाचेर आयिल्लें एक अद्रुश्ट परतून लायिल्लें आनी गांवाचेर बेसांव घातलेलें खंय. सायबिणीन गांवांचेर घातलेलो तो पवित्र दीस म्हळ्यारूच ओतुब्राची स तारीख!

ओतुब्राचे सोवेर सांताखुरसाच्या गांवांत म्हळ्यारच सांताक्रुजाच्या गांवांत गांवच्या कपेलाक नटयतात, थटयतात. रस्त्याचेर कोंड्याचीं आर्कां ओडून ताचेर रंगीत बनेरां लायतात आनी कवाथ्यांच्यो चुट्ट्यो विणून तांचीं सोबीत बरीं फुलां कशीं वळावनी करून रस्त्यांच्या दोनूय वाटांनी उबारून लायतात.

कपेलाचें फेस्त कोणें करचें तें दर वर्साची सोर्त काडून थरयतात. गांवांत जितलीं घरां आसात त्या दर एका घराब्याक पंदरा वा वीस वर्सांनी फेस्त आळीपाळीन पडटा. जाका फेस्त पडटा ताणें फेस्ताचो सगलो खर्च करचो पडटा. केन्नाकेन्नाय कोणाकय तांकता जाल्यार फेस्त आंगोवणेन घेवंयेता. जायते जाण कुवेत, बाहरीन, मस्कत जावं हेर गल्फ देशांनी भरपूर पयसो करून जेन्ना गांवघरा परततात तेन्ना आपली जोड सायबीण मांयचे कुरपेन जाल्या हे भावनेन गांवांत येनाफुडें सायबीणमांयचे उपकार मानून फेस्त मागून घेतात आनी फेस्ताचो सगलो खर्च स्वता करतात.

अंदूचें फेस्त पेद्रू म्हळ्यारूच पिटर आफोंसो हाणें मागून घेतलेलें. जेन्ना पेद्रू गांवांत आयलो, तेन्ना आपूण गल्फांतल्यान भरपूर दुडू घेवन आयलां ताची झळक गांवाक दिवची म्हण पेद्रून गांवांत येनाफुडें गोंयांतल्या एका इंग्लेज कागदार व्हडली जायरात दिली आनी सांत जुदेवाचे आंगोवणेन आपणाक गल्फांत शिर्वीस मेळून आपूण गिरेस्त जावंक पावलों अशे तरेन सांत जुदेवाचे उपकार पिटरान मानले आनी सकयल नांव बरयलें – बाब पीटर आफोंसो. ती जायरात वाचून ते रातीकडेन फातिमा बार्रांत पियेवपाक बसलेलो आसतना कार्मून पिटराचें पित्त पयलें चाळोवन घालें.

'पेद्रू... कोहें लागलें गोल्फ तुका?'

पेद्रू म्हण उलो मारता तें पळोवन पिटराक मारली भिरभिरी. आजून हे म्हाका पेद्रूच म्हणटात. फूलीश!

'कार्मू चोय, तुका बोरे भाशेन सांगतां, मुगे नांव पिटर, पेद्रू न्हू. पेद्रू हें नांव पुर्तुगेज. पुर्तुगेज गेले आनी तांचे बाराबोर तो पेद्रूय गेलो. आतां हांव पिटर जालां, पिटर म्हण

म्हाका. समजिलो? वाचलो ना तुयें आयज कागदार येदी ॲडव्हटायज येयल्या ती शापोन?'

'आरे, पूण तुगे तेर्मार पेद्रूच आसा न्हू रे?' परत कार्मून पिटराच्या वर्मार हात घालो.

'मुगे तेर्म हायें तुकोडे दिला? तुका कोणें सांगिलां तें? तुगे नांव कार्मू म्हुणोन मुगे नांव पेद्रू सोमजिता?'

'तेशें न्हूं रे, मात्सो सोमजिकायेन उलय. तुका पेद्रू म्हळ्यार इतू राग कित्याक येता?'

'राग येता म्हणोन इचारता? आरे, नांव आतां फाटीं पोडलां. आतां आमी सुदरोप केलां. पिटरान म्हळें.

'केसो सुदरोप केलां?' कार्मून खोचून परत म्हळें.

'सोगलें चोयलां तुयें? हे मुगे ड्रेस चोय. हे फॉरेन ड्रॅस. हें टीशर्ट चोय. हें पेंट चोय. ही मुदी कितल्या प्रेसा जाणा तूं? ही चेन चोय, केसो भांगोर जाणा तूं? हें घोडयाळ. ह्या घोडयाळाक वॉच म्होणटात. हें वॉच सो होजारांचें. आतांच म्हुगे आंगार उणेंच म्हुळ्यार पोन्नास होजार आसात, सोमजिलो?'

'आं... देखून तूं पिटर जाला दिसता?'

'हय, आनी चोय, तुमी मुरे येशे गांवांत शेणाकिडे कोशे तोश्शे आसात. सोंवसार फूंय पावला जाणां तूं? आतां मुकोडे कोंकानी उलोयता? बोऱ्या मुनशांनी कोंकानी उलोवपाची? वी स्पीक इंग्लीश. तेन्ना तूं म्हाका पेद्रू केदींच म्हणचोना. आरे, आमगे नांवां भाशेपोरमाणें बदलतात.'

'राब रे पेद्रू... वो.. सॉरी... पिटर. पुर्तुगेज आसलो तेन्ना पुर्तुगेज भाशेंत तुगे नांव पेद्रू जातालें. आतां तूं म्होणटा तें इंग्लेज जालां म्हूण. म्हणटोच आतां आमगे गोंयां ब्रिटिशांगे राज आसचें पोडलेंना? हिंगा ब्रिटिश आसात रे?'

'तें म्हाका फोबोर ना. इण्डियान जालां जायत, पूण ब्रिटिशांगेली इंग्लेजच हिंगा चोलता. सोंवसारांत सोगल्याक इंग्लेज चोलता. हांव सोगलो सोंवसार भोंवोन येयलां. तुमकां हिंगा रोवणेक पोडलेल्यांक कितें सोमजोता? बॅकवर्ड पीपल!' पिटर तापलो.

'राब रे, तूं इंग्लेज फूंय शिकलेलो? तूं प्रायमरी फोर्थ लेगीत पास जालोना मुरे. आनी आतां इंग्लेजी फोबरी म्हाका सांगोता?'

'हांव गल्फांत वोचोन शिकलां.' पिटरान आत्मविस्वासान सांगलें.

'गल्फांत इंग्लेज शिकलो? कोणागे इंग्लेज रे? त्या आरबागेली?'

'तें तुका लागोना. चोय, आमगे सुदरोप कोत्तो जाल्यार आमी आमगे गांव पयलो सुदारूंक जावो. गांव सुदारतलो जाल्यार पयलीं गांवांतलें कपेल सुदारोंक जायें. कपेल सुदारतोले जाल्यार आयतारा मीस पोय पादीगार सांगता तें इंग्लेजीन जावंक जायें. मुगे फेस्तासान हांव हें कोमेस कोत्तोलों. तूं जाणा मुरे, ओतुब्राचे सोवेर रोझार सायबिणीच्या फेस्ताक गांवांत पयलें मीस सांगपाक बोरी इंग्लेज जाणा आसलेलो पाद्री हांव फेस्ताक हाडटोलों. येसो तुमगे शिपलीसांव पाद्री कोता येता? आनी आतां णोव वरांचेर कोपेलांत

धा जाणांची मिटींग आसा. ते मिटिंगेक हें रिजुलोसांव हांव मांडटोलों. कोंकानी घेवन बोसल्यात ते! फुल्स!!'

'केसो रेजुलोसांव रे?' कार्मून बाबड्यान अजापान पिटराक विचारलें.

'इंग्लेज फेस्त करपाचें.'

'आरे पिटर, सायबीणमांयचें फेस्त म्हणोन इंग्लेज, पुर्तुगेज, फ्रांसेज आसोंक जाता? फेस्त तें फेस्त न्हू रे? इतलीं वर्सां जालीं आमी जे भशेन कोरीत येयल्या तोशें करपाचें.' कार्मून परत आपलो मुद्दो पिटराक पटोवपाचो प्रयत्न केलो.

'कार्मू, तूं मुरे केदनाच सुदारचो ना. तूंच कित्याक, हो आख्खो गांव सुदारचो ना. हांव सुदारोप कोत्तोलों आतां, तुमकां सोगल्यांक मुनशां कोत्तोलों हांव. हांयें पोये हो गल्फांतलो दुडू हाडला तो म्हाकाच एकट्याक खावपाक न्हूं. आरे, सोगले भायले गांव खूंय खूंय पावल्या रे, आनी तुमी ह्याच रेब्यांत आसा मुरे! सोगलो संवसार आयज इंग्लेज भाशेन चलता आनी तुमी कितें म्हुळ्यार हिंगा कोंकानी घेवन बोसल्याय? हांसपा काय रोडपा रे?'

पिटराचे तकलेंत इल्ली इल्ली सोऱ्याची नशा चडटाली. पिटर गल्फासावन गांवांत येपासून ताका एकूच ध्यास लागिल्लो. तो म्हळ्यार आपले जातींतल्या सगल्यांक सुदारून बरे मनीस करपाचो. आनी पिटराचे नदरेन बरे मनीस म्हळ्यार जांकां इंग्लेज समजता ते. देखून फेस्ताचो सगलो खर्च स्वता करून एक खेरीत फेस्त तो ओतुब्राचे सोवेर करपाक तयार जाल्लो आनी ते खातीर आयज रातीकडेन गांवच्या कपेलाकडेन धा जाणांची मिटींग आसली.

सांताखुरसाचो ल्हानसो गांव, गांवांतलीं बायलां भाडेलपणा वावर करपाक पयस शारांत वतालीं, तर दादले रस्त्याचो वावर करपाक वताले. थोडे फातर फोडूंक वताले तर थोडे पाडेली जाल्ले, पदेराचें कामय थोडे जाण करताले. गांवांत ल्हान ल्हान खोंपी आसल्यो. तांचेर आतां नळे आयिल्ले. जायतीं बायलां भाडेलपणां सोडून आतां बाजारांत भाजीपालो फळां विकूंक बसतालीं तर पिटरासारके तरणाटे गल्फांत पाविल्ले. गांवांत बाहरीनकारांनी आनी कुवेटकारांनी चिऱ्याचीं जायतीं घरां बांदलीं, तेन्ना वाड्यावयलो दर एकलो तरणाटो उठसूठ शिकप बिकप अर्द्यार सोडूनच पासपोर्ट करपाक लागलो आनी एजंटाक धरून गल्फांत वचपाक लागलो.

मोदोन फिल्सूलो पूत म्हळ्यार पिटर. गल्फांत वचचे पयलीं फिल्सूल्या पुताक ताची मांय फिलसू धरून वाड्यावयले सगले लोक पेद्रूच म्हणून पाचारताले. पूण हो फिलसूलो पेद्रू गल्फांत गेलो आनी फकत पिटरूच जावन परतलो ना तर अख्खो गांव बदलुपाचो निर्धार करून तो सांताक्रुजाक परतलो. गल्फाक एका आराबागेर तो सरवंटबॉय म्हणून शिर्विसेक लागलो आनी जेवन-खावन भरपूर पाग घेवंक लागलो. गल्फाक आसतना थंय ताका हेर गोंयकार मेळ्ळे आनी ताणें पळयलें, गल्फांतले सगले गोंयकार सामके फॉरेनर कशे जाल्यात. घरांत, भायर ते आपली मूळभास सोडून इंग्लेज भास उलयताले आनी आपल्या माणकुल्या भुरग्यांक तर ते चुकून सुद्धां कोंकणी उतरांचो वास लागूंक

दिनासले. गल्फांत आयतारा आयतारा ते एका भाड्याच्या घरांत मिसाक एकठांय जातालें. थंय इगर्जो साप्प थोड्यो आशिल्ल्यान आनी ते रावताले त्या गांवांत एकय इगर्ज नाशिल्ल्यान फकत गोंयकारांनी आपल्या आयताराच्या मिसाची सोय केल्ली. कोणूय तरी देवाचीं पवित्र पुस्तकांतलीं उतरां सांगतालो तर कोण तरी मीस सांगचें तशें शेर्मांव सांगतालो. ह्या सगल्या वातावरणांत पिटर भरसलो आनी इल्ली इल्ली इंग्लेज कातरपाक लागलो.

ना म्हळ्यार पिटर तसो धडधाकट आनी घटमूट तरणाटो आसलो. कातीन काळो आसलो तरी कातीर तिकतिकसाण मारताली. मध्यम उंचायेचो, रूंद भुजाचो आनी उबार हड्ड्याचो पिटर जेन्ना गल्फाक सावन गांवांत आयलो तेन्ना पिटर सगल्यांच्याच कौतुकाचो विशय जाल्लो. ज्या बारांत पिटर बसतालो थंय ताच्या मेजार बशिल्ल्याचें सगलें बील पिटरान फारीक केलेंच म्हण समजुचें. पिटराक एक दोन पेग म्हळ्यार उदक कशें. बरी अर्दी बाटली जातकूच पिटराची जीब खोर्नांतले चणे कशी फाडफाड उठ्ठाली. आनी आतां जालेंय बी तशेंच. फातिमा बार्रांत पियेवंक बशिल्ल्या पिटरान बार्रांत बशिल्ल्या सगल्या तरणाट्यांचेर आपलो प्रभाव घाल्लो. ते भायर पिटर ओतुब्राच्या फेस्ताचो येजमान जाल्ल्यान वाड्यावयले सगलेच पिटराचें उतर झेलपाक तयार जाल्ले.

'पोयले सुवातेर, फोस्ट आय टेल यू ऑल', पिटरान उलोवंक कोमेस केलें तशें पिटराली गल्फांतली इंग्लीश आयकुपाक फातिमा बार्रांत बशिल्ले सगले सामके तटास जाले.

'आय टेल यू ऑल, यू कॉल मी पिटर, पिटर आफोंसो ॲन्ड नॉट पेद्रू... ओके ?'

'यस.. यस... यस...' एक दोग जाणांनी आपल्या हातांतले ग्लास वयर काडीत पिटराक आनी ताच्या म्हणण्याकय येवकार दिलो आनी चियर्स केलें.

'आनी फेस्ताची सगली मांडावळ करपाक आतां आमी कपेलाकडेन या.' घाब्रून सुचयलें.

'अशेच पियेत बसले जाल्यार आमगेली मिटींग जावचीना आनी फेस्ताची मागीर फजेती जातली. घाब्रूक तशें जाल्लें नाका आसलें. घाब्रू तसो खूब भावार्थी आनी रूझार सायबिणीचेर ताचो चडूच भावार्थ आसलो. घाब्रूचें सांगणें सगल्यांनी आयकलें आनी चडशे जाण एकाच बराबर कपेलाकडेन मिटिंगेक वचपाक भायर सरले. रस्तो मेजीत झडपत झडपत हां हूं करीत ते कपेलाकडेन पावले.

'आयचे मिटिंगेचो प्रेजिडेंट आमचो गांवभाव आनी गल्फाक सावन येयलेलो पिटर.' सगल्यांनी टाळयो मारल्यो. ते बराबर पिटरान स्टायलीन सगल्यांकडेन पळयत तकली बागयली आनी ओर्राद वचून कदेलीर बसलो.

'लुक हियर फ्रेंडस्, हें आमचें फेस्त वर्सासारकें अंदू जावचेंना. हें फेस्त आमचे शारांतले भाव करतात तशें जातलें. ह्या फेस्ताक पयलेच खेप इंग्लेजींत मीस जातलें आनी ते पासत बोरी इंग्लेज जाणा तसलो पाद्री हांव मिस सांगपाक कोवींत दितलों.'

पिटराचीं उतरां आयकून सगले खोशी जाले. तांणी टाळयो पेटल्यो.

'पूण बाब पिटर, नोवेना कोमेस केदोना जातोली ?'

'माय डियर फ्रँडस्, यू डोंटूच वरी. तें सोगलें आमचो न्यूव फादर कोत्तोलो. वोके, तोर आतां आमी थोरोवया हेर पोग्राम, वोके?'

'पयलें म्हळ्यार फेस्ताक आमी फेरी घालपाक जाय. व्हडल्या फेस्ताक जोशीपोरी फेरी भोत्ता तोशी फेरी. वोके?' पिटराच्या दर वाक्याफाटल्यान सगले वोके करताले.

'गोंयच्या सायबाच्या फेस्ताक भोत्ता तोसली न्हू?'

'तूं वोगो बोस रे कार्मू. पोडलोलो दांत कोसो तूं मोदेंच कित्याक उलयता?' कोण तरी कार्मूचेर तापलो.

'पोय पिटर, हे कोमेटीचो हांवूय मेंब्र आसां, सोमजिलो? म्हाका शटअप केल्यार हांव तुकाय शटअप कोत्तोलों.'

'कार्मूक भायर काडा रे. चोड लागल्या तेका फेणी!'

वातावरण तापतालें तशें एकएकलो सुचोवण्यो करतालो. कोणें म्हळें फेस्तांक फेरी भरतली. जायते लोक येतले म्हणटकच गेमी घालपाच्यो. गडगडो, हावजी, टॅनिस बॉल, बाटल्यो उडोवपाची गेम, ॲरगनान बोमाडे फोडपाचे, मागीर सॉफ्ट ड्रिंकांचो कावंटर आनी बियरी.

'आनी फेस्ताचे रातीकडेन डान्स!' पिटरान एकदम म्हळें.

'डान्स वो तियात्र?'

'नाका. ते तिधात्र कोणाखातीर? आमी भायर माटवांत बोसपाचें आनी भितर स्टेजींत तियात्रिस्तांनी मौजा कोरपाची मुरे? ते परस डान्स करून सगल्यांनी मौजा करपाची. सोगळे धादोशी. बायलां, चेडवां, दादले, भुरगीं पासोत.'

आनी फेस्ताचे रातीकडेन डान्स करपाचें थरलें.

'पूण एक प्रोब्लेम आसा.'

'कसलो?'

'डान्साक डेमी खंयच्यो? आमगे चेडवां नाचोवपा रे?'

'भायलीं चेडवां येतलीं. लेडीज अवर गेस्ट.' शिटूक कामिलान मदींच म्हळें.

पिटर चाळवलो. 'हेंच हेंच हांव सांगोता तें हें. संवसार सुदारलो पूण आमचीं चेडवां आजून सुदरोंक ना. आजून मेरेन दे कॅनोट डान्स प्रापरली... शी... शी... तोशें जाल्यार एक बोरेंशें बेंड सांगल्यार बोरें. पूण एक गजाल, हांव जें बेंड सांगतोलों तें बिटल्सांगेलें. सोगलीं सोंगां इंग्लेज. नो कोंकानी कांतार. ना जाल्यार तुमी तीं बोयरागे आनी क्रीस पेरीगे कातरां वाजोवंक सांगशात तेंकां. आमकां लोज कोरशात बी.' पिटरान सुचयलें.

'पूण डेमीचें कितें? बेंड बोरें, माटोव बोरो, पायलीभोर चेडे आनी गिण्णाटीभोर जोर चेडवां नासोत जाल्यार चेड्या चेड्यांनीच नाचपाचें? येसो डान्स आमकां नाका. चेड्यांनीच चेड्यांक घेवन नाचपाचो.'

'कागदार मोटी ॲड दिवंया. भायले लोक येतले. आपआपल्या पार्टनरांक घेवन वुई विल डान्स विथ दॅम', पिटरान सुचयलें.

'पूण आमच्या वाड्यावयल्या चेडवांचें कितें?'

‘तूं तुगे भयणीक हाडटो मुरे?’ पिटरान कामिलाक विचारलें.

‘मुगे भयणशी एकटी कित्याक? सोगल्यांनी हाडों जायी आपआपणागे भोयणीक.’

‘सारकें, सारकें... तुमी डान्साक घरांतल्या सगल्या बायलांक, चेडवां-म्हाताऱ्यांक देखून...’

‘घाब्रू, परत मानशें फळें उकतें जालें? शेमलेस!’

‘म्हाताऱ्यांक तूं घेवन नाच. केन्नाय फोकोणां? आमी हांगा फेस्त कोशें बोरें कोरचें तें उलयतात आनी तुका मोदेकाक ज्योक येवजता?’

पिटरान सगल्यांचेर धेंगसो घालो तशे सगले पिटराच्या धेंगशाबरोबर ओगी बसले. पिटराक बरें दिसलें. मिटिंगेक आपूण सांगतां ताका सगलेजाण हयकार दितात तें पळोवन पिटरान खोस परगटायली. मिटींग सोंपली. पिटरान सगल्यांक थँक्स म्हळें, गुडनायट म्हळें आनी सगले शेपटी तायट करून ते रातीकडेन आपआपल्या घराकडेन वचपाक झेडपत पावलां मारपाक लागले.

फेस्ताचो दीस उदेलो. सांताखुरसाचो गांव कोंब्या सादार जागो जालो. क्रोण तरी वचून कपेलाच्यो घांटी सकाळींफुडें मारपाक लागलो. सात जाता म्हणसर सगलो वाडो न्हेसोन थोटोन तयार जालो. गांवा भायलेय लोक फेस्ताक येवपाक लागिल्ले. पिटरान फेस्ताची जायरात ‘गांवांतलें पयलें इंग्लेज फेस्त’ अशी केल्ल्यान इंग्लेज फेस्त कशें आसता तें पळोवपाक शेजारच्या गांवांतलेय जायते लोक सांताखुरसा गांवांत रुजाय मांयच्या कपेलाकडेन येवपाक लागिल्ले.

येजमान पिटराक तर पळोवपासारको. ताणें मोलादीक लुगटाचो सूट मारिल्लो. काळो निळो शेडीचो सूट. तांबशा रंगाची पूण कांळे टिपके आशिल्लीं बोटांय ताणें मारिल्लीं. भायलो पात्रा परफ्यूम आंगभर शिवरायल्लो.

‘मांय, आयज तुवें तांबडें कापड न्हेसोंक फावना. आयज तुंवेन फॉरेन साडी न्हेसपाक जाय. आयज आमचें फेस्त. मोतींत धोर मांय, यू आर माय मम्मी. ह्या पिटराची मांय कशी तूं सोबोंक जायी, सोमजिलें?’

फिल्सू मोदोन पुताच्या उतरांनी भुल्लुसली ना. तिणें आपले उबे जिणेंत आपलें तांबडें कापड आपले चालिरितीप्रमाण न्हेसपाचें केन्ना सोडलें ना. देटली मारून तांबड्या कापडान तिणें शारंतल्या बाजारां भाडेलपण इतलीं वर्सां केल्लें. पुताची सुचोवणी तिका मानवलीना. पिटराचे मांयन फिलसून पिटराक म्हळें, ‘पुता चोय, म्हाका साडी न्हेसपाक कोवोना. आनी आयजूच साडी न्हेसल्यार लोक कितें म्हणटलो? पूत गल्फाकसान येयलो म्हणोन फिलसू साडयेकान्न जाल्या!’

‘म्हणों म्हणों. तेतूंत लोज शी कित्याक?’

‘ना पुता. फोकोत साडी न्हेसली म्हणोन जायना. ते साडयेसरशीं हेर गोजालीय येवंक जाय. त्यो आतां हे पिरायेर येतल्यो? चल तूं. हांव बोरें तें तांबडें कापोड न्हेसतां. बोरी चोयी घालतां, तुजी मांय कोशी सोबता पोय तोशी. तूं कांय भियेनाका.’ बाबड्या फिलसून सदचे भशेन म्हळें.

पिटराची माय फिलसू साडी मात कशीच न्हेसलीना. सगले जाण कपेलाकडेन गेले. कपेलाभायर व्हडलो माटोव घाल्लो. माटवांत भायर मिसाची तयारी केल्ली. मीस सांगपाक इंग्लेज भाशेंत मीस सांगपी पाद्री हाजीर आसले. फुडले लायनींत पिटर आनी ताची मांय मिसाक बशिल्ली. फाटल्यान आनिकूय जायत्यो बायलो, दादले मिसाक कान दिवन तयार जाल्ले. पादीगारान अधिकृत मिसाक सुरवात करचे पयलीं इंग्लेजींत एक निवेदन केलें, 'नो सिनर्स वील् अंडरस्टँड धीस होली मास.'

फिलसून ल्हवूच पिटराक कानांत पादीगारान कितें विचारलां काय सांगलां तें विचारलें.

पिटरान पादीगारान कितें सांगिल्लें तें खरें तेंच सांगलें. पिटरान फिलसूक म्हळें, 'मांय, पादीगार सांगता, पातक्यांक खंय तो सांगता तें मीस सोमजोचेंना.'

'पातक्यांक सोमजोचेंना? आमी कोसलेंच पातोक कोरूना.' अशें म्हणत फिलसू मिसाक तयार जालें. कान वटारून तें मीस आयकूंक तयार जालें.

आनी पिटराची नविदाद गांवांत पादीगाराच्या इंग्लेज मिसान सुरू जाली. शारांतले इगर्जेंतलो पादीगार खूब बरें मीस इंग्लेजींतल्यान सांगतालो. वरभर मीस सांगून जातकच कपेलाच्या माटवांत एकूच बोवाळ जालो. कोमून्यांव घेवपाक लायनीन राविल्ल्यो बायलो पादीगारामुखार वचपाक भियेल्यो. फिलसू तर कापडाचो पदर वयर काडून दोळे पुसपाक लागलें. फिलसू रडटा, येजमान्य रडटा तें पळोवन कार्मेलीन रडपाक लागलें. कार्मेलीन रडटा तें पळोवन फिलोमेन आनी फिलोमेनाक पळोवन माग्दालेन, रोजमारी सगलींच रडपाक लागलीं.

पिटर हो प्रकार पळोवन आबूज जालो. तो बेगीबेगीन आपले मांयसरीं गेलो. मांयक ताणें सांबाळून धरली. 'मांय मांय, कितें जालां तुमचें सगल्यांचें?'

'पुता पुता... आमी पातकी रे... पादीगाराचें मीस आमकां कांय एक सोमजोलें ना. पादीगारान सांगलां म्हूण सांगतालो मुरे तूं... तशेंच जालें. हांव पातकी, हीं सगलीं रडटात तितलींय पातकी... आमकां तुज्या फेस्ताचें मीस मात लेगीत सोमजोलें ना पुता...' अशें म्हणत परत फिलसू निश्पापपणान आपल्या तांबड्या कापडाच्या शेवान परत दोळे पुसपाक लागलें. ते वटेन पातकी नाशिल्ले आपणाक पवित्र समजुपी पादीगाराकडल्यान जेजूची कूड आनी रगत कोमुन्यांव म्हण जिबेर घेताले आनी धादोशी जावन घरचे वाटेक लागिल्ले.



१९.

# खेत्र

'अंदूं खेत्र कोण करतलो?'

गांवभर गांवकारांच्यो भुंवयो वयर करून एकामेकाक प्रस्न.

'हय, हांवूय तेंच म्हणटां, अंदूंच्या दसऱ्याक खेत्र कोण करतलो?'

खेत्र केलेबगर वर्सावळीचो दसरो जावं येता? गांवच्या तिठ्यार, चावडेर, दर एकल्याचे चौकेर आनी पसरकारांल्या नाबीचेर सोडाच, गांवच्या सार्वजनिक नळार आनी बांयचे धडेर सुद्धां दादले बायलो खेत्राचोच प्रस्न एकामेकांक करतालीं. 'अंदूं खेत्र कोण करतलो?'

आनी मागीर कोणूय मदींच म्हण, 'बाबनी भगताल्या कुटुंबांतलो कोण ना तर कोण आसात जायते, पूण तांचेर अवसर येवं नाका, बेताळ तो. सोंपेपणान येवपाचो न्हूं.'

बाबनी भगत मेल्यार स म्हयने जातले, बाबनीचेर येतलो तो अवसर आतां येतलो तरी कोणाचेर हो सगल्यांचोच प्रस्न आसलो. बाबनीक हक्काचो वारस नासलो, पूण रगताचो नक्कींच आसलो. पूण रगताच्या वारसाक गांव मानिनासलो. बाबनी भगताचीय गजाल तशी विचित्रांचीच. बाबनी भगत अधिकाराच्या देवधर्माक पाळो दिवन चारचौगांच्या आशिर्वादान लग्न जाल्लो. बरींच वर्सां बायलेकडेन संवसार केलो पूण बायलेची कूस उजवलीना. बाबनी भगताचेर आकांताचो कलकल आयलो. वंशाचो दिवो पेटलोना जाल्यार अख्खो संवसार काळखांत बुडटलो अशी ताची धारणा जाल्ली. बाबनी भगत बेताळाचेर पातयेवन बरोच तेंप वाट पळयत रावलो. बायल खंयच्याय एका म्हयन्यार ती खोशयेची खबर ताच्या कानांत सांगतली अशी ताची भावना आसली. पूण तशी खबर आयकुपाचें भाग्य बाबड्या बाबनीच्या कपलार सटयेरातीं बरोवंक नासलें. मनशाचें भाग्य आनी दुर्भाग्य सटये रातीं बरयतात आनी तेंवूय बी मनशाच्या कपलार. आनी कपल केन्ना लिपोवंक जायना. तें सताड उकतें मळ कशें मळबावटेन उकतेंच दवरचें पडटा. तें केन्ना फळटा, केन्ना फुट्टा. जेन्ना फळटा तेन्ना नशीब भरून व्हांवता, तेन्ना कपलाचें नांव नासता. मात जेन्ना नशीब व्हळटा तेन्ना कपल फुट्टा, आनी अशा कपलफुटक्याक आमी खपनखायरो, फुटक्या कपलाचो म्हणटात. बाबडो बाबनी भगतूय फुटक्या कपलाचो आसलो. ताच्या घरांत वंशाचो दिवो पेटलो ना.

बाबनीच्या घरावयल्यान दर वर्सा दडकांच्यो दडको पडून गेल्यो, सगलें सैम ओलें जालें. तळपांक लेगीत शाळो जालो आनी पाशाणाक आंकऱ्यो फुटल्यो. पूण बाबनीक मात ओलसाण मेळ्ळीना. बाबनी कोसांनी महासागराच्या पाणयांतल्यान सूर मारून आयलो

तरी सुकोच उरलो. आनी मागीर सागराच्या ल्हाराचेर एखाद्रे फळकुळेन उफेवत उफेवत खंयचे खंय व्हांवत वचचें तशी गत बाबनी भगताची जाली आनी एक दीस तर बाबनीच्या घरकान्नीनूच काळजार फातर दवरून बाबनीक म्हळें, 'तूं दुसरें लग्न जा.'

'अं? दुसरें लग्न? आतां आनी दुसरें लग्न करपाचें उरलां?' पावस सोंपलो, तळें आटलें, सड्यावयली हरयाळी करपली, मळावयलें तण पेणी बांदून गोठ्यांमाळ्यार दाळ्ळें, शेतांत दिपळय वयर सरले आनी पाचवें रान सुक्या पत्र्यान भरलें. त्या पत्र्यांतल्यान चलतना कोणेंय ताच्या सुकिल्ल्या काळजार चर्रर करून पांय दिवचो अशें ताका जालें.

बाबनी भगत तकलेन इरार जालोना. मनांतलें दुख्ख तशेंच तेंवोवन तो रावलो आनी सटयेरातीं ताच्या कपलार आनीक एक कांड बरयिल्लें आसलें, तें बाबड्या भग़ताकय खबर नासलें.

ती रात कायलटाची आसली. गांवच्यो सिमो दाळपाच्यो. मालूण म्हयनो लागिल्लो. देंवचाराक तृप्त करपाचें आसलें. सगळीं धावां दाळपाचीं आस़लीं. मेल्ल्यागेल्ल्यांक संतुश्ट दवरूक जाय आसलें. कोणागेर म्हाळ वाडपाचो आसलो तर कोणाले धांवशी रोवदिऱ्याक सोरो रोंट पावोवपाचो तर गाळींतल्याक कोंबो पावोवपाचो आसा. सगल्यांचें येणें सगल्यांक पावोवप ही वर्साची भोगावळ.

बाबनी भगताले वर्सावळीचें एकूच म्हत्वाचें कार्य बाकी उरिल्लें.

सिमेपुरसाच्या देवळांतल्यान बेताळाक प्रसाद शिजोवन व्हरपाचो आनी दुसऱ्या दिसा दसऱ्याक कुंवाळे कापून खेत्र करपाचें.

हय, चोरू घालूंक जाय, सिमो दाळूंक जाय. भुतांखेतांक फातरीपोंदा दवरूक जाय. वर्साभशेन गांवांत गाराणें घालूंक जाय. बाराजाणांचो उगडास करूक थंय विडी पान दवरूक जाय. वयले खेत्रा तळयेर खाणीर कोंबो मारूक जाय आनी हें सगलें हांव आसासर हांवें करूक जाय. बाबनी भगताच्या मनांतल्यान अशे ताचे परंपरेन आयिल्ल्या कर्तव्य भावनेचे लोट व्हांवपाक लागले आनी झटको बसचो तसो तो विचार ताच्या मनांत त्या खिणाक आयलो.

'वांजडान देवाचो चोरू शिजोवप बरें न्हू, अंदू चोरू घरांत शिजोवप ना. इतलेंच न्हय तर वांज बायलेची चोरवाचेर नदर सुद्धां पडूंक फावना. बाबनी भगताक यमुनाची याद जाली. यमुना तशें बाबनी भगताल्याच फामिलींतलें. धडधाकट आसून बाबडें एकटें एकसुरेंच उरलें. भावभयणां लग्न जालीं आनी कोणें तरी ज्योतिशान यमनें लग्न जावंक शकना, ताका खर मंगळ आसा म्हणपाचें सांगलें. तेन्नाच्यान यमन्यान एकटेंच रावपाचें थारायलें. सांगातान आशिल्ले आवयन दोळे धांपल्यार बरींच वर्सां जालीं. यमुना चाळिशींत पाविल्लें पूण आपलें सगलें तारुण्य सांबाळून आशिल्ल्यान ताका कोण चाळिशींतलें म्हणच नासलो.

बाबनीक चोरू शिजोवन दिवपी फकत यमुनाच आसलें. तें कोणालींय कामां आंगार घेतालें. गांवांत जावपी लग्नाचीं जेवणां करचीं तीं यमुनानच, अशी यमुनाची ख्याती जाल्ली.

ते रातीकडेन बाबनी भगतान यमुनाच्या घराची वाट धरली. ताणें काळखांत दारार मारलें. अशे राती यमुनागेर कोण वचनासलो. यमुनाच्या घराक तेंकून रामालें घर, उजव्यान रोगुलें तर फाटल्यान पुंडलिकालें. आनी यमुनान तशी फाकुल्दाद कोणाक दिवंकय नासली. मंगळाचो रखरख तें एकटें झेलतालें. ताचें आंग प्रतीआंग भगभगून करपतालें, पूण मनाचो तोल केन्ना वचूंक दिलो ना. अशा यमुनाच्या घरार जेन्ना बाबनी भगत मारता तेन्ना थंय कोणाकूच दुबाव घेवपाक इल्लीय सुवात नासली.

बाबनी भगताले जिणेंतली ती रात ताचे जिणेचो एक संस्मरणीय खीण जातलो अशें घडये नियतीकय खबर नासुंये. सगलेच खीण कपलार बरयिल्ले नासतात जावंक जाय. नाजाल्यार बरयिल्ले आसल्यारूय ते वाचपाची नदर कोणाक नासता. आनी खरें तें. कोणाच्याय कपलावयलें वाचपाची नदर जर कोणाकूय मेळिल्ली जाल्यार ह्या संवसाराची उलतापालत खऱ्यांनीच थांबोवं येताली. बाबनी भगताच्यानूय यमुनागेर चोरू शिजोवंचो सोडून तो रामागेर, गंगागेर ना जाल्यार नागोबागेर शिजोवं येतालो, पूण तशेंच घडपाचें आसलें आनी जशें घडपाचें आसता तशें घडत वता.

बाबनीन यमुनाल्या दारार मारलें आनी यमुनान कोण असो प्रस्न भितरल्यान करचे पयलींच बाबनी भगतान भायल्यान म्हळें, 'यमुना, हांव गो बाबनी.'

'बाबनी...'

आनी यमुनान कसलेच आडेवेडे घेयनासतना खिणाभितर दार उकतें केलें.

'बाबनी, कितें जालां? तूं आनी येदे रातीचो?'

'हय यमुना. तुवें म्हजें एक काम करूंक जाय. फाल्यां चोरू तुवें शिजोवंक जाय.'

'खंय, तुमगेर येवन मरे? आं समजलें. व्हनयेचो हात लागना मरे, समजलें. येतां हांव.' यमुनान खऱ्यांनीच सहजपणान म्हळें.

'ना गो, तें खंय आसा आमच्या नशिबांत? तशें कांय ना. पूण म्हाका वगीच कशेंशेंच दिसता.'

'कित्यासंबंदान?'

'वांजडाच्या हातींतलो चोरू देवा धर्माक घालचो न्हय म्हणून.'

'पूण इतलीं वर्सां तर...'

'अंदूं ना. घडये तेंच बादता आसत म्हाका.'

'देवाक विचारलें?'

'देव आनीक दुसरें कितें सांगतलो? देवाक जायें म्हणोन अशें घडलां न्हू गो? तें आसूं, तुवें फाल्यां चोरू शिजोवंक जाय. पायलेचो. देवाचें बरें बरें जावंक जाय.'

'तुजें देव बरें कित्याक करिना रे?'

'कितें सांगतलों? सगलें करून पळयलें. देवा म्हणोन कितलें करप?'

'दोतोराक दाखोवना?'

'देवाच्यान जायना तें दोतोराच्यान जातलें?'

'आतां येयल्या न्हू नये नये उपाय...'

‘चुट्टी लाय तेंकां.’

‘बरें आसा, तुका जाय तशें.’

‘चोरू हांगाच शिजोवपाचो. हांगाच्यान तोप माथ्यार मारून हांव व्हरतलों.’

‘माथ्यार मारून व्हर नाजाल्यार हड्ड्यार मारून व्हर. चोरू शिजोवपाचें म्हाजें भाग्य!’ अशें म्हणत बाबनी भगत यमुनाचो निरोप घेवपाचे तयारेक लागलो.

‘वयता? बस मरे. केन्ना येय नासलो मनीस तूं. सोयरो खंय तो? आमची अशी दशा म्हणोन आमचेर नदरूय घालप ना रे?’ यमुनान विशय बदललो.

‘यमुना, हो गांव पाडो. वगीच कित्याक ती बदनामी?’

‘बदनामी शी कित्याक जातली?’

‘तशें न्हू गो. लोकांचीं तोंडां मागीर धरू येता?’

‘तुका कितें हांव परकें तर? फामिलींतल्या मनशाची खबर फामिलींतले घेवंचेनात तर कोण. दुस्मान घेतले? बाबनी, खूप उतळताप सोंसले रे हायें. जीण म्हणटा ती केन्ना चाखलीच ना. फुकट जालें सगलें. नशिबांत येयले ते मंगळ. कितें कात देव जाणां. लोकांल्या भुरग्यांचें वायट नाका म्हणोन इतलीं वर्सां अशीं सारलीं. आतां आनी खंय आसा कितें? अशेंच सुकोन सुकोन मरपाचें.’

ताच्या त्या उतरांनी बाबनी चरकलो. ताणें यमुनाच्या दोळ्यांत पळयलें. रातीच्या त्या मंद उजवाडांत यमुनाच्या दोळ्यांत फुलिल्लीं कमळां आनी त्या कमळाच्यो टवटवीत पाकळ्यो तटास जावन कोणेंय तरी हुंगच्यो म्हणून तयारेन रावल्यात कश्यो दिसताल्यो.

बाबनीच्या मनांत हो खीण मेरेन येवंक नाशिल्ल्या विचारांचें तांबशें ताच्या काळजांतल्या दोंगरांमदसून येवंक लागलें आनी ती तांबसाणूच सुलूस दिवपाक लागली, त्या दोंगराच्या देगणांनी, खंयच्याय खिणा प्रत्यक्ष सूर्यानूच उदेवचें!

बाबनी खीणभर वगीच राविल्लो. त्या काळार थंय तांचे बगर कोण एक नासलो. यमुना झिरझिरीत पातळ न्हेशिल्लें. ताच्या त्या पातळांतल्यान ताचो तटास देह अदिकच उबार दिसतालो. बाबनीन मनाचेर ताबो मेळयलो आनी तो भानार आयलो आनी ‘फाल्यां चोरू शिजोवंक येतां’ अशें म्हणत दार उकतें करून तो घराकडेन चलूंक लागलो.

पूण केण पडिल्लें. केणान कीट पडिल्ली आनी चोरू घालो तरी कीट पालवचे सुवातेर किटीन सुकें सरसरीत करड चरचरीत लासून उडयिल्लें. उजो सगल्या आंगापांगाक पेटिल्लो.

चोरू शिजोवन जालो, दसरो जालो, पालगणां जालीं, कवळासूय जालो. दसरो सोंपलो आनी इतले म्हणसर वर्स सोंपलें आनी दुसरो दसरो आयलो. बाबनीन आपलें दुसरें घर यमुनागेरच केल्लें. बाबनीक कोणें कांय म्हळेंना. उलट सगल्यांनी ताची काकुळटूच केली.

आनी भोंवतणच्या समाजाची मान्यताय मेळिल्ल्याचें धरून बाबनीन यमुनाकडच्यो सगल्यो शिमो-मेरो हुपल्यो. आनी एक दीस ताच्या शेतांत भांगर जालें.

‘आतां कितें करपाचें?’ रसरशीत जाल्ल्या यमुनाक एकेवटेन परमानंद, तर दुसरेवटेन

समाजाचो भंय. अनैतिक, कायद्या भायर अशें.

बाबनी भगताच्या तपाची इत्सा फळाक पाविल्ली, पूण तो अशे अवस्थेंत, अशे विवंचनेंत. पूण जें इतलीं वर्सां स्वताचे बायलेच्या कुसव्यांत चिंतिल्लें तें यमुनाच्याच कुसव्यांत जाल्लें. बाबनी भगत माड कसो मळबाक पळोवन आनी रखरखत्या सुर्याचें वोत घटाघटा पियेत यमुनाक म्हणूंक लागलो,

'कवाथो किल्लतलो, कवाथ्याचो माड जातलो, म्हजो माड मळब तेळून दिगंतरां पावतलो, चारूय कोनशे धुंडाळून अख्खें ब्रह्मांड माइडितलो, आनी बाबनी भगताच्या ह्या बेताळाच्या अवसराक कोणाच्यान थातारूंक जालेंना.

बाबनी भगत उलयलो तशेंच घडिल्लें.

पूण ––

बाबनी भगत मेल्यार स म्हयने जाल्ले. दसरो आयिल्लो आनी दसऱ्याचो अवसर बाबनी भगताच्या वारसाक तिश्टतालो. गांवपण जालें, देवाक प्रसाद लायलो. प्रसादार देवान सांगलें, योग्य वेळार बरें तेंच जातलें.

इल्ले इल्ले दसऱ्याचे दीस लागीं पावले. गांवाचेर आकांत आयलो. गांवांत कोणूय गडो खुदचो, बेताळाचो अवसर येवचो आनी वर्साचो दसरो जावचो अशें जाण्ट्या-नेण्ट्यांक दिसतालें.

आनी चड वेळ वगडावंक फावना म्हणून गांवच्या बेताळाच्या देवळांत धा जाण जमले.

'खेत्र कोणेंय केल्यार जाता. फकत फ़ामिलींतलो जाल्यार पुरो ना?'

'पूण कोण आसा तो तरी सांगा मरे भगतालो वारस. कोणूय आसल्यार तेणें येवचें फुडें.'

अनंत गुरवाचीं उतरां प्रत्येकाच्या काळजार घण कशीं बसतालीं. पूण कोणूच कांयच उलयनासलो. इतल्यांत एका तरणाट्याचो आवाज खांब्याफाटसून आयलो. त्या तरणाट्यान म्हळें,

'हांव मात्सो उलोवं?' सगल्यांच्यो नदरो ते गर्देंत त्या आवाजावटेन घुंवल्यो.

'यो यो. असो मर्दी यो. उलय.' एका जाण्टेल्यान त्या तरणाट्याक धीर दिलो तसो तो तरणाटो गर्देक कडेक काडीत फुडें सरलो.

'हांव जाणटो न्हू, पूण तुका वायट दिसना जाल्यार म्हज्या मनांतलें तुमकां सांगूंक सोदतां. तुमकां खेत्र करपाक बाबनी भगताचोच वारस जाय न्हय?'

'हय तर. तेजेंच घराणें भोगता न्हूं तो मान. पूण बाबनीक कोंब फुटलो ना न्हूं.'

'कोण सांगतात बाबनी भगताक कोंब फुटलोना म्हणून?' तो तरणाटो आवाज चडयत म्हणपाक लागलो.

'तुका कितें म्हणपाचें आसा?' एकट्यान आवाज गुरगुरायत म्हळें. ताका त्या तरणाट्याक कितें म्हणपाक जाय आसलें तें समजल्लें. तो तरणाटो बाबनी भगत निरवंश नाशिल्लो हें सांगपाक सोदता हें आतांमेरेन सगल्यांक कळून चुकिल्लें. देखून गांवांतल्या जल्म्यान

ताळो खणखणावन म्हळें, 'पोटाचो पोर कायद्याचो दोर जायना. देवाधर्माक मान्य ना तें. तूं कितें सांगूंक सोदता तें आमकां खबर आसा. यमुनाच्या चेड्याचें नांव घेवंक सोदता मरे तूं?'

'सारकें तुमचें. तोच भगताचो कोंब आनी वंशाचो वारस!'

'अशें आमी मानिनात. आमचो देव मानचोना. हो बेताळ मानचोना.'

'विचारून पळयात देवाक.' तो तरणाटोय आतां आत्मविस्वासान उलोवंक लागलो.

'देवाक विचारपाची गरजूच ना. आमी सांगतात, देव धा जाणांच्या मुखांतल्यान वदता. तें तुमकां आतांच्या पोरांक कळपाचें ना.'

'तशें जाल्यार सोदात तुमी वारस. पळोवया कोण फुडें सरता तो.' त्या तरणाट्यान खरें म्हळ्यार गांवाक आव्हानूच दिल्लें.

त्या दिसा बरोच वेळ गांवपण जालें. उपरांत राती जागयल्यो आनी जसो जसो दसरो लागीं पावता तसो गांवाचेर कलकल येवंक लागलो.

बाबनी भगत मरत पासून यमुनान आपलें कपल धवेंफुल्ल दवरिल्लें. यमुनाक बाबनीन शिरंगार भरूंक नासलो. भांगतिळो रंगोवं नासलो, गळ्यांत पोडभर पिड्डुको गुंथून घालूं नासल्यो वा पाव पोवनाचो मणीय बांदूं नासलो. पूण मंगळाचे भिरांतीन कोणाच्या वाऱ्याक लागीं रावूंनाशिल्लें यमुना, कोणाच्याच साद्या स्पर्शान आफडूं नाशिल्लें यमुना पयल्या स्पर्शापासून ते निमण्या स्पर्शामेरेन खंयचेय पतिव्रतेक लजोवची अशें राविल्लें. ताणें बाबनी भगताच्या गर्भाची जतनाय तळटावयल्या फोडाची घेवची तशी घेतिल्ली. आयज यमुनाचो चेडो हो कोणाचो चेडो तें जगलोकांक खबर आसलें. फकत जावं नासले ते संस्कार. जे संस्कार मनशांनी केल्ले आनी समाजान मानून घेतिल्ले ते संस्कार तांच्या मिलनांत जावंनासले.

यमुनाचो पूत गुरू शिकून सवरून परगांवांत शिर्वीस करतालो. ताणें आपलेसरी आवयकय व्हेल्ली. ताका लागून गांवांत कितें घडटा तें यमुनाकय कळपाक मार्ग नासलो. मात गांवांतलो उत्सव यमुना चुकयनासलें. जात्रा, कालो, नवरात्र, सगल्यो परबो ते गांवांत येवन मनयताले. पुताक गुरूक त़सलें कांय एक लागनासलें. ते खातीर गांवांतल्यो घडामोडी गुरुच्याय राज्याक खबर नासल्यो. बापूय बाबनी भगताचे निमाणे संस्कार करूंक गुरू गांवांत आयिल्लो तितलोच. बाबनीच्या सरणाक अग्नी दितना कोण कोण कितें कितें फुतफुतले ताचेकडेन दुर्लक्ष करून गुरून बाबनीच्यो निमाण्यो सगल्यो क्रिया केल्यो.

पूण आतां प्रस्न आसलो तो गांवचो. गांवच्या देवसपणाचो. दसऱ्या पयलीं खेत्र जावंक जाय आसलें. आनी खेत्र करपाचो अधिकार फकत अवसर भोगतल्याक.

शेवटाक निमाणो प्रयत्न म्हणून परत एकदां गांव जमलो. परत देवाक प्रसाद लायले. देवान परत तीच जाप दिली. कार्य जावन वयतलें, चिंता करपाची गरज ना. इतल्या वर्सांची भोगावळ थांबचीना. पूण प्रसादाचेर पातयेनासतना निमाणो उपाय म्हणून बाबनी भगताच्या भाच्याक मामाची खेम दिवपाचें धा जाणांनी थारायलें. बाबनीचो भाचोच बाबनीचो हक्क फुउडें चलयतलो असो निर्णय धा जाणांनी घेतलो. आनी ते रातीकडेन

गांव फापसलो.

खेत्राचो दीस उजवाडलो. सकाळींफुडेंच देवळाकडेन धोलक्यार बडयो पडपाक लागल्यो. अख्खो गांव आयज बेगसारूच उठिल्लो, न्हावन धुवन सगलो गांव बेताळाच्या देवळाकडेन लोटिल्लो. वर्सापरस अदूं खेत्राकूय गर्दी जाल्ली. लोकांच्यो नदरो बाबनीच्या भाच्याचेर थिरावल्ल्यो. बाबनीचो भाचो काळो कळो, पूण जिवान आकांताचो आसलो. तो धवेंफुल्ल धोतर न्हेशिल्लो. गळ्यांत माळ घाल्ली, कपलार गंधा पाट काडिल्ले. आनी खेत्र करपाचे तयारेन तो हातांत तरसाद घेवन उबो आसलो.

बेताळाचे चौरंगी पाशाण शिळेचेर एका धव्याफुल्ल लुगटाचे घडयेर गांवच्या मडवळान कुंवाळो दवरिल्लो. आनी ग्गाराणें घालेउपरांत तरसादीन त्या कुंवाळ्याचीं दोन अर्दीं मनशाचे तकलेचींच दोन अर्दीं करतात अशें चिंतून करपाचीं आसलीं.

ढमऽ ढमऽ ढमऽ... ढोलक्यांचे गाज सगले शिंवर गाजोवंक लागले आनी इतल्यांत ते गर्देंतल्यान बाण कसो सूऽसूऽ करीत एक तरणाटो फुडें आयलो आनी कितें घडटा तें कळचे पयलींच हातांत तरसाद घेवन आशिल्ल्या मामाच्या भाच्याक हिसको दीत ताच्या हातांतली तरसाद घेवन कुंवाळ्याचीं दोन अर्दीं करपाक फुडें सरलो.

गुरू बाबनी भगत आनी यमुनाच्या रगताचो वारस अख्ख्या गांवाक आव्हान दितालो आनी ताचो तो अवतार पळोवन गांवचो जल्मी, गुरव, गांवकार आनी सगले धा जाण वांवभर फाटीं सरून जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हणून ओंठ थरथरत पयस उबे रावले.

कितें घडटा तें पळोवपाक भोंवतणी घिट्ट्यो पडपाक लागल्यो. तरणाटे तर सगले एका सिनेमांत पळोवचें तशे पळयताले. सगळ्यांचीं काळजां घपघप जातालीं. खंयतरी भुंयकांप जावचो, सगल्यांची भियेवन गुळी जावची तशीच कितें तरी थोड्यांची अवस्था जाली.

आनी वाऱ्यार तरसाद वावडीत साम्-साम् असो वारो कापून गुरून ते गर्देक, त्या चोम्याक आनी अख्ख्या मेळाक साद घालो आनी म्हळें, 'आयज हांगा बाबनी भगताचो वंश हें खेत्र करतलो.· गांवच्या भल्याखातीर, बऱ्याखातीर. जरूय कोणाकय बाबनी भगताच्या रगताची पारख करपाचीच आसा जाल्यार ताणें ती पयलीं करची.' आनी अशें म्हणत गुरून तरसाद आपले तकलेर उबी धारेन दवरली आनी थंयच पाशाणी चंवरेर आशिल्लो नाल्ल उखलून ताणें घडायंच करून धरून तकलेर धरिल्ले तरसादीचेर मारलो. एकूच आवाज. कच्च जालें आनी गुरूच्या माथ्यांतलें रगत तरसादीक लागून तरसादीची धार रगतान तांबडीगुंज जाली. ताणें तशीच ती तरसाद घेतली आनी कचायंच करून कुवाळ्याचीं दोन अर्दीं केलीं.

खेत्र जाल्ल्यान गांवकारांनी हुसक्यामेकळो हुस्कार सोडलो आनी म्हळें, 'साक्षात बाबनीच मरे! बेताळ कसो!!'



# एक घुस्पल्लें मन

रातीन आंगावयल्यान चान्याची देग आशिल्ली काळखाची साडी सोडोवंक सुरवात करिनाफुडें उजवाडान तकली वयर काडली. खंयच्याय आडोसाक रावून उकते जागेर मनसोक्त न्हावपी जुवान तरणाटेक चोरून पळोवपी तरणाट्या भशेन तो उजवाड चोरपावलांनी रातीच्या काळख्या आंगांत घुसतालो आनी रात इल्ली इल्ली विरघळून वताली.

फांतें सदांच हांगा अशें प्रसन्न आसता. जनेलाकडच्या करन्यार गिरबुजीं चिंवचिंव करूंक लागतकच म्हाका सदचेभशेन जाग येता आनी हांव आंग मोडीत उठपाचो यत्न करतां. उठचे पयलीं मात्शे हातपांय हालोवन आंगांत हुनसाण हाडटां आनी सगली आळसाय झिडपून तटायंच करून उठून सोमतोच उबो रावतां. उपरांत रातीं दवरिल्लें गरम उदक मेजावयलें झार काडून कडकडीत पितां. लिटर देड लिटर उदक सकाळीं पिवपाची म्हजी संवय आतां म्हाका बऱ्याक पडल्या. उपरांत मात्सो व्यायाम आनी वणटीवयले घडयाळीकडेन पळयत पळयत उडक्यो मारून तसोच न्हावपाक वतां.

मात त्या दिसा म्हजो हो दिसपट्टो उपक्रम म्हाका करप शक्य जालेंना. हांवें कच्च करून आंग काडलें. अशें फांत्यापारार कोणाचेय हुंदके भायर सरप म्हळ्यार कशेंशेंच. शांत वातावरण हुंदक्यांनी पिसडून उडयलें आनी लख्ख उजवाड जातां जातां एके मानसिक अवस्थेचो स्फोट जालो.

‘कितें जालें? अशें रडप कितें? आयकल्यार कोणाकूय कितें दिसुये?’

‘म्हजें हांगा आतां कांयच उरूंक ना. ह्या संवसारांत म्हाका म्हजो कोण ना. हांव – हांव एकटें एकसुरें. आईचो धीर दिसतालो तोवूय ना आतां. आनी तूं तर असो वागता, परकी कसो. कोण कोणाचोच न्हय कसो.’

‘तें उलयतालें. हांवें ताका म्हळें, ‘उलय, सगलें उलोवन भायर उडय. मन रितें जावपाची गरज आसा. खंयच्योय भावना मनांत जश्यो तुंबल्यो न्हय तेन्ना त्या भावनांची गत कोण जाल्ल्या उदका भशेन जाता. कोणांतलें उदक मागीर दाट जाता, ताचेर शेळो जाता. उपरांत तें कुसता आनी मागीर उदकाकूय सोसूं नजो तसलो दर्प मारता. आनी अशें उदक मागीर तें कोणूय इबाडून उडयता. सगलो वाठार इबाडून प्रदुशीत करता. भावनांनी तुंबिल्लें मनशाचें मनूय त्या मनशाची गत अशेंच करता. पूण एक सांगूं?’ हांवें ताका म्हळें.

‘म्हाका कांयच आयकुपाचें ना.’ अशें म्हणत तें रडतच उठपाक लागलें.

ताची ही पयलीच खेप न्हय. आदीं तें म्हजेकडेन झगडटालें, खूब झगडटालें. आतां ताणें असलें आरंभलां. अशें अचकीत मेळत तेन्ना उठप आनी आपली असहायपणां उकतीं करप.

खूब खेपो म्हाका ताच्या अशा वागपाचो संताप येतालो. बायलमनशेन इतली असहाय्य निराधार कशी कित्याक वागचें तेंच म्हाका समजनासलें. दोग मनशां एकठांय येतात आनी एका घरकुलांत तीं एकठांय रावतात हाचो अर्थ तीं शरिरान एक नासतात, मनान एक नासतात, विचारान एक नासतात. प्रत्येकाचें मन म्हळ्यार खोल खोल एक महाविश्व कशें. ताचो आकांताचा आंवांठ आनी वाठार शीममेर नाशिल्लो देखून कोणाच्याय मनाची खोलाय कोणाकूच मेजप आयजवेर शक्य जालेंना ताचेंय कारण हेंच जावंये. दोन जीव एक जातात, दोन मनां एक जातात ही सगली भाशा साहित्यांत सोबता. ती वाचूंक आनी आयकूंक खूब बरी लागता. पूण वास्तवतेंत मात दोन शरिरां, दोन मनां, दोन रुपां वेगवेगळ्या मार्गांचेरूच आसतात. दोगांमदलें नातें ही एक मानसिक अवस्था आसता. केन्ना केन्नाय हिवूय अवस्था इबाडून वता. नातें खरें आशिल्लें जाल्यार संवसारांत घटस्फोट कित्याक जावपाचे? एक घोव बायलेच्या जिवार कित्याक उठपाचो? बायल घोवाचें नातें संपर्काच्या संबंदांचेर आनी अंतराचेर पातयेवन उरता, देखून केन्ना कोण कोणाचो नाशिल्लो संपर्कांत येतकच तो तुजो जाता आनी तुजो म्हणून आशिल्लो तुजो नासता तेन्ना संपर्क उणो जाल्लो आसता. खरें सांगूं, म्हजे बाबतींत अशें कांय एक घडूंक ना. हांव मनान आनी ध्यानान तुजोच आसां. हो हांव तुजो कित्याक जाणां? तूं म्हाका तुजो मानता म्हणून न्हय. तुवें मानप, ना मानप म्हाका पडून वचुंना, म्हाका पडलां तें तुंवूय एक म्हजे भाशेन मन, भावना आनी आशा आकांक्षा आशिल्लें. कांय सपनां काळजांत बाळगून आशिल्लें हाडामांसांचें मनीस. एक व्यक्ती आनी एक व्यक्ती. एक वेगळी आयडेंटिटी.

हांव उलयतालों अनी तें दोळे भरून ओतपी दुकां पुसतालें.

म्हाका तुजीं दुकां पुसपाचीं नात. तीं दृश्यां सिनेमांतलीं, नाटकांतलीं. तीं खरीं नासतात. केन्नाकेन्नाय दोळ्यांत ग्लिसेरीन वो अमृतांजन घालून काडिल्लीं दुकां आसतात, देखून तीं पुसप खूब सोपें आसता. खरीं दुकां पुसप शक्य नासता. कारण, त्या दुकांचीं मुळां खोल खोल काळजांत भरिल्लीं आसतात. तुज्या दोळ्यांतलीं दुकां देखून पुसप शक्य ना. तीं वयलीं वयलींच आशिल्लीं जाल्यार जावं आसलें.

'म्हाका खऱ्यांनीच कितें करचें तेंच समजना.'

'तुवें म्हाकाय वळखुंना, तुवें तुका स्वताकूय वळखुंना.' हांवें म्हळें, तशें आतां तें पुराय भानार आयिल्लें. इल्लें इल्लें तें लख्ख वास्तवतायेंत देंवतालें.

'म्हाका भंय दिसता रे.'

'कसलो भंय? कोणाचो?' हांवें ताका म्हळें. पूण हें म्हणप धिराचें नासलें. म्हाका निखालूस ताका धीर दिवपाचो नासलो. तें कोणाच्या तरी धिराक रावता हेंच म्हाका मान्य ना. सभावीक पानवेल नाशिल्ले वालीन गरज नासतना माडमाडयेक कित्याक, वेटाळो घालून रावचें?'

'हांवूय पानवेलच रे.'

'न्हय, पळय, तुका पाळांमुळां आसात. खोल खोल पांय रोमपाची तुज्यांत शक्त आसा. मळबाचो आंवाठ जाणा तूं.'

'म्हाका तुजी भाशाच समजना. सोंपे भाशेन उलय रे.'

म्हाका खऱ्यांनीच ताची काकूट येताली पूण ती येवप म्हळ्यार म्हजो पराजय. ताचें स्वतंत्र व्यक्तिमत्व घडचें आनी घडोवचें अशें दिसून हांवें म्हजे परीन सगलें गिळून वागप हेंच योग्य आसलें.

हें पळय, तुजी म्हजी ताटातूट फकत आमच्या मदल्याक एकल्याक मरण आयल्यार. पूण ही ताटातूट फकत शारिरीक आसतली. जिवो उरिल्लो आपली मानसिक अवस्था काय मारून बसचो ना. समजा हांव तुजे पयलीं गेलों जाल्यार तुजे मनस्थितींत हांव आसतलों आनी तूं पयलीं गेलें जाल्यार म्हजे मनस्थितींत तूं आसतलें.'

'अशें कित्याक उलयता तूं?'

'सत्य तें उलोवंक जाय. उलोवंक जाय इतलेच खातीर की तू जे पद्धतीन जिणेकडेन पळयता तें म्हाका मान्य ना. तुजी आसक्ती, तुजो अधिकार, तुजो मोग माया हें सगलें आसा पूण तें तुजेकडेन आनी म्हजें म्हजेकडेन. आनी खरेपणीं ताचें प्रदर्शन करप शक्य ना. देखून आतांय ह्या खिणाक हांव तुजें कितलें बरें येवजितां तें कशें दाखोवं तुका? तें वेंगेंत घेवन, तुज्या केंसांतल्यान ल्हवूच हात भोंवडावन दाखोवंक येना. कारण अशा वागपांतूय नाट्य आसूं येता.सिनेमांत आमी असले देखाव कितले पळयतात. खरे आसतात ते? तुका तसले देखाव जाय?'

'हें पळय, ह्यो गजाली फकत समजुपाच्यो आसतात आनी जाका समजुपाची तांक नासता ताची गत तुजे भशेन जाता. तांच्यो भावना तुंबतात, तांचो स्फोट जाता.'

'म्हणजे तुका समजुपाक हांव कमी पडटां?'

'येस, तुजीं दुबळेपणां तुका दगो दितात. तूं थातारपाचो खूब यत्न करता. पूण शेकीं हार खाता. तुका कसलो भंय दिसता, जो भंय हांगासर आसा आनी नावूय बी?'

'ना. म्हजे पुरतो तरी भंय ना. कारण तुका भियेवपी हांव कोण न्हय. म्हजे भशेनूच हांव तुजें स्वतंत्र व्यक्तिमत्व मानतां. तें व्यक्तीमत्व म्हजे इतलेंच प्रबळ आसा. गंभीर आनी खंबीरूय आसा. आसूंक जाय. म्हज्या व्यक्तित्वाच्या पोशान तुवें तुज्या व्यक्तित्वाची तान भागोवची अशी म्हजी इल्लीय इत्सा ना. पूण दुर्दैवान हे मातयेंत मूळ धरून स्वतंत्र रितीन चलपाची तांक आशिल्ल्यो वाली अश्यो कुल्पाद जावन निराधारपणाचें लटकेपण घेवन रुखाचे धिगयेक कित्याक धांवतात तेंच समजना.'

'म्हणजे हावें तुजेकडेन...'

'नो... नो... तसो अर्थ न्हय. हेंच तर वास्तव आमी न्हयकारतात आनी भावनांचे वाफेर जगतात. ही वाफ, खरी न्हय ती.'

'मागीर खरें कितें?'

'तुजें स्वतंत्र व्यक्तिमत्व, फकत तुका ताचें भान ना.'

'म्हणजे हांवें कितेंय करपाचें?'

'स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाचो साक्षात्कार जाल्ली व्यक्ती केन्नाच कित्याय कितें करिना. आनी मतींत धर, हांवूय बी कित्याय कितें करचोंना. म्हाका नियतीचें भान आसा. हे नियतींत

तुंवूय आसा, म्हजे भोंवतणचीं सगलीं आसात. पळय, असो खीण येवं येता, मानलो जाल्यार हांव फकत म्हजोच, आनी हांव कोणाचोच आसूंक शकना. आनी जर हांव कोणाचोय आसूंक शकतां, तर त्या कोण म्हणटा ताणें म्हाका मानून घेवपाचो प्रयत्न केलो जाल्यारूच हें सभावीक तरेन घडूंक शकता. तुजे बाबतींत तशें घडलां. तुका हांव सभावीक तुजो कसो दिसतां म्हणून तुका अशें भंयभिरांतीन झपाटलेलें आसा. भंय काड तो मनांतलो आनी निखळ सत पळय.'

'म्हज्या मनांत गोंदळ माजला.'

'गोंदळ न्हय, दुबाव तो. संशय, भिरांत आनी आपूण हारिल्ल्याचो भैरजळोव. तुजें काळीज कित्याक कलकलता? हो सगलो संवसार तुका तुजोच कसो दिसता तसो संवसार कोणचोच नासता. मात संवसाराचे आमी आसतात. पूण ताचें भान संवसाराक नासता. कारण ती एक सभावीक प्रक्रिया. जल्माक येवचे पयलीं आमचें नासप आनी मरणा उपरांतचें नासप हातूंत संवसाराक कांयच फरक पडना. शेकीं आमी नाशिल्लेच अवस्थेंत ना नपय जातात हें सत्य. पूण आमी तर हांगासर अमृताची कुपी घेवन अजरामर आशिल्लेभशेन वागतात आनी हाचेर ताचेर झोपय मारतां मारतां हें म्हजें तें ताचें म्हणटां म्हणटां सोंपतात. सोंपले म्हणपाचें कोणाक खबरूय नासता. आसप आनी नासप ह्यां मदलो काळ फकत तुजो म्हजो आसता.'

'हें सत्य कळिल्लो मनीस दुख्खी नासता रे?'

'ना, तो दुख्खी नासता. उरफाटें तो खूब स्वतंत्र आसता. कसलेच चिंते विरयत हुसक्या मेकळो. बिनधास्त आसता. कारण, ताणें कांयच हाडिल्लें नासता आनी कांय घेवन व्हरपाचें नासता. ना जाल्यार दाखय म्हाका एक तरी देख संवसारांत, कोण कितें घेवन येवन कोण कितें घेवन गेलो?'

'कितें म्हणपाचें आसा तुका?'

'हो मदलो काळ तुजो आनी म्हजो तसो तो सगल्यांचोच आसता.'

'फकत म्हजो आनी तुजो?'

'परत तूं थंयच आयलें. आगो, वस्तुस्थिती तशी ना. आमी इतलीं संकुचित जावंकच शकनात. तुजें व्यक्तीमत्व हें तुजेंच. म्हजें न्हय. हांव तुजेभशेन दिसना, तुजेभशेन वागना. आमचो देह एक न्हय, आत्मो एक न्हय, कार्य एक न्हय, फकत आमी दोन व्यक्ती, दोन मनशां, दोन देहाचीं, दोन मनाचीं.'

'म्हाका आजूनय धीर येना...'

'पूण धीर वगडावपाचो प्रसंगूच हांवें तुजेर हाडुंना जाल्यार.'

'खरेंच सांगता?'

'परत दुबाव?'

'म्हाका अशें आनी तशें घडिल्लें नाका.'

'म्हाकाय बी नाका. पूण तें म्हज्याय हातांत ना आनी तुज्याय हातांत ना. तें घडत आसा. आमी ताका नियती म्हणटात. कोण नशीब म्हणटात. खूब जाणांक दिसता, हें

घडचें न्हय आनी तें घडचें न्हय. हें फकत दिसप आसता. दिसलें म्हणून बदल जायना. ना, पळय संवसाराच्या घडणुकांचेर नदर मारून. एकल्याकच न्हय, सगल्याक अमूक तमूक घडचें न्हय अशें दिसून लेगीत तशें घडून वता. मागीर आमी फकत एक तर बरें जालें अशें म्हणटात वा वायट घडलें म्हणून चुरचुरतात. हे दोनूय प्रसंग एकामेकांक पुरक उरतात.'

'आमच्या हातांत कांय एक नासता?'

'आसा. विस्वास. तो लटको, अधांतरी जावं उखलापो आसूंक फावना. इतली ताची शक्त आसता. पूण ती दुबावा विरयत आसूंक जाय.'

'पूण तुवें म्हज्या विस्वासाक वेर घाल्या.'

'ना. हांवें वेर घालुंना. तो फकत तुजो भास, तुका तशें दिसता. म्हजे जिणेंतली घडणूक तुका विचित्र दिसली. जावं ती घडणूक घडची न्हय अशें तुका दिसलें आनी दिसता, देखून तूं अशें म्हणटा.'

'उलयता तसो वागता?'

'हय, तसो प्रयत्न आसा. देखूनच तर हांव तुजेपासून कांय एक लिपयना. सगलें पुस्तक उकतें करून वाचतां. मात ताचो परिणाम हो असो भोगपाची पाळी म्हजेर येवपाची न्हय.

'अशें घडपाचें न्हय रे.'

'तेंच तर कोडू सत न्हय? आनी तें गिळपाची शक्त तुज्यांत येवची म्हणून हांव प्रयत्न करतां. म्हजी खात्री आसा.'

'कसली?'

'तूं एक तर एक दीस वास्तवता समजतलें हाची. तूं इतलें दुबळें केन्नाच नाशिल्लें. देखून तर हांगा पावलें न्हय? आनी दुबळ्या मनशाक केन्नाच एकलेंपण सोडिना. तशी तुजी अवस्था जावची न्हय, कारण तूं खऱ्यांनीच एकटें ना, भोंवतणी नदर मारून पळय.'

तें वयर येवपी दिसा बरोबर फुलत्या फुलाभशेन प्रसन्न जायत आयिल्लें. बरोच वेळ जाल्लो. अशी सकाळ आयली तेंवूय एका अर्थाच बरेंच जालें. ताका केन्ना तरी हें सत्य सांगपाचेंच आसलें. ताच्या मनांतलो दुबाव काडपाचोच आसलो.

हांव उठलों, म्हाकाय ल्हव ल्हव दिसलें. आनी इतलो तेंप अशें व्यक्त जावंक मेळिल्लें जाल्यार ताचीय अशी जात्रेंत शेणिल्ल्या पोराभशेन गत जावचीच नासली. पूण अशेंय घडपाक योगूच येवचो पडटा.

तें आंगापांगांत वारें भरिल्लेभशेन उठलें आनी रांदचेकुडींत गेलें. हांवें भायर नदर मारली. करन्याचेर आनिकूय शेवणीं, गिरबुजीं येवन चिंवचिंवतालीं. सगल्या सवण्यांचें चिंवचिंवप एका सुरान जातालें. तेन्ना इतलीं सवणीं आसुनूय एकूच सवणें चिवचिवता कशें दिसतालें. पूण खरेपणी तो आवाज कितल्याशाच सवण्यांचो आसलो.



२१.

# गोंय मोडलें आनी जुयें घडलें

'तो तळपटो सडो हुपून आमकां गंवडाळेचे तारीर पावूंक जाय. बेगीन तयारी करात.' दादान सगल्यांक लेखून म्हळें. यमनें तेन्ना भायले वसरेर बसून आसुडटालें. यमन्याच्या मनांत घर सोडपाचें नासलें. कितेंय जाता जाल्यार हांगाच जावंदी. किरिस्तांव जावचें पडटलें म्हळ्यार कितें काय देवा? यमन्याक परत परत तोच प्रस्न पडटालो. वाड्यार सगल्याक बोवाळ पडिल्लो. आयज फाल्यां पाद्री येतले आनी आमकां बाटयतले. यमन्यान धीर करून दादीक विचारचें अशें थारायलें. ताणें हातांतलें सूप सकयल दवरलें आनी तें भायर आंगणांत आयलें. दादो खळ्यापेळेर बशिल्लो. ताचे काश्टेचो शेव पेळेवयल्यान सकयल लांबतालो. कमराचे किरवंटीक कोयतूल खोयलेलें आनी हातांत शेताची विडी आसली. ताणें ती निकतीच ओडून काडिल्ली. यमन्याक पळोवन दादीन परत म्हळें, 'यमन्या, तयारेक लाग. कितें घेवं येता तितलेंय घे. आमकां आतां गोंय सोडून जुयां वचूंक जाय.'

'कित्याक दादो?' यमन्यान सरळ विचारलें.

'तें सांगोन तुका कळटलें? आमचो भाटकार बाटलो, किरिस्तांव जालो. तेचो मेळ काडलेलो गोंय शारांत घोड्यार, घोड्यार बसयलेलो तेका फिरंगी राजांनी.' दादीन सांगलें.

'दादी, बाटप म्हळ्यार कितें?'

'किरिस्तांव जावप गो.'

'आतां आमी कोण तर?'

'ते आमकां कोकणे म्हणटात.'

'भाटकार किरिस्तांव जालो? आतां तो खूब्ब गोरो गोरो पिट्ट जातलो न्हूं? दादो, किरिस्तांव जातकूच कात लेगीत कशी बदलता रे?'

'कोण सांगता कात बदलता म्हणोन? काळो मनीस म्हणोन गोरो जावं येता?'

'येता खंय. देखून जे कोण बाट्टात ते खंय गोरे जातात. पाखले कशे.' आनी यमनें आपलेभितरूच हांसता.

'बेरेंऽऽ खबर आसा मगो तुका!'

आनी यमनें खोशयेन परत हांसता. यमन्याक आपूण कितें तरी जाणा हें दादाक खबर आसा हाचो अभिमान दिसता. पूण ताचो हो हांसो खिणापुरतोच उरता.

यमनें दादीली व्हडली धूव. वयावयलें. तसो न्हातो-धुतो काळ जावनय आजून उजळोवंक

नासलें. यमन्याकय आंगाक गेस काडचो वो हातभर चुडो घालचो अशें केन्ना दिसलेंच ना. तें बकें कशें खंय तरी खोल खोल नदर घालून आपल्या मनांत बुडून वतालें. यमन्याक सगलोच प्रकार अजापाचोच दिसतालो.

गांवांत गोरेपिट्ट फिरंगी येत पासून गांवांतले सगले कुळवाडी तांकां दचकून वागताले. फिरंग्यांचें तारू जेन्ना न्हंयचे देगेक लागिल्लें, तेन्ना गांवाचेर अपसरण आयिल्ल्याची सुलूस कोणाक तरी लागिल्ली आसुंये. त्या सुलूस लागिल्ले पिळगेंतलें एकटें यमनें. ना म्हळ्यार यमनें बरेंच शिटूक आसलें. भोंवतणीं कितें कितें घडटा तें सगलें उकत्या दोळ्यांनी पळयतालें आनी कानभर आयकून घेतालें. अशीं हेर कोण भुरगीं त्या वाड्यार नासलीं. यमनें दादीच्या उतरांनी परत एकदां भानार आयलें. दादीन तांकां सगल्यांक साटली पोटली बांदून गोंय सोडपाची तयारी करूंक सांगिल्लें.

गोंय गांव मांडवी न्हंयचे देगेर. थंयच एक ल्हानशें शिवमंदिर आसलें. फिरंगी जे पयले भितर सरले ते ह्या शिवमंदिराचे भितोडेच्यान. तान लागतकच पयलें सावें-गोडें उदक ते फिरंगी पियेले ते देवळासामकार आशिल्ले बांयंतलें. फिरंग्यांक गोंयां रावपी भाटकारांनी पयलो येवकार दिलो आनी शिवमंदिराच्या मुखावयल्यान तांकां वयर हाडले तो रस्तो गोमंतपाटणांत वचपी. त्या रस्त्यान फिरंगी वयर आयले. जळींमळीं सगलीं झाडांपेडां आनी गच्च झोपां. थंड शितळ वातावरण फिरंग्यांक बरें मानवलें आनी फिरंग्यांनी थंयच राबितो करपाचें थारावन माकाव तारवांतलें सगलें सामान तडीक काडलें. त्या सामानाभितर आशिल्लीं तुबकां पळोवपाक गोंयांतले सगले लोक जमा जाले तेन्ना एका फिरंगी सरदारान एक तुबक हातांत घेवन मळबांत फार पेटयलो आनी झाडार बशिल्ल्या एका कावळ्याक फडफडत भुंयेर उडयलो. तुबकाचो तो भिरांकूळ प्रकार पळोवं नाका, गोऱ्या फिरंग्याक तारवा वयल्यान देंवतात तें पळोवपाक रस्त्यार जमा जाल्ले गोंयांतले सगले कुळवाडी शेंपडी तुटसर धांवत सुटले.

तुबकाच्या एकाच फारान अशे जीव मुठींत धरून धांवतल्या लोकांक पळोवन फिरंगी सरदार मळबाकडेन तोंड करून खो खो करून हांसूंक लागले. तांचो तो हांसो इतलो भिरांकूळ आसलो की त्या रानांतलीं सगलीं सावदां कान तटासून पळपाक तयार जालीं आनी झाडावयल्या सवण्यांनी तर केन्ना पप्पा काडिल्ली.

आनी उपरांत इल्लीं इल्लीं त्या गच्च रानांत सुर्याचीं किरणां लखलखूंक लागलीं आनी एक दीस गोंय उकतें मळ जालें आनी त्या उकत्या मळाचेर फिरंगी सरदारांनी आपलीं व्हड व्हड घरां उबीं केलीं.

कोणाक कांय कळ्ळेंना. आदिलशाहाच्या त्रासांतल्यान मेकळे जावचे आशेन फिरंगी सगल्यांक देव कशे दिसपाक लागले. गांवांतले भाटकार, रयत, कुळवाडी सगले फिरंग्यांक आदार दिवंक लागले. फिरंगी हरवें सोदताले थंय तांकां भाजिल्लें मेळपाक लागलें. आनी एक दीस फिरंग्यांनी एके फाटोफाट एक अशीं आपलीं तारवां मांडवी न्हंयंत नांगरलीं. तेन्ना कितें पळयतलो ?

तारवाचीं तारवां मांडवी न्हंयेंतल्यान भितर सरतालीं आनी फिरंगी चोम्यांनी येवन

वयर रावताले. कितें घडटा तें कळचे पयलींच फिरंग्यांनी गोंयांत आपलें बस्तान बसयलें आनी पयली खोंट मारली ती गोंयांतल्या खोंपीभाशेन आशिल्ल्या शिवमंदिराचेर. ताणी मातयेचे खांबे भराभर मोडून उडयले आनी कोलवाचें पाखें पेटोवन उडयलें. यमन्याक याद जाता त्या दिसाची. देवळाक उजो घातिल्ल्याची खबर गांवागांवांनी पाविल्ली. लोक गोंयां येताले, पूण फिरंगी तुबकांनी लोकांक जिते मारूंक लागल्यात अशी फाम जायनाफुडें हातांत एक सादो दांडोय नाशिल्ले लोक फाटीं रावले.

'गोंय मोडटा, दादो आमचें गोंय मोडटा.' यमन्यान किळांच मारिल्ली, बोबो मारिल्ल्यो. दादा आनी वाड्यावयले सगले लोक जमा जाल्ले. पूण देवळाकडेन वचपाचो धीर मात कोणाकूच जायनासलो. मदींच फाम येताली कीं गांवांतलो एक भाटकार फिरंग्यांक वचून मेळ्ळो आनी उपरांत ताणें आपलें पुडवें सोडून कालसांव घालपाचो सुवाळो केल्लो, मिशी वाडोवपाचो सोपूत घेतिल्लो.

तेन्नाच्यान गोंय मोडत गेलें, कोणेंच गोंय साल्वार करपाचो प्रयत्न केलो ना. प्रयत्न करपासारकें तांचेकडेन कांयच नाशिल्लें. कितेंय आडमेळे हाडिल्लेच जाल्यार उंदीर कशे पटापट मरतले आसले. सगलीं कुटुंबां तार हुपून पलतडी जुंयार गेल्लीं. साटली-पोटली माथ्यार मारून जें जें कितें उखलून व्हरूंक येतालें तितलेंय तांणी खांदार मारून उखल्लें. आतांमेरेन चडशीं कुटुंबां गेल्लीं. दादालें एक कुटुंब वचपाचे तयारेक लागिल्लें. आयज ना फाल्यां तांकां वचपाचेंच आसलें. गांवांतले थोडेजाण रावताले. पूण तांणी सगल्यांनी किरिस्तांव जावपाचें उतर दिल्लें. किरिस्तांव जातल्यांक फिरंग्यांनी जायतीं आमिशां दाखयल्लीं. गांवांतलो मोटो जमीनदार बाटले उपरांत तर गोंयांत ताचें व्हडलें पुरसांव काडटाले.

पयलीं पयलीं यमन्याच्या दादाकय किरिस्तांव जायन दिसतालें. आनी दादाची तकली निवळ करपाक दादाक एका पाद्रीन बरोच जिखून घेतलेलो. पाद्री गोरोपिट्ट. इल्ली इल्ली तुटकी फुटकी कोंकणी उलोवंक शिकिल्लो. ताणें दादाक सांगलें, 'जाणा जा, तुमकां आमी सुदारूंक आयल्यांव. तुमी रानवोटी मुनीस, फाटीं आसात. तुमचें देवसांव हें साप्प देंवचाराचें माल्लीसांव, जाणाय मुरे?' पाद्री दादाक सांगतालो आनी दादा तकली हालयतालो. अशें करतां करतां दादा कसोच बदना तें पळोवन तो पाद्री एक दीस दादाले खोंपींत भितर सरिल्लो. ताणें मोगान गोड उतरांनी दादाक साद घाल्लो तेन्ना यमनें भितर चुलींत उजो फुंकतालें ती कोंड्या नळी थंयच उडोवन कमराक फाळी गुठलावन तशेंच भायर आयिल्लें. भायर येवन पळय जाल्यार तांचे खोंपींत एक लांब रूंद मनीस उबो आसलो. ताणें पांयांकडेन तेंकता तसलो काफये कोराचो झगो घाल्लो, कमराक हळडुव्या रंगाची दोरी बांदिल्ली. हातांत एक पेटी आसली. पेटयेंत कितें आसलें तें यमन्याक कळ्ळें ना. यमन्यान ताका येद्दे दोळे करून भंयानूच पळयलें.

'दादा, खंय आसा?'

'आ... आसा. न्हिदला.' यमन्यान पाद्रीक सांगलें.

'बोरें आसा, न्हिदों दी तेका. कासाद जाला जातलो. तूं कोण ताची? धूव?'

यमन्यान मोन्यानीच हय सांगपाक मान वयर सकयल केली.




'हं... बोरें शिटूक आसा. मुयत बें. नांव कितें तुजें?

'यमुना. यमनें म्हणटा म्हाका दादा.'

'मुयत बें. दादान तुका सांगलां न्हू?'

'कितें तें?'

'तुमी कोंकणेपण सोडपाचें. तुमच्या बोऱ्याक किरिस्तांव जावपाचें.'

'म्हणजे आमी आमचो कोंकण गांव सोडपाचो?'

'नो... नो. नांव... तोहें न्हू... कोंकण गांव तसो सोडोप न्हू. तुमी सोगळीं कोंकणांतूच आसतोल्यांव, हिंसोरूच उत्तोलीं. पूण मानान आनी भेसान आमचे भशेन फिरंगी जातलीं. तुमी आमचीं जातलीं, येवरोपी, पुर्तुगालचीं जातलीं. तुमचें देंवसांव हें सैतानाचें देवसांव. कितले ते देव तुमचे? उगडास तोरी उरता कोणाक? कितलीं तीं बुकां? कोण वाचता तीं? तुमकां तोर वाचूंकच कोवोना तीं. आतां आमी तुमकां सोंपेपोण कोत्तोले, एकाच देवाचीं तुमी आमचे पोरी जातोलीं. एकूच बुक आसतलो तुमकां.'

यमन्याची तकली कणकणपाक लागली. पाद्री खऱ्यांनीच गोड उलयतालो. पूण तो जें कितें सांगतालो तें आयकून यमनें सामकें गोंदळांत पडिल्लें. ताका त्या पाद्रीलें कांय एक समजनासलें. ताणें ल्हवूच दादाक साद घालो तेन्ना पाद्रीच म्हणूंक लागलो. 'हय, उठोय तेका. तूं भुरगें आसा, तुका सोजमोचेंना तें कांय, व्होडलें जातोच सोजमोतेलें.' अशें म्हणून दादी उठून भायर येवचे पयलींच पाद्री ओणव घेवन दादीले खोपीचीं मल्लां कवडी धुकलून भायर सरिल्लो.

इतले म्हणसर सगलो प्रकार यमन्याच्या लक्षांत आयिल्लो. पयलीं पयलीं ताकाय दिसतालें, आपणें घर सोडून खंयच वचचें न्हय. भोंवतणचे रुखावळीकडेन यमन्याचें नातें जाल्लें. केळी, माड ताचे सांगाती जाल्ले. गाय वासरां ताका आपलीं भावंडां कशीं दिसतालीं. तांकां सगल्यांक सोडून पयस जुंयार कायमचीं रावपाक वचप यमन्याक कशेंशेंच दिसतालें. पूण आतां ताणें आपलें मन घट्ट केल्लें. दादीय आतां तयारेक लागिल्लो आनी आयज तर दादी येवन बेगीन भायर सरपाक फर्मायतालो.

'दादो, हय, या आमी.' खळ्यार पेळेर बशिल्लो दादी तेन्नाच उठ्ठालो. ताणें यमन्याक अजापान पळयलें आनी म्हळें, 'जावं, पोराच्याय मनांत जालें तर. बरें जालें, पोराचो आनी हांगा जीव उरोंक नाका.'

'दादो, म्हाका किरिस्तांव जावपाचें ना त्या भाटकाराभशेन.'

'तो फुकट जावंना गो. तेकां भरपूर दिलां तेणी. अख्खी दिवाडी दिल्या खंय तेका. आतां तो पलतडी वोचोन थंय रावतलो.'

'दादो, थंयचेय लोक पळोन नारव्यां गेल्या खंय?'

'अशें कानार पडलां. आतां कोण रावतलो ह्या मोडलेल्या गोंयांत. मोडलें आमचें गोंय!' अशें म्हणत दादीन एक लांब हुस्कारो सोडलो आनी भितर वचून सामान सुमान बांदपाचें चिंतून भितर वचपाक लागलो. इतल्यांत यमन्यान परत ताका प्रस्न केलो.

'दादो, आमी फाल्यांच या. दिसाउजवाडी नाका. म्हाका त्या गोऱ्या फिरंग्याचो सामको

भंय दिसता. तेचें आयकना जाल्यार खंय ते बळजबरीन करतात, ना जाल्यार तुबकां पेटयतात आनी जिवानिशीं मारतात खंय.'

दादीन यमन्याच्या मनांत घर जाल्लो भंय वळखलो. आमोरेर सगलीं घरांत येवपाचीं आसलीं. गोरवांक चरवाक घेवन गेल्लीं भुरगीं आनी भाटांत तणां पेणी बांदूंक गेल्ली घरकान्न बी सगलीं येतकच सगल्यांक सारकेंच समजावन सांगचें अशें चितून दादी भितर गेलो.

दुसऱ्या दिसा फांत्यारूच दादीलें गोरू हामेलें तेन्ना सगलीं जागीं जालीं. घर सोडून वचपाचे चिंतेन तसो कोणाकूच दोळो लागूंनासलो. सगलींजाणां बेगीबेगीन उठलीं आनी वचपाचे तयारेक लागलीं.

यमनेंय उठलें. पूण वचपाचे खीण जशे जशे लागीं पावताले तशें यमनें चलबिचल अवस्थेंत पावपाक लागलें. मर्दी मात्त ताका दिसपाक लागलें, हांगाच्यान वचप ना आनी बाटपय ना. पळोवया कितें करतात ते, कशे बाटयतात ते. मारतले मूं, मारुंदी, आमी हांगाच मरचीं. आनी मनांतलें चितप आसतनाच घरांतलीं सगलीं वचपाचे तयारेक लागल्यांत तें पळोवन ताचें दुसरें मन ताका म्हण, तुका अशें दिसून फायदो कितें? सगलो गांव पयलीं वाटेक लागला. जायत्या जाणांनी तर थंय जुयें घडोवपाक वावरूय सुरू केला. तुजी एकल्याचीं शाणपणां चलतात? यमन्यान दुसऱ्या मनाचें आयकलें आनी जड मनान ताणेंय आपलें सामान उबारलें.

बुडकुल्यांत शिजयल्ली उकडी पेज सगलीं जेवलीं. पोवलेची पोंय आवळून यमनें हुनहून पेज घटाघट पियेलें. यमन्याचें मन भितरल्यान जळटालें आनी भायल्यान मात वयलेचाराक कोणाक आपलें मनभर दुख्ख दिसचेंना हाची जतनाय घेतालें.

'आनीक कळाव करुंनाका. उजवाडलें.' दादीन निमाणी इशारत दिनाफुडें सगलीं घरांतल्यान भायर सरलीं. दादी फाटल्यान यमनें भायर सरपाक लागलें. पूण ताचीं जड जाल्लीं पावलां कशींच उखलना जालीं. ताच्या काळजांत उमाळो आयलो आनी खिणांत ताचे हुंदके भायर फुटले.

'पोरा, फांत्या पारार अशें रडनात. आमी बऱ्याक भायर सरतात ह्या घरांतल्यान. हांगा रावल्यार आमचें वायट जातलें तें जाणा न्हूं तूं. चल, रडों नाका. म्हजें बाय तें.' अशें म्हणून दादीन यमन्याक आपले वेंगेंत ओडलें.

'दादी, म्हाजें गोंय सोडूंक जिवार येता रे.'

'कितें करतलो? सोडचें पडटा न्हूं आमकां. येता न्हूं आमच्या नशिबांत? चल, आतां आनीक कळाव करुं नाका. उजवाडचे पयलीं तारीर पावुंया. तो सडो चलोंनाका?'

यमन्यान काळजार घट फातर दवरली आनी भायर आंगणांत आयलें. फांत्यावयल्या त्या हयन्हयशा उजवाडांत ताणें सगलें शिवर पळोवपाचो प्रयत्न केलो. गोठ्यांतलीं गोरवां सोडोवन तांकां केऽन्ना वाटेक आमुडिल्लीं. कुकडांचे दोंके बांदून पोतयेंत भल्लेलीं. यमन्याचे धाकटे भयणीन मांजराक वेंगेंत घेतिल्लें. ताणें पळयलें, मांजर कुकडां सगलींच गोंय सोडपाक तयार जाल्लीं. मन घट करून ताणें दादीक म्हळें, 'चल या आमी दादी.

मोडों दी हें गोंयें, आमी घडोवंया थंय नवें जुयें.'

आनी पांयांक चक्रां लायिल्लेवरी वारें जावन यमनें जुयेंचे वाटेक लागलें.

जेन्ना तीं वयल्या सड्यार पावलीं तेन्ना न्हंये पलतडीं जुयेंच्या दोंगरार लोकांक पळयलें तेन्ना बरेंच उजवाडिल्लें. सुर्याच्या तांबशा किर्णांच्या वतांत शेंकड्यांनी लोक आपआपल्यो खोंपी उबारताले. गोंयें मोडून ते सगले जुयें घडयताले.

यमनें नवे उर्बेन तारीर पावलें आनी जुयेंची देग केन्ना लागीं येवन तारींतल्यान देंवून वयर पावतलें अशें ताका जाल्लें. यमनें सगल्यांत पयलीं जुयेंचे तारींत चडलें आनी मदले बाणीर बसलें.



## श्री. एन्. शिवदास

अंत्रुजनगर, फोंडें – गोंय.
जल्म : १७-३-१९४९ (नागेशीं, बांदोडें)
व्यवसाय : शिक्षक

### उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां

- गळसरी – कथांझेलो
- नकलामी – कादंबरिका
- पिसांट – नाटक
- फॉरेन जांवय – नाटक
- बंड – नाटक
- बाबू – भुरग्यांली नवलिका
- झरो जालो महासागर (भुरग्यांखातीर)
- महारुख – कथांझेलो

हेचवांगडा सुनापरान्त, राष्ट्रमत, दै. पुढारी खातीर स्तंभलेखन.

### चळवळी

- देवळें खुली करा चळवळ
- कोंकणी भाशा आंदोलन
- शेतकरी चळवळ

सद्या गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष

---

ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन
श्रीस्थळ – काणकोण, गोंय ४०३ ७०२